# कारबारी कोंकणी

भूषण भावे
प्रकाश वजरीकार
प्रकाश पर्येंकार

## तुमची चीट आमची जाप

वाचप्यांचीं पत्रां

तुजें पत्र पावलें

तुजें पत्र पावलें. तुजें ... आसा.
.....भावनांची उल... खेळपाची
उलयांकडेन आपालिपा ...
हालीं तुका संशयच ...

वसाळविरय मळबांत
आतां तुजी पावलां, काळजाच्या येणार
भरवंशाचीं नखत्रां जावन
तूं अशी नवरे पैस आसूनय.

पूण ....
अशें रडपाचें नासता
यायदिको वेळ्यात म्हूण!
सांजसांगेल कुकूम भरलल्या
सूर्याक लेगील
दीस सोसचो पडटा....

— पुंडलीक नारायण नायक

सुनापरान्त
जैत
जैत
राष्ट्रमत
राजहंस
कोंकणी
गुलाब
लोक अदालत
जाग
राजहंस
नवें पर्व
कोंकण टायम्स
सुनापरान्त
कुळागर
गायचो आवाज

कोंकणी उलय कोंकणी बरय, कोंकणीतल्यान वेव्हार चलय

# कारबारी कोंकणी


प्रा. भूषण भावे

प्रा. प्रकाश वजरीकार

प्रा. प्रकाश पर्येकार


भास संपादन

दामोदर घाणेकार





# कारबारी कोंकणी

प्रा. भूषण भावे
प्रा. प्रकाश वजरीकार
प्रा. प्रकाश पर्येकार



प्रकाशन क्रमांक : 291

दुसरी आवृत्ती : 2001
(साहित्य पसवण भागींक : 60 रुपया)



प्रभाकर द. भिडे
राजहंस वितरण, 1-मीनाक्षी बिल्डिंग,
डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी - 403 001

छपाई :
राजहंस ऑफसॅट, पणजी

अक्षरजुळणीः
तन्वी ग्राफीक्स, मडगांव

मुखपृष्ठ आनी सजावट :
दीपक पेडणेकार

मोल :
2001 - रु. 150/-
2002 - रु. 150/-
2003 - रु. 160/-

# प्रस्तावना

'कारबारी कोंकणी' हें पुस्तक वाचप्यांमुखार दवरतना आमकां खूब खोस भोगता. जायतो तेंप हे तरेचो वावर कोंकणींत जावंचो अशी काळजाथावन इत्सा आशिल्ली. गोंय विद्यापिठाच्या पदवी अभ्यासक्रमांत सगल्या भारतीय भाशांनी 'वेव्हारीक भास' ह्या माथाळ्याखाला १०० गुणांचो एक पेपर आसा. तो शिकयता आसतना संदर्भ-साहित्याचो उणाव सोंसचो पडटालो. शिकोवप्यांपरस विद्यार्थ्यांक ह्या प्रस्नाक चड खरायेन तोंड दिवचें पडटालें. अर्ज कोंकणींत कशे बरोवंचे? पत्रां कोंकणींत कशीं धाडचीं? कार्यालयीन वा वेवसायीक वेव्हार कोंकणींत कसो हाडचो? अशे प्रस्न विद्यार्थ्यांमुखार उबे जाल्ले दिसताले.

दुसरें म्हळ्यार दीसपट्ट्या वेव्हारांत लेगीत अजून कोंकणीचो उपेग जावपाक लागूंक ना हाजी एक खंत काळजांत आशिल्ली आनी अजुनूय बी आसा. 'निमित्ताक कारण' अशें म्हणटात तशें सगलो वेव्हार इंग्लीश भाशेंत करूंक सोदपी मनीस 'आमकां कोंकणींतल्यान हो वेव्हार जावंचो कशें दिसता खरें, पूण तो कसो करचो तें आमकां खबर ना, त्या विशयांतलें एक लेगीत पुस्तक ना' अशी कागाळ करतना सदांच पळोवंक मेळटालो. कोंकणी समाजीक, कार्यालयीन, प्रशासकी आनी हेर वेव्हारांची भास जावंक पावूंक ना. हे गजालीक सामान्य नागरीक न्हय जाल्यार खासा शिकिल्लो-सवरिल्लो कोंकणी मनिसूच जापसालदार आसा. Charity begins at home म्हणटात तशें सरकारी कार्यालयांत आसूं वा घरगुती पत्रवेव्हाराच्या वेळार आसूं, कोंकणी विद्यार्थी, कोंकणी शिकोवपी, कोंकणी साहित्यीक आनी कोंकणी चळवळींतलो मनीस हांणी खासा आपूण कोंकणीचो उपेग पयलीं करपाक सुरवात करपाक जाय. तें घडटकच सामान्य मनीस आपुणूच ल्हवूच कोंकणीवटेन ओडटलो. इंग्लीश भाशेक पर्याय निर्माण जावंचो आनी कोंकणी भाशेच्या वेव्हाराची वाट मेकळी जावंची ह्या उद्देशान ह्या पुस्तकाची रचणूक आनी निर्मणी केल्या.

ह्या पुस्तकाचे मुळावे अशे सात वांटे केल्यात. पयल्या वांट्यांत मुळावे मसुदे (elementary draftings), दुसऱ्या आनी तिसऱ्या वांट्यांत प्रगत मसुदे (advanced draftings), चवथ्या वांट्यांत अर्ज-लिखाण, पांचव्या वांट्यांत प्रसारमाध्यमांखातीर लिखाण, जाल्यार सव्या वांट्यांत 'जायरात' हो विशय स्वतंत्रपणान घेतला.

पुस्तकाचे निमाणेकडेन विस्तृत अशें परिशिश्ट जोडलां जातूंत विंगड-विंगड विशयांवयली आनी मळांवयली परिभाशीक उतरावळ तशेंच हेर माहिती हांचो आसपाव

जाता. तेचप्रमाण अदींमदीं विशयाचे गरजेप्रमाण त्या त्या संदर्भांतले तकटे दिल्यात.

अशे तरेचो वावर कोंकणींत पयलेच फावटीं येता. देखून अर्ज, खाजगी पत्र वा कार्यालयीन पत्र बरयतना त्या त्या विशयाप्रमाण संबोधनाची, येवकाराची, निरोपाची, भौमानाची, अधिकाराची, कार्यालयीन वेव्हाराची भास घडोवंची पडली. आमचेपरीन ती कोंकणी दिससारकी, कोंकणी तजुर्म्याची करपाचो यत्न केला. ही भास एकेच तरेची जावंची न्हय म्हणून जाता तितलें वैविध्य आनी विंगडटाय हाडपाचो यत्न केला. हो वावर चडूय काल्पनीक, लोकांच्या दीसपट्ट्या वेव्हारांत नाशिल्लो जावंचो न्हय, देखून शक्य जाता थंय आनी जमता तितलो वास्तवाकडेन वचपाचो यत्न केला. ह्या सगल्या वावरांत चुको आसूं येतात वा खंयच्याय उतराक वा वाक्याक (संबोधनाक बी) पर्याय आसूं येतात. वाचप्यांनी आनी जाणकारांनी तें मुजरत कळीत करून आमकां सुदारपाची संद दिवंची ही विनवणी.

ह्या पुस्तकांत फकत वेव्हारीक भाशेचेंच रूप दोळ्यांमुखार दवरिनासतना कोंकणी भास, चळवळ, साहित्य हांचें पडबींब कांयशा प्रमाणांत दिश्टी पडचें हो हेत आशिल्लो. देखून कांय साहित्यिकांचीं पत्रां, कांय कोंकणी संबंदांतलीं सरकाराक/अधिकाऱ्यांक बरयिल्लीं पत्रां, कांय पत्ररूप संवाद ह्या पुस्तकांत आसपावल्यात. तांचो आसपाव करूंक दिल्लेखातीर त्या-त्या बरोवप्यांचे आमी उपकारी आसात.

हो वावर जाता तितले शास्त्रीय आनी विज्ञानीक कसवटणेचेर करपाचो यत्न केला. ह्या पुस्तकांतली माहिती कायदे/नेम/चलणूक हांकां धरून आसची असोय यत्न केला. वेव्हारीक कोंकणी भाशेचें प्रमाणीकरण जावंचें आनी सर्वमान्य उतरां घोळणुकेंत येवंचीं ह्या उद्देशान भास केळोवपाचो यत्न केला. पत्रां वा अर्ज हांचे आकृतीबंध (formats) परंपरीक (traditional) तशेंच टायपरायटर, कम्प्युटर हांचे सोयीक धरून बदलिल्ले आर्विल्ले (modern) अशे दोनूय तरांचे नमुने दिल्यात. विद्यार्थ्यांनी वा हें पुस्तक वापरूंक सोदपी व्यक्तीन आपल्याक ते जाय तशे वापरचे. ह्या पुस्तकांत वाचप्यांचे सोयीखातीर चडांत चड आनी विंगड-विंगड मळांवयले नमुने (specimens) दिल्यात. ह्या साबार नमुन्यांतले हुद्दो/व्यक्ती/थळ/काळ/वेळ हांचे सगले उल्लेख काल्पनीक आसात. ग्रामपंचायत वेव्हार, नगरपालिका वेव्हार, पासपोर्ट हांची माहिती आसपावपाचें मनांत आशिल्लें. पूण पुस्तकाच्या आवाठाचे नदरेन तें शक्य जावंक पावलेंना. तेच तरेन बँक आनी विमो हांचेविशींची फकत मुळाव्या वेव्हाराची माहिती ह्या पुस्तकांत आसपावल्या. ह्या पुस्तकांत अहवाल, इतिवृत्त वा हेर दस्तावेज वापरूंक दिल्लेखातीर त्या त्या व्यक्तींचे आनी संस्थांचे आमी उपकारी आसात. ह्या पुस्तकांतलो 'भेट-कार्डां'चो वावर श्री. राजय पवार हाणें रचला तेखातीर आमी ताजेय उपकारी आसात.

ह्या पुस्तकाच्या प्रकाशनाची जापसालदारकी एकेच भेटींत स्विकारून हें पुस्तक उजवाडायलें हेखातीर राजहंस वितरणाचे प्रकाशक भौ. प्रभाकर भिडे हांचे आमी उपकार मानतात. तेचप्रमाण फकत प्रुफांच न्हय, जाल्यार ह्या पुस्तकाचें संपादन

करून भाशेंत एकसूत्रताय हाडिल्लेखातीर भौ. दामोदर घाणेकार हांचेय आमी उपकार मानतात.

कोंकणींतल्या ह्या मळावयल्या पयल्या-वयल्या यत्नाक वाचप्यांनी आपापल्यो विधायक सुचोवण्यो दिवन येवकार दिवंचो अशें आमी मागतात.

बरें मागून,

— भूषण भावे
— प्रकाश वजरीकार
— प्रकाश पर्येंकार

श्रीनागेश देवस्थान, नागेशीं, फोंडें
ता. २२ देझेंब्र, १९९८




N.B. व्यक्तीगत/भौशीक पत्रांतलें मूळ शुद्धलेखन बदलूंक ना हाजी नोंद घेवंची.

# विशय वळेरी


प्रस्तावना

विभाग १: पत्रलिखाण

- ☐ पत्रांचें स्वरूप २
- ☐ पत्रलिखाणाचो इतिहास ३
- ☐ पत्रांचे प्रकार (तकटो) ४
  - आमंत्रण पत्रां ६
  - घरावीं पत्रां / खाजगी पत्रां / साहित्यिकांचीं पत्रां १७
  - परबीं पत्रां ३१
  - भेटकार्डां ३८
  - कागाळ पत्रां ५०
  - उपकार पत्रां ५७
  - बुजवण पत्रां ६१
  - संदेश पत्रां ६८
  - खंत उकतावपी पत्रां ७०
  - सुचोवणी पत्रां ७३
  - आवाहन पत्रां ८१
  - भौशीक पत्रां ९०
  - घराव्या पत्रांच्यो कांय ओडलायण्यो सुरवाती आनी अखेर. ९३
  - पत्रांचे घटक आनी तांचें रूप व्यक्तीप्रमाण कशें बदलता तें दाखोवपी तकटो. ९५

विभाग २ : कार्यालयीन पत्रवेव्हार

- ☐ कार्यालयीन पत्रवेव्हाराचें स्वरूप आनी प्रकार ९६
  - आदेश ९७
  - उगडास पत्र १०२
  - परिपत्रक / घोळटेंपत्र १०५
  - सुचोवणी / कळोवणी आनी अधिसुचोवणी १०९
  - जाणपत्र ११३
  - शिफारस पत्र आनी प्रमाण पत्र ११४
  - पृष्ठांकन १२०
  - नेमणूक पत्र १२१
  - बदली पत्र १२४
  - निलंबन पत्र १२७

- बडतर्फी आदेश १२९
- थराव १३१
- इतिवृत्त १३२
- टिपण १३८
- अहवाल १४३


## विभाग ३ : वेवसायीक वा वेपारी पत्रां


☐ वेवसायीक पत्रांचीं मूळ-तत्त्वां १५५
☐ वेवसायीक पत्रांचे घटक १५८
☐ वेवसायीक पत्रांची मांडावळ १६३
☐ वेवसायीक पत्रांचे प्रकार १६८
- वासपूस / चवकशी पत्र १६८
- म्हाल मागोवपी पत्र आनी ताजी जाप १७१
- विस्वास पत्र १७५
- कागाळ पत्र १७७
- संदर्भ पत्र १८१
- वसुली पत्र १८४
- परिपत्रक १८८
- एजन्सीविशीं पत्र १९२
- विम्यासंबंदीं पत्र १९५
- बँकेसंबंदीं पत्र २०१


## विभाग ४ : अर्ज लिखाण


☐ अर्जाचें स्वरूप २०५
☐ अर्जाचे मुखेल भाग २०७
☐ अर्जाचे प्रकार २१२
☐ अर्जाची मांडावळ २१२
- नोकरेखातीर अर्ज २१७
- रजेखातीर अर्ज २२६
- रजेचें स्वरूप आनी प्रकार २२६
- रजेच्या अर्जाचे नमुने २३३
- पगारवाड अर्ज २३९
- विनवणी अर्ज २४२

## विभाग ५ : प्रसारमाध्यमां खातीर लिखाण


- ☐ स्वरूप आनी प्रकार २४४
  - वार्तापत्र २४५
  - नियाळ २४८
  - माहितीपत्र २५२
  - रेडिओ / टी वी पासत मुलाखती २५४
  - भौशीक कळोवणी २६०
  - खबरांपत्रांखातीर वृत्तांत २६१


## विभाग ६ : जायरात


- ☐ दिसाळें / नेमाळ्यांतली जायरात-मसुद्याचे घटक २६४
  - जायरातीची मांडावळ २६८
  - आकाशवाणी / दूरदर्शन हांचेवयली जायरात २७१
  - होर्डिंगां आनी वणटीपत्रकां २७६
  - घडीपत्रक आनी पुस्तिका २७८


## विभाग ७ : परिशिश्ट


- बँकेच्या वेव्हारापासत उतरावळ २७९
- कांय प्रशासकी उतरावळ २८७
- कांय गिन्यानाचे फांटे २९२
- कांय वाद २९३
- शणै गोंयबाब हांच्या लिखाणांत दिसपी कांय विज्ञानीक परिभाशीक उतरावळ २९४
- कांय मंत्रीपदां आनी हेर माहितीपर उतरावळ २९५
- साहित्यशास्त्र आनी समिक्षा : कांय उतरावळ २९६
- कांय म्हत्वाचे दबाजे २९७
- कांय धर्मीक दबाजे आनी सुवाळे २९८
- कांय म्हत्वाचे दीस २९८
- कांय हेर म्हत्वाचे दीस आनी सप्तकां २९९
- भारतीय म्हयने आनी रुतू ३००
- तार-परबीं संदेशाच्यो कांय थरयल्ल्यो देखी ३०१
- कांय उद्येग-धंदे ३०२
- कांय भाशीक कुरवो आनी खुणो ३०३
- कांय आदलीं मापां ३०४
- कांय म्हत्वाचे कोंकणी अस्मितायेचे दीस ३०४
- कोंकणी राजभास बील - राजपत्र ३०५

☐ संदर्भावळ / आदारावळ ३०८

पुस्तकी शिकप नासून लेगीत
जाणी गेड्या-फाड्यांचो हिशोब मांडलो
अश्या................
आनी आखाणो मारुन वेव्हार शेणयलो
त्या................
पूर्वजांचे यादीक.



विभाग १

# पत्रलिखाण

## □ पत्रांचें स्वरूप :

पत्रलेखन ही एक कला. वाचप्यांक आपल्या मनांतले विचार सहजतायेन समजुंचे अशे नदरेन दरेक व्यक्ती ते पत्रावरवीं उकतायता. मनशा-मनशा मदलीं नातीं अतूट आसतात. इश्ट-इश्ट, मोगी-मोगिका, भाव-भयण, बापूय-पूत, आवय-पूत, अधिकारी-कारकून, धनी-नोकर, राजकारणी-मतदार, शिक्षक-विद्यार्थी हे संबंद पत्रांतल्यान स्वताक उकतायतात तेन्ना ते वाचनीय जातात. 'पत्र' म्हळ्यार एके तरेचो संवाद (dialogue). एक व्यक्ती दुसरे व्यक्तीकडेन पत्रावरवीं फकत संपर्क (communication) सादिना जाल्यार ताजेय फुडें वचून 'संवाद' करता. हे प्रक्रियेंत दोन व्यक्ती एकामेकांमुखार आसनात, तरीय एकामेकांच्यो भावना त्यो वळखतात. उलोवपांतल्यान जाल्लो संवाद दीर्घ काळामेरेन उरूंक शकना. लेखी पत्रवेव्हार मात फुडाराक लेगीत संदर्भ म्हणून वापरूंक मेळटा.

'बाबा, अरूणभैयाचें पत्र आयलां', अशें म्हणत शैलू घरांत भितर सरता. पत्र फोडटा आनी उमेदीन वाचपाक लागता. इतले म्हणसर रांदचेकुडींतल्यान आई येवन चौकार बसता आनी दिगंतरा आशिल्ल्या आपल्या पुताचो चेरो दोळ्यांत सांठयता... खोशयेन... . मनीस हो समाजीक प्राणी आशिल्ल्यान तो मुल्यां, संबंद, नातीं, भावना बी मानता, आनी त्यो तिगोवपाखातीर वावुरता. तो समाजीक लागणूक मानता, भावना-संवेदना जगता आनी जागयता. वैयक्तीक-ज़ीण, कुटुंबीक जीण, समाजीक जीण आदी जगतन्ना ताका घडणुकांची नोंद घेवंची पडटा. अशा वेळार मनीस आपल्यो भावना आनी विचार उकतावपाखातीर पत्रांचो आदार घेता

आयज पत्राची सुवात काय प्रमाणांत दूरध्वनी (फोन), पेजर्स, टीवी, मोबायल फोन हांणी घेतिल्ली आसा. हीं माध्यमां ताच्या 'तत्काळ' (immediate) आनी 'प्रत्यक्ष' (आयकुप्याच्या आनी पळोवप्याच्या) परिणामांक (effect) लागून चड लोकप्रिय जाल्यांत. पूण अशें आसून लेगीत 'डाक' आनी 'डाकिया' हांचें म्हत्व उणें जावंक ना. उरफाटें ताजो व्याप आनी आवाठ वाडत आसा. ताचें स्वरूप लेगीत बदललां... बदलत आसा. आर्दीभाशेन फकत 'परंपरीक चीट' अशें ताचें स्वरूप उरूंक ना जाल्यार Xerox printing computer fax हाच्या सोदाक लागून पत्रलेखनाक आधुनीकताय, वेगळेपण आनी आकर्शकताय फावो जाल्या. पत्रलेखनाचें म्हत्व वाडला हाची गवाय म्हळ्यार आंतरदेशी, पोस्टकार्ड, शुभेत्सा पत्र, रजिस्टर्ड पत्र, ई-मेल, एक्सप्रॅस लॅटर, कुरीयर ह्यो पोस्टाच्यो आधुनीक सुविधा, ज्यो दिसानदीस फकत

वाडुंकूच नात जाल्यार बदलत आसात. अशे रितीन पत्रांचें म्हत्व वाडत आसा. Computer floppy चेर माहिती (information) आनी दस्तावेज (documents) राखून दवरपाची प्रक्रिया वाडिल्ली आसून लेगीत, 'फ्लॉपी' वा 'डिस्क' हांची अनिश्चीततताय, इबाडपाची शक्यताय आनी मुखेलपणान ह्या सगल्या आर्विल्ल्या उपकरणांची म्हारगाय हांकां लागून 'कागदी पत्रां'चें म्हत्व उणें जावंक ना. (कागदी दस्तावेज back-up documents म्हणून दवरपाची चाल हेचखातीर आसा.) तेचप्रमाण फोनाचें स्वरूप समाजीक माध्यमाचें आशिल्ल्यान, वैयक्तीक भाव-भावनांचे अभिव्यक्तीखातीर ताजो पुराय रितीन उपेग करूंक येना. तेभायर ह्यो सेवा खेड्यापाड्यांनी उपलब्ध नाशिल्ल्यान, तशेंच तांचो वापर सामान्य मनशाक परवडपासारको नाशिल्ल्यान संवसाराच्या खांची-कोनशाक आपले यंत्रणेचें जाळें विणिल्ली, सामान्यांतल्या सामान्याक परवडपासारकी, भुरगीं धरून जाणट्यांमेरेन, बायल धरून दादल्यामेरेन सगल्यांक उपकरा पडपी 'डाक-यंत्रणा' आनी 'पत्र' हें माध्यम आपलें म्हत्व अजुनूय तिगोवन दवरून आसा.

## ☐ पत्र-लिखाणाचो इतिहास :

भारतीय पत्रलेखनाचें मुळावण खूब पोरणें. आदल्या तेंपार, पत्रलेखनाचें स्वरूप लेगीत पुराय रितीन वेगळें आशिल्लें. महाभारत काळासावन तशेंच पुराणीक युगासावन 'शब्दबद्ध' पत्रांचो वा पत्रसंदेशाचो उल्लेख मेळटा. पुराणांतलें 'नारद' हें पात्र म्हळ्यार तिनूय 'लोकां'चो पोस्टमनूच.

'पत्र' एके व्यक्तीकडल्यान दुसरे व्यक्तीकडेन पावतें करपाक खासा नेमिल्लो दूत आसतालो. ह्या 'राजदुता'क खूब म्हत्व आसतालें. आपल्या धनयाल्या दुस्मानाकडेन संदेश घेवन गेल्यार लेगीत त्या राजदुताक भौमान मेळटालो.

खूब आदल्या काळासावन पारवो ह्या सुकण्याचो उपेग लेगीत करताले म्हणपाचो उल्लेख मेळटा. कांय खेपे पत्र वा रेकाद पावोवपाचें काम बरेपणान म्हालो, मडवळ, गोंसाय, गणसाबैलकार बी करतालो.

भक्तीकाळांत 'भ्रमरगीत' प्रसंगा वेळार श्रीकृष्ण, कुब्जा, बलराम आनी हेरांच्या पत्रांचो उल्लेख मेळटा. राजा-म्हाराजांच्या वेळार महाराणा प्रताप, शिवाजी म्हाराज तशेंच मुसलमान राजवटींतल्या राजांचो पत्रवेव्हार मेळटा.

**व्यक्तीगत पत्रां**
Personal Letters

१) आपोवणें
(invitation)
२) कुटुंबीक/घरावीं/खाजगी पत्रां
(Family letters / Personal letters)
३) परबीं पत्रां/अभिनंदन-पत्रां
(Greetings / Congratulatory letters)
४) भेटकार्डां
५) कागाळ पत्रां
(Letters of complaint)
६) उपकार मानपी पत्रां
(Thanksgiving letters)
७) बुजवण पत्रां
(Condolence letters)
८) संदेश पत्रां
(Condolence letters)
९) खंत उकतावपी पत्रां
(Regret letters)

**समाजीक पत्रां**
Social Letters

१) आपोवणें
(Invitation)
२) परबीं पत्रां
(Greetings)
३) कागाळ पत्रां
(Complaint letters)
४) उपकार मानपी पत्रां
(Thanksgiving letters)
५) बुजवण पत्रां
(Condolence letters)
६) सुचोवणी पत्रां
(Suggestion letters)
७) आवाहन पत्रां
(Appeals)
८) भौशीक पत्रां / समाजीक पत्रां
(Public letters)

(समाजीक पत्रां हीं चड करून वाचप्यांच्या सदरांत नेमाळ्यांनी छापून हाडपाखातीर आसतात)

व्यक्तीगत पत्रां आनी समाजीक पत्रां ह्या दोनूय माथाळ्यांखाला आपोवणीं, परबीं, कागाळ, उपकार मानपी आदी पत्रांचो आसपाव जाता. तरी तांचें दरेका माथाळ्याखाला आशिल्लें स्वरूप आनी रूप वेगळें वेगळें आसता. देखीक, व्यक्तीगत आपोवणें आनी समाजीक आपोवणें हांची भास आनी तातूंतलो आशय वेगळो वेगळो आसता. समाजीक आशयाच्या पत्रांची भास घडयल्ली, कांतयिल्ली, निवळायिल्ली, पूर्वनियोजीत, परंपरेन घालून दिल्ल्या वाक्यांनी आनी वाक्प्रचारांनी भरिल्ली आसता. जाल्यार व्यक्तीगत पत्रांची भास उमाळ्यांतल्यान आयिल्ली, स्वयंस्फूर्त, दीसपट्टे भाशेक लागीं वचपी आनी भावनीक वलसाणीन थपथपिल्ली आसता. समाजीक पत्रांभितर लेगीत गॅस कनॅक्शन, पॅन्शन आदी विशयांचेर बरयल्लीं, वयलेवयर पळोवंक गेल्यार व्यक्तीगत पूण भितरल्यान भौस-कल्याणाचो हावेस दवरपी पत्रांय आसूं येतात. तेचप्रमाण,

## प्रकार (तकटो)

**कार्यालयीन पत्रां**
Office Letters

१) आदेश (Order)
२) याद करून दिवपी पत्र (उगडास/स्मरण) (Reminder)
३) घोळटेंपत्र / परिपत्रक (Circular)
४) सुचोवणी (कळोवणी)/ अधिसुचोवणी (Notice / Notification)
५) जाण-पत्र (निवेदन पत्र) (Memorandum)
६) शिफारस-पत्र / प्रमाणपत्र (Recommendation / Testimonial)
७) पृष्ठांकन (Endorsement)
८) नेमणूक-पत्र (Appointment letter)
९) बदली-आदेश (Transfer order)
१०) बडतर्फी-आदेश (Termination Order)
११) थराव (Resolution)
१२) इतीवृत्त (Minutes of meeting)
१३) टिपण (Noting)
१४) अहवाल (Report)
१५) शुद्धीपत्र (Corrigendum)

**वेवसायीक/वेपारी पत्रां**
Commercial/Business/Trade letters

१) वासपूस वा चवकशी पत्र (Letter of inquiry)
२) म्हालाचो आदेश दिवपी आनी पुरवणेविशींचीं पत्रां (Letters regarding order & its supply)
३) विस्वास-पत्र (Letter of Credit)
४) कागाळ-पत्र (Letter of Complaint)
५) संदर्भ-पत्र (Letter of Reference)
६) म्हालाचे पयशे वसूल करपासंबंदान पत्र (Letter regarding collection of payments)
७) परिपत्रक (Circular)
८) एजन्सीसंबंदीं पत्र (Letter regarding Agency)
९) विम्यासंबंदीं पत्र (Letter regarding insurance)
१०) बँकेसंबंदीं पत्र (Letter regarding banking)

वेवसायीक वा वेपारी पत्रांक लेगीत कार्यालयीन पत्रांचो वास मारताच. देखून हें वर्गीकरण फकत अभ्यासाचे सोयीक लागून केलां हें मतींत धरप गरजेचें. संबंदीत व्यक्ती, काळ-वेळ-परिस्थिती तशेंच थळ हांचेप्रमाण दरेका पत्राची भास, तांचें रूप आनी ताचो आशय बदलता हें जाणून घेवंक जाय. थोडेभितर सांगपाचें जाल्यार, व्यक्तीगत पत्रांपसून वेवसायीक वा वेपारी पत्रांभेरेनचो प्रवास, पत्रांक चडांत चड मुद्ददेसूद, तर्कीक बसका आनी काटेकोर भाशेचें रूप फावो करून दिवपाखातीर हे वर्गवारींत चडांत चड नमुने दिवपाचो यत्न केला. कोंकणींत अजून मेरेन वेव्हारीकरण जावंक नाशिल्ल्या 'परबीं पत्रांचो' एक खाशेलो विभाग ह्या पुस्तकांत दिला. तातूंतल्यान स्फूर्त घेवन तरी कोणेंय परबीं-पत्रांचो वेवसाय सुरू करचो अशी इत्सा आसा.

## ☐ पत्रांचे प्रकार

### • आमंत्रण पत्रां / आपोवर्णी

'मोग आसा थंय शीण आसा' अशी म्हण आसा. ह्या मोगाक लागुनूच आमी एकठांय येतात. आमंत्रण पत्रां वा आपोवणीं हीं लेगीत आमचे समाजीक जिणेचोच एक वांटो जावन रावल्यांत. सत्कार/भौमान सुवाळो, पुस्तक-प्रकाशन सुवाळो, लग्न-सुवाळो, उकतावण सुवाळो, भूमीपूजन सुवाळो, बुन्यादी फातर बसोवपाचो सुवाळो, धर्मीक वा समाजीक सुवाळो अशा जायत्या वेळांचेर हीं आपोवणीं-पत्रां धाडूं येतात. आपोवणीं जेन्ना घरगुती/घरावीं/कुटुंबीक आसतात (देखीक लग्न, मूज, पुजा, देवकारें, बारसो, वाडदीस, पन्नाशी, साठी, शंबरी/शताब्दी आदी) तेन्ना तांची भास दीसपट्ट्या वेव्हारांतले भाशेक लागीं वचपी अशी आसता. तातूंत मोग वा शीण उकतावपाक संद आसता. तातूंत उपचारापरस आपलेपणाची भावना चड आसता. आगरो, जबरदस्ती करप (देखीक, 'तूं येतलोच हाजी म्हाका खात्री आसा' वा 'तूं योच'), सोपूत घालप (देखीक, 'तूं आयलेंना जाल्यार तुका म्हजो सोपूत आसा'), शिटकावणी वा धमकी दिवप ('तूं आयलोना जाल्यार हांव तुजेकडेन उलोवंचोंना') अशे तरेच्या पत्रांतल्यान दिश्टी पडटा. जाका हें आपोवणें उद्देशून आसता ते व्यक्तीवांगडा चीट बरयतले व्यक्तीचें नातें, संबंद, संवकळ, पिरायेंतलें अंतर, इश्टागत वा अधिकार हांचेप्रमाण त्या आपोवण्यांची भास कितली भावनीक वलसाणीची, कितली अनुपचारीक (informal) आसची तें थरता.

जाल्यार समाजीक / भौशीक / सरकारी / बिनसरकारी / कार्यालयीन आपोवण्यांची भास व्यक्तीनिरपेक्ष, भावनीक उमाळ्यांसावन पयस आशिल्ली, सांचेबंद आसता. असले तरेच्या आपोवण्यांचे नमुने (drafts/samples) आनी आकृतीबंद (forms) पूर्वनियोजीत, वर्सा-वर्सासावन तेच-तेच वापरिल्ले दिश्टी पडटात. घरगुती आपोवण्यांप्रमाण तीं आपोवणीं कल्पकताय, आवड-निवड, रुची, काळ, परिस्थिति हांचेप्रमाण बदलनात.

नमुनो १

*॥ श्रीशांतादुर्गे महालक्ष्मी दामोदरा पाव ॥*

*नमस्कार*

*देवादयेन आमचो धाकलो पूत*

*चि.* **संजय**

*हाजें लग्न*

*चि. सौ. कां.* **कविता**

*(श्री. व्यंकटेश अनंत फळदेसाय, पैंगीण, हांची धूव)*

*हिजेकडेन शेनवार, ता. १९ देझेंब्र, १९९२ ह्या दिसा दनपारच्या १२ वरां १ मिनटाच्या म्हुर्तार करपाचें थरयलां. तेन्ना ह्या शूभ कार्याक तुमी घरच्यांसयत येवन न्हवऱ्या-व्हंकलेक आशिर्वाद दिवन आमकां उपकारांत दवरचें ही नमळायेची मागणी.*

*बरें मागून,*

*तुमचीं*

**श्रीपाद गणबा शे. नाडकर्णी**
**सौ. निर्मला श्रीपाद शे. नाडकर्णी**

*वयल्या आपोवण्याक मान दिवन तुमी सगल्यांनी मुजरत येवचें.*

**रत्नाकर, सुभाष, प्रशांत आनी घरचीं**

**उपकार करून केळवण हाडची वा धाडची न्हय.**

**लग्नाची सुवात**
*आदर्श वनिता विद्यालय हॉल,*
*पाजीफोंड, मडगांव.*

**घरचो नामो**
*१५३, शिरवडें, पोस्ट नावेली,*
*मडगांव – गोंय ४०३ ७०७*



*॥ श्रीचामुंडेश्वरी शांतादुर्गेची सासाय ॥*

*नमस्कार*

*आमी तुमकां खोशयेन कळोवंक सोदतात*

*आयतार तारीख २६ मार्स, १९९५ दिसा सकाळीं १०-११ वरांचेर वाळपय हनुमान थिएटरांत वसंत ऋतुच्या पुष्प सरींच्या अक्षदांचो म्हूर्त सादून आमचो पूत* **शाबा** *हाजी जीवनगांठ गणेश धुरी हांची व्हडली धूव* **शोभा** *वांगडा बांदपाचें थरयलां.*

*ह्या लग्न सुवाळ्याक तुमी घरच्यांसयत मुजरत हाजीर रावन, न्हवऱ्या-व्हंकलेचे नवजिणेक अनंत आशिर्वाद दिवंचे.*

*येवकाराक रावतात*

*तुमचीं*

नारायण शा. कुडटरकार

सौ. राधिकी ना. कुडटरकार

घरचो नामो

*नानोडें बांबर*

*वाळपय, सत्तरी – गोंय.*



नमस्कार

देवादयेन आमचो व्हडलो पूत

चि. **शांबा** ऊर्फ **सुरेश**

*हाजें लग्न*

*चि. सौ. कां.* **भारती**

(श्री. भिको गोपाळ नायक, मळें-सांकोड्डें, हांची धूव)

हिजेलागीं करपाचें थरयलां.

**लग्न म्हूर्त:** बिरेस्तार, ता. २५ माय, १९९५ ह्या दिसा दनपारां १२-३५ वरांचेर

**लग्न सुवात:** राधाकृष्ण थेटर, सांखळी.

तुमी घरच्यांसयत येवन न्हवऱ्या-व्हंकलेचेर आशिर्वादांच्यो मंगलाक्षता उडोवंच्यो ही नमळायेची मागणी.

बरें मागून,

तुमचीं

**श्री. आत्मा शांबा नायक (वस्त)**

**सौ. आबोली आत्मा नायक**

**आनी नायक वस्त परिवार**

घरचो नामो वांतें धाटवाडो, पोस्ट अडवय, सत्तरी.

चत्राय: बस सकाळीं ११ वरांचेर वांतें पेडांनी साकून सुट्टली.

॥ श्रीशांतादुर्गे पाव ॥

नमस्कार,

आमी दोगांयनी आमचे पसंतीन आनी आमच्या घराण्यांचे संमतीन लग्नाच्या संस्कारान आमकां बांदून घेवन आमची फुडली जीण सांगातान सारपाचो संकल्प केला.

संस्कार-बंधनाचो हो सुवाळो माघ शुद्ध नम शके १९१५ हे तिथीक, म्हळ्यार आयतार, ता. २० फेब्रेर, १९९४ ह्या दिसा जावपाचो आसा. ह्या निमतान त्याच दिसा बांदोडें, फोंडेंच्या श्रीमहालक्ष्मी हॉलांत दनपारच्या १२-०० ते २-०० वरां मजगतीं एक ल्हानसो आशिर्वाद-सुवाळो घडोवन हाडपाचें आमी थरयलां. ह्या सुवाळ्याक तुमी घरच्यांसयत अगत्यान येवन आमचो फुडार सूखदिणो जावंचो म्हणून आमकां आशिर्वाद दिवंचे अशें आमी तुमचेलागीं मागतात.

बरें मागून,

**शैलेश भरणे**

**शकुंतला आरसेकार**

आमच्या भुरग्यांच्या ह्या आपोवण्याक मान दिवन तुमी अगत्यान येवंचें आनी तांकां आशिर्वाद दिवंचे अशें आमचेंय मागणें आसा.

श्री. रत्नाकर रामचंद्र भरणे
सौ. पुष्पलता रत्नाकर भरणे

श्री. केशव वी. आरसेकार
सौ. विजया केशव आरसेकार

**तुमचो आशिर्वाद हीच आमची केळवण**

नमुनो १

# सत्कार सुवाळो
## आमंत्रण

भौ.

______________________________

______________________________

नमस्कार,

साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जाल्ले **श्री. महाबळेश्वर सैल,** साहित्य अकादेमीचो अणकाराखातीर आशिल्लो पुरस्कार जोडपी **डॉ. ओलिविन्यु गोमीश** आनी जेझुईत आन्तोन पेरैर कोंकणी पुरस्कार लाबिल्ले **श्री. तोमाझिन्य कार्दोज** हांचो कोंकणी लेखक संघ, सांगाती संस्था आनी इश्टपरिवाराचे वतीन आमी सत्कार घडोवन हाडपाचें थरयलां.

हो सत्कार सुवाळो सुक्रार, ता. ११ फेब्रेर, १९९४, सांजे ५-१५ वरांचेर पणजे कला अकादेमी संकुलांतल्या धाकल्या उकत्या थेटरांत जातलो. **श्री. दामोदर मावजो** ह्या सुवाळ्याची येजमानकी चलयतले आनी सन्मानितांच्या साहित्यीक वावराचेर **श्री. गजानन जोग** आनी **श्री. दत्ता दामोदर नायक** हांचीं उलोवपां जातलीं. धेंपे कॉलेजीचे प्राचार्य **डॉ. जी एन् मिश्रा** हे सुवाळ्याक मुखेल सोयरे आसतले.

तुमी तुमच्या घरच्यां आनी इश्टांसयत ह्या सुवाळ्याक उपस्थीत रावन आमकां उपकारांत दवरचें अशें मायेमोगाचें मागणें.

बरें मागून,

तुमचे,

पणजी : ६ फेब्रेर, १९९४

**रमेश वेळुस्कार**
**नागेश करमली**
(आयोजकांचे वतीन)

नमुनो १

# कोंकणी कला साहित्य केंद्र

कुडचडें

## आयोजीत

अखिल गोंय कोंकणी सेवा केंद्रांचें पयलें संमेलन
शेनवार, ता. १२ आनी आयतार, ता. १३ माय, १९९०

थळ: संझगिरी फार्म्स, पंटेमळ-काकोडें

### निमंत्रण

नमस्कार,

कोंकणी कला साहित्य केंद्र कुडचडेंचे वतीन जावपी पयलें अखिल गोंय कोंकणी सेवा केंद्रांचें संमेलन शेनवार, १२ आनी आयतार, १३ माय, १९९० अशे दोन दीस संझगिरी फार्म्स, काकोड्यां जातलें.

गोंयांत साबार थळांनी कोंकणी भाशेचें कला, साहित्य, शिक्षण, संस्कृतीच्या मळार भरीव कार्य करपी संस्थांच्या प्रतिनिधींचें हें संमेलन सेवा केंद्रांच्या कार्याचो नियाळ घेवप, तांच्यो अडचणी समजून घेवप, बऱ्या कार्यावळींच्या कल्पनांचें आदान-प्रदान करप, अशा तमाम कार्यरत संस्थांक पूरक अशे कार्यावळीची आंखणी करप, नियोजनबद्ध कार्य करप आनी ह्या कामाखातीर कांय मार्गदर्शक तत्त्वां घालून घेवप अशा हेतांनी आंखलां.

ह्या संमेलनाक तुमी मुजरत हाजीर रावचें अशें नमळायेचें मागणें.

| वसंत भगवंत सावंत | विठ्ठल का. खा. आवदियेंकार |
| --- | --- |
| कार्याध्यक्ष | अध्यक्ष |
| पयलें अ. गों. कोंकणी सेवा | कोंकणी कला साहित्य केंद्र |
| केंद्रांचें संमेलन, कुडचडें | कुडचडें |

पुस्तक उजवाडावपाच्या सुवाळ्याक साहित्य मोग्यांक आपोवणें

नमुनो १

# गोवा कोंकणी अकादेमी

पणजी

## ।। आमंत्रण ।।

नमस्कार,

केंद्रीय साहित्य अकादेमीचे सेक्रेटरी, **भौ. प्रो. इन्द्रनाथ चौधरी** हांचे हस्तुकीं गोवा कोंकणी अकादेमीन प्रसिद्द केल्ल्या **बाय जयंती नायक** हांगेल्या **'आमोणें – एक लोकजीण'** ह्या ग्रंथाचें लोकार्पण आनी प्रो. इन्द्रनाथ चौधरी हांगेलें **'ल्हान साहित्यीक भाशांफुडले प्रस्न'** ह्या विशयावयलें व्याख्यान अशी दोट्टी कार्यावळ मंगळार, ता. २२ फेब्रेर, १९९४ दिसा सां. ५-०० वरांचेर राजाराम स्मृती हॉल, दयानंद स्मृती इमारत, स्वामी विवेकानंद रस्तो, पणजी हे सुवातेर घडोवन हाडपाचें थरयलां. समारंभाची येजमानकी गोवा कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष **भौ. पुरुषोत्तम काकोडकार** चलयतले.

तुमी मुजरत हाजीर रावचें अशें नमळायेचें मागणें.

बरें मागून,

तुमचो,
**वि. मं. धुमे**
सचीव

**— कार्यावळ —**

| | |
|---|---|
| सां. ५-०० | च्या |
| ५-३० | पुस्तकाचें लोकार्पण |
| ६-०० | व्याख्यान |
| ७-०० | चर्चा |
| ७-२० | अध्यक्षांचें उलोवप |
| ७-३० | समारोप |

नमुनो १

अमिता नायक
ढवळी, फोंडें

२ सेतेंब्र, १९९६

मोगाळ दीपाक,

मायेमोगाचो नमस्कार,

तुगेली चीट मेळ्ळी. हांवें ही चीट मुजरत बरोवपाचें कारण म्हळ्यार अदू आमगेर चवथीक ७ दीस गणपती पुजपाचें थरयलां. चवथीच्या ७व्या दिसा म्हळ्यार २३ तारखेर आमगेर सत्यनारायणाची पुजा करपाचें थरयलां.

दीपा, तुमचो गणपती पांच दीस आसा अशें तुवें चिटींत बरयलांच. देखून सव्या दिसा २१ तारखेर तूं आमगेर रावपाकूच यो. येतना धाकली भयण पिंकी आनी भाव पपू हांकांय घेवन यो. म्हजे आईन मुद्दम चीट बरोवन तुका कळोवपाक सांगलां. तूं येना जाल्यार तिकाय वायट दिसतलें.

पुजेची तयारी करपाची आसतली देखून तुका व्हरपाक येवप शक्य जावचें ना.

चड कांय बरयना. तूं आमचेर येतकच खूब उलोवंया. तुगेल्या आई-बाबाक म्हजो नमस्कार सांग. पिंकी-पप्पूक आशिर्वाद.

मेळुंया.

[illegible],

(निशाणी)

नमुनो १

# पी ई एस् म्हाविद्यालय फर्मागुडी

(कोंकणी विभाग)

## ॥ आपोवणें ॥

नमस्कार,

आमच्या म्हाविद्यालयाच्या कोंकणी विभागान चवथीचे परबे निमतान **'माटोळेच्या सामानाचें प्रदर्शन'** आयोजीत केलां. माटोळेंत उपेगाक येवपी विंगड विंगड फुलां, फळां, पाळांमुळां आनी वनस्पतींचें हें प्रदर्शन गोंयचे भुगोलीक, वैजकी, इतिहासीक तशेंच संस्कृतीक नदरेन म्हत्वाचें आसा. ह्या प्रदर्शनाचें उकतावण गोंय विद्यापिठाच्या समाजशास्त्र विभागाचे रीडर **डॉ. विली द सिल्व** हांचे हस्तुकीं जातलें. तशेंच, ह्या प्रदर्शनासंबंदीच्या विशयांचेर **डॉ. विली द सिल्व, प्रा. बाळ आपटे** तशेंच **प्रा. करस्तुरी देसाय** हांचीं उलोवपां जातलीं. चवथीची परब मनयता आसतनाच तुमी हे कार्यावळीक हाजीर रावन अशे तरेच्या ह्या पयल्यावयल्या उपक्रमाक तेंको प्रगटावंचो हें मागणें.

बरें मागून,

तुमचे,

| **भूषण भावे** | **अनिल डिंगे** |
|---|---|
| कोंकणी विभाग | कार्यकारी प्राचार्य |

— कार्यावळ —

दीस : शुक्रार, १६ सेतेंब्र, १९९४

वेळ : सांजे ३-२० ते ५-३०

थळ : पी इ एस् म्हाविद्यालय, फर्मागुडी

कारखान्याच्या उकतावणाचें नागरिकांक आपोवणें

नमुनो १

# एम् डी प्लास्टीक प्रॉडक्टस्

## कारखान्याचें उकतावण

## जाहीर आपोवणें

आमच्या नव्या कारखान्याच्या उकतावण दबाज्याक हाजीर रावंक
'एम् डी अॅण्ड सन्स'चे वतीन आपोवणें दितात
कारखान्याचें उकतावण **भौ. चर्चील आलेमांव,**
खासदार, दक्षिण गोंय, हे करतले.

तारीख : १६ सेतेंब्र १९९६
थळ : उद्देगीक वसणूक, खोर्ली, म्हापशें
वेळ : सकाळीं १०-०० वरांचेर

ह्या आपोवण्याक मान दिवन तुमी सगल्यांनी हाजीर रावचें अशी खासा विनवणी.

तुमचे,

**एम् डी अॅण्ड सन्स**
(निशाणी)

## • घरावीं पत्रां

नमुनो १

<u>पुतान बापायक धाडिल्लें पत्र.</u>

**भिकू लु. गांवस**
नेवरें, तिसवाडी.

ता. १० जानेर, ९६

मोगाळ दादाक,

नमस्कार,

खूब दीस जाले, तुजी चीट मेळ्ळिना. देवाकडेन मागतां, तूं आनी घरचीं सगलीं देवादयेन सुखी आसचीं. पत्र बरोवपाक कारण म्हळ्यार दिवाळेचे सुटयेंत हांव घरा येवंक पावचोंना. आमच्या म्हाविद्यालयाची अभ्यास-भोंवडी अंदूं वर्सा कर्नाटकांत श्रवणबेळगोळाक वता. हे अभ्यास भोंवडेक वचपाखातीर हांवें म्हजेंय नांव दिलां. तेन्ना, तूं म्हाका हे भोंवडेक वचपाक मान्यताय दितलो अशी आस्त दवरतां. गाडी, रावप आनी जेवणखाण मेळून सादारण ३०००/- रुपया इतलो खर्च येतलो. मनी ऑर्डरीन तितले पयशे २६ तारखेमेरेन धाडून दिवंचे. खर्चाचो आंकडो व्हड आसलो तरी हे भोंवडेंत शिकपासारकें खूब किदें आसंतलें.

म्हजो अभ्यास बरो चलता. फाटले परिक्षेंत म्हाका म्हज्या वर्गांत दुसरो क्रमांक मेळ्ळा.

मुन्नीक पापी आनी घरच्या सगल्यांक म्हजो नमस्कार. पत्राची वाट पळयतां.

तुजोच मोगाळ,
निशाणी

नमुनो २

नवेच लग्न जाल्ले चलयेन कुळारा धाडिल्लें पत्र.

**निलांगी नायक**
दत्तवाडी, म्हापशें, गोंय.

ता. २० माय, ९८

मोगाळ आईक,

नमस्कार.

आई, तूं कशी आसा? हांव हांगा सुखांत आसां. पूण तुमची सगल्यांची याद येतकच मन दुख्खांत बुडून वता. मुळां धरिल्लें झाड हुमटून दुसरेकडेन रोवचें तशी म्हजी गत जाल्या. आई, तुवें शिंपून व्हड केल्लें हें झाड परके मातयेंत आतांच पाळां धरूंक लागलां. तुजे मायेचे वलसाणीन हें झाड नित्यनेमान पालेतालें, चंवरतालें. तीच माया आतां म्हाका म्हजे मांयकडल्यान मेळटा हें पळोवन हांव खूब खोशी जालां. म्हजो मांवूय खूब मायेस्त. आपले पोटचे चलयेभाशेन म्हाका तो जपता. घरकारूय भावार्थी आनी दुसऱ्याक समजून घेवपी.

आई, म्हाका तुमी बऱ्या घराण्यांत लग्न करून दिलें म्हणून हांव तुमचें भोवच उपकारी. चड कांय बरयना. घरा येतकूच सगलें उलोवंया. बाबाक, भैय्याक विचारलां म्हणून सांग. बाबाक वेळार वखद घे म्हण सांग. भैय्याक अभ्यासाक बसय. तूं जिवाक लागता अशें कांय करूं नाका. जतनाय घे.

तुजें,
निशाणी
( नांव )

नमुनो ३

## इस्टेटी संदर्भात भावान भावाक बरयल्लें पत्र.

**सुशांत भास्कर नायक**
मालपें, पेडणें.

ता. १० जानेर, ९६

सेवेक
मोगाळ विशांत

नमस्कार,

तुमचेकडलीं सगलीं जाणां भलायकेन बरीं आसतलींच. फाटले भेटेंत थरयल्ले प्रमाण आमचे इस्टेटीची मेजणी आनी वांटणी पुराय जाल्या. फकत घराफाटलो गोठो आनी कांय काजीचीं झाडां हांचेविशीं निर्णय जावपाचो उरला.

आदवोगादान हे सगले वांटणेचे कायदेशीर सोपस्कार पुराय केल्ल्या कारणान आतां फकत सरकारी अधिकाऱ्यांमुखार गवाय घेवन वचून निशाणी करपाचें काम उरलां. हें काम ह्या म्हयन्याचे २३ तारखेर सकाळीं १०-०० वरांचेर थरयलां. प्रशांताक पत्र बरोवन हांवें कळयलांच. तूं २२ तारखेक रातीमेरेन घराकडेन पाव. ताका लागून २३ तारखेर आमकां तिगांकूय सरकारी कार्यालयांत वचूंक मेळटलें.

तुजें वेगळें किदेंय मत आसल्यार त्या दिसा उलोवंया. वयनीक नमस्कार. भुरग्यांक आशिर्वाद.

बरें मागून,
तुजो,
निशाणी
(नांव)

नमुनो ४

पिकनिके खातीर आपोवणें.

**अजय पेडणेकार**
नेरूल, बार्देस, गोंय.

ता. १० जानेर, ९६

मोगाळ चंद्रकांत

नमस्कार.

इश्टा कसो आसा? घरचीं सगलीं बरीं आसतलीं अशें समजतां. तूं आमगेर येवन गेल्यार स म्हयने तरी जातले. जात्रेक यो म्हणून पत्र धाडिल्लें. ताजी जापूय तुवें धाडलिना. तूं हांगा हायस्कुलांत शिकपाक आशिल्लो तेन्ना म्हाका खूब बरें दिसतालें. एकठांय भोंवप, खेळप हातूंत वेळ सहजतायेन वतालो.

इश्टा, येता ते २० तारखेक आमी आंबोली घाटार पिकनिकेक वचपाचें थरयलां. तुवें ते पिकनिकेक येवंचें अशी आमची सगल्यांची इत्सा आसा. त्या दिसा आमकां मन मेकळें करून उलोवंक मेळटलें. पिकनिकेक ट्रॅक्स घेवन वचपाचें थरयलां. सकाळीं आठ वरांचेर आमच्या घराकडल्यान भायर सरतले. तेन्ना तुवें रातीं आमगेर रावपाकूच येवंचें. येतना तुजो ऑटो-फ्लॅश कॅमेरा घेवन येवंक विसरूं नाका.

तूं पिकनिकेक येतलोच अशी आस्त धरून पत्र सोंपयतां.

बरें मागून,

तुजोच,

निशाणी
(नांव)

नमुनो ५

**वासपूस करपी पत्र.**

विहार देसाय
आगोंद, काणकोण,
गोंय.

ता. ९ सेतेंब्र, ९६

मोगाळ मामाक
नमस्कार,

तूं मुंबय कामाच्या निमतान गेल्यार आयज दोन म्हयने जाले. जायतो तेंप तुजी खबर कळ्ळिना ना. पंदरा दिसांआदीं आई आनी हांव तुमगेर वचून आयलीं. घरच्यांकूय तुवें हालींसराक पत्र बरोवंक ना म्हणून समजलें. तुजी खबर कळूंक ना देखून घरचीं सगलीं तुका हुसकेतात आनी जापेक रावतात.

आतां तुजी भलायकी कशी आसा ? फाटल्या दिसांनी तुका जाल्ली कामीण निवळ्ळी ? रावपाक दुसरी सुवात सोदतालो ती मेळ्ळी काय ना ? हेविशीं विस्तारान बरोवंक विसरूं नाका. दिवाळेक घरा येवपाक मेळटा जाल्यार आठ दिसांची सुटी घेवन मुजरत यो. आमी तुजी वाट पळयतात.

बरें मागून,

तुजोच भाचो,

निशाणी
(नांव)

* खाजगी पत्रांचे नमुने

नमुनो १

वळख करून दिवपी पत्र.

राजेंद्र पांडुरंग केरकार
केरी - सत्तरी
४०३ ५०५.

ता. २० ओतुब्र, ९६

सेवेक
भौ. किरण ठाकूर
संपादक,
दै. तरूण भारत,
नार्वेकार गल्ली, बेळगांव.

भौमानेस्त,

नमस्कार.

म्हज्या गांवांतलो एक तरणाटो बाब निलेश शेटकार, सध्या बेळगांवां म्हाविद्यालयांत शिकता. घरचे सामान्य परिस्थितींतल्यान, व्हड कश्टान हो भुरगो वयर सरपाचो यत्न करता. ताका साहित्य आनी लिखाणाची भोव आवड आसा. तुमच्या दिसाळ्यांत ताजें लिखाण उजवाडा येता.

भायल्या गांवांत रावन शिक्षण घेवप खर्चीक आशिल्ल्यान, तुमी शक्य जाता जाल्यार अर्दवेळ नोकरेची संद ह्या भुरग्याक मेळोवन दिवंची अशी विनवणी करतां.

प्रत्यक्ष भेटेंत उलोवंचें.

तुमकां बरें मागून,

तुमचो,

निशाणी
( नांव )

नमुनो २

<u>प्रकाशकाक पुस्तक धाडपासंबंदान बरयल्लें पत्र.</u>

**गीता मधुकर कुडासकार**
साश्टवाडो, मयें,
दिवचल
४०३ ५०४.

ता. २१ सेतेंब्र, ९६

सेवेक
भौ. प्रकाशक,
राजहंस वितरण,
पणजी – गोंय.

भौमानेस्त,

नमस्कार.

तुमच्या प्रकाशनाचे वतीन हालींच सौ. अमीता नायक सलत्री हांचें 'गोंयचीं शिवराक खाणां जेवणां' हें पुस्तक उजवाडाक आयिल्ल्याची खबर वाचली. गोंयचे पाककले संबंदान कोंकणी भाशेंतलें हें पुस्तक वाचपाची म्हाका व्हड उमळशीक आसा. तुमी म्हाका म्हज्या वयर दिल्ल्या नाम्याचेर हें पुस्तक बेगिनांत बेगीन धाडून दिवंचें अशी मागणी. पुस्तकाचे पयशे पावते करतां.

बरें मागून,

तुमचें विस्वासू,

निशाणी
(नांव)

नमुनो ३

बापायन पुताच्या शिक्षकाक बरयल्लें पत्र.

भास्कर शेटये
३३४, बोक द वाक,
पणजी.

ता. १० जानेर, ९८

प्रति
श्री. प्रदीप कामत,
शिक्षक,
एस एस समिती हायस्कूल,
ढवळी, फोंडें.

भौ. कामत सर

नमस्कार,

प्रत्यक्ष येवन तुमकां मेळपाक जमना म्हणून हें पत्र बरयतां. विराजाचो, म्हज्या चल्याचो अभ्यास कसो चलला? फाटले फावटीं गणितांत ताका साप्प उणे गूण मेळिल्ले. ताजे उपरांत दिवाळेचे सुटयेंत ताका गणिताची शिकोवणी लायिल्ली. विज्ञान आनी इतिहास हे ताजे चड आवडीचे विशय. तुमी गणितांत ताका मातसो बरो तयार करचो अशी विनवणी.

विराज फोंड्यां आपले मावळणीगेर रावता. हांव वेपारी आशिल्ल्यान म्हाकाय ताज्या अभ्यासाकडेन लक्ष दिवंक वेळ मेळना. देखून तुमचेर आदारुनूच ताका फोंड्यां शिकपाक धाडला. तुमी ताजेर लक्ष दवरचें. ताणें किदेंय चूक केल्यार ख्यास्त दिवपाक आनी म्हाका कळोवपाक फाटीं-फुडें जावंचें न्हय. हांव फुडल्या म्हयन्यांत तुमकां येवन मेळटांच.

कश्ट दिल्लेपासत रागार जावंचें न्हय.

बरें मागून,

तुमचो विस्वासू,
निशाणी
( नांव )

नमुनो ४

महात्मा गांधीन सालाझाराक बरयल्लें खाजगी पत्र.

मोगाळ इश्टा,

हांवें 'ध हरिजन' पत्राचेर जें किदें बरयिल्लें ताका तुजी जाप शी तुवें बरयलां तें बरें आसा. हांव मोझांबीक, देलागोअ आनी इन्ह्याम्बान हांकां भेट दिवन आयलां हें तुका खबर आसा अशें हांव समजतां. थंय जें सरकार चलता तें लोकाच्या कल्याणाक लागून चलता अशें म्हाका दिसूंक ना. खरें म्हळ्यार, थंयसर सरकार भारतीय आनी पुर्तुगेझांमदीं तशेंच आफ्रिकी लोक आनी पुर्तुगेझांमदीं जो भेद करता तें पळोवन हांव थटाकलों. जें किदें हांव पळयतां आनी जाणां तेप्रमाण जी परिस्थिती आसा ती तुमकां सोबसारकी न्हय. गोंयचे भारतीय लोक मोने कशे जियेतात, ते उलोवंक नकळो अशें न्हय. पुर्तुगेझ सरकार मात तशें भासयता. पूण, थंय भिरांतीचो कायदो चलता. देखून हांव ताका सहमत ना. गोंयां लोकांक नागरी स्वातंत्र्य आसा आनी चळवळ करतात ते मूठभर आसात ह्या तुमच्या विधानाकडेन हांव सहमत ना अशें म्हणटां म्हणून म्हाका भोगसुंचो.

'जी कितें माहिती म्हाका मेळ्ळ्या आनी ज्यो खबरो हांव हांगा भारतांत खबरांपत्रांचेर वाचतां तेप्रमाण तूं किदें सांगता तें सारकें न्हयशें दिसता. डॉ. ब्रागांसाक तुमी 'कोर्ट मार्शल' करून आठ वर्सांचें खर सेंतेंस मारलां आनी ताका काळ्या पाणयाक धाडपाचें येवजिलां. हाजे वयल्यान गोंयां लोकांक नागरी स्वातंत्र्य ही एक कठीण गजाल जाल्या अशें स्पश्ट जाता. डॉ. ब्रागांस हो एक कायद्यान चलपी मनीस. तो तुमकां किद्याक म्हणून भिरांकूळ दिसता, जाका लागून तुमी ताका काळ्या पाणयाक धाडपाक सोदतात ?

लोककल्याण, नागरी स्वातंत्र्य आनी जातीभेद हांचेविशीं तूं तुजें मत बदलतलो, आनी आफ्रिकी सोल्दाद आसात ते काडून घेतलो आनी काळजांत सावन तुजें मत जाहीर करतलो; तेच भाशेन, गोंयच्या नागरिकांक तांचें स्वताचें सरकार घडोवंक दितलो, आनी हेर भारतांतल्यान गोंयकारांच्या आनी तुज्या आदाराक चड अणभवी भारतीयांक आपोवन अशे तरेचें सरकार घडोवंक दितलो अशें हांव समजतां. (पी आर राव – पॉर्च्युगीझ रूल ईन गोवा, १५१०-१९६१, पान ६८.)

('नेहरू आनी गोंय' ह्या स. झोतिकु द सौझ हांच्या पुस्तकांतल्यान. प्रकाशक: प्रभाकर भिडे, राजहंस वितरण, पणजी.)

नमुना ५

पु. ल. देशपांडे
१, रुपाली
७७७, शिवाजीनगर,
पुणें ४.

९ जुलय, ७९

प्रिय मनोहरबाब,
पिसोळीं पावलीं.
साठ उतरांची काणी चार उतरांनी
सांगपाक जिणेंतल्या हजार
अणभवांतल्यान येद्याशा अर्काचो
थेंब काडपाचें तेज आशिल्ली
प्रतिभा आनी प्रज्ञेची भट्टी माथ्यांत
जाय. हे येरागबाळाचें काम नोहे.
पिसोळ्यांतलें एक-एक पिसोळें म्हळ्यार
असल्या अर्काचो एक एक थेंब.
असल्या थेंबा-थेंबांतूच जिणेचें
तळें पळोवपाची दिश्टी तुमी दितात.
रामदासस्वामी पयलें वंदन करतात
तें असल्या कवीश्वराक.
तुमगेलीं 'पिसोळीं' हातांत आयिल्ल्या
दिसाक सूर्य जर 'हांवें
दिल्ल्या दिसाचें तुवें कितें केलें'
अशें म्हाका विचारता आशिल्लो तर
हांवूय ताका –
कितें केलें म्हणून विचारता ? राव तर, आयक
अशें म्हणून 'आजच्या दिसा
हांवें मनोहररायालीं पिसोळीं वाचलीं'
अशें सांगून 'आतां समुद्रांत वचून बूड'
हेंच वयर ताका सांगता आशिल्लों.
— जिविताच्या मोगांत घुसपून रावचें स्वास्थ्य
तुमकां आनीक खूब खूब वर्सां लाभूं
हो आशिर्वाद.

तुमगेलो,
पुर्शोत्तम

ता.क.: माझे वेडे वाकुडे कोंकणी सांभाळून घ्यावे ही विनंती.

## • साहित्यीक आशयाचें घरगुती पत्र

नमुनो १

प्रिय वसंत,

तुज्यो कथा वाचूंक घेतल्यो आनी संग्रहाचें नांव दिसलें... निवलकाणयो.

निवलकाणी.. कॅक्टस...! तूं जाणा... निवलकाणयेची सोबीतकाय सट्ट करून नदरेंत भरना. हात लागल्यार कुच्च करून कांटेय तोपतात. ताजी सोबीतकाय खंय लिपल्या जाणा? प्रतिकूल परिस्थितींत लेगीत तग मारपाची तांक ताज्या आंगांत आसता; उदकाबगर जिवी रावपाची ताज्यांत शक्त आसता. आनी ही ताजी तांक, ही शक्त, हीच निवलकाणयेची सोबीतकाय. पूण हें कितल्या जाणांच्या लक्षांत येता?

चडशा जाणांचें म्हणणें – कॅक्टसांच्यो तोखणायो करचे परस लोकांनी पोरसांत फूलझाडां रोवंचीं. तीं चड सोबीत आसतात. पूण निवलकाणयांक फुलिल्लीं तरातरांचीं रंगीबेरंगी फुलां जांणी पळयल्यांत न्हय, तांचे नदरेंत ते रंग इतले भरसून गेल्ले आसतात, सादी फुलूंक नाशिल्ली निवलकाणी लेगीत तांकां सोबितूच दिसता.

तुज्या संग्रहाचें नांव वाचलें आनी माथ्यार सुपुल्लीं, सोबीत फुलां माळून उबी आशिल्ली कांटेरी निवलकाणी दोळ्यांमुखार उबी रावली. एक वेगळी अपेक्षा काळजांत घेवन तुजी पयली काणी वाचूंक घेतली – 'एकोलयो'.

कथेंतलो म्हाड्डो दोळ्यांमुखार रंगत गेलो.

— खुनशालो पूत म्हणून एकमुळोच... दोंगुल्लेर घोडूक कसो वाडपी...

— आडांगीपणाक वितरागून आजयेन जीव सोडलो तरी आपलीं कर्तुबां चालूच दवरपी...

— राखण्यांवांगडा रानांत गेल्लेकडेन गवळणीच्या पोराक झोंपांआड ओडून व्हरपी...

— दोगां मानायांचें जेवण जेवपी, तिगां मानांयांचें काम करपी...

— बायलांक पळयल्यार चळपी, उरफाट्या काळजाचो म्हाड्डो...

बद्द रानांत अच्छेव मांडपी 'एकोलया' रानदुकरावरी – जो 'भुरगेपणांत भौसळींतल्यान शेणिल्लो, खावन खावन मातिल्लो आनी बायलेचे आशेन शिरेर मदेल्लो.'

दोळ्यांसामकार घट्ट, निबर, कांटयाळी निवलकाणी उबी जायत गेली. वाचत वाचत शेवटाकडेन पावलें.

'आरे पेटोय मुरे ऽऽ पेटोय मुरे फार ऽऽ'

काचाबूल जावन आंद्रू किळचेलो, तसो नकळटना म्हाड्ड्यान चाप ओडलो. घुडूऽऽम आवाज रानभर गाजलो.

एकोलयाचें सोंड धरून बावळ्यामेरेन सामकी चेन्नड जाली. आशिनाशिल्लो फोर्स काडून तो तेच स्थितींत बोब मारीत हेवटेन तेवटेन धांवत रावलो; आनी निमाणो शेंवटून आड्यालागींच्या व्हाळांत कोसळ्ळो.

म्हाड्ड्याच्या दोळ्यांतल्यान दुकां भळभळ्ळीं.

शेवट वाचलो आनी निवलकाणयेर फुलिल्लें सोबीत फूल म्हाका दिश्टी पडलें.

'आश्लेशा नक्षत्रांतलो पावस रक रक रकतालो. फाटल्या सात दिसांनी ताणें मातूय तोंड काडूंक नासलें. श्रावणांत शिरशिरपा बदला पावस दडकांनी येतालो. सगलो बोळकर्णेंचो जुंवो उदकाळ जाल्लो. गांवची शेतोड, खाजन, मानस सगलें सगलें उदकांत बुडून गेल्लें.'

हुंवाराच्या चपक्यांत बुडिल्लो बोळकर्णेंचो जुंवो दोळ्यांमुखार रंगूंक लागलो.

त्या हुंवारांतूय चेड्याचीं वखदां घेवन न्हंयंत उडी मारपी हरी भगत. आनी ताज्या काळजांतली चेड्यावयली माया. वखदां उदकाभरवण जातकीर कश्टी जाल्लो हरी भगत आनी ताज्या मनांतली खंत.

पोरसांतले घुमटेमुखार उबो रावन चेड्याचे भलायकेखातीर देवाक, देंवचाराक एकाच वांगडा होरावपी हरी भगत आनी ताज्या काळजांतलो आकांत.

हें सगलें वाचतना दोळ्यांमुखार पुताचेर उपाट मोग करपी एक बापूय उबो जावंक लागलो. आनी होच बापूय काळजाचेर फातर दवरून – फाल्यां नागपंचम; माती दुखोवंक जायना – आनी फांतोडेर चेडो मेलो जाल्यार? चेडो सबंद दीस-रात उरतलो... आनी... आनी... अशें चिंतून फाल्यां मरतल्या चेड्याक पुरपाक फोंड खणपाक लागता तेन्ना काळजांत कितें जाता तें तुजी 'नागपंचम' वाचतल्याकच समजतलें.

तूं जाणा? खंयचीय काणी वाचप्यांच्या काळजामेरेन पावतली जाल्यार मूळ तिजी थीम घट आसची पडटा. मनाक पटपासारकी आसची पडटा. मूळ थीमच जर ठिसूळ आसत जाल्यार फकत साहित्यीक भास कथेक सांवरूंक शकना.

पात्रांच्या काळजांतली खोस, खंत... त्या त्या पात्रांचे नदरेप्रमाण ल्हान व्हड आसूं येता; पूण त्या पात्राचे नदरेन ती खोस वा खंत व्हड वा ल्हान आसूं येता हें वाचप्याक मुळांत पटचें पडटा. तुज्या कथांतल्या पात्रांची भावना वाचप्यांक पट्टा; ती तांचेमेरेन पावता हें तुज्या कथांचें खाशेलेपण.

'कलसांव' कथा वाचतना वाचपी बद्द जात्रेंत भोंवंक लागता. भोंवतां भोंवतां केशवमामाल्या च्याये दुकानांत पावता; शिजोवन कोडो केल्लो, दळ नाशिल्लो च्या पिवन शिंया कुडकुडो उणो करता. कलसांवां आशेन रेड्याभाशेन काम करपी दिगूवांगडा समरस जाता आनी मामान फटयिल्लो दिगू च्यायेच्या दुकानाचे सुवातीर नदर घाली नासतना कुल्यार पिंजिल्लें कलसांव सांबाळीत आवय फाटल्यान चलत रावता, तेन्ना ताका कितें दिसलां जातलें हें सांगनासतनाच वाचप्याक समजता.

तुजे दर एके कथेंत वेगवेगळी वातावरण निर्मिती पळोवंक मेळटा. आनी थोड्याच उतरांनी बरी वातावरण निर्मिती करचेली घटीय तुका जमल्या. देखुनूच 'डॉल्फी' कथा वाचतना वाचपी बद्द टुरिस्ट कॅण्टिनांत पावता; थंयच्या टुरिस्टांवांगडा वावुरता.

'खामसुत्री' कथेंतलो जानू मुट्ट्यांचो रोस काडटा तेन्नाय आपलेच मुखार तें घडटा कशें दिसता. देखीक—

जानून खोंटल्यांतले मुट्टे घसाघसा करून कोळमेंत ओतले. पिकून अळंग जाल्ल्या त्या मुट्ट्यांतलो किट्ट काळो रोस जिवाण्या चालीन कोळमेचे नळयेंतल्यान फोंडकुलांत दवरिल्ल्या लातांत निथळ्ळो. कोळमेचे धडेर बसून ताणें सगले मुट्टे वळ्ळे, बियो काडून खोंटल्यांत दवरल्यो आनी सदांच मुट्टे धोडावन काळो जाल्लो तोणको घेवन तो मुट्टे धोडावपाक लागलो...

कथेंतलीं पात्रां जेन्ना वाचप्यांक वांगडा घेवन फुडें फुडें वतात, तेन्नाच ती कथा जैतिवंत थरता. बरोवपी अलिप्त रावन साहित्य निर्मूंक शकता; पूण वाचप्याक तातूंत involve करचेली तातूंत तांक आसची पडटा. तुज्या कथांनी ती आसा, ही कोंकणीच्या फुडाराचे नदरेन खूब खोशयेची गजाल.

'बंड' हे कथेंतली भुरग्यांखातीर तळमळपी गमती, आपल्या कुसव्यांत वाडटा तो आपली विटंबणा केल्ल्या राकेसाचो विटाळ आसत हें लक्षांत येतकीर ज्या कणखरपणान 'गाब घळघळावपाचो' निर्णय घेता, तीं कणखरपणां पळयतकीर परत एक फावट म्हाका निवलकाणयेच्या आंगांत लिपिल्ली शक्त जाणवली.

'आरे म्हाज्या पुता' हे कथेंतली आवय, 'दंतकथा' हे कथेंतलो दोतोर हांच्या काळजांतली खंत, 'पांयतणां' कथेंतले सीताबायचो हुसको; 'भिरांकूळ' कथेंतली भिरांत वाचप्यांमेरेन पावता हें त्या कथांचें येस.

'गुरुदक्षणा' हे कथेंत बीएड कॉलेजींत शिकपी टिचरांची विचारसरणी, तांचें वागप, बरे तरेन नदरेमुखार उबें जाता. खंयच्या तरी एका घाळ खिणाक प्रिन्सिपॉलाचेर थापट फुलोवपी आनी उपरांत मनांतल्यान खंती जावनूय संभ्रमीत अवस्थेंत सगल्यांवांगडा सॅलेब्रेशनांत वांटो घेवपी रमेश मनाक पट्टा.

आनी 'मर्णतिळणी' कथेंतलो बापायचेर मोग आसून लेगीत ताज्या मरणाची वाट पळोवपी ताजो पूत मनाक चुरको लायता.

जाणा वसंत, लेखक कथेंत कांय गजाली सांगता, कांय गजाली सांगना; पूण सांगनासतना लेगीत त्यो गजाली वाचप्यामेरेन पावोवपाची कला ताज्या आंगांत आसची पडटा. आनी ही कला तुज्या आंगांत आसा, देखुनूच तुज्या कथांतल्या पात्रांचीं सुखां, दुख्खां, खंत, खोस वाचप्यांमेरेन पावतात. निबर काळजाच्या मनशांभितल्ली मोवसाण आनी म्हेंवाळ मनशांमदली निबरसाण तुवें अचूक हेरल्या, देखुनूच तूं ती वास्तवपणान कथेंत रंगोवंक शकला.

निवलकाणयेक उदकाची गरज ना. उदकाबगरूय ती तग मारता. तशीच तुज्या कथांकूय तोखणायेच्या उदकाची गरज ना. तोखणायेबगरूय तिगून उरचेली तांक तांच्या आंगांत नक्कीच आसा.

हाचेफुडेंय अशेंच तिगून उरपी साहित्य तुजे लिखणेंतल्यान निर्मुचें, हीच इत्सा.

बरें मागून,

मडगांव. **मीना काकोडकार**

ता. २ मार्स, १९९४

## ● पत्ररुपी कविता

नमुनो १

**गिमाचें मिर्गाक पत्र**

मोगाळ मिर्गाक –
हांव वतां.
तुजो पाचवो संवसार म्हाका दोळ्यांत भरून घेवचो आसलो,
पूण तें कोणाक सोंसचेंना.
ती इत्सा हांगाच पुरून वतां.
सैम सवे मांडून बसला ते तुजेखातीर
हें हांव जाणां.
देखून मात गणयनासतना वचप चड बरें.
हांव वतना –
दर्याचें उदक लासतलें...
झाडांचे स्वास अडटले...
नक्षत्रां पालवतलीं... तेन्ना तूं –
थंडशीतळ वावाची पावली मारीत यो.
त्या तळपत्या सड्यार चार पोशे
ओपून चल; ताणें खूब सोंसलां.
घडये तुज्या पावलान ताचे आशेचो गर्भ
फळाक येत.
चड झडूं नाका... उणो पडूं नाका
तुज्या रावपांत
म्हजो उगडास कोणाक जावंचोना
हाजी जतनाय घे.
आनीक कितें...
म्हजेखातीर दोन दुकां गळयताना
तोल वचूंक दिवं नाका.
तुजो
गीम.

(पुंडलीक नायक हांची कविता)

## • परबीं पत्रां

सण-परबो, येस-कीर्त म्हळ्यार मनीसजातीच्या अस्तित्वाच्यो कुरवो. धर्मीक आनी संस्कृतीक जीण मनशाक उदरगतीचे वाटेर व्हरता. काळ, रुतू, हवामान हांकां धरून मनशान सण-परबांची निर्मणी केल्या. प्रकृतीक धरून जैत-हारीची संकल्पना स्पश्ट केल्या, नितीमुल्यां तयार केल्यांत आनी ह्या सगल्यांक धरून आपली जीण सुखी आनी समृद्ध करपाची तजवीज केल्या. देखून वैयक्तीक वा समाजीक जिणेंतलें येस दरेक मनीस मनयता आनी त्या आपल्या येसांत आनी जैतांत हेरांनी लेगीत वांटो घेवंचो अशी आस्त धरता. जैताचो असो दरेक खीण मनीस मनयता. तो प्रत्यक्ष भेटींत हेरांक सणा-परबांचीं, जैताचीं परबीं दिता. प्रत्यक्ष भेट घेवप शक्य नासता वा अपेक्षीत नासता तेन्ना तो पत्राच्या माध्यमांतल्यान परबीं दिता. परिक्षेंत मेळिल्लें येस, वेंचणुकेंत मेळिल्लें येस, नव्या वर्सात पावल घालप, पिरायेचीं म्हत्वाचीं मानिल्लीं वर्सां (देखीक, ५०, ६०, ७५, १०० बी) पुराय करप, नोकरी मेळप वा नोकरेंत बडटी मेळप, नवो उद्देग वा वेपार वा वेवसाय सुरू करप अशा जायत्या सुखद प्रसंगांच्या वेळार परबीं-पत्रां धाडपाची चाल आसा.

वैयक्तीक आनी घरगुती परबीं-पत्रांची भास म्होंवी, फुलार, प्रतीक-प्रतिमा-अलंकारांनी भरिल्ली आसूं येता आनी आसता. हीं पत्रां उत्स्फूर्त आनी लागसाण दाखोवपी आसतात. तातूंत कल्पनेचो विलास आसता. तीं चडांत चड काव्यात्मक, प्रतिकात्मक आनी भावसुचक करपाची रीत आसा. हालीं बाजारांत अशे तरेचीं कितल्याशाच तरांचीं पत्रां छापिल्ल्या, ओडलायण्या, चित्रमय रुपांत मेळटात. हाजे उरफाटें कार्यालयीन, भौशीक, सरकारी वा बिनसरकारी परबीं-पत्रांची भास थरिल्ल्या सांच्यांतली, जायते फावटीं भोगावळीभाशेन (ritual) आसता. 'जैताचीं हुनहुनीत परबीं', 'वाडदिसाचीं परबीं' अशीं काय थरयिल्लीं वाक्यां वापरपाची रीत वाडल्या. कोंकणींत 'परबीं' हें उतर Greetings (शुभेत्सा) आनी Congratulations (अभिनंदन) अशा दोनूय अर्थांनी वापरतात.

नमुनो १

नव्या घरांत गेल्लेखातीर इश्टिणीक परबीं

नमन धावसकार<br>
सरवण, दिवचल.

ता. २५ नोव्हेंब्र, ९६

मोगाळ शीतल,

नमस्कार.

नव्या घरांत गेल्लेखातीर उर्बेभरीत परबीं. नवें घर बांदपाचें तुमचें सपन पुराय जालें हें वाचतकच म्हाकाय तितलीच खोस जाली. तुमचें नवें घर कशें आसतलें काय? तुजें आपोवणें मेळतसाकून हो विचार मनांत एकसारको घोळत आसा.

घरप्रवेश आयतारचो आसुनूय, आई दुयेंत पडिल्ल्यान येवंक मेळ्ळेंना म्हणून रागार जावं नाका. आतां, येता त्या आयतारा, हांव आनी म्हजी धाकली भयण गीता दोगांय मेळून येतात. आई आनी पापाक विचारलां म्हणून सांग.

बरें मागून.

तुजी इश्टीण,

निशाणी<br>
( नांव )

नमुनो २

<u>इश्टिणीक वाडदिसाचीं परबीं</u>

तृप्ती प्रभुदेसाय
केपें – गोंय.

ता. २ फेब्रेर, ९६

मोगाळ मेधाक,

नमस्कार.

येता ते वीस तारखेक तुका वीस वर्सां पुराय जातात ही खोस म्हज्या काळजांत फुलयतना हांव ह्या परमळांतूच तुका तुज्या वाडदिसाचीं परबीं दितां. तुजी जीण सदांकाळ सूख-समाधानान भरून वचूं आनी तुका लांब आयुश्य मेळूं अशें हांव देवालागीं मागतां.

तूं आवय-बापायची एकलीच धूव जाल्ल्यान तुजेच इतली तांकांय खोस जाल्या आसतली... वाडदिसाचीं परबीं दिवपाक खरें म्हळ्यार तुका मेळपाक घरा येवपाचें. पूण अचकीत आई-पापा वांगडा बेंगळूराक वचपाचें थरिल्ल्यान तें आतां शक्य ना. ताका लागून रागार जावंचें न्हय.

परत एक फावट वाडदिसाचीं परबीं दिवन तुका लांब जीण आंवडेतां. आई-पापाक म्हजो नमस्कार.

बरें मागून,

तुजी इश्टीण

निशाणी
( नांव )






नमुनो ३

<u>मुख्यमंत्र्यान नागरिकांक दिल्लीं दिवाळेचीं परबीं.</u>

## दिवाळेचीं परबीं

## भौ. मुख्यमंत्र्यांचो संदेश

गोंय राज्यांतले समेस्त जनतेच्या काळजांतली काळखी रात सोंपून, जण एकल्याचे जिणेंत खोस-समाधानाचे लाख दिवे पेट्रून काळजां-काळजांत दिवाळेचो सप्तरंगी उजवाड फांकूं, अशें देवालागीं मागून दिवाळेचीं परबीं दितां.

गोंयच्या सर्वांगीण विकासाक हातभार लावपी जनकल्याणाच्यो येवजणो चालीक लायतना, तुमचोय तेंको मेळचो आनी ह्या दिवाळेच्या शूभ म्हुर्तार तुमचे आमचे कल्पनेंतलें गोंय एक आदर्श राज्य घडोवपाचें सपन पुराय करपाचे दिशेन पावलां मारपाक हे घटकेक निश्चेव करुंया.

देव बरें करूं.

(माहिती आनी प्रसार खात्यावतीन प्रसिद्द, गोंय सरकार, पणजी-गोंय)

नमुनो ४

<u>शिक्षकाक राष्ट्रीय पुरस्कार मेळिल्ले खातीर परबीं.</u>

रुपेश कामत
पैंगीण, काणकोण.

ता. २० सेतेंब्र, ९७

सेवेक,
भौमानादीक बर्वे सर,

नमस्कार,

तुमकां १९९६ वर्साचो राष्ट्रीय पुरस्कार फावो जाला म्हण खबरांपत्रांत खबर वाचली. तुमकां हो पुरस्कार फावो जाल्लेखातीर काळजाथावन परबीं. तुमी तुमचे शिकवणेंतल्यान साबार आदर्श विद्यार्थी घडयले, तांच्या व्यक्तीमत्वाचे बुन्यादीक गिन्यानाचें मुळावण घालें, राष्ट्रहिताखातीर नवी पिळगी निर्माण केली.

तुमी शिक्षणीक मळार दिल्लें योगदान, विद्यार्थ्यांच्या सर्वांगीण विकासाक बळ दिवपी तुमची शिक्षण पद्दत, आनी विद्यार्थ्याक वेळार मेळपी योग्य मार्गदर्शन हांची आयज तुमकां ह्या पुरस्काराच्या रुपान पावती मेळ्ळ्या. ताका लागून परत एकदां तुमकां म्हजीं परबीं.

तुमकां बरी भलायकी आनी लांब आयुश्य आंवडेतां.

बरें मागून,

तुमचेकडेन भोवच नमळायेन,
तुमचो विद्यार्थी,

निशाणी
( नांव )

नमुनो ५

## नोकरेंत बडटी मेळिल्ले खातीर परबीं.

उमाकांत साळकार
वेरें-बार्देस, गोंय.

ता. ३ माय, ९६

मोगाळ फ्रांसिस,

नमस्कार,

'मनीस जेन्ना प्रामाणीकपणान आनी पोटतिडकीन काम करता तेन्ना ताज्या कामाचें फळ हें ताका मेळटाच' अशें वाचनांत आयिल्लें. पूण ब्लू स्काय कंपनीच्या धनयान तुजेर पुराय विस्वास दवरून तुका निजी वेवस्थापकाच्या पदार बडटी दिवन तुका कंपनीचें वेवस्थापकपद फावो केल्ल्यान वयल्या म्हणण्याक आयज खरो अर्थ आयला.

इश्टा, तुका मेळिल्ले हे बडटेक लागून हांव काळजांतल्यान खोशी जावन परबीं दितां. फाटल्या म्हयन्यांत तूं अमेरिकेक खासा प्रशिक्षणाक वचून आयलो म्हणून कळ्ळें. फाटलीं सात वर्सां कंपनीक तुवें दिल्लें योगदान आनी कंपनी फायद्यांत चलची म्हणून तुवें केल्ल्या म्हत्वाच्या कार्याक लागून, अल्प काळांत तूं येद्या मोट्या पदार पावलो. हेफुडेंय तुज्या वावरांत तुका येस मेळत रावूं अशें देवालागीं मागतां.

बरें मागून,

तुजो,

निशाणी
( नांव )

नमुनो ६

## लग्नाचीं परबीं.

विनायक कुडणेकार
वाळपय, सत्तरी.

ता. ८ माय, ९८

मोगाळ सतीश,

नमस्कार.

तुज्या लग्नाची होंवळीक आयजूच हातांत पडली. 'लग्न हें उतर म्हज्या शब्दकोशांत ना' अशें हड्डें फुलोवन सांगपी म्हजो इश्ट आतां लग्नाच्या माटवांत माळ घेवन उबो रावतलो ही अजापाची पूण तितलीच खोसदिणी गजाल. इश्टा, तुका तुज्या लग्नाचीं काळजाथावन परबीं भेटयतां.

तुजी काजारी जीण सुखाची आनी खोसयाळी थरूं, तशेंच जिणेची वाट चलतना वाटेर येवपी आडखळींक समर्थपणान तोंड दिवपाची तांक तुमकां दोगांकूय मेळूं, अशें हांव देवाकडेन मागतां.

बरें मागून,

तुजो इश्ट,
निशाणी

( नांव )

## • भेटकार्डां / भेटपत्रां

आमी मनांतले विचार, भावना दुसऱ्यामेरेन पावोवंचेखातीर चिटी धाडपाक लागले. वळखीच्या मनशांक परबीं भेटोवंचेखातीर 'परबीं पत्रां' धाडपाक सुरवात जाली. समाजीक पांवड्यार 'परबीं पत्रां' अजुनूय चलतात आसलीं तरी वैयक्तीक पांवड्यार मात हीं परबीं पत्रां 'भेटकार्डां'चें छापिल्लें रूप घेवन घोळपाक लागल्यांत. आमचे दीसपट्टे जिणेंत विंगड विंगड गजालींखातीर आमी भेटकार्डांचो वापर करीत आयल्यात. देखीक,

१. वाडदिसाचीं भेटकार्डां
   अ] जल्माच्या वाडदिसाचीं भेटकार्डां
   ब] लग्नाच्या वाडदिसाचीं भेटकार्डां
   क] शिक्षकाच्या वाडदिसाचीं भेटकार्डां
   ड] वाडदिसाचीं कळावीं भेटकार्डां (belated birthday greetings).
२. मोगाचीं भेटकार्डां
   अ] आवय-बापायच्या मोगाचीं भेटकार्डां
   ब] भाव-भयणीच्या मोगाचीं भेटकार्डां (रक्षाबंधन/भावबीज)
   क] इश्ट-इश्टिणीच्या मोगाचीं भेटकार्डां (प्रेम-पत्रां)
   ड] घोव-बायलेच्या मोगाचीं भेटकार्डां.
३. दिवाळेचीं भेटकार्डां
४. नातलांचीं भेटकार्डां
५. नव्या वर्साचीं भेटकार्डां
६. शिक्षक दिसाचीं भेटकार्डां
७. मकर संक्रांतीचीं भेटकार्डां
८. परिक्षेंत येस जोडिल्लेखातीर भेटकार्डां
९. परिक्षेंत येस लाबचेखातीर भेटकार्डां
१०. उपकार मानपी भेटकार्डां
११. चूक मागपी भेटकार्डां.

आयज बाजारांत इंग्लीश भाशेंतलीं तरातरांचीं भेटकार्डां नदरेक पडटात. पूण आमचे आवयभाशेंतलीं, कोंकणींतलीं, भेटकार्डां अजून बाजारांत येवंक नात. कांय जाण आपल्या हातान कोंकणींतलीं भेटकार्डां तयार करून आपल्या इश्टांक, सोयऱ्यांक धाडपाक लागल्यात. हीच गजाल आमी आतां वेवसायीकरणाचे (commercialization) नदरेंतल्यान सुरू करपाची गरज आसा. रोजगाराखातीर हे गजालीचो जायतो फायदो जावं येता. हीं भेटकार्डां तयार करपापसून तीं बाजारांत पावोवपामेरेन जायत्या जाणांची गरज पडटली. भेटकार्डांखातीर लेखन करपी मनीस जाय पडटले, तशेंच

चित्रकारांकडल्यान, फोटोग्राफरांकडल्यान भेटकार्डांखातीर विंगड विंगड चित्रां, फोटे आनी नव्यो कल्पना जाय पडटल्यो. ह्या गरजांतल्यान जायत्या जाणांक रोजगार मेळूं येता. देखून 'कोंकणी भेटकार्डां'चो वेवसाय सुरू करपाचें आवाहन स्विकारचेखातीर तरणाट्यांनी मुखार येवंक जाय. ते नदरेन सुरवात जावंची म्हणून भेटकार्डांचे कांय देखींदाखल नमुने हांगा जोडल्यात.

अ] भेटकार्डांखातीर कांय ओडलायण्यो सुरवाती :–

१. म्हजे आवयक
२. मोगाळ आवयक
३. म्हजे मोगाळ आवयक
४. म्हज्या काळजांतले आवयक
५. धर्तरिवयले सर्वोत्तम आवयक
६. मायेस्त xxxक
७. मोगाळ आनी मायेस्त xxxक
८. अपुर्बायेच्या बाबुल्याक
९. माणकुल्या xxxक
१०. कुकुल्या xxxक
११. म्हज्या सोबीत xxxक... बी

ब] भेटकार्डांखातीर कांय ओडलायणे अखेर :–

१. तुजो xxx / तुजोच xxx
२. फकत तुजो xxx
३. तुज्या काळजांतलो xxx
४. तुजेच यादींत घुसपल्लो xxx
५. तुज्या काळजाचो कुडको xxx
६. तुजोच, भांगराचो कुडको xxx
७. आनीक कोणाचो ?... फकत तुजो, xxx
८. तुजो, तुजो आनी फकत तुजोच, xxx...बी

क] 'भेटकार्डां'तले संदेश धाडचेखातीर कांय हेर माध्यमां :

१. कागदावयलीं भेटकार्डां
२. पत्र्याचे प्लेटीचेर वा खड्ड्याचेर छापिल्लीं भेटकार्डां
३. लांकडाच्या कुडक्याचेर छापिल्लीं उतरां
४. वणटीचेर लावपासारकीं भेटकार्डां

नमुनो १



मोगाळ शिक्षकाक,

मनशाक जगचेखातीर
तीन न्हय, चार
'मुळाव्यो गरजो' लागतात...
अन्न – वस्त्र – घर
आनी
तुमचे सारको एक शिक्षक!

धर्तरेवयल्या सर्वोत्तम शिक्षकाक
शिक्षक-दिसाचीं परबीं

तुमचो,
(नांव, निशाणी)

नमुनो २



मोगाळ —— सर,

*आमकां समजून घेवपी*
*आमचेर विस्वास दाखोवपी*
*आमची स्फूर्त जागोवपी*
*आनी*
*आमचेर*
*काळजांतल्यान*
*उपाट मोग करपी*
*आमच्या शिक्षकाक*
वाडदिसाचीं परबीं

तुमचो / तुमचे,
(नांव निशाणी)

नमुनो ३



भौमानेस्त —— सराक / टिचरीक

तुमचेसारके शिक्षक सगल्यांक मेळूं.

म्हाका काळखांतल्यान उजवाडांत हाडपी
म्हज्यांत सत्याची कीट पेटोवपी
म्हज्या पांखांक उडपाचें बळगें दिवपी
आनी... एक आख्खें मळब भेटोवपी
म्हज्या शिक्षकाक...
**शिक्षक-दिसाचीं परबीं!**

तुमचो आज्ञाधारी,
(नांव / निशाणी)

नमुनो ४



म्हज्या मोगाळ गुरूक,

बरो मनीस जावंचो कसो
तुमीच म्हाका शिकयला,
म्हजेभितर गिन्यानाचें
पीक तुमीच पिकयलां...
देखून
कितलोय शिकलों मुखार तरी
तुमचोच शिश्य उरचों,
हांव एक रितो पेलो
तुमी गिन्यानान भरचो...

तुमचो विद्यार्थी,
________________

- दिवाळेचीं परबीं भेटोवपी कार्डां

नमुनो १



मोगाळ — — — क,

फळारांनी भरलें ताट
उमेदीचे व्हांवले पाट
उजवाडाची येवन लाट
रात उजळ्ळी...
आयली दिवाळी
आयली दिवाळी

*दिवाळेचीं हुन्हुनीत परबीं*

तुजो / तुमचो,

____________

नमुनो २



मोगाळ — — — क,

ही दिवाळी
तुमचे जिणेंत
सुखा-समाधानाचो
लखलखीत उजवाड
घेवन येवं.

*दिवाळेचीं परबीं*

तुमचो,

____________

- **मोग उकतावपी भेट-कार्डां**

नमुनो १

| | |
|---|---|
| | मोगाळ इश्टाक / इश्टिणीक,<br><br>तुजे वाटेवयलो दरेक कांटो<br>हांवें कुशीक काडचो,<br>तुजो-म्हजो सोबीत मोग<br>असोच मुखार वाडचो.<br><br>तुजो / तुजें,<br>________ |

नमुनो २

| | |
|---|---|
| | मोगाळ आवयक / इश्टाक,<br><br>फकत मलम लायलें म्हणून<br>पेखनात सगले घाय<br>तें मलम लावंचेखातीर<br>मायेचे हातूय जाय.<br><br>तुजो,<br>________ |

नमुनो ३

| | |
|---|---|
| | मोगाळ इश्टाक / इश्टिणीक,<br><br>तुजे सारको इश्ट मेळप<br>हें हांव म्हजें भाग्य समजतां<br>... जिणेच्या निमाण्या स्वासामेरेन<br>ही इश्टागत तिगूं दी.<br>केन्नाय... खंयच्याय खिणाक<br>उलो मार.<br>तुका ओ आयकूंक मेळटलो.<br><br>तुजोच,<br>________ |

## • नव्या वर्साचीं भेटकार्डां

नमुनो १



मोगाळ — — — क,

नव्या वर्साचो सूर्या
तुजे जिणेंत
उजवाडाचो रूख जावन
युगां युगां रावचो
आनी
जिणेंतलो काळोख
पयस पयस पावचो.

[illegible],
_______

नमुनो २



### नव्या वर्साच्यो शुभेत्सा

मोगाळ — — — क,

वर्स नवें
उमेद नवी
संकल्प नवे करचेले
फुडले वाटेवयलें पावल
धिटायेन घालचेलें.

तुवें पावलाकणकणीं येस जोडचें.

[illegible],
_______

नमुनो ३



म्हज्या मोगाळ — — — क,

नव्या वर्सान
उजवाडाचीं किर्णां हाडल्यांत
सुखा-समाधानाचे खीण हाडल्यात,
ताका उकत्या मनान
हांसत्या तोंडान
येवकार दिवंया.

नवें वर्स उमेदीचें आनी सुखाचें वचूं.

तुजो/तुजें,

________

• नातालांचीं भेटकार्डां

नमुनो १



मोगाळ — — — क,

बऱ्याखातीर वावुरतल्याक
संकटांची पर्वा नासता
कित्याक तर,
जेजू आनी सायबीण मांयचे
बेंसांव तांचेर आसता.

नातालांचीं काळजांथावन परबीं.

तुजो / तुमचो,

________

नमुनो २



मोगाळ — — — क,

नातलांचे परबेनिमतान
तुमकां सगल्यांक
बरी जीण आंवडेतां.
तुमचे जिणेंत सदांच
नखेत्रांचो उजवाड
फांकारूं दी.

नातालांची परबीं.

तुमचीं,
________

नमुनो ३



मोगाळ — — — क,

खुरसावयल्या राजाची
शिकवण घेवन जगुंया.
दया आनी मोग घेवन
मनीसपणान वागुंया.

नातलांचीं हुनहुनीत परबीं.

तुमचीं,
________

- वाडदिसाचीं भेट-कार्डां

नमुनो १



मोगाळ — — — क,

आयच्या ह्या सोबीत म्हुर्तार
हांवें फकत
इतलेंच मागचें...
देवाच्या आशिर्वादान
तुका दीर्घायुश्य लाबचें.

**वाडदिसाचीं परबीं**

तुजोच,

________

नमुनो २



मोगाळ — — — क,

'याद आशिल्ल्योच' गजाली
आमी विसरतात.

याद नाशिल्ली गजाल
विसरपाचो प्रस्नूच येना.

तुजो वाडदीस 'याद आशिल्लो'
देखुनूच तर विसरलों हांव.

उसरां काय जायना...

**वाडदिसाचीं हुनहुनीत परबीं.**

तुजोच,

________

नमुनो ३




मोगाळ -- — — आनी — — — क,

तुमचो
एकामेकांवयलो मोग
हीच तुमच्या
घराची बुन्याद
... ती दिसान दीस
बळिश्ट जायत वचूं.

लग्नाच्या ५०व्या वाडदिसाचीं
परबीं

तुमचीं,
———

नमुनो ४



## वाडदिसानिमतान परबीं

म्हज्या — — — क,

उसरां आयिल्ल्या पावसांतूय
तुफान-शक्त आंसतली.
उसरां धाडिल्ले परबेंतूय तुका
काळजांतली खोलाय दिसतली.

तुजो,
———

• मकर संक्रांतीचीं भेट कार्डां

नमुनो १

| | |
|---|---|
| | मोगाळ — — — क,<br><br>तिळगूळ खावन<br>गोड गोड उलय<br>सगल्यांच्या तोंडाचेर<br>हांसो फुलय<br><br>तुजो / तुजीं,<br>___________ |

नमुनो २

| | |
|---|---|
| | मोगाळ — — — क,<br><br>मकर संक्रांतीच्या दिसा<br>तिळगुळाची रूच येवंची<br>दरेक खिणाक जिबेर तुज्या<br>साकर-गोड उतरां येवंचीं.<br><br>मोग आसाच — तो वाडचो.<br><br>तुजो / तुजीं,<br>___________ |

## • कागाळ पत्रां

जिणेंत निटाय, शिस्त आसप खूब गरजेचें. वेपारी मळाचेर शिस्तीचो उपेग जावपाक जाय. समाजीक निटाय हाडपाचो यत्न केन्ना केन्ना कागाळ पत्राच्या पत्र रुपान करूं येता. कागाळ-पत्राचो मूळ हेत बरो आसपाक जाय. देखीक, पेत्रोल भरसण, गॅस वितरावणी, वीज, उदक हांचेविशीं कागाळी भौसाक लागू पडटात आनी असल्या पत्रांचें स्वरूप जरी वैयक्तीक आसलें तरी ताजें प्रयोजन मतींत दवरप गरजेचें आसता. म्हालाची विक्री, येणावळ, दर्जो, बांदावळ हेसंबंदींची कागाळ करतना भास सभ्यतायेक तशेंच न्यायाक धरून आसची.

नमुनो १

<u>लाऊडस्पिकराक लागून जावपी आवाजाच्या प्रदुशणाविशीं कागाळ.</u>

**रमेश रघुनाथ देसाय**
वॉर्ड क्र. ४, फोंडें.
१८ मार्स, १९९६

सेवेक
मामलेतदार,
फोंडें म्हाल, फोंडें.

**विशय : लाऊडस्पिकराक लागून जावपी आवाजाच्या प्रदुशणाविशीं.**

नमस्कार,

हांव, सकयल निशाणी केल्लो, रमेश रघुनाथ देसाय, फोंडें नगरपालिकेच्या चार क्रमांकाच्या वॉर्डांत रावतां. ह्या दिसांनी ल्हान-व्हड कार्यावळीं वेळार आमच्या वाटारांत लाऊडस्पिकर लायतात. फांतोडेर सावन मद्यानरातीमेरेन व्हडा आवाजांत वाजपी ह्या ध्वनीक्षेपकांक लागून आवाजाचें व्हड प्रदुशण जाता. कर्कश आवाजाक लागून कान किटून गेल्यात. ताजो सगल्यांत चड त्रास दुयेंत, जाणटीं मनशां, तशेंच शिकपी भुरग्यांक जाता. फाटल्या आठ दिसांआदीं सरकारी हॉस्पिटलालागीं आशिल्ले भौशीक सुवातेर दीस-रात कोनों वाजतालो.

हांव कॉलेजींत बीएच्या निमाण्या वर्साक शिकतां. आमची परिक्षा येता त्या १५ आब्रीलासावन सुरू जावपाची आसा. अशे परिस्थितींत मन लावन अभ्यास करप खुबूच कठीण जाता. म्हजेसयत साबार विद्यार्थ्यांक हाजो त्रास जाता. ताका लागून कोन्र्यांच्या वापराचेर निर्बंद हाडचो आनी तांका वेळाचें बंधन घालचें.

म्हजी कागाळ मानून घेवन तुमी बेगिनांत बेगीन संबंदितांचेर कारवाय करची अशी नमळायेची मागणी.

तुमी बेगीन पावलां उखलतले अशी आस्त धरतां.

तुमचो निस्वासू,
(नांव आनी निशाणी)

नमुनो २

<u>कॉलेजी लागसार जावपी आवाजाच्या प्रदुशणाक लागून विद्यार्थ्यांनी संपादकाकडेन केल्ली कागाळ.</u>

**रश्मी कामत**
सी टी टी म्हाविद्यालय,
पणजी ४०३ ००१.

ता. २ माय, ९६

सेवेक
भौ. संपादक,
दै. सुनापरान्त,
मडगांव.

नमस्कार.

हांव, रश्मी कामत, फाटल्या वर्सासावन पणजेच्या सी टी टी म्हाविद्यालयांत शिकतां. आमच्या म्हाविद्यालया मुखारूच जोड-रस्तो आशिल्ल्यान, ह्या रस्त्याचेर सदांच व्हडा प्रमाणार येरादार आसता. तेभायर कितल्योशोच गाडयो उब्यो करून दवरिल्ल्यान येरादारीक आडखळ निर्माण जाता. गाडयांचे आवाज, तांचे हॉर्न हांकां लागून पुराय म्हाविद्यालयाक त्रास जातात. जायते फावटीं शिकोवपी किदें शिकयतात तें आयकूंक लेगीत येना.

ह्या रस्त्यावयली जड वाहनांची येरादारी एक तर दुसऱ्या मार्गान व्हरची वा तिज्या वेगाचेर मर्यादा घालची. येरादार खात्यान हे कागाळेची नोंद घेवन ताणें हो प्रस्न बेगीन सोडोवचो अशी ह्या पत्रांतल्यान मागणी करतां. बेगोबेग कारवाय करून तुमी विद्यार्थ्यांमदलो असंतोश पयस करतले अशी आस्त धरतां.

तुमचें विस्वासू,

(नांव आनी निशाणी)

नमुनो ३

<u>सवाय धान्य पसऱ्यावयल्या म्हालासंबंदान कागाळ.</u>

दत्तात्रय नायक
घर क्र. १४००
कोंब, मडगांव.

ता. २० आगोस्त, ९६

सेवेक
संचालक,
नागरी पुरवण खातें,
गोंय सरकार.

विशय : सवाय धान्य पसऱ्यावयल्या म्हालासंबंदान कागाळ

नमस्कार.

हांव, सकयल निशाणी करपी, दत्तात्रय नायक, ह्या कागाळ-पत्रावरवीं, आमच्या वाठारांतल्या सरकारमान्य सवाय धान्य पसऱ्याविशीं कागाळ करूंक सोदतां. ह्या पसऱ्याचेर फाटल्या म्हयन्यासावन तांदूळ आनी गंवांची व्हडा प्रमाणार भरसण जाल्ली दिश्टी पडटा. साप्प उणाक दर्ज्यांचें धान्य लोकांक खावंचें पडिल्ल्यान भलायकी इबाडपाचे प्रकार घडूंक लागल्यात. ह्या धान्याक लागून किदेंय अनर्थ घडचेआदीं तुमी बेगिनांत बेगीन ह्या पसऱ्याची तपासणी करून गुन्यांवकारांचेर योग्य कारवाय करची अशी मागणी. हाजेमुखार अशो घडणुको घडच्योनात हाजी जतनाय तुमचें खातें घेतलें अशी आस्त दवरून.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी
( नांव )

नमुनो ४

<u>सुणें मेल्ल्या कारणान कुसत पडिल्ल्यान प्रदुशणाविशीं नगराध्यक्षाक कागाळ-पत्र.</u>

**किरण नार्वेकार**
वाळपय, सत्तरी
४०३ ५०६.

ता. २५ सेतेंब्र, ९६

सेवेक
भौ. नगराध्यक्ष,
वाळपय नगरपालिका,
वाळपय.

**विशय : सुणें कुसत पडिल्ल्यान जाल्ल्या प्रदुशणाविशीं**

नमस्कार.

हांव, किरण नार्वेकार, वाळपय नगरपालिकेच्या एका वॉर्डांत रावतां. फाटल्या दोन दिसांसावन आमच्या वाड्यार, देवळालागसार, एक बेवारशी सुणें मरून कुसत पडलां. ताजी घाण ह्या वाठारांतल्या सगल्या लोकांक येतना-वतना सोंसची पडटा. तशेंच, देवळांत येवपी भाविकांक नाकाचेर हात धरून दर्शनाक वचचें पडटा.

दोन दीस सोंपून लेगीत नगरपालिकेन त्या सुण्याचो विलो लावपाचे नदरेन कांयच पावलां उबारूंक नात. तेन्ना तुमी बेगिनांत बेगीन लक्ष घालून जनतेक ह्या प्रदुशणासावन मुक्त करचें ही मागणी. तुमी रोखडीच कारवाय करतले अशी आस्त दवरून.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी
( नांव )

नमुनो ५

समाजीक कागाळ.

ता. ९ आगोस्त, १९९६

प्रति
भोवमानादीक राजभास मंत्री,
गोंय सरकार,
पणजी.

नमस्कार.

आमी सकयल निशाणी करपी, राजभास कायदो १९८७ कारवाय सल्लागार समितीचे वांगडी, पांच वर्सांपरस चड काळ गेलो तरी राजभास कायद्याची कारवाय करचेखातीर सरकार कसलेंच पावल उखलना हें पळोवन, उबगल्यात आनी तुमच्या हातासकयलो राजभास विभाग सदर कायद्याचे कारवायेसंबंदान सामकोच कृतीहीण जाला हेखातीर निशेध व्यक्त करून आयजमेरेन जावंक नाशिल्ल्या वावराचो नियाळ तुमचेमुखार दवरूंक सोदतात.

१९९० वर्साच्या ओतुब्रांत आमची सल्लागार समितीचेर नियुक्ती जाल्ली. हे समितीचे अध्यक्ष राजभास मंत्री आसात. भारतीय संघराज्यांतल्या हेर राज्यांनी राजभास कायदो चालीक लावपाचो वावर खूब फुडें पाविल्ल्यान गोंयांत चड आनी नेटान वावर करपाची गरज आसा हें वळखून दर तीन म्हयन्यांनी सल्लागार समितीची बसका घेवंची अशें थरिल्लें. पूण आतांमेरेन फकत पांचूच बसका जाल्यात आनी फाटल्या दोन वर्सांमदीं एक्कूय जावंक ना. नवें मंत्रीमंडळ सत्तेर आयले उपरांत फाटल्या २० नोव्हेंब्राचें आनी २५ देझेंब्राचें अशीं दोन पत्रां आमकां मेळ्ळीं. सवी बसका रोखडीच घेतले, त्या वेळार खंयचे विशय चर्चेक घेवंचे हेविशीं सुचोवण्यो मागोवनूय अजूनमेरेन बसका आपोवंक ना.

राजभाशेचो चडांत चड वापर राजकारभारांत जातलो जाल्यार पूर्वतयारी म्हणून कांय म्हत्वाचीं पावलां बेगोबेग उखलपाच्यो सुचोवण्यो आमी १९९१ वर्सासावन करीत आयल्यात. पूण अजूनमेरेन ह्या सुचोवण्यांचेर कसलीच कृती जावंक ना. तांतल्यो कांय म्हत्वाच्यो सुचोवण्यो तुमचे नदरेक हाडून दितांव.

१] सध्याचो राजभास कक्ष राजभास कायद्याचेर कारवाय करपाच्यो गरजो भागोवपाक असमर्थ आशिल्ल्यान स्वतंत्र राजभास निदेशालय उगडचें ही मागणी तत्वता मानून घेवनूय दुडवांची तजवीज ना आनी नवीं पदां तयार करप कठीण जाता म्हणून सांगून फुडें फुडें धुकलीत कडेक सारल्या.

२] कामापुरतें तरी राजभाशेचें गिन्यान अनिवार्य आसचें आनी प्रशिक्षीत कर्मचारी आनी अधिकाऱ्यांक अर्थीक उत्तेजन मेळचें ही सुचोवणीय कारवायेंत हाडपाचें उतर दिवनूय हुमकळत दवरल्या.

३] कांय गांवांच्या आनी शारांच्या नांवांचें प्रमाणीकरण जावंक जाय ही मागणी कारवायेखातीर महसूल विभागाकडेन धाडली आनी तांणी खांके वरशे केले.

४] हेर राज्यांनी चलता तेप्रमाण गोंय राज्याचें राजपत्र राजभाशेंतल्यान उजवाडाक येवंचें ही मागणी धुल्ल खायत पडल्या.

५] सरकारनियुक्त अनुवादकांखातीर प्रशिक्षण दिवपाची तजवीज आंखपाचें उतर दिल्लें ताकाय पाळो दिवंक ना.

६] महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी तमीळनाडू ह्या शेजारच्या राज्यांनी राजभास कायद्याचे कारवायेखातीर कसलो वावर केला तें समजून घेवपाखातीर एक समिती नेमिल्ली. पूण फकत मुंबयच्या राजभास निदेशालयाक भेट दिवन येतकच फुडली भोंवडी सरकारान दुडू नात अशें कारण दिवन रद्द केली. इतले मजगतीं जो अंतरीम अहवाल दिल्लो तातूंत महाराष्ट्रांत कितलो व्हडलो वावर केला तें होलमलां आसुनूय गोंय सरकाराचो राजभास कक्ष मात हो अहवाल उशाक घेवन न्हिदला.

७] सरकारी नोकरेखातीर कोंकणीचें गिन्यान सक्तीचें केलें जाल्यारूच गोंयच्या भूंयपुतांचें हीतरक्षण जातलें ही गजाल लक्षांत हाडून दिल्ली आसतनाय गोंय सरकाराच्या जायरातींतल्यान 'कोंकणी आनी/वा मराठीचें गिन्यान आसल्यार बरें' अशी चत्राय आसता.

८] ह्यो सुचोवण्यो वा राजभास कायद्याचे कारवायेसंबंदान कसलेंय पावल उखलतले जाल्यार पयलीं अधिसुचोवणी काडपाची गरज आसता. पूण सरकाराची तशी तयारी वा इत्सा दिसना.

आमी, गोंयचें हीत लक्षांत घेवन, राजभास कायद्याची कारवाय वेगीं आनी बरे तरेन जावंची हेखातीर आमचो मोलादीक वेळ आनी वावर पदरचो दुडू मोडून केला. कायद्यान फावता आसुनूय एकूय बसके वेळार सरकारी नेमाप्रमाण आमकां भत्तो दिवंक ना हाजें आमी वायट दिसून घेतलेंना. पूण निसुवार्थपणान केल्ल्या वावराचें मोल म्हणून तुमच्या मंत्रालयान थोडीशी आस्था दाखोवन राजभास कारवायेसंबंदान चार पावलां उखलिल्लीं जाल्यार सार्थक जातासलें. दुर्दैवान, अशें अजूनमेरेन घडूंक

ना. आनी हाजेफुडेंय घडपाची आस्त दिसना. राजभास कायदो १९८७ हो लोकांच्या आंदोलनांतल्यान लाखांनी लोकांचे मागणेन पास जाल्लो कायदो. भूंयपुतांच्या हीतरक्षणाखातीर हो कायदो आसा. आतां सरकाराचे निश्क्रियताये संबंदान लोक आमकां विचारूंक लागल्यात. अशा वेळार आमकां भोगिल्ले निर्शेणेंतल्यान आमी ह्या सल्लागार मंडळाच्या वांगडीपदाचो सामुहीक राजिनामो दिवपाचो निर्णय घेतला.

हेंच आमचें सोडपत्र लेखून आमचे राजिनामे मानून घेवंचे, ही विनंती.

निशाणी

(चंद्रकांत केणी) (उदय भेंब्रे) (मनोहर सरदेसाय)

(दामोदर मावजो) (फेलिसियु कार्दोज)

## • उपकार पत्रां

उपकाराची भास उतरांचे पलतडची आसता. उपकार मानूंक जायते फावटीं उतरां उणीं पडटात. कोणाचेय उपकार मानप म्हळ्यार केल्ले उपकार परतावप न्हय, जाल्यार केल्ल्या उपकारांविशींची कृतज्ञताय उकतावप. दुयेंत मनशान दोतोराचे, विद्यार्थ्यान गुरूचे, इश्टान इश्टाचे, शेजाऱ्यापाजाऱ्यांचे, देणगीदारांचे, बरें मागप्यांचे, मदत करतल्यांचे उपकार मानप आनी तेय फकत तोंडी न्हय जाल्यार लिखीत रुपांत मानप ही आयज एका अर्थान गरज आनी एका अर्थान रीत जावन पडल्या. हेर पत्रांप्रमाण घरगुती/वैयक्तीक उपकार मानपी पत्रांचे भाशेक स्वातंत्र्य आशिल्ल्यान ती मेकळी आनी बदलपी आसता. जाल्यार कार्यालयीन वा भौशीक तरेच्या उपकार मानपी पत्रांची भास उपचारीक जाल्ली दिश्टी पडटा. देखीक, 'तुवें दिल्ल्या आदाराखातीर आमी उपकारी आसात' वा 'आमी तुमचे उपकार मानतात', 'देव बरें करूं' बी. वैयक्तीक उपकार मानपी पत्रांनी केन्ना-केन्ना काळजाचो हुंकार अतितायेंतल्यान आनी [illegible] अलंकरणांतल्यान वा उतरांचे लांबणेंतल्यान व्यक्त जाता. देखीक, 'तुवें केल्ले उपकार हांव जल्मभर विसरचोंना. तुजी ती त्या दिसाची अवचीत जाल्ली भेट. तो एक योगायोग आशिल्लो. त्या संकश्टा वेळार तुवें म्हाका दिल्लो तो आदार... त्यो सगल्यो यादी आयज मनांत घर करून रावल्यात...' आयज उपकार मानप ही एक रीत जावन पडल्या. ऑफिसांतल्या हेर कामांवांगडाच करपाचें हें लेगीत एक काम जावन पडलां. वैयक्तीक उपकार मानपाच्या पत्रांचे लेगीत जायते नमुने आयज ओडलायण्या रुपांत बाजारांत विकते मेळटात.

नमुनो १

<u>उमेदवारान आपल्या मतदारांचे उपकार मानपी पत्र</u>

## जाहीर उपकार



(नांव)

मोगाळ मतदारांक,

नमस्कार.

उत्तर गोंय मतदारसंघांतल्या म्हज्या मतदारांनी म्हाका वेंचून दिल्लेपासत हांव तुमच्या सगल्यांचो काळजाथावन उपकारी... जे कार्यकर्ते रात-दीस एक करून म्हज्या प्रचाराखातीर वावुरले आनी निमाणेमेरेन म्हज्या सांगातान रावले तांचो हांव खुबूच उपकारी आसां. तशेंच, ज्या मतदारांनी म्हज्या समाजकार्याची दखल घेवन म्हजेर पुराय विस्वास दवरलो आनी आपलें भोव मोलादीक मत दिवन म्हाका देशाची सेवा करपाची एक अपूर्व संद दिली तेखातीर तांचे उपकार मानीत तितले थोडे. भारताच्या हिताखातीर वावुरतना गोंयचे सर्वांगीण उदरगतीखातीर हांव सदांच कार्यमग्न रावतलों अशें हांव तुमकां उतर दितां.

तुमकां सगल्यांक प्रत्यक्ष येवन मेळप शक्य नाशिल्ल्यान तुमचे सगल्यांचे पत्रांतल्यान जाहीर उपकार मानतां. फुडाराक तुमचेकडल्यान अशेच तरेचो सहकार आनी फाटबळ मेळटलें अशी आस्त दवरतां.

देव बरें करूं.

तुमचो,

निशाणी

( नांव )

नमुनो २

## भलायके संबंदान उपकार मानपी पत्र

**मिंगेल फेर्नांदीश**
वजरी, सांखळी

ता. ३ आब्रील, १९९६

सेवेक
डॉ. दयानंद मंगेश राव,
मुळगांव – पार
दिवचल.

मानादीक दोतोराक,

नमस्कार.

तुमकां धनया देवालागीं बरी भलायकी मागतां. आतां तुमकां कळीत करतां, हांव भलायकेन बरो आसां. तुमच्या हॉस्पिटलांत म्हाका बऱ्यांतलो बरो त्रातामेंत मेळ्ळो जाचेवरवीं हांव म्हज्या दुयेंसांतल्यान वेगींच भायर सरूंक पावलों. जे त्रास तुमी म्हजेपासत घेतले ते हांव केन्नाच विसरूंक पावचोंना.

फुडल्या सप्तकांत तुमकां मेळपाक म्हणून येवपाचें थरयलां. तुमचेकडेन जायतें उलोवंचेलें आसा.

बरें मागून,

तुमचो,

निशाणी
( नांव )

नमुनो ३

## अभ्यासांत मदत केल्लेखातीर उपकार मानपी पत्र

विशांत प. उगवेंकार
केपें

ता. ७ आगोस्त, १९९६

मोगाळ राजू,

नमस्कार.

कालूच म्हजे परिक्षेचो निकाल खबरांपत्रांत वाचूंक मेळ्ळो. हांव पयल्या वर्गात पास जाल्ल्यान घरचीं म्हजेर खुबूच खोशी आसात.

ही परिक्षा पयल्या वर्गात पास जावपाचें श्रय म्हज्या शिक्षकां वांगडाच तुकाय वता. तुवें तुजो मोलादीक वेळ खर्चून, रात-दीस म्हणिनासतना म्हज्या अभ्यासांत मदत केल्लेखातीर हांव तुजो काळजाथावन उपकारी आसां. तुजेकडल्यान अशीच मदत हाजेफुडेंय म्हजे शिक्षणीक जिणेंत मेळटली अशी आस्त दवरतां.

मुखार कोंकणी विशय घेवन एम् ए करचें अशें हांवें थरयलां. त्या संदर्भात पूर्वतयारी म्हणून वेगवेगळ्या साहित्य प्रकारांच्या पुस्तकांचें वाचन चालू आसा.

बरें तर. प्रत्यक्ष भेटेंत विस्तारान उलोवंचें. घरच्या सगल्यांक म्हजो रेकाद कळय.

बरें मागून.

तुजो,

निशाणी
( नांव )

- ## बुजवण पत्रां

जल्म आनी मरण हीं मनशाचे जिणेचीं दोन तोंकां. जीण जगता आसतना आयिल्ल्या दुखेस्त, कश्टी, वायट, शोकपूर्ण आनी हारीच्या प्रसंगां वेळार मनशाक मानसीक आलाशिरो आनी आदार मेळप गरजेचें आसता. मनीस हो एक समाजीक प्राणी आशिल्ल्यान तो अशा आदाराची आस्त दवरता. त्या आदाराक 'बुजवण' अशें म्हणटात. 'बुजवण' हें उतर फकत मरणाच्या वगतार दिल्ल्या आदाराक उद्देशुनूच वापरतात. मरणाच्या दुखेस्त प्रसंगा वेळार ताज्या घरच्यांचें सांत्वन करपाक धाडिल्ल्या पत्राक 'बुजवण पत्र' अशें म्हणटात. घरगुती वा वैयक्तीक बुजवण पत्रांची भास लागसाणीची आनी नीट मनशाच्या काळजामेरेन पावपी आसता. देखीक 'तुजो बापूय भायर पडलो हें वाचून जबर दुख्ख भोगलें. घरचो जाणटो आनी एक आदार कोसळ्ळो हें चिंतून वायट दिसता. ह्या दुखेस्त प्रसंगा वेळार तुमी तुमचें मनोबळ सांबाळचें. म्हाका आस्त आसा तुमचेकडेन हें जातलें. हांव म्हजे वतीन परमेश्वराकडेन तशें मागतां.'

मरणाचें दुख्ख म्हळ्यार शोक. शोक हेर सगल्या दुख्खांपरस चड आसता अशें म्हणटात. हेर दुखेस्त प्रसंगां वेळार (देखीक सैमीक आपत्ती, हुंवार, दुकळ हांकां लागून जाल्लें लुकसाण, उजो लागप, वीज पडप वा फटवण हांकां लागून जाल्लें लुकसाण, विचारीक पराभव, भयांकृत दुर्येस जावप) हांचेखातीर बरयल्ल्या पत्रांक गरजेप्रमाण 'खंत उकतावपी पत्रां' वा 'सहानुभूती पत्रां' अशें म्हणटात. तांची भास ते ते परिस्थितीप्रमाण, दोन मनशांमदलें नातें, संवकळ हांचेर आदारून उरता. तांचो स्वतंत्र विचार करप गरजेचें. वैयक्तीक बुजवण पत्रांभाशेनूच (इश्टाक, शेजाऱ्याक, वळखीच्या मनशाक दुसऱ्यान धाडिल्लीं पत्रां) समाजीक बुजवण पत्रां (देखीक संस्थेन मनशाक, कंपनी वा उद्देग वा सरकारी प्रतिनिधी, आमदार, मंत्री, राज्यपाल, प्रधानमंत्री हांणी एके व्यक्तीक उद्देशून वा कुटुंबाक उद्देशून बरयल्लीं पत्रां लेगीत भावपूर्ण आशयाचीं पूण चड करून हेर तरांच्या पत्रांभाशेन थरिल्ल्या सांचेबंद स्वरुपाचीं आसतात.

नमुनो १

## अपघातांत भाव भायर पडिल्लेखातीर इश्टिणीक बुजवण पत्र

प्रकाश नारायण नायक
शिमेपायण, म्हाड्डोळ.

ता. २६ आब्रील, ९६

मोगाळ रविता,

आयज सकाळच्या सुनापरान्तांत मडगांवां जाल्ल्या अपघातांत तुजो भाव भायर पडिल्ल्याची खबर वाचून धक्को बसलो आनी दुख्ख जालें. तुजे आई-बाबा ल्हान आसतनाच तुका सोडून गेले. आनी आतां तुका सांबाळपी, समजून घेवपी असो एकलोच भाव आशिल्लो. काळान ताकाय बी पयस केलो.

तूं तुज्या मनाचेर परिणाम करून घेवं नाका. तुका मन घट करचेंच पडटलें. भिंयेवपाची कांयच गरज ना. तुका कसलीय गरज आसल्यार म्हाका सांगपाक अनमनपाची गरज ना.

हांव प्रत्यक्ष तुका मेळूंक शकना. हांव तुज्या दुख्खांत सहभागी आसां. लागींच्या मनशांचें दुख्ख परक्यांक समजना जालें तरी तुजें दुख्ख बेगीन ल्हव जावं हेंच देवालागीं मागणें.

तुज्या भावाचो आत्मो अनंतांत विलीन जाला. ताका शांती मेळूं अशें देवालागीं मागतां.

तुजोच,

निशाणी
( नांव )

नमुनो २

<u>इश्टाचो बापूय भायर पडिल्लेखातीर बुजवण पत्र.</u>

**विशाल पागी**
नेत्रावळी, पेडणें.

ता. ५ माय, ९८

मोगाळ कैलास,

नमस्कार.

म्हापश्यां जाल्ल्या बस अपघातांत तुज्या पापाक मरण आयिल्ल्याची खबर खबरांपत्रांत वाचली आनी मन दुख्खांत बुडून गेलें. पापाच्या आत्म्याक चिरशांती लाबूं अशें हांव देवाकडेन मागतां.

इश्टा, पापा भायर पडिल्ल्याचें तुका व्हड दुख्ख जालां हाजी म्हाका जाणविकाय आसा. पूण ह्या वेळार खचून वचनासतना काळीज घट कर, कारण घरांत भावंडां भितर तूंच व्हड आशिल्ल्यान घरच्यांची जबाबदारी तुजेर येवन पडल्या. जापसालदारकेचें वजें जड दिसलें तरी भविश्यकाळाक समर्थपणान तोंड दिवपाक शीक. म्हजेकडल्यान किदेंय मदत जाय आसल्यार सांगूंक कचरूं नाका. जिवाची जतनाय घे.

तुजो इश्ट,

निशाणी
( नांव )

नमुनो ३

घरकान्न भायर पडिल्लेखातीर बुजवण पत्र

कोंकणी सेवा केंद्र
तिळामळ, केपें.

ता. १८ माय, ९८

भौमानादीक अरविंदबाब,

नमस्कार.

तुमची घरकान्न भायर पडिल्ल्याची खबर कळ्ळी आनी आमचीं मनां दुख्खान भरून गेलीं. आमी सगले तुमच्या दुख्खांत सामील आसात. तुमचे घरकान्नीच्या आत्म्याक चिरशांती लाबूं अशें आमचें देवाकडेन मागणें.

तुमची घरकान्न भायर पडिल्ल्यान कोंकणी भाशेचें व्हड लुकसाण जालां. तिणें रचिल्लें साहित्य, तशेंच कोंकणीच्या मळार केल्लें संघटणात्मक काम सदांच अजरंवर उरतलें आनी नवे पिळगेक उर्बा दिवपी थरतलें.

तुमी घरकान्नीच्या शोकान खचून वचनासतना काळीज घट करचें अशें आमच्या सगल्यांचें मागणें.

कोंकणी सेवा केंद्राचे वतीन सौ. अन्नपूर्णा हांकां आमी आर्गां ओंपतात.

तुमचो,

निशाणी
अध्यक्ष
(कों. से. केंद्र)

वांगड्यांचीं नांवां आनी निशाण्यो.

## • सहानुभूती पत्रांचे नमुने

नमुनो १

<u>कारखान्याक उजो लागून जाल्ल्या लुकसाणाखातीर इश्टाक पत्र</u>

जुआंव कायतान फेर्नांदीश
वेळ्ळी, साश्ट.

ता. ५ आब्रील, ९६

मोगाळ राहूल,

तुजी चीट आयल्यार खूब तेंप जालो. हालींच म्हजो शेजारी पुण्याक गेल्लो. ताजेकडल्यान तुज्या कारखान्याक उजो लागिल्ल्या कारणान खूब लुकसाण जालें अशें म्हाका कळ्ळें. तें आयकून खूब वायट दिसलें. नव्यानूच सुरू जाल्ल्या तुज्या धंद्यांत आडखळ आयल्या आसतली.

ह्या दुख्खांतल्यान तूं आतांमेरेन सावचीत जालाच आसतलो. तुका परतून कश्टांचें वजें उखलपाची गरज आसा. कुटुंबाची जापसालदारकी तुजेरूच आशिल्ल्यान तुवें मन घट्ट करूंक जाय. तूं धीर सोडिनासतना यत्न करतलो हाजी खात्री आसा. तुजें दुख्ख बेगीन पयस जावंचें अशें देवालागीं मागतां.

तुज्या नव्या वावरांत तुका कसलोय आदार करपाक हांव तयार आसां. पयशांची गरज आसल्यार मेकळ्या मनान म्हाका कळय.

प्रत्यक्ष भेटींत उलोवंया.

घरच्या सगल्यांक नमस्कार.

बरें मागून,

तुजोच,

निशाणी
( नांव )

नमुनो २

## पंचायतींत आयिल्ले सैमीक आपत्तेखातीर पत्र

विशाल गांवकार
सरपंच,
नगरगांव ग्रामपंचायत
नगरगांव, सत्तरी.

ता. ३ आगोस्त, ९६

सेवेक
भौ. सरपंच
भोम-हडकोण ग्रामपंचायत,
भोम.

मानादीक सरपंच,

नमस्कार.

कालच्या सप्तकांत तुमच्या पंचायत वाटारांत भोमा जाल्ल्या वादळाक लागून त्या गांवांतलीं सुमार विशेक घरां कोंसळ्ळीं हें वाचून भोव दुख्ख भोगलें. हे दुर्देवी सैमीक आपत्तेक लागून पुराय गोंय राज्याचेंच व्हडा प्रमाणांत लुकसाण जालां.

भोमांतल्या लोकांचेर कोसळिल्लें हें संकश्ट बेगिनूच पयस जावंचें ही देवाकडेन प्रार्थना. गांवांतल्या लोकांच्या ह्या दुख्खाच्या प्रसंगाचेर हांव म्हजी सहानुभूती प्रगटायतां.

थंयचे घर पुनर्निर्मणेचे कार्यावळीक आमी तांकता तितलो आदार दितले अशें आमचे पंचायतीचे पंच आनी ग्रामस्थांचे वतीन हांव तुमकां उतर दितां.

बरें मागून,

तुमचो,

निशाणी
( नांव )
(पंचायतीचो शिक्को)

नमुनो ३

## हुंवार येवन लुकसाण जाल्लेखातीर इश्टाक पत्र

उमेश सुर्या मेळेकार
शेळ-मळावली, सत्तरी.

ता. २ आगोस्त, ९७

मोगाळ नकूल,

नमस्कार.

खबरांपत्रांत आयिल्ले खबरेप्रमाण म्हादय न्हंयक हुंवार येवन तुमच्या घरासयत साबार घरां कोसळ्ळीं हें वाचून मन दुख्खी जालें.

इश्टा, केदो आकांत आयिल्लो आसतलो तुमचेर त्या वेळार! कल्पना करुनूच आंगार कांटो उबो रावता. नियती केन्ना केन्ना उग्र रूप घेता. त्या वेळार तिका आडायतलो कोण आसा? ह्या हुंवाराक लागून तुमकां खूब लुकसाण सोंसचें पडलां हें हांव जाणां. दुख्खं हें कोणाक चुकना खंय. तें चड-उण्या प्रमाणांत जण एकल्याक सोंसचेंच पडटा. ताका लागून मन घट कर. घरच्या सगल्यांक धीर दी. मनांत निर्शेणी हाडल्यार जिणेची मुखावयली वाट चलपाक जावंचेंना. आयिल्ले परिस्थितीक समर्थपणान तोंड दिवप हेंच शाणेपणाचें थरतलें.

इश्टा, तुमच्या दुख्खांत हांव वांटेकार आसां. ह्या दुख्खांतल्यान बेगिनांत बेगीन भायर सरपाक तुमकां बळगें येवंचें अशें देवाकडेन मागतां. ह्या आठ दिसांभितर तुमचे थंय येवपाचो यत्न करतां. घरच्या सगल्यांक विचारलां म्हणून सांग. देव तुमची राखण करूं.

बरें मागून,

तुजो इश्ट,

निशाणी
( नांव )

## • संदेश पत्र

संदेश आनी परबीं हातूंत मातशें वेगळेपण आसा. परबीं दिता आसतना मोट्या प्रमाणांत खोशयेचो वांटो आसता. जैतोत्सवाचें रूप कांयशा प्रमाणांत थंय दिश्टी पडटा. संदेशपत्र हें विशिश्ट अशा निमित्ताक धरून आसूं येता. देखीक खंयचेय सेवा संस्थेचो वर्सुकी दीस. राजकी, समाजीक, संस्कृतीक, धर्मीक उत्सवाचो दीस वा राष्ट्रीय व्हडविकायेचो दीस हांकां धरून जेन्ना संदेश पत्र धाडटात तेन्ना त्या पत्रांत ते विशिश्ट गजालीचो फावो त्या प्रमाणांत उल्लेख करप गरजेचें आसता. कोणाय म्हान व्यक्तीचो वाडदीस, जयंती, पुण्यतीथ हो जेन्ना राष्ट्रीय वा समाजीक अस्मितायेचो दीस थरता तेन्ना संदेशाचें स्वरूप वेगळें थरता. देखीक, गोंय मुक्ततताये दिसानिमतान प्रधानमंत्र्यान धाडिल्लें संदेश पत्र. व्यक्तीगत पांवड्याचेर लेगीत संदेश पत्र धाडटात. हातूंत ते विशिश्ट व्यक्तीच्या कर्तुत्वाचो उल्लेख करपाची चाल आसता. संदेश पत्र दुखवट्याच्या वेळारूय धाडटात.

नमुनो १

### राज्यपालाचो शोकसंदेश

राज्यपालाची कचेरी<br>राजभवन<br>श्रीनगर.

८ आगोश्त, ९६

सेवेक<br>भौ. श्रीमती कमलानी सिन्हा

काल आतंकवाद्यांवांगडा जाल्ले लटाफटींत मदन सिन्हा हांकां मरण आयलें तें वाचून काळजांत चर्र जालें. आतंकवाद्यांक ना-नपश्चात करूंक आनीक कितल्या जवानाक आपलो जीव दिवंचो लागत कोण जाणां.

तुमच्या घोवाचें मरण हें एक बलीदान. आनी देखून पुराय देशाक ताजें दुख्ख जालां. आमी तुमच्या कुटुंबाच्या दुख्खांत वांटेकार आसात.

हुतात्म्याक शांती आनी सद्गती मेळची हीच प्रार्थना.

तुमचो,

निशाणी<br>(कचेरेचो शिक्को)

नमुनो २

## मुख्यमंत्र्याचो शोकसंदेश

गोंय सरकार
मुख्यमंत्र्याची कचेरी

१६ आब्रील, ९६

श्रीमती सुमन प्रियोळकार,

आतांच फोनावयल्यान तुमच्या घोवाच्या मरणाची दुखेस्त खबर कळ्ळी. श्री. प्रकाश प्रियोळकार हांच्या मरणाक लागून तुमचेंच न्हय जाल्यार पुराय गोंयचें लुकसाण जालां. तांच्या मरणान, एक साहित्यीक आनी कलाकार पयसावला. कुडीन जरी ते आमचे बरोबर नात तरी तांणी साहित्याच्या मळार दिल्ल्या मोलादीक योगदानाक लागून ते सदांकाळ आमचे यादींत उरतले.

जाणटेपणांत तुमकां बशिल्लो हो दुख्खाचो धक्को सोंसपाची तांक तुमकां येवंची ही देवालागीं प्रार्थना. तुमच्या आनी पुराय कुटुंबाच्या दुख्खांत आमी वांटेकार आसात.

प्रियोळकार हांच्या आत्म्याक परमेश्वर सद्‌गती दिवं.

तुमचो,

निशाणी
(कचेरेचो शिक्को)

## • खंत उकतावपी पत्रां

नमुनो १

अध्यक्ष
श्रीशांतादुर्गा देवस्थान समिती,
कारापूर – सांखळी ४०३ ५०५.

१० माय, ९७

मानेस्तांक,

श्रीशांतादुर्गा देवस्थान समिती कारापूरचे वतीन ता. ७ माय, ९७ दिसा रातच्या १० वरांचेर प्रसिद्द गायक प्रजीत केरकार हांचें गायन देवळाच्या वाटारांत दवरिल्लें तें कांय अपरिहार्य कारणांक लागून अचकीत रद्द करचें पडलें. गायनाक आयिल्ल्या लोकांची व्हडा प्रमाणांत खोटी जाली देखून आमी खंत उकतायतात.

तुमचो,
निशाणी

(अध्यक्ष)
श्रीशांतादुर्गा देवस्थान समिती
कारापूर – सांखळी.

नमुनो २

वेवस्थापन
कोंकण शिपयार्ड लि.,
रायबंदर.

ता. ८ ओतुब्र, ९५

साबार कामगार भावांक आनी भयणींक,

वेवस्थापन आमच्या शिपयार्डाच्या साबार कामगारांक कळयता, हे दिवाळेचो भत्तो कांय अपरिहार्य कारणांक लागून तांकां वेळार दिवंक शकना. हेखातीर आमच्या कामगारांक जाल्ले अडचणीक लागून आमकां खंत भोगता.

तुमचें,
वेवस्थापन
कोंकण शिपयार्ड लि.
रायबंदर.

नमुनो ३

कार्याध्यक्ष
हिन्दी-मराठी-कोंकणी मंडळ,
काणकोण.

ता. १ देझेंब्र, ९६

भौमानेस्त,

हिन्दी-मराठी-कोंकणी मंडळाच्या सातव्या नाट्य संमेलना वेळार खासा आमंत्रीत सोयऱ्यांक तशेंच हेर मानेस्तांक जेवणाच्या सत्रांत फावो त्या प्रमाणांत जेवण मेळूंक नाशिल्ल्यान तांकां मनस्ताप सोंसचो पडलो हेखातीर आमकां खंत भोगता.

तुमचो विस्वासू,
कार्याध्यक्ष
हिन्दी-मराठी-कोंकणी मंडळ
काणकोण

संपादक
दै. वर्तमान
मडगांव.

ता. ३-१-९७

आमच्या कालच्या दिसाळ्यांत 'व्हडलें गोंय गोरवां खावड भ्रश्टाचाराखातीर बाळू जाधव हांकां अटक' अशी खबर उजवाडाक आयल्या. बाळू जाधव ह्या नांवा बदला लालू यादव अशें वाचचें. हे खबरेंतल्यान भौ. बाळू जाधव हांकां मनस्ताप सोंसचो पडलो देखून आमी खंत उकतायतात.

— संपादक

नमुनो ५
खंत उकतावप : टीवी / रेडिओ (निवेदनाच्या रुपान)

'कायलोळ्यो' ही कार्यावळ चालू आसतना अचकीत वीज पुरवण बद पडिल्ल्यान कार्यावळींत कांय वेळ खंड पडलो देखून आमकां खंत भोगता.

— निवेदक

## • सुचोवणी पत्रां

सुचोवणी-पत्रां हीं समाजीक पत्रांचो एक वांटो. सुचोवणी एका मनशान, एके संस्थेन, एका समाज-घटकान केल्ली आसूं येता वा खूब मनशांनी, एकापरस चड संस्थांनी वा समाज-घटकांनी केल्ली आसूं येता. सुचोवणी चिटींतल्यान करूं येता, तेचप्रमाण खबरांपत्रांतल्यान वाचप्यांच्या सदरावरवीं करूं येता. तेच भाशेन खबरांपत्रांतल्यान वा स्वतंत्र जायरातींतल्यान लेगीत सुचोवणी करूं येता. खाशेलें अशें सुचोवणी-पत्र करुनूय सुचोवणी भेटोवं येता. सुचोवण्यो जायत्या तरांच्यो आसूं येतात, देखीक :

१] समाजीक
 अ] भलायकेसंबंदान
 ब] नितळसाणीसंबंदान
 क] शांततायेसंबंदान
 ड] एकवटासंबंदान

२] राजकी
 अ] चारित्र्यासंबंदान
 ब] गैरव्यवहाराचे चवकशेसंबंदान

३] संस्कृतीक
 अ] कार्यावळींच्या वेळासंबंदान वा स्वरुपासंबंदान
 ब] खबरांपत्रांच्या वा तातूंतले पुरवणेच्या स्वरुपासंबंदान
 क] संस्कृतायेक चालना दिवपी सर्ती/उपक्रम हांचेसंबंदान

४] हेर
 अ] बसीच्या/रेल्वेच्या वेळापत्रकासंबंदान / सोयीसंबंदान
 ब] भौशीक सेवांसंबंदान (रेशनींग, गॅस सिलिंडर, रांकेंत उबें रावप, प्रास, बस थांबे, बस आलाशिरे, रस्त्यावयल्यो कुरवो, गतीरोधक, दूद/उदक सेवेसंबंदान बी)
 क] लोकांमदीं जागृताय हाडपी सुचोवण्यो (लोकसंख्या वाड, एडस् लागण, मलेरिया लागण हांचे बी संबंदांतल्यो सुचोवण्यो.)

सुचोवणी-पत्रांतली भास सादीच, पूण तिजी मांडावळ आनी शैली नेट घेवन आयल्यार संबंदितांचें लक्ष ओडून घेता. कसलीय सुचोवणी करपी व्यक्ती प्रतिनिधीक आसता. ती व्यक्ती आपले फाटल्यान वा वांगडा आशिल्ल्या हेर व्यक्तींचें प्रतिनिधित्व करता. देखून त्या पत्राचे भाशेक मातसो नेट येता. सुचोवणी म्हळ्यार धमकी न्हय, हें मतींत दवरप गरजेचें. तेचप्रमाण सुचोवणी म्हळ्यार मिळमिळीत पत्रूय न्हय हेंय जाणून घेवप गरजेचें. सुचोवणी म्हळ्यार खंयचेय वेवस्थेंत सुचयल्लो विधायक बदल. देखून तो बदल शक्यतायेच्या आवाठांतलो (practical) आनी सहजतायेन घडोवन हाडूं येता असो आसचो. तातूंतल्यान आपलेवांगडाच हेरांकूय फायदो जावंचो अशी

इत्सा आसप गरजेचें. सर्वसादारणपणान, खबरांपत्रांनी वा हेरकडेन केल्ले सुचोवणेक लागून हरशीं एके व्यक्तीक शक्य नाशिल्लें कार्य शक्य जावन पडटा. हाजें कारण, ते सुचोवणेफाटल्यान धा जाण आसतात असो समज आसता. देखून, ते सुचोवणेकडेन संबंदीत व्यक्ती/संस्था लक्ष दितात आनी तो तो प्रस्न सुटावो करतात. लोकशायेंत सुचोवण्यो खूब म्हत्वाच्यो. सुचोवणी पत्रांचे संख्येवयल्यान समाजांत कितली जागृताय कसल्याय प्रस्नासंबंदान आसा तें कळूं येता.

नमुनो १

<u>नोकरी करपी बायलांनी चलचित्रांसंबंदीचें खबरांपत्र शुक्राराबदलाक आयतारा उजवाडावंचें म्हणून संपादकाक बरयल्लें सुचोवणी पत्र</u>

वैजयंती प्रभाकर नायक
दाभाळ-तिस्क,
दाभाळ.

ता. २९ देझेंब्र, ९६

सेवेक
भौ. संपादक,
दै. गोमंतशक्ती,
कांपाल, पणजी.

विशय : चलचित्राच्या खबरांपत्राविशींची सुचोवणी

हें सुचोवणी पत्र म्हज्या साबार इश्टिणींचे वतीन हांव बरयतां. आमी सगलीं जाणां तुमचें दिसाळें सदांच चुकनासतना वाचतात. तातूंतल्यो खबरो आवडटातूच, तेभायर माहिती दिवपी वेगळीं-वेगळीं सदरांय आमी नेमान वाचतात.

आमी सगल्यो नोकरदार बायलो आशिल्ल्यान आमचो वाचपाक वेळ रातीं, घरा आयले उपरांतचो. सकाळीं, च्याची आनी दनपरच्या जेवणाची तयारी करपाची आशिल्ल्यान आमकां अजिबात वेळ मेळना. दर शुक्रारा तुमच्या दिसाळ्यांत चलचित्रांविशींचें खबरांपत्र येता तें आमकां खूब आवडटा. तातूंतल्यो मुलाखती, लेख वाचीनशे दिसतात. पूण तितलो वेळूच नासता. तें खबरांपत्र शुक्राराबदला तुमी आयताराक उजवाडायलें जाल्यार आमी सगलीं जाणां ताजो पुराय आस्वाद घेवंक शकतलीं.

आमची सुचोवणी मान्य करून येता त्या आयताराच्यान तुमी 'चित्रवात' आयताराक उजवाडायतले अशी आस्त दवरून,

तुमची विस्वासू,

(नांव आनी निशाणी)

(हेर बायलांचीं नांवां आनी निशाण्यो)

नमुनो २

**वाचप्यान संपादकाक गोंयच्यो चालीरिती, सणपरबो, हांचेर पुरवणी काडपासंबंदान बरयल्लें सुचोवणी पत्र**

**तेजा कवळेकार**
तिशें-बोरी,
फोंडें ४०३ ४०१.

ता. २६ देझेंब्र, १९९६

सेवेक
भौ. संपादक,
दै. गोमांचल,
पणजी.

**विशय : पुरवणेविशीं सुचोवणी**

मानादीक,

नमस्कार.

फाटल्या वर्सासावन तुमचें दिसाळें हांव नेमान आनी रुचीन वाचतां. वाचप्यांक गिन्यान आनी मनोरंजन दिवन तांचेकडेन तुमच्या दिसाळ्यान एक नातें जोडलां. सदांच किदें तरी नवें वाचूंक मेळटलें अशी खात्री दवरून आमी सकाळींफुडें 'गोमांचल' हातांत घेतात. समाज प्रबोधनाचें बऱ्यांतलें बरें एक साधन म्हणून 'गोमांचला'कडेन आमी पळयतात. देखून सदांचें वाचपी ह्या नात्यान एक ल्हानशी सुचोवणी करीन दिसता.

गोमांचलाचे आयजमेरेनचे हांवें वाचिल्ले आयतारचे पुरवणेंत कला, संस्कृताय, साहित्य, खेळ ह्या मळांवयल्यो कितल्योशोच खबरा आनी गिन्यान आयलां. पूण गोंयच्या संदर्भांत मात 'गोमांचलां'त चड कांय वाचपाक मेळ्ळें ना. गोंयची संस्कृताय खूब गिरेस्त. गोंयच्यो खाशेल्यो चाली-रिती, सण-परबो, लोकवेद हातूंतल्यान ती प्रगट जातना दिश्टी पडटा. देखून तुमच्या दिसाळ्यांतल्यान गोंयचे संकृतायेच्या विंगड-विगड आगांचें दर्शन घडोवपी एक खाशेली पुरवणी काडची अशी नमळायेची सुचोवणी. ही पुरवणी वाचप्यांक माहिती दितलीच, तेभायर ह्या मळावयल्या अभ्यासकांक ती संदर्भ म्हणून उपेगाक पडटली हातूंत इल्लोय दुबाव ना.

तुमी म्हजी ल्हानशी सुचोवणी मानून घेतले अशी आस्त दवरतां. तुमकां आनी तुमच्या दिसाळ्याक बरें मागून.

तुमचें,
(नांव आनी निशाणी)

नमुनो ३

विद्यार्थ्यांन येरादार खात्याक कॉलेज बसीची सोय करपापासत बरयल्लें सुचोवणी पत्र

कृष्णा चोपडेकार
बाजारा फाटल्यान,
मुरगांव ४०३ ८०२.

ता. ७ आगोश्त, १९९६

सेवेक
संचालक,
येरादार खातें,
गोंय सरकार,
पणजी.

विशय : कॉलेज बसीची सोय करपापासत सुचोवणी

भौमानेस्त,

नमस्कार.

हांव, कृष्णा चोपडेकार, मुरगांवच्या एन् यू एस् म्हाविद्यालयांत दुसरें वर्स वाणिज्य वर्गांत शिकतां. आमची कॉलेज शाराभायर आशिल्ल्यान थंय वचपाखातीर आमकां बसीन वचचें पडटा. पूण ह्या मार्गार वचपी आमी विद्यार्थी ५०% सवलतीच्या दरांत तिकेटीचे पयशे दिवपी आशिल्ल्यान बसींचे कंडक्टर आमकां बसींत चडपाक मनाय करतात. ह्यो बसी फुडें मडगांवां वा पणजे वचपी आशिल्ल्यान जायते फावटीं त्यो कॉलेजीच्या थांब्यार रावच नात.

ताका लागून वतना तशेंच येतना आमकां वरांचीं वरां बस-थांब्यार तिश्टत रावचें पडटा. हाका लागून जायते फावटीं वर्ग चुकता आनी आमचें शिक्षणीक लुकसाण जाता. परिक्षेच्या दिसांनी जाल्यार आमचे सामकेच हाल जातात.

देखून, आमची ही आडखळ लक्षांत घेवन मुरगांव प्रासावयल्यान कॉलेजी मेरेन वचपी कॉलेज बसीची सोय तुमी करची ही नमळायेची सुचोवणी.

ही सुविधा जायमेरेन खाजगी बस-धनयांक आमकां बसींत घेवपाचो आदेश तुमी दिवंचो अशेंय आमी तुमचेलागीं मागतात.

तुमी बेगिनांत बेगीन ही सुचोवणी मानून घेवन कारवाय करतले ही आस्त दवरतां.

तुमचो,
(नांव आनी निशाणी)

(ह्या पत्रावांगडा हे सुचोवणेक तेंको दिवपी १५० विद्यार्थ्यांच्या निशाण्यांचें कागद जोडलां.)

नमुनो ४

अब्दूल खान
पोंबुर्पे – बार्देस.

ता. ८ मार्स, ९६

सेवेक
संपादक,
सुनापरान्त,
मडगांव.

भौमानेस्त,

हळदोण्यां साकून सकाळीं ७-३० वरांचेर सुटपी जी-ए-०१-४५६७ क्रमांकाची बस पोंबुर्प्यां सादारण ८-१५ वरांचेर पावन ८-३०च्या दरम्यान पणजे पावता. खरें म्हळ्यार ही बस आठांक पोंबुर्प्यां आनी सवाय-आठांक पणजे पावपाक जाय आशिल्ली. ती १५ मिनटां उसरां पावता. ताका लागून पणजे कामाक वचपी कर्मचारी-वर्ग आनी कॉलेज विद्यार्थ्यांचे सामके हाल जातात.

चड प्रवासी भरपाच्या हावेसान गाडयेची गती उणी करप, सगले वाटेक रावत-रावत येवप, तशेंच, थांब्यार आपणाक जाय तितलो वेळ रावप जाता. कोणेंय प्रवाशान कंडक्टराक जाप विचारली जाल्यार परत्याक परती जाप मेळटा. ह्या वेळार ती एकूच बस आशिल्ल्यान तांचेंय फावता.

येरादार खात्यान ह्या गजालींचेर लक्ष घालून संबंदितांचेर कारवाय करची अशी भौसंख्य प्रवाशांची मागणी.

तुमचो,

(नांव आनी निशाणी)

## • समाजीक सुचोवणी पत्र (शिटकावणी)

नमुनो १

द्वारा : पुंडलीक नारायण नायक
वळवय, फोंडें.

ता. १० सेतेंब्र, १९८५

भौ. प्रतापसिंह राणे
मुखेलमंत्री,
गोंय, दमण आनी दीव,
पणजी.

**कोंकणी राजभाशेचें घटक राज्य आनी घटनेचे आठवे वळेरेंत**
**कोंकणीचो आसपाव करून घेवप ह्या संबंदान**
**'कोंकणी प्रजेचो आवाज' कृती समितीचें निवेदन**

मानादीक प्रतापसिंहबाब,

नमस्कार.

कोंकणी भास आनी तिजेकडेन संबंदीत असो गोंयचो फुडार हांचेसंबंदान आमचेमदें खूब बारीकसाणीन विचार आनी चर्चा केले उपरांत, आमच्या जिविताक बादतल्या ह्या प्रस्नाविशींचे आमचे विचार तुमचे मुखार मांडचे अशें आमी थरयलां.

आमी म्हळ्यार कोंकणींतले साहित्यकार, पत्रकार, नाटककार, तियात्रिश्त, कलाकार आनी कोंकणी खातीर वावरत आयिल्ले कार्यकर्ते. आमच्या विचारांक आनी वावराक संघटीत रूप दिवपाचे नदरेन आमी 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' ही पुरायेन बिनराजकी स्वरुपाची संघटणा घडयल्या. खंयच्याच राजकी पक्षाकडेन आमचे संघटणेचो वावराचे नदरेन कसलोच संबंद आसचो ना हें आमी स्पश्ट करूंक इत्सितांव. आमचो वावर मुखेलपणान कोंकणी भास आनी गोंय हांचे हीतसंबंद सांबाळप आनी आमचे कोंकणी अस्मितायेची राखण करप इतले पुरतोच मर्यादीत आसतलो. आनी हेखातीर आमी जो वावर आनी चळवळ करतले ती पुरायेन साहित्यकार, कलाकार आनी कोंकणीचे वावुरपी हांच्याच मुखेलपणाखाला चलतली. इतलें स्पश्ट केले उपरांत आमी तुमचे मुखार जे विचार मांडूंक सोदतात तेविशींचें विवरण फुडलेप्रमाण —

## घटक राज्य आनी कोंकणी भाशेची सुवात

'गोंयचें घटक राज्य' (जाची एकमेव राजभास कोंकणी आसतली) आनी 'भारतीय घटनेचे आठवे वळेरेंत कोंकणी' हीं गोंयकारांचीं दोन मुखेल सपनां म्हणपाचें तुमी भोव बरे भाशेन जाणात.

गोंय मुक्त जालां त्या दिसापसून गोंयकार हीं दोन सपनां सातत्यान पळयत आयल्यात.

ज्या राजकी पक्षान तुमकां ह्या प्रदेशाचे मुखेलमंत्री म्हणून वेंचून काडल्यात तो पक्ष लेगीत (म्हळ्यार अ. भा. कॉंग्रेस पक्ष [इंदिरा] लेगीत) गोंयकारांचीं हीं दोन सपनां आपूण खरीं करून दाखयतलों अशें उतर लोकांक सातत्यान दीत आयला.

हीं दोनूय सपनां केन्ना खरीं जाल्लीं आपणाक पळोवंक मेळटलीं म्हणून गोंयकार फाटल्या पंचवीस वर्सांसावन मोटे उमळशिकेन वाट पळयतात म्हणपाचेंय तुमी जाणात. ह्या काळांत ह्या संबंदांत आपले मागणेचो पाटपुरावो करपी जायतो वावर तशेंच शांततामय चळवळी आमी चलयल्यात.

पंचवीस वर्सां म्हळ्यार पाव शताब्दी. मनशाच्या जिवितांत पाव शताब्दीचो काळ म्हळ्यार ल्हाना समानांतला काळ न्हय. ह्या काळांत 'नातू' आशिल्लो मनीस 'आजो' जाता. येद्या व्हडल्या ह्या काळांत सरकाराक त्रास दिना आसतना गोंयकार ओगी रावले हेखातीर तुमकां गोंयकारांच्या धिरायो खरें म्हळ्यार तोखणाय दिसूंक जाय आशिल्ली आनी अदीक काळामेरेन आमकां वाट पळयत बसूंक दिवंक जायना म्हणपाची तुमकां तळमळ लागूंक जाय आशिल्ली.

तुमचो पक्ष सत्तेर येन्नाफुडें आमचीं हीं दोनूय सपनां खरीं करतलो -- सगल्यांत पयलीं हींच कामां करतलो – अशें आमी मनापासून मानीत आयिल्ले. देखून अखिल भारतीय पांवड्यावयल्यान इन्दिरा कॉंग्रेसीक विरोध करपी आमच्यांतले कांय जाण पक्षशिस्तीची पर्वा करिनासतना तुमच्या सरकाराक 'कोंकणीचें सरकार' लेखून ताका सगले तरेचो आदार दिवपाक मुखार सरले.

पुणून —

सांगपाक मोटें दुख्ख भोगता: तुमी आमचो भ्रमनिरास केलो. हालींचीं तुमचीं आनी तुमच्या पक्षाच्यो अध्यक्षा सौ. सुलोचनाबाय काटकार हांचीं वक्तव्यां वाचतकूच तुमी सत्तेर येवन स वर्सा जालीं तरी हे दिकेन कसलेंच पावल उखलूंक ना; परतें, तुमी 'योग्य ती वेळ' अजून येवंक ना म्हणून व्हडलेंशें किदें करुंकूय तयार नात अशें आमकां दिसलेबगर रावूंक ना. इतलेंच न्हय जाल्यार तुमी ह्या ज्वलंत प्रस्नाचेर व्हडलोसो विचारूय करूंक ना म्हणपाचें आमकां स्पश्ट दिसून आयलां.

तेखातीर आमकां जी खंत भोगली ती व्यक्त करूंक आनी आमचो निर्धार परतून एक फावट स्पश्ट करपाखातीर आमकां २९ जुलय १९८५ ह्या दिसा गोंय विधानसभेचेर एक विराट मोर्चा हाडचो पडलो.

आमी चडशे सगले साहित्यकार, नाटककार, कलाकार. मोर्चे हाडप, सत्याग्रह

करप, चळवळींनी पडप हो आमचो सभावधर्म न्हय, स्वधर्मूय न्हय. आमकां 'रस्त्यार येवंचें' पडप हाजेसारकें दुर्दैव दुसरें ना हें तुमी लेगीत मान्य करूंक जाय.

पुणून आमच्यांनी आतां स्वस्थ बसूं नजो आनी आनीक वाट पळोवपाचो आमकां आतां धीर उरूंक ना. २९ जुलयपसून आतांमेरेनच्या काळांत खूब विचार करून आनी वेगवेगळ्या लोकांमदीं चर्चा करून आमी ज्या निर्णयार पावले तो निर्णय तुमकां अत्यंत नमळायेन आनी तितल्याच निर्धारान कळोवंचो अशें आमी थरयलां. तेचखातीर आमी तुमकां हें पत्र बरयतांव.

### आमचो निर्धार

अंदूं एकुणीस देझेंब्राक गोंयचे मुक्तीचो रौप्यमहोत्सव तुमी आमी सगले व्हडा आनंदान मनोवपाचे आसात. 'घटक राज्य आनी आठवे वळेरेंत कोंकणी' हीं आमचीं दोनूय सपनां ह्या एकुणीस डिसेंबरा दिसाच खरीं जावंक जाय.

सेतेंब्र, ओतुब्र आनी नोव्हेंब्र ह्या तीन म्हयन्यांची तुमकां आमी हेखातीर मुदत दितांव. जे 'योग्य वेळेची' तुमी वाट पळेतात ती लागीं हाडपाखातीर जें जें किदें करूंक जाय तें तें सगलें तुमी उत्कटतायेन ह्या तीन म्हयन्यांभितर करपाचें आनी उसरांत उसरां म्हळ्यार **३० नोव्हेंब्र १९८५ मेरेन, 'अंदूं १९ देझेंब्र मुक्ती दिसामेरेन आमकां घटक राज्य मेळटलें' आनी 'कोंकणी आठवे वळेरेंत पावतली' अशी घोशणा करपाची.**

३० नोव्हेंब्रामेरेन ह्या संबंदांत बेगोबेग पावलां उखलून तुमी ह्या अर्थाची घोशणा करूंक पावलेनात जाल्यार दुसऱ्या दिसा, म्हळ्यार १ देझेंब्र १९८५ पासून सत्याग्रह धरून हेर सगले तरेची चळवळ करपाक आमी आमकां मेकळे धरतले.

आमच्या ह्या निर्धाराची तुमी फावो त्या गांभिर्यान दखल घेतले अशी आस्त बाळगितांव.

तुमचे,

१] पुंडलीक नारायण नायक (निमंत्रक)
२] रवीन्द्र केळेकार
३] दामोदर मावजो
४] डॉ. एफ एम रिबेलु
५] फेलिसियु कार्दोज
६] दिलीप बोरकार
७] एन शिवदास
८] तोमाझिन्यु कार्दोज
९] विठ्ठल आवदियेंकार
१०] जॅक बारेंतु
११] रोझफर्न
१२] बेर्ता मिनेझिश

## • आवाहन पत्रां

आवाहन म्हळ्यार एके तरेची विनवणी. ती वैयक्तीक आसूं येता वा समाजीक. समाजाकडल्यान मदत घेवन आपली अडचण भागोवपाची वा कसलेंय समाजीक कार्य 'सेवेच्या' माध्यमांतल्यान करपाची खूब पोरणी परंपरा आसा. कोणाय व्यक्तीची चालचलणूक, चारित्र्य, उमेद, सेवेची वृत्ती, आडखळ वा परिस्थितीची गरज वळखून समाज ते व्यक्तीक मदत करता. ही मदत मागपाखातीर ते व्यक्तीन समाजरुपी दात्याकडेन केल्ली अर्जी म्हळ्यार आवाहन.

**व्यक्तीगत आवाहन** — कोणाय मनशान आपले व्यक्तीगत आडखळीसंबंदान वा प्रस्नासंबंदान दुसऱ्या मनशाक, समाजाक वा देशभावांक उद्देशून बरयल्लें पत्र 'व्यक्तीगत आवाहन' थरता. त्या पत्राचो उद्देश चड करून अर्थीक पालव मेळोवपाचो आसता. पूण केन्ना केन्ना तो रक्तदान, नेत्रदान, आदींविशींचोय आसूं येता.

**समाजीक आवाहन** — व्यक्तीगत आवाहनांपरस समाजीक आवाहन चड व्यापक आनी चड लोकांचें हीत दोळ्यांमुखार दवरून बरयल्लें आशिल्ल्यान चड म्हत्वाचें आसता. समाजीक आवाहन हें एके व्यक्तीन केल्लें आसूं येता. कांय जाणांनी एकठांय मेळून केल्लें आसूं येता, एके संस्थेन वा खूब संस्थांनी मेळून केल्लें आसूं येता. परतून तें एके व्यक्तीखातीर, एका कुटुंबाखातीर, एका गांवाखातीर, एका राज्याखातीर, एका देशाखातीर वा एके संस्थेखातीर वा समाजाच्या खंयच्याय घटकाखातीर केल्लें आसूं येता. ह्या आवाहन पत्रांचे उद्देश जायते आसूं येतात. देखीक:

१] समाजीक उद्देश :

अ] शांतताय राखपासंबंदान पुलीस खातें/मंत्री हांणी समाजाक केल्लें आवाहन (खासा करून दंगे/झगडीं/हिंसा/ गर्दी/सैमीक आपत्ती बी घडटा तेन्ना)

ब] भलायके संबंदान दोतोर/भलायकी खातें हांणी केल्लीं आवाहनां (नितळसाण दवरप, किदें खावप-पियेवप हांचेसंबंदान, वा दुयेंसाची लागण जावंची न्हय म्हणून घेवपाचे जतनायेसंबंदान.)

२] अर्थीक उद्देश :

अ] कोणाय व्यक्तीक वा संस्थेक निधी वा देणगी दिवपासंबंदान. व्यक्तीक चड करून ओपेरासांव (काळजाचें वा मूत्रपिंडाचें), सैमीक

आपत्ती (देखीक हुंवार/दुकळ/वीज पडप/घरांतल्या जोडपी मनशाक आकस्मिक/अपघाती मर्ण येवप) ह्या प्रसंगां वेळार अर्थीक मदतीची गरज आसता. तेन्ना ते व्यक्तीक वळखुपी वा समाजांतले संगाभावी मनीस समाजाकडेन ते व्यक्तीखातीर अर्थीक पालव मागपी आवाहन करतात. कोणाय व्यक्तीचें उंचेलें शिक्षण, संशोधन, परदेश भोंवडी वा सोद-वावर हांचेखातिरूय निधी मागपी आवाहन करपाची रीत आसा.

खंयचीय संस्था समाजाच्या हिताखातीर कार्यावळ आयोजीत करता, कसलोय उपक्रम वा प्रकल्प राबयतात तेन्ना ताका निधीची गरज आसता. ती संस्था त्या वेळार आपल्या कार्याची माहिती दिवन समाजाकडल्यान वा सरकाराकडल्यान जायरात, देणगी, पुरस्करण हांच्या माध्यमांतल्यान निधी उबारणीखातीर आवाहन करता.

कोणाय मानादीक व्यक्तीचे पिरायेक पन्नास, एकसठ, पंच्यात्तर वा शंबर वर्सां पुराय जावपाच्या वर्सा ते व्यक्तीचो ताणें समाजाखातीर केल्ल्या वावराची दखल म्हणून कृतज्ञतायेन सत्कार करपाची चाल आसा. समाजसेवक, राजकारणी, सुटकेझुजारी, खेळगडे, कलाकार, साहित्यीक, विचारवंत हांचो सत्कार जाता. तेन्ना तांकां मानपत्रावांगडाच अर्थीक भेट (थैली) दिवपाची परंपरा आसा. तेखातीर गरज आशिल्ल्या निधीखातीर खंयचीय संस्था वा कांय प्रतिश्ठीत व्यक्ती एकठांय येवन समाजाक आवाहन करतात.

आवाहन पत्राची भास नमळायेची तेचबराबर विस्वासार्हतेची आसची. लोकांनी दिल्ल्या दुडवांचो सदुपयोग जातलो म्हणपाची खात्री ते भाशेंतल्यान लोकांक पटोवपाचो यत्न जावंचो. खर्चाचो तपशील तशेंच हेर माहिती पुराय रितीन खोलायेन दिवंची. आवाहनपत्रांत जात वा धर्म हांच्यो भावना चाळोवपाचे वा दुखोवपाचे यत्न टाळचे. देशांतली शांतताय आनी सवस्तकाय तिगोवन दवरपाची जतनाय आवाहनपत्रांत घेवप गरजेचें आसता.

नमुनो १

## मुळावे शाळेंतल्या भुरग्यांक पालकांनी वैजकी तपासणेखातीर हाडचें म्हणून भलायकी खात्याचें आवाहन–पत्र



# निरोगी भुरगीं

## निरोगी गोंय

मुळाव्या शाळांतल्या भुरग्यांची वैजकी तपासणी करपाचें सप्तक
(२२ जुलय – २७ जुलय, १९९६)

पालकांनो चत्राय

तुमच्या शाळेंत वचपी भुरग्यांची
वैजकी तपासणी करून घेयात
तुमच्या भुरग्यांची भलायकी
बरी उरपाखातीर यत्न करात.

'आवय आनी भुरगीं सेवा'

**कुटूंब कल्याण केंद्र**
भलायकी खात्यावतीन

नमुनो २

संचालकाक काडून उडयले उपरांत शेरधारकांनी ताजेकडेन अर्थीक वेव्हार करचे न्हय म्हणून वेवस्थापकाचें आवाहन पत्र

## सनरायझ मॅन्युफॅक्चरींग कंपनी लिमिटेड

पणजी – गोंय

१ आगोश्त १९९६

## आवाहन

'सनरायझ मॅन्युफॅक्चरींग कंपनी लिमिटेड'च्या सगल्या भागधारकांक आनी कर्जरोखे धारकांक १९९५-९६ ह्या वर्साखातीर कंपनीन नेमिल्ले संचालक श्री. रामकृष्ण नेवगी, हांणी कंपनीची बदनामी केल्लेखातीर, २८/०७/९६ ह्या दिसा जाल्ले कंपनीचे सर्वसादारण बसकेंत तांकां तांच्या पदावयल्यान काडून उडयल्यात अशें कळीत करतात.

तेन्ना सगल्या शेरधारकांकडेन, तांणी हाजेमुखार श्री. रामकृष्ण नेवगी हांचेकडेन खंयचेच अर्थीक वा कार्यालयीन वेव्हार करचे न्हय, अशें ह्या पत्रकांतल्यान आवाहन करतात. हेविशींची कसलीच कागाळ कंपनी मानून घेवंचिना वा तिका जापसालदार आसचिना हाजी संबंदितांनी नोंद घेवंची.

नांव, निशाणी, हुद्दो, शिक्को

नमुनो ३

<u>येरादारी वेवस्थेंतल्या बदलांक लोकांनी आदार दिवंचो म्हणून पुलीस मुखेल्याचें आवाहन पत्र</u>

## पुलीस खातें

येरादार नियंत्रण विभाग

गोंय सरकार

पणजी

१४ मार्स, ९५

## आवाहन

ह्या म्हयन्याचे १६ तारखेक जावपी गोंय राज्य पांवड्यावयल्या इंत्रूज उत्सवा निमतान पणजी वाटारांतली येरादारी सुवेवस्थेक लागून बदलल्या. कदंब बस स्थानक ते फाझेंदा वटेंतल्यान येरादारी दावे वटेन इगर्जेकडल्यान सांत इनेझ वटयां वतली. पणजे प्रासार येवपी येरादारी कला अकादेमी कडल्यान मुखेल रस्त्यावयल्यान उजवे वटेन भितर सरून डॉन बॉस्को स्कुला वटेंतल्यान एकेरी मार्गान वतली.

हो येरादारी बदल १६ तारखेसावन लागू जावन १८ मार्सा मेरेन चलतलो. हेपासत वाहन चालक आनी हेर नागरिकांनी कायदो आनी सुवेवस्था राखूंक पुलीस खात्याक आदार आनी सहकार दिवंचो अशें आवाहन ह्या पत्रांतल्यान करतात.

**पुलीस मुखेली**

(निशाणी आनी शिक्को)



नमुनो ४

एका ल्हान भुरग्याच्या काळजाच्या ओपेरासांवापासत अर्थीक आ[illegible] [illegible]गपी एका समाजसेवकाचें आवाहन पत्र

## यशवंत फटी गांवकार मदत निधी

## आवाहन

नागरीक भावाक आनी भयणींक,
नमस्कार.

बाल यशवंत फटी गांवकार हो चार वर्सांवो भुरगो फाटल्या दोन वर्सांसावन काळजाच्या दुयेंसाक लागून हांतुणार आसा. माले-सत्तरींत एका गरीब शेतकामती कुटुंबांत जल्माक आयिल्ल्या भुरग्याचेर सध्या बांबोळे गोंय वैजकी म्हाविद्यालयाच्या हॉस्पिटलांत उपचार चलल्यात. ह्या म्हयन्याचे तीस तारखेक, दोतोरांच्या सांगण्यावयल्यान काळजाच्या ओपेरासावाखातीर ताका मुंबयच्या ज जे हॉस्पिटलांत व्हरपाचें थरयलां.

ओपेरासांव आनी प्रवासाक मेळून सुमार एक लाख रुपया खर्चाची तजवीज करपाची गरज आसा. यशवंताचे आवय-बापूय गरीब आशिल्ल्यान इतली व्हड रक्कम उबी करप तांकां शक्य ना. यशवंत हो तांचो एकलोच भुरगो आशिल्ल्यान तीं दोगांय जाणां हुसक्यांत आसात. देखून तांचे वतीन समेस्त नागरिकांक तांणी यशवंताचे भलायकेखातीर उदार हातान देणगी दिवंची अशें आवाहन हांव करतां.

हो निधी एकठांय येवंचो म्हणून 'यशवंत फटी गांवकार मदत निधी' ह्या नांवान मोलें-सत्तरीचे स्टेट बँकेंत २०२१ क्रमांकाचें बचत खातें उगडलां. नागरिकांनी ह्या सामके गरजेच्या कार्याक मेकळ्या मनान आदार दिवंचो ही मागणी. चॅक वा ड्राफ्ट 'यशवंत फटी गांवकार मदत निधी' ह्याच नांवान काडचे.

सहकाराच अपेक्षेन,

तुमचो विस्वासू,
निशाणी

(राजेंद्र पांडुरंग केरकार)
केरी, सांखळी

नमुनो ५

एके संस्थेचे इमारत निधीखातीर अध्यक्षाचें लोकांक आवाहन पत्र

## ‘श्री संत ज्ञानेश्वर तपोभूमी संकूल’

सांखळी

१६ जुलय, १९९५

## आवाहन

‘श्री संत ज्ञानेश्वर तपोभूमी’ हे संस्थेची तुमकां वळख आसाच. फाटलीं २० वर्सां ही संस्था धर्मीक आनी संस्कृतीक मळार सातत्यान वावर करीत आसा. धर्मीक मेळ, भजनां आनी अभंग हांच्यो सर्ती, संस्कृत भाशेचें अध्ययन आनी योगाभ्यास ह्या विशयांनी संस्थेन दोळे दिपकावपी वावर केला.

फुडारांत थरयल्ल्यो कितल्योशोच येवजणो चालीक लावपाखातीर संस्थेक एके व्हड इमारतीची गरज आसा. ते नदरेन ‘श्री संत ज्ञानेश्वर तपोभूमी संकुल’ बांदपाचो निश्चेव केला. गांवांतल्या कांय समाजसेवी व्यक्तींनी आपली जमीन ह्या संकुलाखातीर दान दिल्या. ह्या पुर्‍रांय संकुलाचो अदमास खर्च दोन कोटी रुपया इतलो आसा.

ह्या संकुलाचे पुर्ततायेपासत जायरातदार/देणगीदार/बरें मागपी आनी नागरीक ह्या नात्यान तुमी सदळ हातान अर्थीक पालव दिवंचो हें मागणें. तुमच्यो देणग्यो ‘अध्यक्ष, श्री संत ज्ञानेश्वर तपोभूमी संकुल, निधी संकलन समिती’ ह्या नांवान मावळंगतड, सांखळी ह्या नाम्यार धाडून दिवंच्यो.

तुमच्या आदाराची आस्त दवरून.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी
(अध्यक्ष)
श्री संत ज्ञानेश्वर तपोभूमी संकूल
निधी संकलन समिती

नमुनो ६

<u>वेवस्थापनाचें कामगारांक जाहीर आवाहन</u>

# कोंकण शिपयार्ड लिमिटेड

## वेवस्थापनाचें कामगारांक आवाहन

कामाचें म्हत्व वळखून जे कामगार कामाचेर हाजीर जाल्यात तांकां कों.शि.ली. परबीं दिता. शिपयार्डातल्या साबार विभागांतलो वावर सुरू जाल्लो आसा तशेंच खाणावळूय चालू जाल्या.

कामगारांक जाय तेन्ना तांणी कामाचेर हाजीर रावूंक वेवस्थापन तांकां येवकार दिता आनी फुडल्या दोन दिसांक म्हळ्यार, १२ सेतेंब्राच्या दनपार मेरेन दिसाचीं चोविसूय वरां कों.शि.लि.चीं दारां कामगारांक उकतीं आसतलीं. कांय विवेकशुन्य मनशांकडल्यान आयज कामगारांक धमक्यो मेळिल्ल्यान तशेंच तांकां त्रास जाल्ल्यान हेफुडें कामाचेर हाजीर रावतल्या कामगारांच्या सोंपेपणापासत ही वयली सुविधा दवरल्या.

आमी जाणात, आमच्या कामगारांमदल्या ९९.९९ टक्के कामगारांक कामाचेर हाजीर रावचेलें आसा आनी कायद्याभायर संपार वचूंक वेवस्थापनाकडेन तांची कसलीच कागाळ वा हेर उद्वेगीक तंटो ना हेंय ते जाणात. ते अपप्रचाराचे बळी थरले. संपार वचूंक तांकां फोर्सार केले आनी आतां तांकां धमकावण्यांक तोंड दिवचें पडटा. सगल्या कामगारांनी आपापणाली पाळी करची असो वेवस्थापन तांकां उलो मारता आनी येवकार दिता. जे कोण कामार येतले तांकां कायदो सांबाळपी एजन्सींकडल्यान फावो ती राखण मेळटली. ह्यो कायदो सांबाळपी एजन्सी कसलेच तरेच्यो धमकावण्यो आनी अत्याचार सोंसून घेवंच्योनात. राष्ट्रीय हिताचे नदरेन कामगारांनी कामाचेर हाजीर रावचेलें येवजिल्ल्यान राज्य सरकारी अधिकारिणीन त्या कामगारांक तांचे सुरक्षीततायेविशीं गरजेची हमी दिल्ली आसा.

सगल्या कामगारांनी शिपयार्डाच्या तशेंच ताच्या स्वताच्या हितापासत १० सेतेंब्रा दिसा कामाचेर हाजीर रावचें अशें वेवस्थापन आवाहन करता.

मुरगांव, ९/९/१९९६

**कों.शि.ली. वेवस्थापन**

(अधिकाऱ्याची निशाणी, अधिकाऱ्याचें नांव, हुद्दो, शिक्को)

मुनो ७

णेशोत्सव मंडळाचें गणेशभक्तांक आवाहन

# म्हापशें गणेशोत्सव मंडळ

म्हापशें

## आवाहन

समेस्त गणेशभक्तांक मायेमोगाचो नमस्कार.

तुमकां सगल्यांक कळोवपाक म्हाका खोस भोगता, दर वर्सा आमी समितीवतीन सार्वजनिक गणपती पुजीत आयल्यात आनी ह्या उत्सवानिमतान वेगवेगळे संस्कृतीक कार्यक्रम घडोवन हाडून लोकांमदीं समेळ घडोवन हाडपाचो यत्न करीत आयल्यात. ह्या वर्सा आमी गणपती पुजनाचो माटव बांदपाचें थरयलां. ह्या माटवाक सादारण १०-१२ लाखांचो खर्च येतलो. हो माटव बांदपाक तुमी सदळ हातान फूल थंय फुलाची पाकळी दिवंची अशें तुमचेलागीं आवाहन करतात.

देवाचें कार्य फुडें व्हरपाक तुमी आमकां मदत करतले अशी आस्त करतात.

निशाणी

(शिल्पा नायक)<br>
अध्यक्ष<br>
म्हापशें गणेशोत्सव मंडळ

● भौशीक पत्रां

## नेमाळ्यांक बरयल्लीं पत्रां

नेमाळीं वा खबरांपत्रां हीं समाजाची एक वेवस्था. अशा स्वरुपाचे वेवस्थेंत त
त्या नेमाळ्यांक पत्रां बरयतना थंयची समाजीक, राजकी, संस्कृतीक, भाशीक, शिक्षणीव
उद्देगीक थळां म्हत्वाची भुमिका करतात. मनंशाच्यो गरजो काळावेळाप्रमाण भागोव
हे वेवस्थेचें एक लक्षण मानतात. नेमाळ्यांक बरयल्लीं पत्रां ही मोट्या स्वरुपा
आसूं येतात. तातूंत सुचोवणी, कागाळ, आवाहन, संदेश, विनवणी, बुजवण, शिफारस
परबीं, आपोवणीं, पगारवाड हे सारकिले तरेकवार प्रकार आसतात. हीं पत्रां संपादकां
बरयल्लीं आसतात पूण तीं समेस्तांक लागू जातात.

नमुनो १

### संपादकाक पत्र

मडगांव – गोंय

२० फेब्रेर, ९३

सेवेक
संपादक,
'जाग'
प्रियोळ, गोंय.

नमस्कार.

'जाग' – देझेंब्र, ९२ अंकांत 'नदर संपादप्याची' ह्या सदरांत तुमी अशें बरयलां,

'रासवळ काम म्हळ्यार शाळा काडप, वाचनमंदीर चलोवप असलें निरुपद्रवी. कांय परसरकारांनी एक दोन संस्था चलयल्ल्यो. ते केन्ना केन्ना मुम्बय पुण्याकडल्या कांय विद्वानांक आपोवन तांचीं व्याख्यानां दवरून गोंयकारांक शाणे करपाचो वावर करताले. (हो धंदो आयजूय चलला. पयलीं आजो करतालो, आयज नातू करता. इतलोच फरक.)'

हें बरयतना म्हजो आजो सर्गेस्त काशिनाथ दामोदर नायक आनी हांव तुमचे नदरेमुखार आसूक जाय हाजेबद्दल दुबाव ना.

सर्गेस्त काशिनाथ दामोदर नायक हांणी १९३३ वर्सा महर्षी धोंडो केशव कर्वे हांचेपसून स्फूर्त घेवन मडगांवां 'महिला विद्यालय' ही कन्याशाळा सुरू केली. तेच बराबर समाजांत बौद्धिक जागृताय जावंची म्हणून १९१२ वर्सा 'सारस्वत ब्राह्मण समाज' ह्या नांवान वाचनमंदीर काडलें. फुडें गोंय बंदेपणांतल्यान सुट्टकीर हे संस्थेच्या नांवांत 'गोमंत विद्या निकेतन' असो सुयोग्य बदल केलो.

ह्या समाजीक मळावयल्या वावराचें मोल तुमी उणें कशें लेखतात? गोंयच्या स्वातंत्र्य लड्याचे नदरेन हो वावर 'निरुपद्रवी' म्हणून ताजें अवमूल्यन करप निखालस बरोबर न्हय. तुमचें अशें मत्त जाल्यार भारताच्या स्वातंत्र्य लड्याचे नदरेन आगरकर, फुले हांचो वावर 'निरुपद्रवी' अशेंच म्हणचें पडटलें.

सर्गेस्त काशिनाथ दामोदर नायक हांणी स्वातंत्र्य लड्यांत प्रत्यक्ष वांटो घेतलोना हें खरें आसलें तरी बंदखणींत पडिल्ल्या कितल्याशाच स्वातंत्र्य सैनिकांच्या कुटुंबांक तांणी यथाशक्ती मदत केली. १९५५ वर्सा प्रधानमंत्री पं. जवाहरलाल नेहरू हांणी पुर्तुगेजांचेर चेपण येवपाखातीर गोंयची अर्थीक नाकेबंदी (economic blockade) करपाचो यत्न केलो तेन्ना गोंयच्या एकूण एक व्यापारी संस्थांनी सिंगापूरच्यान भारतीय म्हाल गोंयांत हाडून गडगंज पयसो केलो. हाका आडवांद आशिल्लो तो एकेच व्यापारी संस्थेचो – ती म्हळ्यार मेसर्स काशिनाथ दामोदर नायक.

सर्गेस्त काशिनाथ दामोदर नायक हांचे कोंकणीविशींचे आनी महाराष्ट्रांत गोंयचें विलीनीकरण करपासंबंदींचे विचार तुमकां मान्य नाशिल्ले म्हणून तांचो समाजीक मळावयलो वावर उणो लेखप बरोबर न्हय. हेभायर एक इतिहास संशोधक आनी 'गोमंतकाची सांस्कृतिक घडण', 'भारतांतील ग्रामसंस्था' आनी 'जुन्या भारतांतील नागजात' ह्या पुस्तकांचे लेखक हे नदरेन सर्गेस्त काशिनाथ दामोदर नायक हे फकत मडगांवचे एक पसरकार काय कोण हाजी इतिहासांत नोंद उरतली.

गोंयांतले खूबशे पसरकार आनी मिनैर गोंय बंदखणींत आसतना पुर्तुगेजधार्जिणे आशिल्ले. हेच पसरकार आनी मिनैर फुडें गोंय मुक्त जातकीर कोंकणी चळवळीचे आश्रयदाते जाले. तांच्या मुक्तिपूर्व काळांतल्या पुर्तुगेजधार्जिण्या कर्तुबांचेर 'जागा'च्या संपादप्यांनी केन्ना बडी मारिल्ल्याचें म्हज्या वाचनांत येवंक ना.

आतां म्हजेसंबंदीं. एक पसरकार, उद्येजक आनी समाजीक मळावयलो कार्यकर्तो म्हणून हांव म्हज्या आज्याचो वारसो फुडें व्हरतां हाजो म्हाका सार्थ अभिमान आसा.

कोंकणी चळवळीक लागींचे अशे काकासायब कालेलकार आनी अण्णा फणसे हांचेसारके महाराष्ट्रीय मनीस आमकां चलतात जाल्यार समता आंदोलनान आपल्या वावराक फावो अशे विचार सांगपी डॉ. आ. ह. साळुंके हांचीं व्याख्यानां दवरपांत गैर कितें तें म्हाका समजूंक ना.

बरें मागून,

— दत्ता दामोदर नायक

नमुनो २

संपादप्यांक नमस्कार,

जून म्हयन्याच्या 'जागां'त बाय सोनिया डिकोस्ताली 'लुंगी' कथा वाचली. आयच्या धांवत्या, बदलत्या काळांत असले प्रसंग खूबकडेन घडत आसतात. प्रसंग ल्हान खरो, पूण तो ओडलायणे शैलींत आनी वेधक उतरांनी मांडपाचें कसब लेखिकेन दाखयलां.

शिनाप्पाचो लुंगेचेर जीव आसता. लुंगेभितर तो आपणाक शेणोवन बसता आनी निमाणें ताका भोव मोलादीक जावन बशिल्ली ही वस्त शेणटा आनी शिनाप्पा दुखवी जाता. मनाच्या खंयच्या तरी एका कोनशांत मूळ धरूंक पाविल्ल्यो ल्हान ल्हान गजाली जायते फावटीं व्हडले व्हडले परिणाम घडोवन हाडूंक पावतात म्हणपाचें ही कथा वाचतना म्हाका होलमलें आनी म्हजे जिणेंत घडून गेल्ल्या असल्या ल्हान-सान प्रसंगांचो म्हाका उगडास जालो.

कथा, कविता, पिड्डुको, नदर संपादप्याची असलीं सुंदर सुंदर सदरां जागांतल्यान आमकां सदांच वाचूंक मेळचीं ही इत्सा.

बरें मागून,

**सुहास जोशी**
येरवडा, पुणें

नमुनो ३

भौ. संपादक

जाग जुलै ९८च्या आंकांतलो श्री. माधव बोरकार हांगेलो 'बाकीबाबांली कविता' हो अभिरुचिपुराय लेख भोव आवडलो. कविवृत्तीन शिंपिल्ल्या ह्या आस्वादक विश्लेशणांतल्यान बाकीबाबांले कवितेंतलें म्होंवें काव्य आनी भौरंगी गिरेस्तकाय हांचो प्रभावी साक्षात्कार तर घडटा, खेरीज खासा लेखकाचे तरल अशे संवेदनक्षमतेचें मनभुलोवणें दर्शनय घडटा. शैली-तंत्राची जाण कवी म्हूण माधवबाबाकडेन आसा हातूंत दुबाव ना. पूण सुक्षीम निरीक्षण आनी यथार्थ विश्लेशण करपी 'समिक्षकी जाण' आसा हें लक्षणीय. मेजक्याच कवींकडेन ही कळाशी आसता. तांणी अशे तरेचें बरप अदीक प्रमाणांत करचें.

**किरण बुडकुले**
गोंय विद्यापीठ, ताळगांव

• घरगुती/व्यक्तीगत/घराव्या पत्रांच्यो कांय ओडलायण्यो सुरवाती

१) तुजें पत्र वाचून काळजाथावन खोस जाली.

२) तुजें पत्र वाचून खूब खोस जाली.

३) तुजें पत्र वाचून अजापान सुखावलों/लें.

४) चीट धाडिल्लेखातीर देव बरें करूं.

५) तुवें पत्र धाडलें तें बरें केलें / तुजे चिटीक जाप म्हणून...

६) जायत्या तेंपान तुजें पत्र पावलें / खूब दीस जाले तुमची खबरूच ना.

७) पत्रांतल्यान मेळपाचो हो पयलोच प्रसंग.

८) कशें / कसो आसा ?

९) कळीत करूंक खोस भोगता...

१०) कळीत करूंक खंत भोगता...

११) आदलें पत्र मेळ्ळांच आसतलें.../ तुज्या पत्राचो संदर्भ म्हणून...

१२) देवादयेन तूं बरो / बरी / बरें आसतलो / ली / लें अशी आस्त दवरून...

१३) आतांच तुजें पत्र पावलें / सगलीं बरीं आसात मूं ?

१४) सगल्यांत पयलीं / सुरवातेक तुका काळजाथावन परबीं ! / सुरवातेक तुका उर्बेभरीत परबीं !

१५) सगल्यांत पयलीं तुजे मनाथावन उपकार.

१६) तुमी देवादयेन बरीं आसतलींच / तुमची भलायकी बरी आसतलीच / घरांतलीं कशीं आसात ?

१७) मानेस्तांक आदराचो नमस्कार

## • घरगुती / व्यक्तीगत / घराव्या पत्रांचे कांय ओडलायणे अखेर

१) तुजे जापेक रावतां / तुजेकडल्यान आस्त दवरून...

२) तुजे चिटीची वाट पळयतां / तुजे जापेची वाट पळयत...

३) भलायकेसंबंदान बरय.

४) रोखडीच जाप दी / धाड.

५) भलायकेक सांबाळ.

६) तुजे जापेक उमळशिकेन रावतां.

७) आतां केन्ना मेळचें ?

८) तुका मोगाळ आशिर्वाद / सगल्यांक मायेमोगाचो आशिर्वाद.

९) बरो / बरें करून राव.

१०) तुजे उपकार मानून / तुका जाल्ल्या त्रासाखातीर / कश्टांखातीर गुन्यांव भोगशी म्हणून...

११) तुका दिर्घायुश्य मेळचें हीच प्रार्थना.

१२) घरांतल्या सगल्यांक म्हजो मायेमोगाचो नमस्कार.

१३) तुज्या उपकारांत रावन पत्र सोंपयतां.

१४) तुजो फुडार परजळीत जावंचो अशी इत्सा / तुका जैत / येस आंवडेतां.

१५) देव तुमकां बरो फुडार दिवं / देव तुका बरी भलायकी दिवं.

१६) घराकडलीं सगलीं बरीं आसतलींच.

१७) तुजे भलायकेखातीर देवाकडेन मागून...

१८) देव बरें करूं / बरें मागून... / मोग आसचो / मोग वाडूं.

१९) तुमच्या उपकारांत

## • पत्रांचे घटक आनी तांचें रूप व्यक्तीप्रमाण कशें बदलता तें दाखोवपी तकटो

(घरगुती / कुटुंबीक / व्यक्तीगत पत्रांखातीर )

| | उद्दिश्ट व्यक्ती | येवकाराचें उतर | संबंद दाखोवपी उतर |
|---|---|---|---|
| १) | पिरायेन व्हड, नात्यांतली | मानादीक/पूजनीय, नमस्कार | तुमचो/तुमची/तुजें/तुजो |
| २) | सम पिरायेची, नात्यांतली वा इश्ट, सोयरो बी. | मोगाळ/इश्ट, नमस्कार. | बरें मागून / देव बरें करूं तुजो/तुजी/तुजें |
| ३) | पिरायेन ल्हान, नात्यांतली वा हेर व्यक्ती | विशेशनामान सुरू करचें वा बाब, बाय अशींय उतरां वापरूं येतात | बरो/बरें करून तुजो/तुजी/तुजें |
| ४) | अनवळखी/परकी व्यक्ती | ... हांकां/हाका मोगाचो नमस्कार. | तुमचो/तुजो |
| ५) | सामकी लागींची/मोगाळ व्यक्ती | मोगाळ.../ म्हज्या मोगाळ... | तुजो/तुजें/तुजोच/तुजेंच तुजी/तुजीच मोगाळ |
| ६) | वेवसायीक पत्रांतली उद्दिश्ट व्यक्ती | भौ......... हांकां नमस्कार | तुमचो/तुमची/तुमचें विस्वासू, |

विभाग २

# कार्यालयीन पत्रवेव्हार

## ☐ कार्यालयीन पत्रवेव्हाराचें स्वरूप आनी प्रकार

सरकारी कार्यालयाच्या एका विभागाकडल्यान दुसऱ्या विभागाकडेन, एका खात्याकडल्यान दुसऱ्या खात्याकडेन वा एका कार्यालयाकडल्यान दुसऱ्या कार्यालयाकडेन जो वेव्हार जाता ताका 'कार्यालयीन पत्र' अशें म्हणटात. पत्रांतलो मजकूर, तें बरोवपी व्यक्तीचें पद, कोणाक उद्देशून बरयलां ते व्यक्तीचें पद तशेंच कायदे आनी नेम हांचेर हे तरेच्या वेव्हाराच्या पत्रांची भास आदारून आसता. ही भास सादी, सरळ, स्पश्ट, तर्कशुद्ध आशिल्ल्यान जायते फावटीं ही भास भावहीण, वस्तुनिश्ठ आनी सुकी सडसडीत दिसता. तिजी एक थरावीक, सांचेबंद अशी उतरावळ लेगीत सदच्या उपेगाक लागून घडटा. तातूत आपलेपणाचो भाव नासता. तेच भाशेन उपचारीकपण लेगीत नासता. देखून हीं पत्रां संक्षिप्त आनी सडेतोड जातात. उद्देश, प्रसग आनी कार्य हांचेप्रमाण हीं पत्रां बदलतात. तांचे काय मुखेल प्रकार अशे आसात :

१. आदेश
२. उगडास पत्र
३. परिपत्रक / घोळटें पत्र
४. सुचोवणी / कळोवणी आनी अधिसुचोवणी
५. जाणपत्र
६. शिफारस पत्र आनी प्रमाणपत्र
७. बदली पत्र (आदेश)
८. निलंबन पत्र (आदेश)
९. बडतर्फी पत्र (आदेश)
१०. थराव
११. इतिवृत्त
१२. टिपण
१३. अहवाल

## • आदेश (Order)

शासनाच्या सचिवालयाचे वतीन तरेकवार विभागांक सरकारी निर्णयाची माहिती करून दिवपी जें पत्र आसता ताका सरकारी आदेश पत्र वा Government Order (G.O.) अशें म्हणटात. सरकारान वेळा-काळाप्रमाण घेतिल्ल्या निर्णयांची माहिती ह्या पत्रांवरवीं मेळटा. पत्राचे सकयल खंयच्या संबंदीत खात्यांक तें पत्र धाडलां ताजी नोंद पळोवंक मेळटा. तारीख आनी क्रमांक आसप गरजेचें.

नमुनो १

क्रमांक ए-३३-९३ — **गोंय सरकार**

स. क. खा. — समाज कल्याण खातें

सचिवालय, पणजी.

ता. १ आब्रील, १९९४

### आदेश

सकयल दिल्ल्या वांगड्यांचो आसपाव आशिल्ली बिर्जींग संमेलन, ९५ खातीर राज्य पांवड्यावयली तयारी समिती घडोवपाक सरकाराक खोस भोगता.

मुखेल सचीव : अध्यक्ष
वांगडी : सचीव (समाज कल्याण)
सचीव (भलायकी)
संचालक (शिक्षण)
संचालक (उद्देग)
अध्यक्ष (अ. भा. महिला परिशद, गोंय फांटो)
अध्यक्ष (बायलांचो एकवट)

हे समितीचे उद्देश म्हळ्यार राज्यांतल्या बायलांचे प्रस्न सोदून काडप, ते उजवाडाक हाडप, तांची नोंद करप आनी प्रस्तावाच्या रुपान फावो त्या अधिकाऱ्यां मुखार ते मांडप.

राज्यपालांच्या नांवान
आनी आदेशावयल्यान
निशाणी
(अवर सचीव)
गोंय सरकार
समाज कल्याण खातें

प्रती धाडल्यात
१) संबंदीत विभाग मुखेल्यांक
२) समितीच्या सगल्या वांगड्यांक
३) गार्ड फायल
४) कार्यालय प्रत

नमुनो २

क्रमांक १५-१४१-९७

## गोंय सरकार

शिक्षण खातें

सचिवालय, पणजी.

ता. १ जुलय, १९९७

## आदेश

सरकार आदेश दिता – श्रीमती हेमा सरदेसाय (अर्थशास्त्राची व्याख्याती) काणकोण शासकी विद्यालय, हांची बदली वारखंड पेडणेंच्या शासकी म्हाविद्यालयांत केल्या. २० जुलय, १९९७ दिसा तांणी वारखंडच्या म्हाविद्यालयांत रुजू जावंचें. तुमचे कार्यपद्दतींत तरेकवार रितीन घाळपण आनी निश्काळजीपण जाल्ल्याचें नदरेक आयलां. हेपासत तुमची बदली करप गरजेचें दिसता. फुडाराक असलीं घाळपणां उपकरचीं नात. तीं दिसलीं जाल्यार खर कारवाय जातली.

निशाणी
(नांव)
शिक्षण सचीव
गोंय सरकार

प्रती धाडल्यात :

१) शिक्षण संचालक, गोंय सरकार
२) लेखा विभाग, गोंय सरकार
३) प्राचार्य, काणकोण शा. म्हाविद्यालय, काणकोण
४) प्राचार्य, वारखंड शासकी म्हाविद्यालय, वारखंड, पेडणें
५) कार्यालयाचे फायलीक

टीप : बदला पत्राखातीर होच नमुनो पळोवंचो.

नमुनो ३

नं. १/६/८६/गोकोंअ/३२०४६
गोवा कोंकणी अकादेमी,
ला पालोमा, पयलो माळो,
नं. ४, डिफॅन्स कॉलनी फाटल्यान
आल्त परवरी.
ता. ९ देझेंब्र, १९९७

## आदेश

अकादेमीचे मान्यतायेप्रमाण सुटयेच्या दिसा वा शेनवार-आयतार काम केल्यार नेमाप्रमाण भत्तो (D.A.) वा ज्यादा काम भत्तो (O.T.A.) मेळटलो अशें थरयलां. तेन्ना हाजेमुखार ता. १ जानेवारी १९९८ सावन अकादेमीच्या कर्मचाऱ्यांनी सुटयेच्या दिसा काम केल्यार फकत भत्तो वा ज्यादा काम भत्तो मेळटलो, त्या दिसाची ऑफ मेळचिना.

निशाणी
(शरद दळवी)
सचीव

प्रत :

| | | | |
|---|---|---|---|
| १. | श्री. कमलाकर म्हाळशी | – | स. सचीव |
| २. | कु. जयंती नायक | – | संशोधन सहाय्यिका |
| ३. | श्री. सुरेश सांवत | – | यु डी सी |
| ४. | कु. मारिया गोंसाल्वीश | – | ज्यु. स्टेनो |
| ५. | श्री. ज्ञानेश्वर नायक | – | एल् डी सी |
| ६. | सौ. कुमुद नायक | – | एल् डी सी |
| ७. | श्री. सेबास्तियांव आराउज्य | – | ड्रायव्हर |
| ८. | श्री. चंद्रशेखर फडटे | – | ड्रायव्हर |
| ९. | श्री. अजय सावळ | – | शिपाय |
| १०. | श्री. बलराम च्यारी | – | शिपाय |
| ११. | कु. सविता बांदेकार | – | सान्न मारपी |
| १२. | हिशोब फायल | | |
| १३. | पगार फायल | | |

नमुनो ४

नं. ११/२/८६/गोकोंअ/
गोवा कोंकणी अकादेमी,
ला पालोमा, पयलो माळो,
नं. ४, डिफॅन्स कॉलनी फाटल्यान
आल्त परवरी.

ता. ३० जुलय, १९९७

## आदेश

युडी सी श्री. सुरेश सांवत हाका २१ जुलय १९९७ ते २५ जुलय १९९७ मेरेन पांच दिसांची दुयेंस रजा मंजूर केल्या. रजेपयलीं ता. १८ जुलय १९९७, १९ जुलय १९९७ आनी २० जुलय १९९७ हे सुटयेचे दीस (सुटी शेनवार-आयतार) तशेंच सुटये उपरांत आयिल्ले ता. २६ जुलय १९९७ आनी २७ जुलय १९९७ हे सुटयेचे दीस (शेनवार-आयतार) जमेक धरूंक नात.

वयली १० दिसांची रजा वजा करून श्री. सुरेश सांवत हाज्या खात्यार ३१ देझेंब्र ९७ ह्या दिसा २२० दिसांची रजा बाकी उरता.

निशाणी
(शरद दळवी)
सचीव

प्रत :

१. श्री. सुरेश सांवत
२. ताजी फायल
३. पगार फायल
४. हिशोब फायल

नमुनो ५

नं. १/६/८६/गोकोंअ/३२०४६
गोवा कोंकणी अकादेमी,
ला पालोमा, पयलो माळो,
नं. ४, डिफॅन्स कॉलनी फाटल्यान
आल्त परवरी.

ता. २९ जानेर, १९९७

## आदेश

शिपाय श्री. बलराम च्यारी हाका ३ फेब्रेर ९७ ते ४ फेब्रेर ९७ मेरेन तीस दिसांची जोडीची रजा मंजूर केल्या. रजेपयलीं शेनवार ता. १ फेब्रेर ९७ आनी आयतार ता. २ फेब्रेर ९७ हे सुटयेचे दीस जमेक धरलेनात.

तशेंच तांकां वयल्या काळाचे ३० दिसांचो (एका म्हयन्याचो) जोडीचे रजेयेचो पगार मेळटलो. ताजेखातीर तीस दिसांची पगारी रजा मंजूर केल्या.

श्री. च्यारी हाजी वयली ३० दिसांची जोडीची रजा जमेक धरून ताज्या नांवार फक्त ४३ दिसांची रजा बाकी उरता.

वयल्या काळाखातीर बाय सविता बांदेकार (सान्न मारपी) हिणें पणजेच्या कार्यालयांत काम करपाचें. पूण सप्तकांतल्यान दोन दीस तिणें परवरीच्या कार्यालयांत येवन काम करून पणजे कार्यालयांत वचपाचें. तशेंच, श्री. च्यारी कामार हाजीर जाले उपरांत तिणें आसा तशें परवरीच्या कार्यालयांत कामार येवपाचें.

निशाणी
(शरद दळवी)
सचीव

प्रत :

१. श्री. बलराम च्यारी
२. ताजी फायल
३. बाय जयंती नायक – मुखावयले कारवायेखातीर
४. पगार फायल
५. हिशोब फायल
६. बील फायल

## • उगडास-पत्र

आयच्या धांवाधांवीच्या काळांत आनी गतीमान जिणेंत मनशाक कितलेशेच फावटीं एकापरस चड कामा करचीं पडटात. एका कामाच्या व्यापाक लागून जायते फावटीं हातांत घेतिल्ल्या दुसऱ्या कामाचो उगडास उरना. तेखातीर कामां तशींच पडून उरतात. कामां जायनासतना उरपाचीं हेर कारणां म्हळ्यार आळस, वाज येवप, सुवार्थ, हेतूपुरस्सरताय बी. हाका लागून कोणाय व्यक्तीक ताज्या कामाची याद करून दिवप गरजेचें थरता. हें पत्र गरजेप्रमाण व्यक्तीक, संस्थेक, समितीक वा पंगडाक धाडटात. पयशांची वसुली (वेवसायीक उगडास पत्र), काम पुराय करपासंबंदान प्रकल्पाचे पुर्तताये संबंदान, अहवाल धाडपासंबंदान अशे 'उगडास पत्रा'चे जायते उद्देश आनी पती आसूं येतात.

नमुनो १

**गोंय सरकार**
शिक्षण खातें
पणजी.

ता. २० देझेंब्र, १९९८

प्रति
मुखेल शिक्षणाधिकारी,
शिक्षण खातें,
फोंडें

विशय: कामाच्या अहवालासंबंदान उगडास-पत्र
संदर्भ: १७ ओतुब्र, १९९८ ह्या दिसा धाडिल्ल्या पत्रावयल्यान

वयर दिल्ल्या संदर्भाप्रमाण म्हालांतल्या उण्यांत उणे येणावळी सकयल आशिल्ल्या पालकांच्या भुरग्यांचे संख्येविशीं ह्या खात्यान अहवाल मागयल्लो. हो अहवाल तुमचेकडल्यान २० नोव्हेंब्र. १९९८ मेरेन ह्या कार्यालयाक पावपाचो आशिल्लो. पूण अजूनमेरेन तो अहवाल पावक ना.

तुमी हो अहवाल ८ जानेर, ९९ मेरेन धाडून दिवंचो वा पावतो करचो ही कळोवणी.

निशाणी
(नांव)
संचालक, शिक्षण खातें
शिक्को

नमुनो २

## सिंडिकेट बँक ऑफ अंकोला

ढवळी, फोंडें.

सं.: री / फा / सं. ३ ३० मार्स, '९६

प्रति
श्री. योगेश कामत
कपिलेश्वरी, फोंडें.

विशय: रिणाचे हप्ते फारीक करपासंबंदान उगडास
संदर्भ: २ जानेर '९६ ह्या दिसा तुमकां धाडिल्लें पत्र

तुमकां वयल्या संदर्भाप्रमाण धाडिल्ल्या पत्रावरवीं तुमी २८ मार्स, १९९५ ह्या दिसा आमचे बँकेकडल्यान घेतिल्ल्या रु. ५०,०००/-च्या रिणाचे ६ हप्ते फारीक करूंक नात म्हणपाचें कळीत केल्लें.

पूण ते उपरांत लेगीत तुमी रिणाचे हप्ते फारीक करूंक नात, वा ते संबंदान क्रांयच खबर करूंक ना.

तुमच्या उरिल्ल्या हप्त्यांची कळंतरासयत रु. ११,५००/- इतली रक्कम जाता, आनी तुमच्या नांवार आजून रु. ४१,०००/- इतलें रीण बाकी आसा.

हें पत्र पावतकच १५ दिसां भितर तुमी थकबाकी हप्त्यांची रक्कम हाडून भरची तशेंच बँकेंत व्यक्तीशा येवन मेळचें अशें ह्या उगडास पत्रावरवीं तुमकां कळीत करतात.

निशाणी
(नांव)
बँक प्रबंधक
शिक्को

नमुनो ३

गोंय सरकार
भौशीक बांदकाम खातें,
पणजी.

सं.: बां / भ्र / स / ६

ता. २० फेब्रेर, १९९७

प्रति
अध्यक्ष,
बांदकाम भ्रश्टाचार समिती,
मांड़वी पूल विभाग

विशय : समितीचो अहवाल धाडपासंबंदान
संदर्भ : १६ मार्स, १९९६ ह्या दिसा धाडिल्लें पत्र

तुमकां १६ मार्स, १९९६ ह्या दिसा धाडिल्ल्या पत्रावरवीं मांडवी पुलाच्या बांदकामांत जाल्ल्या तथाकथीत भ्रश्टाचाराची चवकशी करपासंबंदान नेमिल्ले समितीचो अध्यक्ष म्हणून वेंचून काडिल्ले. तुमी तें अध्यक्षपद स्वीकारून तेसंबंदीं वावर लेगीत सुरू केल्लो. (पळयात : तुमचें ह्या खात्याक धाडिल्लें ७ आब्रील, १९९६चें पत्र).

हे समितीन आपलो अंतिम अहवाल २० देझेंब्र, १९९६ मेरेन सादर करपाचें ह्या खात्याक कळीत केल्लें. पूण आयज मेरेन हो अहवाल ह्या खात्याक मेळूंक ना.

मांडवी पुलाच्या तथाकथीत गैरवेव्हार प्रकरणांत घुसपल्ल्या संबंदितांचेर कारवाय करपाचे नदरेन सरकाराक ह्या अहवालाची भोवच गरज आसा, हें मतींत घेवन हो अहवाल तुमी बेगोबेग आनी ३० मार्स, १९९७ चे आदीं ह्या खात्याक भेटोवंचो. ते पयलीं तुमी व्यक्तिशा सकयल निशाणी केल्ल्या अधिकाऱ्याक येवन मेळचें अशें ह्या उगडास पत्रावरवीं कळीत करतात.

निशाणी
(नांव)
संचालक
भौ. बां. खा.
(शिक्को)

## • परिपत्रक / घोळटें पत्र

खयचीय एक सुचोवणी, कळोवणी वा आदेश तरेकवार फांट्यांक / खात्यांक / कार्यालयांक कळीत करपाचो आसता तेन्ना जें पत्र धाडटात ताका घोळटेंपत्र वा परिपत्रक (circular) अशें म्हणटात. हें पत्र धाडपी व्यक्ती एकूच आसता. पूण हें पत्र कितल्याशाच संबंदीत कार्यालयांक धाडूं येता. परिपत्रकांत पत्रसंख्या, धाडटल्या खात्याचें / विभागाचें / कार्यालयाचे नांव, नामो, तारीख तशेंच कोणें धाडलां ताजें नांव, हुद्दो बी गजाली आसतात. जायते फावटीं ह्या पत्रांनी 'म्हाका कळीत केलां तेप्रमाण', 'कार्यालयाक आदेश मेळ्ळा तेप्रमाण' असो हेर-पुरूशी उल्लेख आसता. परिपत्रकाक जापेची अपेक्षा आसना. परिपत्रक फकत कळीत करपाखातीर आसता.

परिपत्रक कोणाक धाडलां, त्या कार्यालयांचो / व्यक्तींचो उल्लेख एक तर पत्राच्या वयल्या भागांत वा पत्र सोंपतकच सकयल्या भागांत 'प्रती धाडल्यात' अशीं उतरां वापरून केल्लो आसता.

नमुनो १
(नवे नेमणुकेविशीं)

क्र. २१-४-९७ प्रशासन ३/५०४
गोंय सरकार
शिक्षण संचालनालय, पणजी.

ता. २१ माय, १९९७

### परिपत्रक

सुश्री राणी वर्मा, आय् ए एस्, ह्यो शिक्षण खात्यांत संचालिका म्हणून २९-०५-९७ सावन सेवेंत रुजू जातल्यो.

हाचेफुडें शिक्षण संचालनालयाकडले सगले वेव्हार ह्या नांव्यार करचे :

राणी वर्मा, आय् ए एस्
शिक्षण संचालिका, शिक्षण संचालनालय
१८ जून रस्तो, पणजी, गोंय ४०३ ००१.

निशाणी
प्रकाश कामत
संचालक (प्रशासन)
शिक्षण संचालनालय

प्रती धाडल्यात :

१) सगल्या शासकी तशेंच अनुदानीत माध्यमीक / उच्च माध्यमीक / म्हाविद्यालयांच्या वेवस्थापकांक
२) सगल्या विभाग / कार्यालय / संस्था मुखेल्यांक
३) सचिवालयाच्या सगल्या विभागांक

नमुनो २:
(नवे उजवाडावणेविशीं)

# गोंय विद्यापीठ
## कोंकणी विश्वकोश विभाग
ताळगांव सडो

संदर्भ क्रमांक गों.वि./कों.वि./९७ — १९ देझेंब्र, १९९५

## परिपत्रक

गोंय विद्यापिठान कोंकणी विश्वकोशाचो पयलो खंड उजवाडायला हें कळीत करूंक भोवच खोशी जाता. अशे तरेचें संवसारीक गिन्यान दिवपी कोंकणींतलें हें पयलेंवयलें पुस्तक आनी तातूंत गोंय आनी कोंकणी हांचेर चड भर दिला.

पयल्या खंडाक ९०० पानां आसात आनी तातूंत २२५ चित्रां आसात. एके प्रतीचें मोल तीनशें साठ रुपया (रु. ३६०/-) इतलें आसा. शिक्षणीक संस्थांक हे किंमतींत १०% सूट आसतली. ह्या खंडाच्यो प्रती कोंकणी विश्वकोश विभाग, कला फांटो इमारत, गोंय विद्यापीठ, ताळगांव, हे सुवातेर रोख रुपया वा चॅक वा डिमांड ड्राफ्ट दिवन त्यो व्हरच्यो.

पुस्तक उदार दिवपाची सोय ना.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी
(डॉ. तानाजी हळर्णकार)
कार्यकारी संपादक

प्रती धाडल्यात:
१) सगल्या म्हाविद्यालयांचे प्राचार्य / उ.मा. विद्यालयांचे प्राचार्य.
२) सगल्या वाचपघरांचे ग्रंथपाल.
३) संचालक, शिक्षण खातें, गोंय सरकार.

नमुनो ३ :
(कार्यावळीविशीं)

# गोंय सरकार
भलायकी खातें
पणजी

सं.: प / पो / फा – ४ ६ सेतेंब्र, १९९७

## परिपत्रक

देशभरांतल्या उपक्रमाचो वांटो म्हणून २० नोव्हेंब्र, १९९७ आनी २० देझेंब्र, १९९७ हे दोनूय दीस पल्स पोलिओचे डोस दिवपाखातीरचे दीस म्हणून घोशीत केल्यात. पल्स पोलिओ लसीकरणाची कार्यावळ लोकांमेरेन पावोवंक हांचो उपेग करचो. हे संबंदान पंचायतीकडेन संपर्क बेगोबेग सादचो. जनसंपर्क अधिकारी, पंचवांगडी, ग्रामीण विकास अधिकारी, महिला मंडळांच्यो वावुरपी बायलो हांच्या माध्यमांतल्यान ही कार्यावळ दरेका गांवांत आनी वाड्यार पावतली हाजी खबरदारी घेवंची. वयर दिल्ले दोनूय दीस भुरग्यांक हाड-व्हर करपाची येरादारी वेवस्था करपासंबंदान मामलेतदार कार्यालयाकडेन संपर्क सादचो.

ही कार्यावळ येसस्वी करपाचे नदरेन बेगोबेग कारवाय करची अशें ह्या पत्रावरवीं कळीत करतात.

निशाणी
(नांव)
संचालकाचो शिक्को
भलायकी खातें

प्रती धाडल्यात:
१. सगळीं तालुको भलायकी केंद्रां
२. गोवा मॅडिकल कॉलेज आनी हॉस्पिटल, बांबोळी
३. हॉस्पिसियु हॉस्पिटल, मडगांव
४. आझिलु हॉस्पिटल, म्हापशें
५. सगल्यो तालुको-मामलेतदार कचेऱ्यो
५. ग्रामीण विकास यंत्रणा कार्यालय, पणजी

नमुनो २:
(नवे उजवाडावणेविशीं)

# गोंय विद्यापीठ

## कोंकणी विश्वकोश विभाग

ताळगांव सडो

संदर्भ क्रमांक गों.वि./कों.वि./९७ १९ देझेंब्र, १९९५

## परिपत्रक

गोंय विद्यापिठान कोंकणी विश्वकोशाचो पयलो खंड उजवाडायला हें कळीत करूंक भोवच खोशी जाता. अशे तरेचें संवसारीक गिन्यान दिवपी कोंकणींतलें हें पयलेंवयलें पुस्तक आनी तातूंत गोंय आनी कोंकणी हांचेर चड भर दिला.

पयल्या खंडाक ९०० पानां आसात आनी तातूंत २२५ चित्रां आसात. एके प्रतीचें मोल तीनशें साठ रुपया (रु. ३६०/-) इतलें आसा. शिक्षणीक संस्थांक हे किंमतींत १०% सूट आसतली. ह्या खंडाच्यो प्रती कोंकणी विश्वकोश विभाग, कला फांटो इमारत, गोंय विद्यापीठ, ताळगांव, हे सुवातेर रोख रुपया वा चॅक वा डिमांड ड्राफ्ट दिवन त्यो व्हरच्यो.

पुस्तक उदार दिवपाची सोय ना.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी
(डॉ. तानाजी हळर्णकार)
कार्यकारी संपादक

प्रती धाडल्यात:

१) सगल्या म्हाविद्यालयांचे प्राचार्य / उ.मा. विद्यालयांचे प्राचार्य.
२) सगल्या वाचपघरांचे ग्रंथपाल.
३) संचालक, शिक्षण खातें, गोंय सरकार.

नमुनो ३ :
(कार्यावळीविशीं)

# गोंय सरकार

भलायकी खातें

पणजी

सं.: प / पो / फा – ४ ६ सेतेंब्र, १९९७

## परिपत्रक

देशभरांतल्या उपक्रमाचो वांटो म्हणून २० नोव्हेंब्र, १९९७ आनी २० देझेंब्र, १९९७ हे दोनूय दीस पल्स पोलिओचे डोस दिवपाखातीरचे दीस म्हणून घोशीत केल्यात. पल्स पोलिओ लसीकरणाची कार्यावळ लोकांमेरेन पावोवंक हांचो उपेग करचो. हे संबंदान पंचायतीकडेन संपर्क बेगोबेग सादचो. जनसंपर्क अधिकारी, पंचवांगडी, ग्रामीण विकास अधिकारी, महिला मंडळांच्यो वावुरपी बायलो हांच्या माध्यमांतल्यान ही कार्यावळ दरेका गांवांत आनी वाड्यार पावतली हाजी खबरदारी घेवंची. वयर दिल्ले दोनूय दीस भुरग्यांक हाड-व्हर करपाची येरादारी वेवस्था करपासंबंदान मामलेतदार कार्यालयाकडेन संपर्क सादचो.

ही कार्यावळ येसस्वी करपाचे नदरेन बेगोबेग कारवाय करची अशें ह्या पत्रावरवीं कळीत करतात.

निशाणी
(नांव)
संचालकाचो शिक्को
भलायकी खातें

प्रती धाडल्यात :

१. सगळीं तालुको भलायकी केंद्रां
२. गोवा मॅडिकल कॉलेज आनी हॉस्पिटल, बांबोळी
३. हॉस्पिसियु हॉस्पिटल, मडगांव
४. आझिलु हॉस्पिटल, म्हापशें
५. सगल्यो तालुको-मामलेतदार कचेऱ्यो
५. ग्रामीण विकास यंत्रणा कार्यालय, पणजी

नमुनो ४ :
(कार्यावळीविशीं)

# गोंय सरकार

राजभास वेव्हार खातें

पणजी

सं.: रा / कों / का – १६ 		२ जानेर, १९९७

## परिपत्रक

ह्या पत्रावरवीं कळीत करता तेप्रमाण सगल्या शिक्षणीक संस्थांनी ४ फेब्रेर हो दीस कोंकणी दीस म्हणून मनोवंचो. ४ फेब्रेर, १९९७ ह्या दिसा गोंय राज्याचे विधानसभेंत कोंकणी राजभास विधेयक मानून घेतिल्लें त्या इतिहासीक दिसाची याद म्हणून हो दीस मनोवंचो.

ह्या दिसानिमतान कोंकणी भास आनी संस्कृताय हांकां पोशक अशा कार्यावळींचें आयोजन करचें. त्या-त्या वाटारांतले कोंकणी साहित्यीक, कोंकणी चळवळीचे फुडारी, विंगड-विंगड कोंकणी संस्थांचे पदाधिकारी हांकां आपोवन तांचीं भाशणां, सत्कार-सुवाळे, पुस्तकांचें प्रदर्शन, सर्ती बी घडोवन हाडच्यो.

दरेके संस्थेन रु. ५००/- मेरेनचो खर्च हेखातीर लागपी च्या-पाणी आनी हेर आयोजन वेवस्थेखातीर करूं येता. कार्यावळीक जाल्ल्या खर्चाचीं बिलां रीतसर ह्या कार्यालयाक २८ फेब्रेरा मेरेन धाडून दिवंची.

ह्या दिसा निमतान कोंकणी भाशेसंबंदान जागृताय घडटली अशें पळोवंचें.

निशाणी
(नांव)
संचालकायो शिक्को
रा. वे. खा.

प्रती धाडल्यात :

१. सगल्यो सरकारी मुळाव्यो आनी माध्यमीक शाळा.
२. सगलीं सरकारी उ. मा. विद्यालयां.
३. सगलीं सरकारी महाविद्यालयां.
४. सगले तालुको भाग शिक्षणाधिकारी
५. शिक्षण खातें, पणजी.

## ] कळोवणी / सुचोवणी (Notice)

' कार्यालयीन वेव्हार चलयतना कळोवणी वा सुचोवणी वापरप खूब गरजेचें आसता. सुचोवणी' हें उतर कसलेंय पत्र जेन्ना संख्येंन उण्या लोकांक धाडटात तेन्ना वापरचें, जाल्यार 'कळोवणी' हें उतर मात संख्येन खूब लोकांक/भौसाक धाडटात तेन्ना वापरचें. अधिकारी वर्ग जेन्ना कार्यालयीन वेव्हार रितीन चलचो हेपासत नोटीस म्हळ्यार सुचोवणी काडटा तेन्ना ताजें स्वरूप त्या कार्यालयापुरतेंच मर्यादीत आसता, आनी ताजो सामान्य नागरिकांकडेन कांयच संबंद आसना. पूण संप, बंद, वा हेर प्रासंगितकारोक लागून जेन्ना अधिकारी वर्ग 'कळोवणी' काडटा तेन्ना ती भौसाक लेगीत लागू जाता. कळोवणी ही चड करून नेमाळ्यांनी बी उजवाडायतात जाल्यार सुचोवणी ही टपालान वा हातान पावती करतात / भोंवडायतात.

नमुनो १

**अंत्रूज म्हाल सहकारी घरनिर्माण संस्था मर्यादीत**

तिस्क, फोंडें ४०३ ४०१

**सुचोवणी**

ही सुचोवणी दिवन कळीत करतात, अंत्रूज म्हाल सहकारी घरनिर्माण संस्था मर्यादीत ची वर्सुकी सर्वसादारण बसका फोंडेच्या लालबहादूर सभाघरांत १ आगोस्त, १९९७ दिसा सांजे ३-०० वरांचेर दवरल्या.

**विशय वळेरी**

– १३ जून, १९९६ चे वर्सुकी सर्वसादारण बसकेचीं टिपणां मानून घेवप,
– संस्थेच्या फाटल्या वर्साचो अर्थीक नियाळ करप,
– अध्यक्षांचे परवानगेन येवपी हेर विशय.

आदेशावरवीं

ता. १८ जुलय, १९९७ (निशाणी)

फोंडें मानद सचीव

**गरजेचें :**

१) ३-३० वरांमेरेन जर गणपूर्तताय जालिना जाल्यार बसका बरखास्त करतले आनी त्याच दिसा अर्द वरा उपरांत विशय वळेरे प्रमाण बसका घेतले. तेन्ना गणपूर्तताय जाता काय ना हें मतींत धरचेनात.

२) संस्थेचे चलणुकेविशीं कोणाय वांगड्याक माहिती जाय जाल्यार सर्वसादारण बसकेचे सात दिस आदीं तांणी लेखी सुचोवणी दिवंची.

नमुनो २

नं. १२/६/९३/गोकोंअ
गोवा कोंकणी अकादेमी,
ला पालोमा, पयलो माळो,
नं. ४, डिफॅन्स कॉलनी फाटल्यान
आल्त परवरी
ता. १० ओतुब्र, १९९६

भौ.

विशय : संपादक मंडळाची बसका

नमस्कार,

गोवा कोंकणी **अकादेमीचे** 'संपादक मंडळा'चे उपसमितीची तिसरी बसका बिरेस्तार ता. १७ ओतुब्र, १९९६ दिसा सांजवेळा ३-३० वरांचेर अकादेमीच्या पर्वरीच्या कार्यालयांत थरयल्या.

हे बसकेंत सकयल दिल्ल्या विशयांसंबंदान चर्चा जावन निर्णय जावपाचे आसात.

१) पयलो चंवर येवजणेखाला अकादेमीकडेन आयिल्ल्या हातबरपांसंबंदान.

२) प्रकाशन-पालव येवजणे सकयल अकादेमीकडेन आयिल्लीं पुस्तकां विकतीं घेवपासंबंदान.

३) इंग्लीश-कोंकणी-हिंदी उतरावळीची दुसरी आवृत्ती छापून घेवपासंबंदान.

४) लिपी-सहकार येवजणेसकयल आयिल्ल्या फादर आंतोन पेरैर हांच्या 'कोंकणी शेतकामती' हातबरपासंबंदान.

५) भौ. कमलादेवी राव देशपांडे हांच्या ओपारींच्या हातबरपासंबंदान.

तुमी बसकेक हाजीर रावन पालव दिवंचो म्हूण मागतां.

बरें मागून,

तुमचो,
निशाणी
(शरद दळवी)
सचीव

प्रत :

१. वांगड्यांक प्रत – ५
२. उपाध्यक्षाक – माहितीखातीर
३. हिशोब फायल
४. कार्यालयीन फायल

नमुनो ३

नं. १२/६/९३/गोकोंअ
गोवा कोंकणी अकादेमी,
ला पालोमा, पयलो माळो,
नं. ४, डिफॅन्स कॉलनी फाटल्यान
आल्त परवरी
ता. ११ ओतुब्र, १९९६

भौ.

विशय: कार्यकारी मंडळाची बसका

नमस्कार,

गोवा कोंकणी अकादेमीच्या कार्यकारी मंडळाची तिसरी बसका बुधवार ता. २३ ओतुब्र, १९९६ दिसा सांजवेळा ३-३० वरांचेर अकादेमीच्या परवरीच्या कार्यालयांत आपयल्या, हाजी उपकार करून नोंद घेवंची.

बसकेमुखार हे विशय आसतले:

१) फाटले बसकेचो नियाळ वाचून ताका मान्यताय दिवपासंबंदान.

२) फाटले बसके उपरांत जाल्ल्या वावराचो नियाळ.

३) फुडल्या वावराची दिशा.

४) अध्यक्षांचे परवानगेन आयिल्ल्या विशयांसंबंदान.

तुमी बसकेक हाजीर रावन पालव दिवंचो म्हूण मागतां.

बरें मागून,

तुमचो,
निशाणी
(शरद दळवी)
सचीव

प्रती:

१. श्री. पुंडलीक नायक (उपाध्यक्ष)
२. प्रा. हरिश्चंद्र नागवेंकार (सदस्य)
३. श्री. तुकाराम शेट (सदस्य)
४. श्री. विल्सन माजारेलो (सदस्य)
५. फादर फ्रॅडी द कोश्ता (सदस्य)
६. शिक्षण सचीव (सदस्य)
७. कार्यालयीन फायल
८. हिशोब फायल

**टीप:** कळोवणेच्या नमुन्याखातीर वेवसायीक पत्रांचो विभाग पळोवंचो.

## • अधिसुचोवणी (Notification)

कार्यालयीन वेव्हाराचो एक वांटो म्हणून अधिसुचोवणी वा Notification म्हत्वाचें आसता. समेस्तांक वेंचणूक, पगारवाड, सुटी, नोकरेंतल्यान राजिनामो, नेमणूक, भौशीक सेवांविशींची माहित्ती सरकारी राजपत्रांनी, वर्तमानपत्रांनी दितात. अधिसुचोवणी राजपत्रांनी उजवाडाक हाडटात.

नमुनो १

क्र. ७-१-९६

स. क. खा.

**गोंय सरकार**

समाज कल्याण खातें

सचिवालय, पणजी.

ता. १० देझेंब्र, १९९७

वाचात : १. सरकारी अधिसुचोवणी क्रमांक ७ जानेर, ९६ ता. २० मार्स ९६

२. सरकारी अधिसुचोवणी क्रमांक ७ जानेर ९६ ता. ३० आब्रील ९६.

**अधिसुचोवणी**

गोंय सरकार केंद्रीय भौशीक कल्याण मंडळ, नवी दिल्ली, हांचेकडल्यान बुद्वद घेवन राज्य समाज कल्याण सल्लागार मंडळ गोंय, दमण, दीव १९७० हातूंतल्या तिसऱ्या कायद्यातल्या चवथ्या उपकायद्या प्रमाण मेळिल्ल्या अधिकारावरवीं सकयल्या मनशांची केंद्रीय समाज कल्याण मंडळाचेर गोंय राज्य समाज कल्याण सल्लागार मंडळाचे प्रतिनिधी म्हूण नेमणूक करता.

१. प्रो. फातिमा द सौझ
वजरी, सांखळी.

२. सौ. पौर्णिमा परब
केरी, पेडणें.

३. प्रो. शुभांगी कामत
आल्तिन्य, पणजी.

४. कु. नेत्रा नार्वेकार
गणेश देवळालागीं, मोलें.

गोंय राज्यपालाच्या नांवान आनी आदेशान

निशाणी

(अ. सिकैर)

सचीव (समाज कल्याण), गोंय सरकार

## • जाणपत्र (Memorandum)

खंयचेंय विशिश्ट खातें आपल्या तरेकक्र संबंदीत खात्यांक कार्यालयीन वेव्हाराची माहिती करून दिवपापासत जाणपत्राचो उपेग करता. तशेंच कर्मचारी वर्गाकडल्यान अपेक्षीत जाप मेळोवंचे पासत ह्या जाणपत्रांचो उपेग करतात. हे तरेच्या जाणपत्रांतल्यान सुचोवणी, शिटकावणी दितात. पूण हें पत्र पुराय रितीन आदेश जावंचो न्हय. जाका कोणाक हें जाणपत्र बरयलां ताजें नांव आसपाक जाय. जो कोण जाणपत्र दिता ताजें नांव आनी निशाणी आसपाक जाय. तारीख, थळ हांचो उल्लेख आसप गरजेचें. घुस्पागोंदळाची भास आसची न्हय. पयलो परिच्छेद वेगळावन हेरांक आंकडे दिव येतात.

## • कार्यालयीन जाणपत्र (Office Memorandum)

कार्यालयीन जाणपत्र हें कामांत वेळाकाळार विधायक बदल हाडपाच्या वेव्हारांत वापरतात. एका खात्याकडल्यान दुसऱ्या खात्याक वा विभागांक हे तरेच्या पत्रवेव्हाराचो उपेग करतात. हें पत्र एके विशिश्ट व्यक्तिकूच मेळपाची तजवीज आसता. कार्यालयीन जाणपत्राची भास ही घुस्पागोंदळाची आसची न्हय

नमुनो १

### गोंय सरकार

शिक्षण खातें

क्र.: १२/३/९७ ता. १८ जून, १९९७

### कार्यालयीन जाणपत्र

विशय: मुळाव्या शिक्षकांचे बदले संदर्भात

म्हाका कळीत करपाक आदेश दिला तेप्रमाण गोंय सरकाराचे सेवेंतल्या मुळाव्या शिक्षकांच्यो ता. ५ जून, १९९७ च्या आदेशावरवीं केल्ल्यो बदल्यो रद्द जातात.

निशाणी
(वि. का. राजवाडे)
सचीव
प्रशासन ७, गोंय सरकार

सेवेक:
१) सगल्या संबंदीत विभाग मुखेल्यांक.
२) सगल्या संबंदीत शिक्षकांक.

नमुनो २

# गोंय विद्यापीठ

ताळगांव सडो

क्र.: १५/४/९७ ता. २० जून १९९७

## कार्यालयीन जाणपत्र

विशय: गोंय विद्यापीठाची एम् ए भाग २ (कोंकणी) परिक्षा

म्हाका हें कळीत करपाक आदेश दिला तेप्रमाण गोंय विद्यापिठाच्या एम् ए भाग २ कोंकणी विशयाच्यो ता. २२ जून, १९९७ सावन सुरू जावपी परिक्षा फुडें धुकलल्यात.

निशाणी<br>
(चि. त्र्यं. कांदोळकार)<br>
परिक्षा नियंत्रक<br>
गोंय विद्यापीठ

सेवेक:

१) विभाग मुखेली, गोंय विद्यापीठ

२) कुलसचीव, गोंय विद्यापीठ

## • शिफारस आनी प्रमाणपत्र

हार्ली तेंपार काम वा सर्वीस मेळप भोवच कठीण जालां. बेकारांची संख्या चड आनी कामाच्यो सुवाती उण्यो अशी परिस्थिती उपराशिल्ल्यान नोकरी मेळोवपाचे प्रक्रियेंत सर्त खुबूच वाडल्या. हे सर्तींत पास जातलो जाल्यार जायत्यो गजाली उमेदवाराक करच्यो पडटात. तातूंतल्योच दोन गजाली म्हळ्यार शिफारस पत्र आनी प्रमाणपत्र. आपल्या अणभवांचे दाखले, गूणपत्रिका हांचेबरोबरूच प्रमाणपत्र आनी शिफारस पत्र वा खंयचेंय एक अर्जाक जोडपाची चाल आसा. शिफारस पत्र आनी प्रमाण पत्र हातूंतलो फरक म्हळ्यार शिफारस पत्रांत व्यक्तीच्या नांवाची सरळ आनी थेट (direct) शिफारस केल्ली आसता. प्रमाणपत्रांत मात ती सूचक रितीन केल्ली आसता. दुसरें म्हळ्यार शिफारस पत्र हें चड करून संबंदीत काम निर्मुप्याक उद्देशून आसता. ताका थळ-काळ आनी वेळ हांचें बंधन आशिल्ल्यान तें एकूच फावट वापरूंक मेळटा. जाल्यार प्रमाणपत्र हें एका काम निर्मुप्याक उद्देशून बरयल्लें आसना. प्रमाणपत्राच्या वयल्या भागांत 'संबंदितांक' (to whom it may concern) अशें ठळक अक्षरांत् बरयल्लें आसता. देखून एकदां घेतिल्लें प्रमाणपत्र फुडें जायते फावटी वापरूं येता.

दोनूय तरांच्या पत्रांनी व्यक्तीविर्शींची माहिती, ताजी वळख, ताजो सभाव, ताजे गूण, ताजें प्राविण्य, काम करपाची रीत आनी हेर खाशेलपणांचेर उजवाड घाललो आसता.

संबंदीत विशयांतल्या जाणकारांकडल्यान, अधिकारसिद्ध वा पदसिद्ध व्यक्तीकडल्यान (देखीक, वेवस्थापकी संचालक, प्राचार्य) शिफारस पत्र वा प्रमाण पत्र घेवपाची चाल आसा.

नमुनो १

## चौगुले उद्योग पंगड

मुरगांव

सेवेक.
मे. साळगांवकार ॲण्ड सन्स
दिवचल

नमस्कार.

सुश्री सीमा कुडचडकार हिजेविर्शी तुमी विचारिल्ली माहिती तुमकां भेटोवंक खोशी जाता. ही माहिती तुमी गुपीत दवरतले हाजेविर्शी खात्री आसाच.

बाय सीमा आमचेकडेन सेक्रेटरी (सचीव) ह्या नात्यान फाटलीं पांच वर्सां आशिल्लें. तिज्या बऱ्या सभावाक आनी हुशारकायेक लागून तें सेक्रेटरी ह्या पदाक खऱ्यांनीच लायक आशिल्लें. तें कामाक प्रामाणिक, अचूक, कुशळ आनी हुशार आशिल्लें. ताजी शिफारस तुमचे लागीं करपाक हांव मात लेगीत अनमनना.

जे परिस्थितींत तिका आमचेकडलें काम सोडून वचचें पडलें तेविर्शी आमकां खंत भोगता. तिज्या बापायक मर्ण आयिल्ल्यान तिज्या कुटुंबाक दिवचले मामागेर वचून रावचें पडलां.

तुमचो विस्वासू

निशाणी
(नांव)
वेवस्थापकी संचालक



नमुनो २

माधव सामंत
निवृत्त प्राचार्य,
पेडणें

ता. २० फेब्रेर, १९९८

प्रति
श्री. मदन काणेकार
मुध्याध्यापक,
सर्वोदय हायस्कूल,
सांखळी

नमस्कार.

तुमी धाडिल्ल्या श्री. कॉस्मा द कॉश्त हांचेविशींच्या संदर्भ मागोवपी पत्राक जाप दिवंक म्हाका खोशी जाता. श्री. कॉस्मा द कॉश्त हाणें तुमच्या हायस्कुलांत विज्ञान शिकोवप्याचे सुवातेखातीर अर्ज केला ताजी शिफारस हांव ह्या पत्रावरवीं करतां.

बाब कॉस्मा हो ताज्या पदवी शिक्षणाच्या वेळावयलो म्हजो एक हुशार विद्यार्थी. विज्ञान विशयाची ताका पयलींसावन आवड आनी तो विशय समजुपाची ताजी तांक लेगीत जबर. आपलें काम वेळार पूर्ण करप आनी उमेदीन तशेंच अभ्यासू वृत्तीन कार्यावळींनी वांटो घेवप हीं ताजीं खाशेलेपणां आशिल्लीं.

ताज्या रगतांतूच शिक्षकाचे गूण आसात. ताज्या कुटुंबांत आवय-बापूय तशेंच हेर सोयरे बरे शिक्षक म्हणून गाजल्यात.

तो तुमचे शाळेंत रुजू जालो जाल्यार वेवस्थापन तशेंच भुरग्यांचे नदरेन तो एक भांगरा योग थरतलो हातूंत दुबाव ना.

निशाणी
(माधव सामंत)



नमुनो ३

प्रदीप लवंदे
अध्यक्ष,
भतग्राम अर्बन क्रॅ. सो.
दिवचल.

१५ आगोस्त, १९९७

## शिफारस पत्र

श्री. तुळशीदास पेडणेकार ह्या तुळशीमळ, सांखळे हांगा रावपी तरणाट्याक फाटल्ली धा वर्सां हांव लागींच्यान वळखतां. तुळशीदास एक कृतीशील पिग्मी एकठांय करपी एजंट. भतग्राम अर्बन क्रॅ. सोसायटी, दिवचल पासत नेटान वावर करपी म्हणून हांवें ताका लागींच्यान पळयला.

श्री. पेडणेकार हो उजू चलणुकेचो. तशेंच ताका साहित्य, खेळ आनी संस्कृताय मळांचेर वावर करपाक मानवता.

आयज मेरेन ताज्या अर्थीक वेव्हारांत ताजें नितळ चारित्र्य दिश्टी पडटा. ताज्या असल्या सकारात्मक गुणांपासत ताका हांव शिफारस पत्र दितां.

तुमचो विश्वासू

निशाणी
(प्रदीप लवंदे)

● प्रमाणपत्रां

नमुनो १

गांवडोंगरी,
काणकोण

**प्रकाश फळदेसाय**
उपाध्यक्ष, गोवा कोंकणी अकादेमी, पणजी
वांगडी, कला अकादमी, पणजी
वांगडी, संगीत नाटक अकादेमी, नवी दिल्ली

---

ता.: २० नोव्हेंब्र, १९९५

**प्रमाणपत्र**

कोंकणी भाशा आनी साहित्याचे अभ्यासक आनी अध्यापक आशिल्ले श्री. तुकाराम वेळीप, तुडल, गांवडोंगरी, हांकां हांव लागसून वळखतां. कोंकणी साहित्याच्या मळार वस्तुनिश्ठ साहित्य समिक्षेचें पर्व जांणी आरंभ केलें त्या पर्वांतले श्री. तुकाराम वेळीप हे एक अग्रणी अशे समिक्षक.

निशाणी
(प्रकाश फळदेसाय)

नमुनो २

कोंकण पब्लिकेशन्स प्रा. लि.
२०१, बी पी एस मार्ग
पाजीफोंड, मडगांव
गोंय ४०३ ६०१

उर्बा
कोंकणी दिसाळें

१४ फेब्रेर, १९९७

संबंदितांक

प्रमाणपत्र

श्री. कमलाकांत नायक हांणी कोंकणी साहित्य समिक्षा आनी भारतीय साहित्याच्या तुळात्मक अभ्यासांत म्हत्वाचें योगदान दिल्लें आसा.

उर्बा दिसाळ्यांत साहित्य समिक्षेवयलें तांचें जायतें साहित्य उजवाडाक आयिल्लें आसा. जाणकार आनी अभ्यासकांनी ताजी तोखणाय केल्ली आसा. कोंकणीच्या कृतीसत्रांनी तांणी क्रियाशीलपणान वांटो घेवन आपले गंभीर अभ्यासू वृत्तीचो दाखलो दिल्लो आसा.

निशाणी
(संपादक)
उर्बा



नमुनो ३

## कोंकण विद्यापीठ
## कोंकणी विश्वकोश

### संबंदितांक

फाटलीं धा वर्सां कोंकणी विशयाचे प्राध्यापक समीर नायक हांकां हांव वळखता. राज्य पांवड्याचेर आनी राष्ट्री पांवड्याचेर जाल्ल्या कोंकणी कृतीसत्रांनी, परिशदांनी क्रियाशीलपणान ते वांटेकार जाल्ले आसात.

कोंकणी भास, साहित्य, इतिहास आनी भासशास्त्रांत तांणी बरें योगदान दिल्लें आसा. ते कृतीशील आसात.

हें प्रमाणपत्र तांचे विनवणेवयल्यान तांकां दिलां.

निशाणी
(डॉ. चंद्रकांत नावेलकार)
कार्यकारी संपादक
कोंकणी विश्वकोश

ता.: २१ नोव्हेंब्र, १९९५

### • पृश्ठांकन (Endorsement)

पृश्ठांकन वा Endorsement हाजो अर्थ An act of writing on the back of a note bill and other written instrument. खंयच्याय बिलाफाटल्यान वा लिखाणा फाटल्यान सुचोवणी वा आदेश वा प्रतिक्रिया बरोवपाचे क्रियेक पृश्ठांकन अशें म्हणटात. केन्नाय मूळ पत्राचे सकयल लेगीत शेरो मारतात ताकाय पृश्ठांकन म्हणटात.

नमुनो १

क्रमांक २५/४/९६

गोंय सरकार
भलायकी खातें

ता. १४ माय, १९९७

सकयल्या विभागांक सुचोवणी आनी कारवाय करपापासत

१] घर सचीव, गोंय सरकार, पणजी.
२] जिल्ल्याधिकारी, उत्तर गोंय
३] अर्थ सचीव, गोंय सरकार, पणजी

## नेमणूक पत्र

संस्थेच्या वेवस्थापनाचे वतीन कोणाय मनशाक ताणें अर्ज केल्ले वा मुलाखत ल्ले सुवातेखातीर कामार रुजू करून घेवपी नेमणूक पत्र मेळटा. ह्या नेमणूक त्रांत ती नोकरी कसली, तिजें स्वरूप कसलें (म्हळ्यार ती नोकरी पूर्ण-वेळ काय त्पुरती बी), पगार कितलो मेळटलो, ते नोकरेर आसतना पाळो दिवपाचे नेम ानी अटी तशेंच हेर कायदेशीर गजालींचो आसपाव आसता. नेमणूक पत्र हातांत ळटकीच अमक्याच / थरोवन दिल्ल्या वेळाभितर तें स्विकारपाची वा न्हयकारपाची ापसालदारकी नोकरी मेळिल्ले व्यक्तीचेर आसता. नेमणूक पत्र हो एक म्हत्वाचो स्तावेज आसता. कामगारान खंयचे तारखेसावन कामार रुजू जावंचें हाजो स्पश्ट ग्रादेश नेमणूक पत्रावरवीं कळीत जाता.

नमुनो १

**त्रि. ब्रा. कुन्ह्य यादरत्तीक कला महाविद्यालय**
मडगांव – गोंय

सं. क्र. नेमणूक / ८५० 30 ओतुब्र, १९९०

सेवेक
श्री. रोहन शिरोडकार
माजोड्डें

विशय : नेमणूक-पत्र
संदर्भ : १२ ओतुब्र, १९९० ह्या दिसा अर्थशास्त्र विशयाच्या प्राध्यापकाचे सुवातेपासत घेतिल्ली तुमची मुलाखत

मानेस्त,

वयर सुचीत केल्लो विशय आनी संदर्भ हांचेप्रमाण तुमकां कळीत करता, आमच्या म्हाविद्यालयांतल्या अर्थशास्त्र विशयाच्या प्राध्यापकाचे सुवातेखातीर तुमची पूर्ण-वेळ प्राध्यापक म्हणून नेमणूक जाल्या. तुमकां १४ नोव्हेंब्र, १९९० सावन २२००-७५-२८---१००-४००० अशी पगारश्रेणी लागू जातली.

तुमची ही नेमणूक १९९०-९१ ह्या शिक्षणीक वर्साच्या दुसऱ्या सत्रापुरतीच आसतली.

तुमचो विस्वासू,
निशाणी
(नांव)
प्राचार्य

नमुनो २

## उद्योगनगर प्लास्टीक प्रॉडक्टस्

उद्योगनगरी, कुंडय

सं.: न / नो / ९७-९८ ता. १७ जानेर, ९८

प्रति

श्री. कुमार माशेलकार

खांडोळें, माशेल

विशय: नेमणूक आदेश

नमस्कार,

तुमचो १० जानेर '९८ ह्या दिसाचो 'प्रशिक्षणार्थी' म्हणून नोकरी मागपी अर्ज मेळ्ळो.

तुमकां 'प्रशिक्षणार्थी' ह्या नात्यान नोकरी दिवपाक आमकां भोवच खोशी जाता.

सकयल दिल्ल्यो अटी आनी नेम तुमकां 'प्रशिक्षणार्थी' ह्या नात्यान लागू जातले:

(१) तुमकां मॅनेजर वा ताणें नेमिल्लो मनीस हाज्या हाताखाला काम करचें पडटलें.

(२) प्रशिक्षणार्थी ह्या नात्यान तुमची सेवा तुमी रुजू जातात त्या दिसाच्यान एका वर्साची आसतली पूण गरज पडल्यार पूर्वसुचोवणी दिनासतना तुमकां काडून उडोवपाचो अधिकार कंपनी राखून दवरता.

(३) तुमका हे नोकरेंतल्यान खंयचोच रोजगार दिवपाची जापसालदारकी कंपनी घेवंचिना पूण तुमचें प्रशिक्षण सोंपतकच तुमी लिखीत अर्ज केलो जाल्यार आनी कंपनीक तुमी लायक उमेदवार दिसले जाल्यार, तशेंच, रिती सुवात आसत जाल्यार तुमकां कामार चालू दवरपाचो वा नवी नोकरी दिवपाचो निर्णय कंपनी घेवंक शकता. पूण ह्या वा कसल्याच निर्णयाक कंपनी बांदिल्ली आसचिना.

(४) कंपनीच्या सेवाकाळांत, सगले नेम आनी अटी तुमकां लागू जातल्यो.

(५) मात कंपनीच्या हेर कामगारांक मेळपी लाव आनी सवलती मात तुमकां मेळच्यो नात.

ह्यो सगल्यो अटी तुमकां मान्य आसत जाल्यार ३० जानेर, ९८ मेरेन तुमी लिखीत मान्यताय दिवंची.

कंपनीखातीर आनी वेवस्थापनाचे वतीन,

तुमचो,

निशाणी

(नांव)

वेवस्थापकी संचालक

ुनो ३

टी एम् एच् इंडस्ट्रीस प्रायवेट लिमिटेड
खोर्ली, म्हापशें.

ा: ता. ४ सेतेंब्र, '९८

ावेक
ी. गुरुदास नायक
थ्रेवी, म्हापशें

तुमच्या २० आगोस्त, १९९८च्या अर्जाप्रमाण तुमची 'विक्री अधिकारी' हे ुवातेपासत नेमणूक जाल्या हें कळीत करूंक आमकां खोशी जाता. तुमची नेमणूक ुराय रितीन तत्पुरते सुवातेचेर आनी सकयल दिल्ल्यो अटी आनी नेमांक धरून आसतली :

(१) तुमची नेमणूक १५ सेतेंब्र, १९९८ ह्या दिसासावन जातली.
(२) अचकीत कामाचो व्याप वाडिल्ल्यान ही सुवात निर्माण जाल्ली आशिल्ल्यान तुमची नेमणूक पुराय रितीन तत्पुरते सुवातेचेर १५ सेतेंब्र, १९९९ मेरेनूच आसतली. कंपनीकडल्यान लेखी पत्र आयलेंना जाल्यार तुमची नेमणूक त्या दिसाच्यान रद्द जातली. कंपनी लिखीत सुचोवणी दिलेबगर वा खंयचेंच कारण दिलेबगर ही नेमणूक रद्द करपाचो अधिकार राखून दवरता.
(३) तुमकां दरेका म्हयन्याक रु. ६,००० (फकत रुपया स हजार) कुल्ल पगार मेळटलो.
(४) कंपनीच्या सेवा-कालांत तुमची खंयच्याय विभागांत बदली जावं येता.
(५) कंपनीच्या नेमाप्रमाण चड कामाखातीरच्यो सुविधा आनी मानधन तुमकां मेळटलें.
(६) तुमी तुमचो पुराय वेळ आनी लक्ष कंपनीच्याच हिताखातीर आनी उदरगतीखातीर दिवंचीं पडटलीं.
(७) थरिल्ल्यो आनी वेळाकाळाप्रमाण बदलपी कंपनीच्यो सगल्यो अटी आनी नेम तुमकां लागू जातले.

वयर दिल्ल्यो अटी आनी नेम तुमकां मान्य आसत जाल्यार हें पत्र पावतकच आठ दिसांभितर वा चडांतचड १४ सेतेंब्र, १९९८ मेरेन तुमी तुमचें मान्यताय पत्र व्यक्तिशा हाडून दिवंचें.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी
(नांव)
वेवस्थापकी संचालक

## • बदली पत्र

सरकारी खात्यांत अमुकूच / थरयिल्लीं (चड करून ५ वर्सां) एके सुवातेच जाले उपरांत आनी खाजगी आस्थापनांनी वेवस्थापनाचे मर्जेप्रमाण वा नमणूक कायद्यांप्रमाण वा कामगाराचे विनवणेवयल्यान ताजी एके सुवातेवयल्यान दुसरे सुवात बदली करपी आदेश भायर सरता. कांय फावटीं कामगाराच्या कामाच्या बेजापसालदारपणापासत वा आळशी वृत्तीपासत वा ताणें केल्ल्या भ्रश्टाचार वा गैरवर्तणुकीपासत वेवस्थापन ताजी बदली करता. कोणाय कामगाराक निलंबीत केल्ल आसत आनी ताज्या निलंबनाची तारीख सोंपतकच लेगीत ताजी चवकशी पुराय जाल्ली नासत जाल्यारूय ताका बदली आदेश मेळूं येता. बदली ही पदोन्नतीखातीर वा पदावनतीखातीर लेगीत आसू येता. बदलेविशींची कळोवणी हो आदेश आशिल्ल्यान संबंदीत कामगारांचेर तो बंधनकारक आसता. बदली ही एका वाटारांतल्यान दुसऱ्या वाटारांत वा एका खात्यांतल्यान दुसऱ्या खात्यांत वा खात्यांतर्गत लेगीत जावं येता.

नमुनो १

क्र. ६/१६३/प्र./खंड ५/९६/४०६१

गोंय सरकार
शिक्षण संचालनालय,
पणजी.

२८ देझेंब्र, ९६

### आदेश

सरकारांन मान्यताय दिल्लेप्रमाण, सरकारी मुळावी शाळा दिवचले शिकोवपी, सरकारी मुळावी शिक्षिका, श्रीमती कमल बोरकार, हांची सरकारी मुळावी शाळा गांवडोंगरी, काणकोण हे शाळेंत भौशीक हिताचे नदरेन बेगोबेग बदली जाता.

स. मु. शाळा, दिवचलच्या मुख्याध्यापकांनी तांकां नातलांचे सुटये उपरांत शाळ परतून सुरू जातकच वा गरज पडल्यार तांचे गैरहजेरींत हो आदेश मेळ्ळे बराब थयच्यान वचपाक मेकळीक दिवंची आनी मेकळीक पत्रांच्यो प्रती भाग शिक्षणाधिकारी शिक्षण सचालनालयाचे पालवी सचालक तशेंच शिक्षण सचालनालय, पणजी हे कचेरें धाडच्यो तशेंच ताजीच एक प्रत बदली जाल्ले शाळेक त्याच दिसा धाडून दिवंची

बदली जाल्ले शिक्षिकेक खंयचेच तरेची रजा मजूर करची न्हय तिणें कायद्याप्रमा

बदली जाल्ले सुवातेचेर रुजू जावंचें.

कायद्याप्रमाण भोंवडे भत्तो / म्हारगाय भत्तो आनी रुजू जावपाखातीरचो वेळ तिका मेळटलो.

तिणें बदली जाल्ले शाळेसावन ३ कि.मि. मेरेनच्या अंतराचेर राबितो करचो आनी आपणालो नामो संबंदीत भाग शिक्षणाधिकाऱ्याक तशेंच शाळेच्या मुख्याध्यापकाक कळीत करचो.

आपलो बदली आदेश रद्द करप वा तातूंत बदल करप वा सुदारणा करप हाजेखातीर यत्न केल्यार वा हेर कोणेंय वयर दिल्ल्या सुचोवण्यांची अंमलबजावणी करपांत कसलेंय घाळपण वा सदळसाण दाखोवपाचो यत्न केल्यार संबंदितांआड शिस्तभंगाची खर कारवाय जातली.

निशाणी

(केशव चोपडेकार)
पालवी संचालक
शिक्षण संचालनालय

प्रती धाडल्यात :
१. श्रीमती कमल बोरकार, स. मु. वि., दिवचल.
२. मुख्याध्यापक, स. मु. वि., दिवचल.
३. मुख्याध्यापक, स. मु. वि., गांवडोंगरी.
४. पालवी संचालक, शिक्षण संचालनालय (प्रशासन २) पणजी.
५. संचालक, लेखा खातें, पणजी.
६. भाग शिक्षणाधिकारी, पणजी.
७. व्यक्तीगत फायल.
८. गार्ड फायल.

नमुनो २

क्र. शि.सं./प्र/बदली/८१/२६८
शिक्षण संचालनालय
पणजी.

ता. १५ आब्रील, १९९१

## आदेश

सकयल नांवां दिल्ल्या मुळाव्या शिकोवप्यांची बदली तांच्या नांवामुखार दिल्ले शाळेंत करता :

| क्र. | शिकोवप्याचें नांव | माध्यम | सध्या काम करता ती शाळा | बदली जाल्या ती शाळा |
|---|---|---|---|---|
| १. | कुमार नायक | कोंकणी | स. मु. वि. बोकडबाग | स. मु. वि. वाळपय |
| २. | समीर सतरकार | मराठी | स. मु. वि. नुवें | स. प्रा. वि. माजोड्डें |

ह्यो बदल्यो त्या त्या शिक्षकांचे विनवणे वयल्यान जाल्यात. तांकां भोंवडे-भत्तो/म्हारगाय-भत्तो वा रुजू जावपाखातीर वेळ मेळचोना.

संबंदीत मुख्याध्यापकांनी ह्या शिकोवप्यांक ह्या शिक्षणीक वर्साच्या निमाण्या सप्तकांत परिक्षा, निकाल बी शाळेचो वावर पुराय जाले उपरांत, चड करून २० वा २१ आब्रील, १९८१ ह्या दिसा मेकळीक दिवंची. मेकळीक मेळटकच ह्या शिकोवप्यांनी तांचे बदली जाल्ले नवे शाळेंत, २२ वा २३ आब्रील ह्या दिसा निश्चीतपणान, म्हळ्यार सुटयेखातीर शाळा बंद जावंचे आदीं रुजू जावंचें.

वयले शिकोवपी शाळेंत रुजू जाल्ल्याचे, तशेंच शाळेंतल्यान मेकळीक दिल्ल्याचे अहवाल बेगोबेग त्या-त्या भाग शिक्षणाधिकाऱ्यान संबंदीत मुख्याध्यापकांनी सादर करचे.

(फ्रोयलान माशाद)
विभाग अधिकारी
शिक्षण संचालनालय
पणजी.

प्रती धाडल्यात :

१. संबंदीत शिकोवप्यांक.
२. मुख्याध्यापक, स. मु. वि. बोकडबाग / नुवें / वाळपय / माजोड्डें.
३. भाग शिक्षणाधिकारी फोंडें / साश्ट / सत्तरी.
४. पालवी संचालक, शिक्षण संचालनालय (प्रशासन), पणजी.
५. लेखा विभाग, फोंडें / साश्ट / सत्तरी.

## • निलंबन आदेश

कोणाय व्यक्तीन / कामगारान, ताणें कामाचेर आसतना केल्ली चूक, आळसाय, बेजापसालदारपण, आगळीक, गैरवर्तणूक, भ्रश्टाचार हांकां लागून त्या कामगाराचेर चवकशी सुरू जाता. हे चवकशेचो अहवाल येमेरेन त्या कामगाराक कामावयल्यान निलंबीत करपाचो आदेश भायर सरता. ह्या निलंबन-काळांत त्या कामगारान कंपनीच्या/ कार्यालयाच्या नेमून दिल्ल्या अधिकाऱ्याक सद्दां वा थरोवन दिल्ल्या वेळाचेर सेगीत आनी नेमान येवन मेळपाचो आदेश जाता. तेचपरी ताका राबित्याची सुवात ना सोडपाचोय आदेश जावं येता. निलंबन काळांत ते व्यक्तीक पुराय पगार दिवप वा ना, वा फकत निलंबन-भत्तो दिवप हें ते व्यक्तीचेर आशिल्ल्या आरोपांचेर आनी कार्यालयाचो मुखेली / कंपनीचे जाळवणदार हांचे मर्जेचेर आनी कायद्यांचेर आदारून आसता. चवकशी अहवाल येतकच ताजेर निर्णय घेवन व्यक्तीक कामार परतून रुजू करून घेवप वा ताका बडतर्फ करप वा ताजी बदली करप वा ताका फावो ती कायदेशीर ख्यास्त फर्मावप ह्यो गजाली कंपनीचे / कार्यालयाचे नेम आनी अधिकाऱ्यांची मर्जी हांचेर आदारून आसतात.

नमुनो १

### संकल्प एक्स्पोर्ट्स प्रा. लिमिटेड

खोर्ली, म्हापशें

सं. नि / आ / ९७-९८ / १४ ता. २ सेतेंब्र, १९९८

सेवेक
श्री. कमलाकर परब
मालपें, पेडणें.

विशय : निलंबन आदेश

आतांमेरेन हातांत आयिल्ल्या अहवालाप्रमाण गैरवागणूक आनी बेजबाबदारपण हांचेविशींचे कितलेशेच आरोप तुमचेर आसात. ते सगले आरोप १४ आगोस्त, १९९८च्या आरोप पत्रावरवीं तुमकां कळीत केल्यात.

देखून, १४ सेतेंब्र '९८ ह्या दिसासावन तुमची सेवा निलंबीत करपाचो आदेश दितात.

निलंबन काळांत रु. २०००/- (दोन हजार फकत) इतलो भत्तो तुमकां मेळटलो.

तपासाच्या काळांत तपास-अधिकारी वा कंपनी हांचेकडल्यान धाडिल्लीं सगलीं पत्रां तुमकां सध्याच्या नाम्याचेर मेळटलीं.

तुमचो विस्वासू,
निशाणी
संचालक / वेवस्थापक

नमुनो २

## द जनता कोऑपरेटीव बँक

सांखळी.

१५ जुलाय, १९९८

सेवेक
श्री. गजानन हरमलकार
भायली पेठ, दिवचल.

तुमचे आड फाटल्या वर्सभरांत दादागिरी करप, कामगारांक मारपेट करप, अधिकाऱ्यांक गाळी संवप, काम करप ना अशे कितलेशेच आरोप लिखीत रुपांत पाविल्ल्यान, तुमचेर शिस्तभंग कारवाय करची पडटा.

बँकेचें काम सुरळीतपणान चलचें तशेंच शिस्तीन वेव्हार जावंचे देखून तुमची सेवा २० जुलाय ९८ सावन फुडल्या आदेशामेरेन निलंबीत जाता.

तुमचे चवकशेसंबंदान माहिती मेळोवपाचे नदरेन तुमी कामाच्या दिसांनी सद्दां सकाळीं ११-०० वरांचेर बँकेच्या मॅनेजराक मेळचें अशें ह्या पत्रावरवीं तुमकां कळीत करतात. तुमी ह्या आदेशावरवीं सद्दां हाजीर रावलेनात जाल्यार निलंबन-भत्तो बँकेच्या कायद्याप्रमाण तुमकां दिवपाक मेळचोना. तुमचेकडले सगले वेव्हार सुचोवणेच्या रुपान टपालांतल्यान जातले हें मतींत धरचें.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी
(नांव)
मॅनेजर

• **बडतर्फी आदेश**

कोणाय कामगाराची गैरहजेरी, बेजापसालदारपण, आगळीक, भ्रश्टाचार, गैरवर्तणूक, आळसाय, हातसून घडिल्ली अक्षम्य चूक आनी हेर कारणांखातीर ताका कामावयल्यान बडतर्फ करपी आदेश भायर सरता. सर्वसादारणपणान कायम-स्वरुपी सुवातेचेर आशिल्ल्या कामगाराक तीन म्हयने आदीं सुचोवणी दिवन आनी तत्पुरते सुवातेचेर कामाक आशिल्ल्या कामगाराक एका म्हयन्याची सुचोवणी दिवन (वा कांय फावटीं सुचोवणी दिनासतना लेगीत) कामावयल्यान बडतर्फ करूं येता. बडतर्फ जाल्ल्या कामगाराक, बडतर्फी कंपनीचे असहाय्यतेक लागून जाल्ली आसत (देखीक कंपनी दिवाळखोर जावप वा कामगार संख्येन गरजेपरस चड जावप बी) जाल्यार बडतर्फ कामगाराक लुकसाण-भरपाय भत्तो दिवपाची चाल आसा.

नमुनो १

संकल्प एक्स्पोर्ट्स प्रा. लिमिटेड

खोर्लीं, म्हापशें

सं. ब / आ / ९७-९८ / १ ता. १३ देझेंब्र, १९९८

सेवेक
श्री. कमलाकर परब
मालपें, पेडणें.

विशय : बडतर्फी आदेश

फाटले दोन म्हयने कामगार आयुक्त, गोंय सरकार हांणी कोर्टाच्या आदेशावयल्यान नेमिलो तपास-अधिकारी तशेंच कंपनी हांणी केल्ले तपासणेवयल्यान तुमचेर कंपनीन सं. नि. आ / ९७-९८/१४ ह्या क्रमांकाच्या २ सेतेंब्र, १९९८ ह्या दिसा तुमकां धाडिल्ल्या पत्रावरवीं केल्ले सगले आरोप सिद्द जाल्यात. हे तपासणेचो सगलो अहवाल ह्या आदेशावांगडा जोडला.

देखून कंपनीच्या हिताक लागून कंपनी तुमकां तुमचे नोकरेंतल्यान बडतर्फ करता. तुमची हे कंपनीकडली सेवा फाल्यांच्यान म्हळ्यार १४ देझेंब्र, ९८ सावन सोंपतली. कंपनीच्या नेमाप्रमाण तुमकां निलंबन-काळांतलो पगार आनी विमो तशेंच भविश्य-निर्वाह निधीच्या येवजणांचो लाव मेळटलो.

कंपनीखातीर आनी वेवस्थापनाचे वतीन,

तुमचो विस्वासू,
निशाणी
(वेवस्थापकी संचालक)

नमुनो २

## म्हापसा ग्राहक सहकारी सोसायटी मर्यादीत

खोर्लीं, म्हापशें.

सं: ब/आ/९७-९८/१ १६ ओतुब्र, १९९७

प्रति
श्री. दामोदर हळर्णकार
थिवी, म्हापशें.

आमी धाडिल्ल्या 'कारणां दाखयात' सुचोवणे-पत्राक तुमी दिल्ले जापेक धरून हें पत्र तुमकां धाडटात.

तुमचेर आशिल्ल्या आरोपांची चवकशी करपाचो कंपनीक पुराय अधिकार आसून लेगीत कंपनीन ॲड. निकोलस दीयश ह्या नि:पक्षपाती आदवोगादाक तुमची चवकशी करपी समितीचे अध्यक्ष म्हणून नेमिल्ले.

तांणी फाटले स (६) म्हयने तुमचेर आशिल्ल्या आरोपांची चवकशी केली आनी वेळा-वेळार तुमकां तुमचें म्हणणें मांडपाची संद लेगीत दिली.

तुमचेर आशिल्ले भ्रश्टाचाराचे तशेंच बेजापसालदारपणाचे आरोप सिद्ध जाल्यात आनी समितीन आपल्या अहवालांत तशें नमूद केलां.

देखून तुमचेवयलो विस्वास कंपनी वेवस्थापनान वगडायिल्ल्यान कामगार म्हणून तुमका पातयेवप कंपनीक शक्य ना. १६ ओतुब्र, १९९७ ह्या दिसा जाल्ले वेवस्थापन समितीचे बसकेंत ताका लागुनूच तशेंच चवकशी समितीच्या अहवालाक लागून तुमकां तत्काळ बडतर्फ करपाचो निर्णय घेतला.

तुमची सेवा १७ ओतुब्र १९९७ ह्या दिसाच्यान सोंपतली हें मतींत घेवंचें.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी
(नेमणूक अधिकारी)

## • थराव (Resolution)

थराव पत्राचो उपेग सरकारी नितीविशींच्या खाशेल्या धोरणा वेळार, चवकशी आयोगा वेळार वा तरेकवार समितींच्या नेमणुकां वेळार करतात. हे प्रस्ताव राजपत्रांनी उजवाडाक हाडटात. हातूंत आयिल्ल्या विशयांची विस्तारान माहिती दिल्ली आसता. ह्या पत्रावरवीं आदेश लेगीत दिवं येता.

**नमुनो १**

क्रमांक १४/६/९३

### गोंय सरकार

**शिक्षण खातें,** पणजी, गोंय

ता. १४ आगोस्त, १९९४

### थराव

गोंय सरकार फाटल्या कांय म्हयन्यांसावन राजभास अंमलबजावणी पासत वावुरता. हेपासत जाणकारांची एक समिती वेंचून काडपाचें थरयलां. हे समितीन शासकी तशेंच बिगर शासकी अशे दोन प्रकारचे वांगडी आसतले. गोंय सरकाराचो प्रतिनिधी राजभास सल्लागार समितीचो अध्यक्ष आसतलो. ही समिती सकयल दिल्ल्या मुद्द्यांचेर वावर करतली.

१] राजभाशेंत पत्रवेव्हार करपापासत फावो तीं पावलां उबारप.

२] राजभाशेंत नव्या उतरांची निर्मणी करून तांकां फावो तो अर्थ दिवप.

निशाणी
(शशिकांत सुर्वेकार)
जोड सचीव,
गोंय सरकार

## • इतिवृत्त (Minutes of the Meeting)

खंयचेय बसकेची इत्थंभूत, खोलायेन आनी वास्तवीक माहिती दिवपी बसकेच्या सचिवान केल्लें बरप म्हळ्यार 'बसकेचें इतिवृत्त'. बसकेचें इतिवृत्त हो एक दस्तावेज (document) आशिल्ल्यान तें बरोवपी सचिवाक भोवच म्हत्व आसता. बसकेंत घडिल्ले चर्चेचो सारांश तो बरोवन काडटा. बसका चलता आसतना कोण किदें उलयता तें नोंद करून घेवप आनी मागीर त्या नोंदींच्या आदारान विस्तृत इतिवृत्त बरोवन काडप अशी चाल आसा. बसकेंत जायते फावटीं झगडीं जातात, मतभेद जातात, वांगडी एकामेकांचेर आरोप करतात. पूण बसकेचें इतिवृत्त बरोवपी सचिवान मात सत्य बरयता आसतनाच अश्लील, अपमानास्पद आनी तोंकाचे उल्लेख टिपणांत हाडूंक जायनात. तशेंच, टिपण हें खंयचेय एके वटेचें/पक्षाचें मत मांडपी आसूंक फावोना. तें निरपेक्ष आनी निश्पक्ष आसूंक जाय.

बसकेच्या इतिवृत्ताभितर सकयल दिल्ल्या गजालींचो आसपाव आसप गरजेचें.

१) बसकेचें नांव.
२) बसकेची तारीख, वार, थळ आनी वेळ.
३) अध्यक्षाचें नांव.
४) बसकेंत हाजीर आशिल्ल्या वांगड्यांची संख्या आनी नांवां.
५) खासा निमंत्रीत आसत जाल्यार तांचीं नांवां.
६) विशय आनी प्रस्ताव (motion)
७) थराव (resolution)
८) थराव कसो पारीत जालो, ताजी माहिती (मतदानांतल्यान / बिनविरोध आदी)
९) अध्यक्षांची निशाणी आनी तारीख (उजवे वटेन)
१०) सचिवाची निशाणी आनी तारीख (दावे वटेन)

### इतिवृत्त लिखाण

शासकी वा हेर पांवड्याचेर वावर करतल्या संस्थांक, कारभारी लोकांक तरेकवार कारणांक लागून इतिवृत्त बरोवंचें पडटा.

इतिवृत्त लिखाणापासत सभा म्हत्वाची आसता. थरयिल्लो हेत सादून घेवपापासत कायद्यान बसता तशें दोन वा अदीक मनशांनी एकठांय येवप हाका सभा म्हणटात. सभेचें नांव, संस्थेचें नांव, दीस, वेळ, सुवात, सभेचो अध्यक्ष, सभेपासत हाजीर रावपी वांगड्यांचीं नांवां, खासा निमंत्रिताक जर आपयला आसत जाल्यार ताजें नांव, विशय, प्रस्ताव, सभेची सुचोवणी, विशय वळेरी, गणआंकडो, थराव बी म्हत्वाचे आसतात.

कायद्याक धरून सभेची सुचोवणी दिवन तातूंत विशय वळेरी दिवपाची आसता.

थरयिल्ल्या दिसाच्या कांय दीस आदीं ही सुचोवणी दिवपाची आसता. ताजेर जापसालदार अधिकाऱ्याची निशाणी आसप गरजेचें आसता.

सुचोवणी आनी विशय वळेरेची माहिती दिवप ही एक जापसालदारकी आसता. सचीव बसकेचें इतिवृत्त बरयता. सभेंतले विशय नेमांक धरून आनी घडल्यात तशे बरोवन काडून सभेच्या अध्यक्षांची तारखेसकट निशाणी उजवे वटेन घेवन ताणें आपणें दावे वटेन निशाणी करून तारीख घालची आसता. सभेचे सुरवातीसावन सभा सोंपमेरेन घडिल्ल्या घडितांचो तातूंत उल्लेख आसचो. तें पुराय आसचें; जशें घडलां तशें आसचें. भास नितळ, स्पश्ट आनी सभ्य आसची. मतींत दवरपाक जाय तें म्हळ्यार इतिवृत्त एक म्हत्वाचो कारभार आसता. कायद्याप्रमाण इतिवृत्त नीट बरोवन जातकच अध्यक्षाची निशाणी घेवंकूच जाय. इतिवृत्ताखातीर वेगळी पटी दवरपाची चाल आसा. हे पटयेच्या दरेका पानाचेर लेगीत अध्यक्षान आद्याक्षर-निशाणी करपाक जाय.

नमुनो १

नवनीत कला संघ सांखळी हे संस्थेची कार्यकारी मंडळाची बसका बिरेस्तार १२ जुलय १९८८ दिसा सकाळीं १०-०० वरांचेर संस्थेचें कार्यालय गोकुळवाडी-सांखळे जाली. ह्या वगतार सकयल दिल्ले वांगडी हाजीर आशिल्ले.

| | | |
|---|---|---|
| १. | आनंद शाबी नायक | अध्यक्ष |
| २. | दिवाकर च्यारी | सचीव |
| ३. | सचीन सावळ | वांगडी |
| ४. | श्याम गांवकार | '' |
| ५. | प्रदीप गांवकार | '' |
| ६. | अजय सावळ | '' |
| ७. | नरेश जल्मी | '' |
| ८. | सुहास मायणीकार | '' |

बसकेमुखार आयिल्ल्या विशयांचेर सकयल दिल्लेप्रमाण निश्चेव करून सगल्यांचे मान्यतायेक प्रस्ताव मानून घेतले.

प्रस्ताव १ : फाटले बसकेचो नियाळ वाचून मानून घेवप<br>
थराव : फाटले बसकेचो नियाळ वाचून मानून घेतलो.<br>
सुचक : सचीन सावळ<br>
अनुमोदक / तेंको दिवपी : श्याम गांवकार

प्रस्ताव २ : कला अकादमींत नाटक सादर करपा संदर्भात

थराव : चालू वर्सापासत कला अकादमींत नाटक सादर करपा संदर्भात विचार मानून घेतलो.

मांडपी : प्रदीप गांवकार

तेंको दिवपी : नरेश जल्मी

प्रस्ताव ३ : वाचपघर सुरू करपाविशीं

थराव : संस्थेचें एक वाचपघर सुरू करचें असो थराव जालो.

मांडपी : सुहास मायणीकार

तेंको दिवपी : अजय सावळ

बसकेमुखार हेर कसलोच विशय येवंक नाशिल्ल्यान बसका सोंपली.

| निशाणी | निशाणी |
|---|---|
| (सचीव) | (अध्यक्ष) |
| तारीख | तारीख |

नमुनो २

चवाठो क्रिडा आनी संस्कृतीक संघ, मयें झरवाडो, हांची म्हयनाळी बसका ता. २० सेतेंब्र, ९८ दिसा सकाळीं १० वरांचेर संस्थेच्या कार्यालयांत घडोवन हाडिल्ली. ते बसकेक हाजीर आशिल्ले वांगडी :

| | | |
|---|---|---|
| १. | तुळशीदास जयदेव कुडासकार | अध्यक्ष |
| २. | जितेंद्र नारायण वेळगेंकार | सचीव |
| ३. | सुशांत दामोदर साळगांवकार | भांडारी |
| ४. | संदीप गांवकार | वांगडी |
| ५. | शैलेश गांवकार | वांगडी |
| ६. | जगन्नाथ ठाणेकार | वांगडी |
| ७. | कुमार नायक | वांगडी |
| ८. | विजय नाडकर्णी | वांगडी |

हे बसकेमुखार येवपी विशय ता. ५ सेतेंब्र ९८चे सुचोवणेप्रमाण घेवन तांचेर भासाभास करून एकमतान हे विशय मानून घेतले.

प्रस्ताव १ : फाटले बसकेचो नियाळ वाचून मानून घेवप.

थराव : फाटले बसकेचो नियाळ वाचून मानून घेतलो.

सुचोवपी : विजय नाडकर्णी.

ानुमोदक : कुमार नायक

ास्ताव २ : संघाचो वर्सुकी क्रिडा आनी संस्कृतीक मेळ घडोवन हाडपासबंदान.

ाराव : संघाचो वर्सुकी क्रिडा आनी संस्कृतीक मेळ १९ देझेंब्र ह्या दिसा घेवंचो हो थराव मानून घेतलो.

ाुचोवपी : संदीप गांवकार

अनुमोदक : शैलेश गांवकार

प्रस्ताव ३ : संघाचे वतीन अखिल गोंय टॅनिस बॉल क्रिकेट सर्त आयोजीत करपानिमतान.

थराव : संघाचे वतीन पयलेच फावट अखिल गोंय टॅनिस बॉल सर्त मार्स म्हयन्याचे अखेरेक गांवच्या खेळांमळार घडोवन हाडची. हे पासतचो खर्च ''अजय जडेजा सॉ मिल'' हांणी दिवपाचें थरयलां. हो थराव मानून घेतलो.

सुचोवपी : जगन्नाथ ठाणेकार

अनुमोदक : सुशांत साळगांवकार

हेर कसलोच विशय येवंक नाशिल्ल्यान ही बसका ११-३० वरांचेर सोंपली. अखेरेक संघाचे सचीव जितेंद्र वेळगेंकार हांणी सगल्यांचे उपकार मानले.

| निशाणी | निशाणी |
|---|---|
| (जितेंद्र नारायण वेळगेकार) | (तुळशीदास जयदेव कुडासकार) |
| सचीव | अध्यक्ष |

नमुनो ३

'दायजमाची', शिरगांव-अस्नोडें हिजी सप्तकी बसका ता. २ माय, ९८ दिसा सांजे ४-०० वरांचेर संस्थेच्या कार्यालयांत जाली. हे बसकेक हाजीर आशिल्ले वांगडी अशे :

| | | |
|---|---|---|
| १. | नीता म्हांबरे | अध्यक्ष |
| २. | अनिरुद्ध राऊळ | सचीव |
| ३. | राजदीप नायक | भांडारी |
| ४. | प्रणव मयेंकार | वांगडी |

| | | |
|---|---|---|
| ५. | स्मीता भगत | वांगडी |
| ६. | कमल गांवस | वांगडी |
| ७. | दया नायक | वांगडी |
| ८. | लुमिनिया लोबु | वांगडी |

बसकेमुखार आयिल्ल्या विशयांचेर निश्चेव करून सगल्यांचे मान्यतायेन प्रस्ताव मानून घेतले. सगल्यांत सुरवातीक फाटले बसकेचें इतिवृत्त सगल्यांनी मानून घेतलें.

विशय : 'दायजमाची' चो वर्सुकी साहित्यमेळ घडोवन हाडपा संबंदान प्रस्ताव. 'दायजमाची'चो वर्सुकी साहित्यमेळ येता त्या नोव्हेंब्राचे १५ तारखेर घेवंचो अशें सगल्या वांगड्यांनी थरयलें. हो मेळ येसस्वी करपाक मुखावयले बसकेंत तरेकवार समित्यो काडच्यो अशें थरलें.

मांडपी : राजदीप नायक

तेंको दिवपी : प्रणव मयेंकार

विशय : 'दायजमाची'चे वतीन अखिल गोंय कविता वाचन सर्त घडोवन हाडप, हो प्रस्ताव.

थराव : 'दायजमाची'चे वतीन माय म्हयन्यांत अखिल गोंय कोंकणी काव्यसर्त ९८ घडोवन हाडची अशें थरलें. हेपासत नेम आनी अटी कोंकणी भाशा मंडळाच्यो पाळच्यो आनी इनामांच्या रुपान पयलें, दुसरें आनी तिसरें अशे रु. १५०/-, १००/- आनी ७५/- दिवंचे अशें थरलें.

मांडपी : स्मीता भगत

तेंको दिवपी : कमल गांवस

विशय : 'दायजमाची' संस्थेक बारा वर्सां पुराय जातात ते निमतान 'तपपूर्ति' यादस्तीक काडपा संबंदान प्रस्ताव.

थराव : वयल्या विशया संदर्भात 'तपपूर्ति' नांवाचें यादस्तीक उजवाडाक हाडचें; जायरात रुपान सुमार एक लाख रुपया एकठांय करचे आनी ते पयशे कायम थेव दवरून त्या कळंतरांतल्यान वर्साक दोन कार्यावळी घडोवन हाडच्यो अशें थरलें.

मांडपी दया नायक

तेंको दिवपी लुमिनिया लोबु.

अध्यक्षांचे परवानगेन अनिरुद्ध राऊळ हाणें एक विशय मांडलो तो असो :

विशय : 'दायजमाची'चे वतीन अंदू वर्सा कला अकादमीचे कोंकणी नाट्य सर्तींत वांटो घेवचो.

थराव : 'दायजमाची'चे वतीन अंदू वर्सा कला अकादमी पणजेचे कोंकणी नाट्य सर्तींत वांटेकार जावंचें, जाचेवरवीं थळाव्या नाट्य कलाकारांक वाव मेळटलो अशें थरलें.

मांडपी : अनिरुद्ध राऊळ

तेंको दिवपी : दया नायक

ही बसका सांजे ५ वरांचेर सोंपली.

| निशाणी | निशाणी |
|---|---|
| अनिरुद्ध राऊळ | नीता म्हांबरे |
| सचीव | अध्यक्ष |

## • टिपण (Noting)

कार्यालयांत येवपी दरेका पत्राचेर वा अर्जाचेर शेरो मारून तें पत्र वा तो अर्ज संबंदी अधिकाऱ्याकडेन फुडले कारवायेखातीर धाडपाचे चालीक टिपण अशें म्हणटात. लिखीत, अवरलिपीक अशे रितीन टिपण वयर वयर वता.

टिपणाची भास मोटवी आसपाक जाय. तशेंच दुबावी आनी घुस्पागोंदळाची भास टिपणांत वापरूंक जायना. टिपणाची भास अलंकारीक आसूंक फावोना. तशेंच टिपण करतनाची भास सभ्यतायेक धरून आसप गरजेचें. टिपण व्यक्ती-निरपेक्ष आसचें.

टिपण करपाचो उद्देश म्हळ्यार कसल्याय पत्राची वा अर्जाची माहिती वरिश्ठ अधिकाऱ्यामुखार दवरप. टिपण हें कार्यालयीन प्रक्रियेचोच एक वांटो. टिपण कशें बरोवंचें, कोणें बरोवं येता हे संबंदींचे अधिकार थरिल्ले आनी पदसिद्ध आसतात. चडशे फावटीं खात्याचो पालवी अधिकारी टिपण बरयता.

टिपण बरोवपाचे जायते प्रकार आसात:

१) **मोटवें टिपण** (Short Noting): कार्यालयांत आयिल्ल्या सगल्या पत्रांचेर तें पत्र खंयच्या विभागाक/खात्याक/फांट्याक वचपाक जाय तें सुचोवपी अधिकाऱ्याचो शेरो म्हळ्यार 'मोटवें टिपण'.

२) **सादें टिपण** (Simple noting): आयिल्ल्या कार्यालयीन पत्रांचेर 'पळयलां', 'बरें आसा', 'मानून घेतां', 'गरज ना', अशे तरेचे शेरे मारपाचे प्रक्रियेक 'सादें टिपण' अशें म्हणटात.

३) **पुराय टिपण** (Full noting): खंयच्याय विशयाचेर पुराय रितीन अभ्यास केले उपरांत केल्ल्या नियाळात्मक बरपाक पुराय टिपण म्हणटात.

४) **विभागी टिपण** (Sectional noting): तरेकवार विभागांनी/फांट्यांनी दिल्ल्या शेऱ्यांचेर आदारून निमाणें सार काडपी बरप म्हळ्यार विभागी-टिपण.

५) **चालंत टिपण** (Routine noting): दीसपट्ट्या वावरांत मारपाचे शेरे म्हळ्यार चालंत टिपण.

६) **अनुपचारीक टिपण** (Unofficial noting): हीं टिपणां जाण करून दिवपा-घेवपापासत वा माहिती दिवपा-घेवपापासत दुसऱ्या विभागांत / फांट्यांत / खात्यांत धाडूं येतात.

७) **प्रसंगीक टिपण** (Contingent noting): मुखेल वा मुळाव्या टिपणाचो वांटो म्हणून हें टिपण उपकारायतात.

अशे रितीन कार्यालयांत येवपी पत्रांचेर कार्यालयाचे स्वतंत्र गरजेखातीर तयार करतात त्या बरपाक टिपण म्हणटात. कार्यालयांत पत्र येतसावन ताजेर निमाणी कारवाय जायमेरेन जी बरपावळ सुचोवण्यो, अभिप्राय, संकेत, निर्देश वा तथ्य सांगपासंबंदान येता तेंच टिपण. टिपण बरोवपी मनशाक आपल्या कार्यालयाच्यो रिती, विंगड-विंगड अधिकाऱ्यांचे अधिकार हांचेविशीं माहिती आसप गरजेचें.

## टिपणाचे उद्देश

१) विशय स्पश्टपणान मांडपी मुद्दे थोडेंभितर अधिकाऱ्यामुखार दवरप.
२) कसल्याय विशयासंबंदान पयलींच कसलोय निर्णय घेवपाचो आसल्यार तो कळीत करप.
३) कसल्याय विशयाचेर आपलें मत परगटावप.
४) कार्यालयीन काम पुराय करप.

## कार्यालयीन टिपण

नमुनो १

उदका-पुरवण खात्यांत कारकुनाचे नोकरेखातीर कु. विश्रांती तळपणकार हिणें अर्ज केला. तुमी त्या कार्यालयांत कारकून आसात अशें समजून एक कार्यालयीन टिपण तयार करात.

शिंपणावळ विभाग
उदका पुरवण खातें,
पणजी

(१) उपकार करून विश्रांती तळपणकार हिणें ता. २५ सेतेंब्र, ९६ ह्या दिसा दिल्लो अर्ज पळोवंचो.

(२) ह्या संदर्भात आमी दै. सुनापरान्त हातूंत ता. २० सेतेंब्र, ९६ ह्या दिसा दिल्ली ही जायरात कारकुनाचे सुवातेपासत आशिल्ली.

(३) हे जायरातीक धरून विश्रांती तळपणकार हिणें अर्ज केलो आनी आमी मागयल्लीं सगलीं प्रमाणपत्रां तिजेलागीं आसात.

(४) तेचप्रमाण कारकुनाचे सुवातेपासत जाय आशिल्ले गूण तिजेभितर आसात अशें तिणें दिल्ल्या प्रमाणपत्रांच्या आदारान दिसता.

(५) विश्रांती तळपणकार हिजो अर्ज मतींत दवरून फुडली कारवाय अधिकाऱ्यान करची.

(६) अधिकाऱ्याची मान्यताय मेळटकच विश्रांती तळपणकार हिका कामार घेवप वा ना घेवप तें थरतलें.

२६ सेतेंब्र, ९६

निशाणी (अधिकाऱ्याचें पद)
शिंपणावळ विभाग
उदका पुरवण खातें
शिंपणावळ विभाग

नमुनो २

वीज-खात्यांत काम करपी तुकाराम नायक हाणें भलायकेच्या कारणाक लागून एका म्हयन्याची रजा मागल्या. ते संबंदीचें टिपण तयार करात.

पालवी संचालक,
वीज खातें.

६ फेब्रेर, १९९८

मुखेल अभियंतो,
वीज खातें.

१) श्री. तुकाराम नायक हाज्या नांवार ४५ दिसांची रजा बाकी आसा.

२) रजेखातीर ताणें दिल्लो वैजकी दाखलो सरकारी मान्यताय नाशिल्ल्या खाजगी दोतोराचो आसा. देखून तो गृहीत धरपाक येना.

३) श्री. तुकाराम नायक हो कार्यालयांत नेमान येवपी लिपीक. हाजेआदीं दीर्घ मुजतीची सोड ताणें दोन वर्सां आदीं घेतिल्ली.

४) श्री. तुकाराम नायक हाणें सरकारमान्य अधिकृत दोतोराचो वैजकी दाखलो हाडटकच ताजी रजा मंजूर करूं येता.

५) योग्य कारवाय करची.

निशाणी
(पालवी संचालक)
वीज खातें

मुनो ३

ुडयचे 'प्रसाद कॅमिकल्स' हे फॅक्टरींत कामाक आशिल्लो नामदेव नायक हो परतून रतून रजेर वता. ताचे संबंदान आतांमेरेन आयिल्ल्या कागाळींवयल्यान ताका ामावयल्यान काडून उडोवंचो म्हणून एक टिपण तयार करात.

पालवी संचालक,
प्रसाद कॅमिकल्स,
६ फेब्रेर, १९९८

भौ. संचालक,
प्रसाद कॅमिकल्स,
फर्मागुडी

१) श्री. नामदेव नायक हाजी कार्यालयांतली वागणूक बेशिस्तीची आसा.

२) ताजेआड आतांमेरेन लिपीक कारकून तशेंच अवर सचीव हांचेकडल्यान कागाळी आयल्यात. (६ जानेर ९८ आनी ५ मार्स ९८ ह्या तारखांची तांची कागाळ पत्रां पळोवंचीं).

३) ह्या वर्सा आतांमेरेन ताणें १७ दिसांची रजा घेतल्या. कायद्याप्रमाण ताका फकत १५ दिसांची रजा घेवंक मेकळीक आशिल्ली.

४) आपले गैरहजेरेचें ताणें कांयच स्पश्टीकरण वा कारण दिवंक ना.

५) फाटल्या सप्तकांत आपली रजा मंजूर जावंक ना, हें कळटकच ताणें अवर-सचिवाक ताज्या कार्यालयांत वचून वायट उतरां दिलीं आनी ताजो अपमान केलो.

६) श्री. नामदेव नायक हाज्या वाट्याचें काम तशेंच पडून आसा.

७) ह्यो सगल्यो गजाली मतींत घेवन श्री. नामदेव नायक हाका कामावयल्यान काडून उडोवं येता.

८) श्री. नामदेव नायक हो दोन वर्सांचे तत्पुरते सुवातेचेर कामाक आसा. ताजे सेवेक ८ फेब्रेर १९९८ ह्या दिसा एक वर्स पुराय जाता.

९) फावो तो निर्णय घेवंचो.

निशाणी
(पालवी संचालक)
प्रसाद कॅमिकल्स

नमुनो ४

श्री. अर्जून पेडणेकार हो गोंयांतलो एक नामनेचो खेळगडो. गोंय सरकारान 'क्रिकेट-श्री' ह्या पुरस्काराखातीर ताजी शिफारस केल्या. ताजेसंबंदान टिपण तयार करात.

पालवी संचालक
खेळां खातें,
गोंय सरकार,
६ फेब्रेर, १९९८

भौ. संचालक
खेळां खातें

१) श्री. अर्जून पेडेकार हो फाटलीं १४ वर्सां क्रिकेट खेळाच्या मळार योगदान दीत आसा.

२) पिरायेच्या १३व्या वर्सासावन ताणें विंगड विंगड क्रिकेट सर्तींनी वांटो घेतला आनी इनामां जोडल्यांत.

३) सेगीत तीन वर्सां गोंयच्या क्रिकेट पंगडाचें फुडारपण ताणें केलां.

४) रणजी पंगड, अस्तंत भारत क्रिकेट पंगड तशेंच १८ वर्सां पिरायेच्या भारतीय क्रिकेट पंगडाचें वांगडीपद जोडलां.

५) ताजी पिराय २८ वर्सां आनी पुरस्कार जोडपाखातीर आशिल्ल्यो अटी तो पुराय करता.

६) आतांमेरेन आयिल्ल्या खेळगड्यांच्या शिफारशींची पळोवणी करतकच श्री. अर्जून पेडणेकार हाजी शिफारस अणभव आनी प्राविण्य हांचे नदरेन उजवी थरता.

७) खेळांभळावयलो एकूय राज्य पांवड्यावयलो पुरस्कार ताका आजून मेळूंक ना.

८) ह्यो सगल्यो गजाली पळयतकीच 'क्रिकेट-श्री' पुरस्काराखातीर ताका वेंचून काडूं येता.

९) फावो तो निर्णय घेवंचो.

निशाणी
(पालवी संचालक)
खेळां खातें
गोंय सरकार

- अहवाल

कार्यालयीन वेव्हारांत (संस्थेच्या वा कार्यालयाच्या) अहवालाक भोवच म्हत्व आसता. अहवाल म्हळ्यार संस्थेच्या वर्सुकी वा म्हयनाळ्या वावराची माहिती. ती सत्याक धरून आनी संस्थेच्या / कार्यालयाच्या नेमांक धरून आसची पडटा. अहवालांतल्यान कार्यकारी समितीचें प्रामाणीकपण, सचोटी, काम करपाफाटली तळमळ आनी घेतिल्ले कश्ट दिश्टी पडटात. देखून पयशांचो हिशोब (ऑडिट केल्लें अर्थीक-खर्चाचें पत्रक), वावराची माहिती संस्थेच्या / कार्यालयाच्या अध्यक्षाक / मुखेल्याक सगल्यांमुखार दवरची पडटा. अहवाल हो एक भौशीक दस्तावेज आशिल्ल्यान तातूंत तर्कशुद्धताय, भाशेचें ज्युस्ताज्युस्तपण आनी कायदेशीरपण पाळप म्हत्वाचें आसता. अहवालांतल्यान संस्थेन / कार्यालयान केल्ली उदरगत / सादिल्लें उद्दिश्ट हांचेविशीं माहिती दिवपावांगडाच संस्थेचे / कार्यालयाचे फुडारांतले संकल्प किदें आसात ताजी घोशणा लेगीत जावं येता. अहवाल हो अध्यक्षान वा कार्यालयाच्या मुखेल्यान / सचिवान सादर करपाचो आसता. कांय फावटीं शासकी वा बिगरशासकी संस्था, कसलेय घडणुकेविशीं चवकशी वा सुचोवणी दिवपी अहवाल मागपाखातीर एके व्यक्तीची वा कांय व्यक्तींची समिती घडयता. तेन्ना नेमून दिल्ल्या वेळांत ते समितीचो अध्यक्ष / निमंत्रक / मुखेली तो अहवाल संबंदितांक सादर करता.

नमुनो १

# विर्डी ग्राहक सहकारी सोसायटी लिमिटेड
विर्डी

## संचालक मंडळाचो अहवाल १९९४-९५

मानादीक वांगडी, भावांनो आनी भयणींनो,

आमचे संस्थेचो सवो वर्सुकी अहवाल ता. ३१ मार्स, ९५ मेरेनचें वेपारी पत्रक, फायदो-लुकसाण पत्रक आनी ताळेबंद पत्रकाबरोबर सादर करपाक आमकां व्हड खोस भोगता.

संस्था आपल्या कामकाजाचें पांचवें वर्स ३० जानेर, ९६ दिसा पुराय करतली. ह्या काळांत वांगडी आनी गिरायक हांचो वांटो आनी सहकार्य ह्यो दोनूय गजाली संस्थेक लाबल्यात. देखून संस्था वेवस्थीत रितीन विकास करूक शकली. फाटल्या वर्सा गिरायकांची सदांची सरासरी संख्या ५३५ आसली जाल्यार ९५-९६ वर्सा तीच संख्या १८४० वयर पाविल्ली आसा. तशेंच फाटल्या वर्सा दीसपट्टी विक्री सरासरी रु. ६७,७७०.०० आसली जाल्यार ह्या वर्सा सरासर विक्री रु. ८८,६५०.०० मेरेन वाडिल्ली आसा.

सकयल दिल्ल्या आंकड्यांवयल्यान संस्थेच्या फाटल्या दोन वर्सांचे उदरगतीपरस ह्या वर्सा सर्वांगीण उदरगत चड जाल्ली दिसता.

| अनु.क्र. | | १९९४-९५ | ९३-९४ | ९२-९३ |
|---|---|---|---|---|
| १. | वांगडी आंकडो | १६.८५ | १४.७० | १२.८२ |
| २. | भाग भांडवल | ४.३९ | २.९१ | २.४१ |
| ३. | विक्रेची उलाढाल | २५८.०२ | २१३.१९ | १७८.११ |
| ४. | दिवपा आशिल्लीं रिणां | ८.०९ | ७.३३ | १.९८ |
| ५. | वेपारी फायदो | १५.३१ | १७.१९ | १६ ९६ |
| ६. | निव्वळ फायदो | १.४२ | २.९२ | ५.३६ |

(सगल्यो संख्या लाखाच्यो)

संस्थेच्या दीसपट्ट्या कामकाजांत सगल्या संचालकांची जागृताय आनी देखरेख हांकां लागून संस्थेचे विक्रेचें प्रमाण वाडलें आनी हाका लागून संस्थेच्या दीसपट्ट्या वेव्हाराक थिराय मेळिल्ली आसा.

फाटल्या वर्साभाशेन ह्या वर्सा लेगीत आमची संस्था थळाव्या लोकांकडल्यान घरावे खाद्यपदार्थ आनी मसालो आदींची विक्री करीत आसा. हाका लागून ती जायत्या तरणाट्याक आनी बायलांक एके तरेन आपरोजगार मेळोवन दीत आसा.

हेपयलीं थरिल्लेप्रमाण दिवचल म्हालांतल्या लागींच्या आनी गांवगिऱ्या वाटारांनी संस्थेचे फांटे उगडपाच्या आमच्या धोरणाप्रमाण चालू वर्सा मयें आनी सर्वण संस्थेचे फांटे उगडल्यात. तेचपरी सांखळे, मावळिंग्यां, साळांत, पर्रा आनी हेर भागांनी लोकांच्यो गरजो भागोवपापासत फांटे उगडपाचे नदरेन जागो सोदपाचें काम चालू आसा. फावो ती सुवात मेळटकच थंय लेगीत गिरायकांक उपेगी वस्तू वितरणाचें काम हातांत घेतले.

**शासकी संस्थांक म्हालपुरवण येवजण :** आमचे संस्थेचे वतीन फाटल्या वर्साभाशेनूच शासकी आनी निमशासकी संस्थांक लागपी खाद्यपदार्थ आनी हेर वस्तूंची पुरवण करपाचें काम चालू आसा. ह्या वर्सा रु. २८.४८ लाख मोलाचो म्हाल विकला.

**अर्थीक घोळणूक :** फाटल्या वर्सा आमचे संस्थेचें भांडवल (भाग) रु. ३.६० लाख आसलें. ह्या वर्साचे अखेरेमेरेन रु. ४.३९ लाख भाग भांडवल जमा जाल्लें आसा. संस्थेच्यो कायम थेवो ३१ मार्स, ९४ अखेरेक रु. १५.०० लाख आसल्यो. ह्या वर्सा संस्थेन आनीक रु. ५.०० लाख कायम थेव्यांत गुंथयल्यात आनी आतां आमचो गोवा सहकारी बँकेकडेन वट्ट कायम थेवो रु. २०.०० लाख इतलो जाल्लो आसा. तेखेरीज फाटल्या वर्सा आमी 'एसबीआय' म्युच्युअल फंडांत रु. २.०० लाख कायम गुंथयल्ले आसात.

चालू वर्सा आमचे संस्थेन रु. ८५८.०२ लाखांचे विक्रेची उलाढाल करून रु. १५.३१ लाखांचो वेपारी फायदो मेळयल्लो आसा. तशेंच, ह्या वर्सातल्या वेवस्थापकी खर्चाची आनी गरजेच्या गजालींची तरतूद उणी करून निव्वळ फायदो रु. १.४२ लाख इतलो जाल्लो आसा.

**हिशोब तपासणी :** संस्थेची १९९४-९५ वर्साची हिशोब तपासणी जावंची आसा.

**नोकरवर्ग :** संस्थेचे संचालक आनी नोकरवर्ग हांचे संबंद बरे आसात. संस्थेची ह्या वर्सा जाल्ली उदरगत ही कामगारांची निश्ठा, कश्ट आनी आदार हांचें फळ. हाजी दखल म्हणून संचालक मंडळान ह्या वर्सा लेगीत कामगार राज्य विमो येवजण तशेंच सामान्य विमो कंपनीकडेन Group Gratuity Scheme खातीर सबंद वर्साचो प्रिमियम भरला. तशेंच, लायक आनी पात्र अशा कामगारांक अंतर्गत बडटी दिल्ली आसून, आमी भायल्यान वयल्या जाग्यांखातीर भरती केलिना. ह्यो सगल्यो गजाली मतींत दवरतना संचालक मंडळाक विस्वास आसा, हेफुडें लेगीत कामगार खूब जागृतायेन, जतनायेन अशें काम करून संस्थेच्या विकासाखातीर आदार दितले.

संस्थेचें संचालक मंडळ १९९४-९५ वर्सा जाल्ल्या फायद्याची विभागणी सकयल दिल्ले रितीन करपाची शिफारस करता.

| | १९९४-९५ | १९९४-९५ |
|---|---|---|
| निव्वळ फायदो | | १,४१,६६८.३८ |
| वजा आयकर (येणावळ कर) | | ——— |
| उरिल्लो आनी वांटणेखातीर आशिल्लो फायदो | | १,४१,६६८.३८ |
| अ] कायदेशीर फायद्याची वांटणी | | |
| १) राखीव निधी १०% | १४,१६७.०० | |
| २) भागभांडवलाचेर डिविडंड १२% | ४६,१५२.०० | |
| ३) डिविडंड समीकरण निधी (डिविडंडाच्या २%) | ८,७७४.०० | |
| ४) शिक्षण निधी २% | २,८३३.०० | |
| वट्ट (अ) | ७१,९२६.०० | ७१,९२६.०० |
| हेर वांटणेखातीर उरिल्लो फायदो | | |
| १) उरिल्ल्या कायद्याची घटने रितीन वांटणी | | |
| १) इमारत निधी २५% | १७,४३६.०० | |
| २) दर चडप-देंवप निधी २०% | १३,९४८.०० | |
| ३) शिल्लक म्हाल घसरण निधी १०% | ६,९७४.०० | |
| ४) धर्मादाय निधी १५% | १०,४६१.३८ | |
| ५) हेर निधी (सर्वसादारण सभेच्या थरावान) | २०,९२३.०० | |
| वट्ट (ब) | ६९,७४२.३८ | ६९,७४२.३८ |
| वट्ट (अ) + (ब) | | १,४१,६६८.३८ |

**फुडली येवजण**: हेपयलीं सांगिल्ले रितीन, संस्थेचे वतीन दोन फांटे चालू वर्साच उगडिल्ले आसात. तशेंच हेर गांवगिऱ्या वाटारांनी लेगीत फांटे उगडपाचे नदरेन यत्न करीत आसात. आमचें संचालक मंडळ सगल्या प्रकारचीं धान्यां आनी तेलां थोक विक्रीखातीर मोट्या बाजारांतल्यान विकतीं घेवन, तातूंत योग्य आनी माफक दरान विक्री करपाचो विचार करीत आसा. आमचे संस्थेन फोटोकॉपी मारून विकतें घेतिल्लें आसून लोकांक फोटोकॉपी मेळोवपाखातीर फोटोकॉपी केंद्र सुरू केल्लें आसा. तशेंच आमी आमच्या भागधारकांच्या फायद्याक लागून दर एका खरेदी बिलाचेर

२% कमिशन दिवपाची कार्यावळ १८ जून ९४ सावन सुरू केल्ली आसा. तेभायर वांगड्यांकडल्यान उण्यांत उण्या ५०००/- रुपयांचे थेवे घेवन, तांकां प्रत्येक म्हयन्याक रु. ७५/- सूट दितात. ह्यो येवजणो सर्वसादारण सगल्याच वांगड्यांक आवडिल्ल्यो आसात. ह्या वर्साअखेर रु. ६,७५,०००.०० जमा जाल्ले आसून, आतांमेरेन रु.८,००,०००.०० जमा जाल्ले आसात.

**उपकार**: सगले वांगडी, गिरायकां, म्हालाची पुरवण करपी संस्था तशेंच संस्थेचो नोकरवर्ग आनी हेर खूब बरें मागपी हांचें सगल्यांचें तांच्या कार्याखातीर आनी तांचे सेवेखातीर संचालक मंडळ खूब उपकारी आसा. तशेंच, सहकारी खात्याचे रजिस्ट्रार, डॅप्युटी रजिस्ट्रार, सगले सहाय्यक रजिस्ट्रार, उत्तर विभागाचे स्पेशल ऑडिटर आनी तांचे सहकारी हांणी दिल्लो सहकार आनी मार्गदर्शनाखातीर खूब आभारी आसात. तशेंच, श्री. श्रीपाद परब, टॅक्स कन्सल्टंट आनी श्री. सदाशिव वझे, टॅक्स ऑडिटर हांणी वेळावेळार दिल्लो आदार आनी मार्गदर्शन आमी विसरचेनात. तशेंच 'ध म्हापसा अर्बन कोऑपरेटीव बँक' आनी 'ध गोवा स्टेट कोऑपरेटीव बँक' आनी तांचीं संचालक मंडळां आनी कर्मचारी हांणी दिल्ल्या सहकाराखातीर, अर्थीक आदार आनी मार्गदर्शनाखातीर आमी तांचे उपकारी आसात. आमकां पुराय आस्त आसा, वयल्यो सगल्यो व्यक्ती आनी संस्थांचो सहकार आनी आदार हेफुडें लेगीत चालू आसतलो आनी आमची संस्था ल्हवू-ल्हवू उदरगत करून एक दीस बळिश्ट जावन, सगले वांगडी आनी गिरायक हांची बरे तरेन सेवा करपाक तयार जातली.

जय हिंद, जय सहकार!

निशाणी
(अध्यक्ष)

नमुनो २

## शासकी म्हाविद्यालय
खांडोळें

# वर्सुकी अहवाल

शासकी म्हाविद्यालय खांडोळेंचें आनीक एक वर्स बरे तरेन व्हड उमेदीन आनी खोशयेच्या ल्हारांनी केन्ना पासार जालें हाजी जाणविकाय लेगीत उरलिना. ह्या वर्साक सैमाच्या सांगातान आनी पावसाचे मधूर झडींत ता. २० जून १९९५ ह्या दिसा प्राचार्यांनी भुरग्यांक आनी शिक्षकांक दिल्ल्या येवकाराच्या भाशणान सुरवात जाली.

कॉलेजीक सुरवात जावंचे पयलीं १९९४-९५ ह्या वर्साच्या तिसऱ्या वर्साच्या भुरग्यांचो निकाल जाहीर जालो आनी कला आनी विज्ञान फांट्यांचो निकाल समाधानकारक लागलो. म्हळ्यार, कला फांट्याचो ६०% निकाल लागून कोंकणी/मराठी विभागाच्या एका विद्यार्थ्याक पयलो वर्ग फावो जालो. विज्ञान फांट्याचो निकाल ८७% लागून इकरा भुरग्यांक पयलो वर्ग फावो जालो. पूण वाणिज्य फांट्याचो निकाल जितलो आमी हिसबाक धरिल्लो तितलोसो चड लागलोना.

आंतर म्हाविद्यालयीन भोवरंगी सर्तींनी तशेंच खेळांत विद्यार्थ्यांनी खूब इनामां जोडलीं.

गोंय विद्यापिठान घडोवन हाडिल्ल्या आंतर म्हाविद्यालयीन खेळां सर्तींनी आमचे कॉलेजीक धा पदकां फावो जालीं. इण्डीविजुअल ॲथलॅटीक चॅम्पियनशिपींत, क्लायड डॉरीस हाका एकवटीत वस्ताद म्हणून घोशीत केलो. लीना तिळवे हिका आंतर म्हाविद्यालयीन ज्युडो वस्तादपणांत तिसऱ्या क्रमांकाचें इनाम फावो जालें.

आमचें म्हाविद्यालय खेळांमळांर फाटीं ना हें दिसलें. वेगळ्या-वेगळ्या सर्तींनी वांटो घेवन इनामां जोडलीं तेन्ना कांय कांय खेळांच्या सर्तींनी आमची कॉलेज उपांत्य भोंवडेंत पावन हारली.

तेचप्रमाण आमचे कॉलेजींत लेगीत आंतरवर्ग खेळांसर्ती घडोवन हाडल्यात. आनी ह्या सर्तींक उत्स्फूर्त तेंको मेळ्ळो. चलयांनी लेगीत आपखोशयेन खेळांत भाग घेवन आपल्या वर्गाक जैत मेळोवन दिलें. तेचप्रमाण दोन दिसांचो ॲथलॅटीक मेळ घडोवन हाडलो. खेळां सर्ती घडोवन हाडपी खेळा-संचालकांची तोखणाय करीत तितलें थोडें. खेळां संचालक म्हणून डॉ. डे हांणी ही कामगिरी बरे तरेन सांबाळ्ळी.

तेचप्रमाण आमच्या म्हाविद्यालयान लिटरसी सर्तींनी भाग घेवन जायत्या विद्यार्थ्यांनी येस मेळयलें. भुरग्यांक जैतीवंत करपाक प्रा. इझाबेल डॅनीस, प्रा. अनिता कुमार आनी प्रा. प्रकाश वझरीकार हांचो हातभार लागलो.

समाजसेवा घडोवन हाडपाचें काम राष्ट्री सेवा येवजण करता आनी अंदू वर्सा राष्ट्री सेवा येवजणे खाला खूब म्हत्वाचीं कामां घडोवन हाडपाचें काम प्रा. प्रशांत चोडणकार हांणी खूब कश्ट घेवन केलें. तातूंतलीं म्हत्वाचीं कामां म्हळ्यार एड्स जागृताय सप्तक. धा दिसांचें वर्सुकी रक्तदान शिबीर आनी राष्ट्री सेवा येवजणेच्या आपवावुरप्यांनी आयोजीत केल्लो नितळसाणीचो कार्यक्रम.

प्रविण सवर्णकार, मिलींद आनी श्रुती तारी ह्या आमच्या कॉलेजीचे राष्ट्री सेवा येवजणेच्या तीन आपवावुरप्यांनी ऑल इंडिया लिडरशीप कॅम्पांत भाग घेवन इनामां जोडलीं.

चडशा सर्तींचीं सुत्रां विद्यार्थी मंडळान सांबाळ्ळीं आनी मंडळाचे अध्यक्ष प्रा. आर्लेम फेर्नांदीश हांच्या मार्गदर्शनाखाला सप्तरंगी संस्कृतीक कार्यावळी घडोवन हाडल्यो. तेचप्रमाण सातवो वर्सुकी 'म्हाविद्यालय दीस' ता. २३ देझेंब्र दिसा मुखेर सोयरे श्री. तोमाझिन्य कार्दोज तशेंच विद्यार्थ्यांच्या पालकांचे आनी शिक्षकांचे उपस्थितींत व्हड खोशयेन मनयलो. ह्या दिसाचो एक ओडलायणो भाग म्हळ्यार चान्याच्या शितळ सांगातांत मनयल्लो 'कॉलेज ऑर्केस्ट्रा'.

विद्यार्थ्यांचें कौतूक करचेपासत योगिता शेटये आनी स्वामीनाथन हांकां 'कॉलेजीचे ऑलराऊंड विद्यार्थी', जाल्यार क्लायड डॉरीस हाका बरो खेळगडो आनी दीपराज देसाय आनी फातिमा बालवट्टी हांकां तिनूय वर्सां बरो निकाल दाखयलो म्हणून इनामां दिलीं.

स्वामीनाथन आनी मिलींद हांणी जवाहरलाल नेहरू विद्यापिठान दिल्लीक आयोजीत केल्ल्या आंतर विद्यापीठ भासाभास सर्तींत वांटो घेतलो. तांकां प्रा. निलेश बोर्डे हांणी मार्गदर्शन केलें.

दर एका विभागाच्यो वेगळ्यो-वेगळ्यो सर्ती जाल्यो आनी विद्यार्थ्यांनी ह्या सर्तींचो फायदो घेतलो. तांचे बुद्दींत भर पडली. वाचपघर हें सरस्वतीचें मंदीर आनी सरस्वती मंदिरापासत आमी कांय फुलां म्हळ्यार पुस्तकां विकतीं घेतलीं. तेचप्रमाण आमच्या ज्ञानमंदिरांत, म्हळ्यार कॉलेजींत, अंदू प्रा. मारिना आल्बुकेर्क, प्रा. सुनेत्रा नार्वेकार आनी प्रा. निलेश बोर्डे ह्या शिक्षकांची भर पडली. ह्या वर्सा माय वा जून म्हयन्यांत आनीक चार शिक्षक आमचे कॉलेजींत भरती जावपाचे आसात.

गोंय विद्यापीठ शिक्षकांखातीर नवो अभ्यासक्रम तशेंच वेगळ्या-वेगळ्या प्रकल्पांचेर भासाभास करपाखातीर कांय वर्ग आयोजीत करता. आमचे कॉलेजीचे शिक्षक ह्या वर्गांक हाजीर रावले.

सवें वर्सुकी कॉलेज मॅगझीन अंदू उजवाडायलें. ह्या मॅगझिनाच्यो मुखेल संपादक, डॉ. उषा भेंडे आशिल्ल्यो. सातव्या कॉलेज मॅगझिनाचे संपादक म्हणून प्रा. महेश पै हांकां नेमल्यात.

म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार कॉलेजीच्यो परिक्षा आयोजीत करपाची जापसालदारकी प्रा. जोजफ हांणी बरे तरेन सांबाळ्ळी.

कॉलेजीच्या दरेका कार्यक्रमाक शिक्षकांच्यो तशेंच सगल्या विद्यार्थ्यांचो खूबसो हातभार लागलो. हाजेय फुडें तांचो सहकार असोच लाबतलो अशी आस्त करतात. तेचप्रमाण, तिसऱ्या वर्साच्या भुरग्यांक देव बरें करूं म्हणटां आनी परिक्षेंत तशेंच जिणेंत ते येसस्वी जावंचे अशें देवालागीं मागतां.

निशाणी

— **डॉ. जॉन बा. फेर्नांडीस**

प्राचार्य

नमुनो ३

## हेमाडबारशें कोंकणी केंद्र

धारबांदोडें

## वर्सुकी अहवाल

हेमाडबारशें कोंकणी केंद्र, धारबांदोडें, २० सेतेंब्र, ९५ दिसा तीन वर्सां पुराय करता. ते निमतान आयज चवथे साबार बसकेक १९९४-९५ वर्साचो अहवाल तुमचे मुखार दवरतात. नवे वांगडी, सर्वकाळ वांगडी, दाते, भौमानादीक वांगडी आनी दान दिवपी वांगडी तशेंच कोंकणी वावुरप्यांक केंद्राच्यो कार्यावळी आनी केंद्रान केल्लो वावर समजुंचो म्हणून हो अहवाल आमी तुमचेमुखार दवरतात.

आगोस्त १९९४ ते आगोस्त १९९५ ह्या काळांत जाल्लो वावर सकयल दितात.

संस्थेची घटना, नेम आनी अटी सगल्या कलमांक धरून हो नियाळ केला. केंद्रान केल्ल्यो कार्यावळी :–

१. **व्याख्यानां :** २० नोव्हेंब्र, १९९४ दिसा सकाळीं ९-०० वरांचेर नामनेचे कोंकणी लेखक आनी केंद्राचे सर्वकाळ वांगडी, श्री. गजानन जोग, हांचें कोंकणी संस्कृतायेविशीं शिगांव सरकारी हायस्कुलांत व्याख्यान. तशेंच, २६ मार्स, १९९४ दिसा तिस्क पिळयां स.मु. शाळेंत कोंकणी लेखक, समता आंदोलनाचे प्रणेते, श्री. दत्ता दामोदर नायक हांचें व्याख्यान. ह्या वेळार प्राचार्य नारायण देसाय, तिस्क वाटारांतले वांगडी आनी आयकुपी हाजीर आशिल्ले.

२. **सर्ती :** २६ देझेंब्र १९९४ दिसा दनपारां बारा वरांचेर तळावलीकार हायस्कुलांत आठवी आनी णववेच्या विद्यार्थ्यांपासत उलोवपा सर्त. हातूंत धा जाणांनी वांटो घेतलो. ह्या वेळार हायस्कुलाचे मुख्याध्यापक, मुखेल सोयरे, थळावे सरपंच, विद्यार्थी आनी संस्थेचे वांगडी व्हड संख्येन हाजीर आशिल्ले.

तशेंच, २५ मार्स, १९९५ दिसा गोंय पांवड्याचेर घोशणा सर्त घेतिल्ली. हातूंत एकशें आठ जाणांनी वांटो घेतिल्लो. दोनशें सत्तावीस घोशणा आयिल्ल्यो. श्री. वसंत भगवंत सावंत हांणी परिक्षण केलें. ही सर्त गोंय शिक्षण खात्याच्या पर्यावरण विभागान पुरस्कृत केल्ली.

३. **बालमेळ :** गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पालवान केंद्रान तीन बालमेळ घडोवन हाडले.

**पयलो :** २६ देझेंब्र, १९९४ दिसा महादेव देवूळ, मळें-सांकोड्डें हे सुवातेर. मुखेल सोयरे सरपंच. बालमेळाचे तुकाराम शेट, शिक्षक आनी १५० भुरग्यांनी हातूंत वांटो घेतलो.

**दुसरो :** २७ देझेंब्र, १९९४ दिसा तीन वरांचेर कुळ्यां सरकारी हायस्कुलांत जालो. ह्या वेळार दूदसागर कला केंद्राचे सचीव, श्री. भास्कर कुडचडकार, उद्घाटक आनी मुखेल सोयरे म्हणून हाजीर आसले. कुळें पंचायत वाटारांतल्यान पांच शाळांनी हातूंत वांटो घेतलो.

**तिसरो :** स. मु. शाळा, तिस्क-पिळयें. ११ फेब्रेरा दिसा बालमेळ जालो. थळावे आमदार भौ. विष्णू परब हे उद्घाटक जाल्यार गोवा स्टेट बँक को. बँकेचे मॅनेजर श्री. भांडणकर मुखेल सोयरे म्हणून हाजीर आशिल्ले.

४. **साहित्य :** साहित्याच्या मळार रामनाथ गावडे हांच्या 'सावळ्यो' ह्या कथांझेल्यांचो प्रकाशन सुवाळो घडोवन हाडलो. २८ जानेर, १९९५ दिसा मोलेंच्या पंचायत सभाघरांत सांजेच्या ३-३० वरांचेर जाल्ल्या ह्या सुवाळ्याक मुखेल सोयरे म्हणून श्री. दामोदर मावजो, अध्यक्ष म्हणून श्री. उदय भेंब्रे, प्रकाशक अभयकुमार वेलींगकार आनी राजेंद्र देसाय, अजीत केरकार हे मानादीक सोयरे म्हणून हाजीर आशिल्ले. श्री. वसंत भगवंत सावंत हांणी पुस्तकाचेर उलोवप केलें जाल्यार श्री. उदय गांवकार हांणी सूत्रसंचालन केलें.

५. **पुस्तक कोठयो :** आमच्या केंद्रावतीन अवर लेडी ऑफ पायटी हायस्कूल, कुळें, हांकां कोंकणी पुस्तकां दिलीं.

६. **संस्कृतीक कार्यावळी :** १ जानेर ९५ दिसा सांजेच्या ७ वरांचेर कुळें पोलीस ठाण्याचे माचयेर कलासंगम, वेलींग, प्रियोळचे वतीन गोंयचे परंपरीक नाच आनी गितां. उद्घाटक सदानंद तेंडुलकार.

२ जानेर, ९५ दिसा स. देविदास बाबय हांणी बरयल्लें 'एक फूल दसणीचें' हें नाटक कुळें पोलीस ठाण्याचे माचयेर संस्थेच्या वांगड्यांनी सादर केलें. लोकांचे मागणेवयल्यान हेंच नाटक २६ फेब्रेर, ९६ दिसा १०-३० वरांचेर धड्यां-सांवड्ड्यां सादर केलें. भास्कर कुडचडकार हांणी हें नाटक बसयल्लें.

७. **आकाशवाणी-पणजी केंद्र (युववाणी कार्यावळ)**
कार्यावळ : ९-१०-९४ दिसा कोंकणी युववाणी
२८-५-९५ दिसा कोंकणी युववाणी.

८. **संस्थेचो वर्सुकी दीस :**
२० सेतेंब्र, १९९५ दिसा सांजवळा तीन वरांचेर धारबांदोडें पंचायत सभाघरांत संस्थेचो वर्सुकी दीस मनयलो. ह्या वेळार हायस्कुलाच्या भुरग्यांखातीर अभिनय सर्त घेतली. हातूंत १० भुरग्यांनी वांटो घेतलो.

९. **यादस्तीक कार्यावळ :**
९ आब्रील, ९५ दिसा सांजे तीन वरांचेर कुळें पंचायत सभाघरात 'कोंकणी दीस' ही कोंकणीचो म्हापुरूस शणै गोंयबाब हांची पुण्यतीथ मनयली. रोहिदास नायक हे मुखेल सोयरे म्हणून हाजीर आशिल्ले. वांगडी महेश नायक हांणी येवकार दिलो. वृंदा गांवस आनी कविता बाळकुंद्री हांणी सोयऱ्यांक फुलां भेटयलीं. संस्थेचे अध्यक्ष आर्मांद मिश्कीत हांणी सोयऱ्यांची वळख केली. निलेश पंचवाडकार हांणी शणै गोंयबाबांच्या वावराचो नियाळ केलो. महेश नायक हांणी उपकार मानले आनी सुरेश कोलवेंकार हांणी सूत्रसंचालन केलें.

१०. **वनमहोत्सव**
११ आगोस्त ९५ दिसा कुळेंचे मुळावे शाळेचे वतीन वनमहोत्सव मनयलो. हो आमचो १९९४-९५ वर्साचो नियाळ.

**(सुरेश कोलवेंकार)**
सचीव

ता. २० आगोस्त, ९६
हेमाडबारशें कोंकणी केंद्र,
साहित्यीक आनी संस्कृतीक माची
धारबांदोडें ४०३ ४०६.

## इतिवृत्तात्मक अहवाल

मुनो १

ांखळे गांवठणां गोमन्तक विकास सेवा सोसायटीचे प्लास्टीकच्यो वस्तू तयार करपाच्या ारखान्याचे येवजणे संदर्भात पळोवणी करपाक वेंचून काडिल्ले समितीन सादर ल्लो हो अहवालात्मक नियाळ.

ाौमानेस्त अध्यक्ष — ता. १५ जुलय, १९९८
ोमन्तक विकास सेवा सोसायटी,
ांखळी – गोंय ४०३ ५०५

ाौमानेस्तांक नमस्कार,

ोमन्तक विकास सेवा सोसायटीन सांखळे गांवठणां प्लास्टीकच्यो वस्तू तयार करपाच्या कारखान्याचे येवजणे संदर्भा एक समिती ता. १ माय, १९९८ दिसा नेमिल्ली. तिजो अहवाल सादर करतात.

१] समितीचे वांगडी हे आशिल्ले :

| | | |
|---|---|---|
| १. | राजेंद्र सरनायक | (अध्यक्ष) |
| २. | उपेंद्र प्रभूगांवकार | (वांगडी) |
| ३. | अनिता केरकार | (वांगडी) |
| ४. | सुकूर आगा | (सचीव) |

२] हे समितीन ११ बसका घेतल्यो.

३] सांखळे गांवठणां प्लास्टिकच्यो वस्तू तयार करपाची शिफारस आमी करची न्हय हाजेर सगल्या वांगड्यांचें एकमत जालें.

४] हांगासर उदकाक मारामार जाता आनी कारखान्याक व्हडा प्रमाणांत उदकाची गरज आसा ती हो वाटार भागोवंक पावचोना.

५] कारखान्याची (अदमाशी) सुवात जी दाखयल्या ती लोकवस्ते साकून चड पयस नाशिल्ल्यान प्रदुशण जावपाचो हुस्को आनी दुबाव आसा.

६] लोकांच्या प्रत्यक्ष भेटींवयल्यान लोक ह्या प्रकल्पाक विरोध करपी भास उलयतात आनी तांणी आंदोलन करपाची तयारी चलयल्या.

७] कारखान्यापासत जाय पडपी म्हाल बरोच पयसुल्ल्यान हाडचो पडिल्ल्यान हो भार सोसायटीकडेन उखलपाक जावंचोना.

८] समितीन केल्ल्या ह्या वयल्या वक्तव्यांचो विचार करून येवजण काडून उ[illegible]
अशी शिफारस ही समिती करता.

सांखळी
१५ जुलय, ९८

तुमचे,

निशाणी
१. राजेंद्र सरनायक (अध्यक्ष)

निशाणी
२. उपेंद्र प्रभूगांवकार (वांगडी)

निशाणी
३. अनिता केरकार (वांगडी)

निशाणी
४. सुकूर आगा (सचीव)

विभाग ३

# वेवसायीक वा वेपारी पत्रां

अठराव्या शेंकड्यांत इंग्लंडांत जाल्ले उद्देगीक क्रांती उपरांत, संवसारांतल्या उद्देगीक मळावयलें चित्रूच बदलून गेलें. 'मास प्रॉडक्शना'क लागून ल्हान-ल्हान बाजारपेठांचें परिवर्तन राष्ट्री आनी आंतरराष्ट्री बाजारपेठांनी जालें. वेपार जेन्ना आंतरराष्ट्री पांवड्यार पावलो तेन्ना पत्रवेव्हाराचेंय म्हत्व दिसान-दीस मूळ धरपाक लागलें.

एक वेपारी दुसऱ्या वेपाऱ्याक वेपार दिवपा-घेवपा संबंदान जीं पत्रां बरयता तांकां वेवसायीक पत्रां अशें म्हणटात. म्हालाची खरेदी-विक्री, ट्रक, रेल्वे वा बोटींतल्यान म्हाल देस-परदेशांत धाडप, गिरायकाच्यो कागाळी पयस करप, म्हालाविशीं माहिती धाडप वा मागप, पयशे फारीक करपा संबंदान आनी हेर विशयांचेर वेपाऱ्यांक दीसपट्टीं पत्रां बरोवचीं पडटात. पत्रांच्या आनी अत्याधुनीक यंत्रांच्या आदारान वेपारी संवसाराचे फाटीर खंयसरूय वेपार करपाक शकता. वेपारी पत्रांच्या आदारान नवीं गिरायकां सोदता. इश्टागतीचें नातें जोडून बाजारपेठ रुंदावपाचो यत्न करता.

'पिकता थंय खपना' हे कोंकणी म्हणीप्रमाण, उत्पादक हो गिरायकांपसून खुबूच पयस उरता. प्रत्यक्ष एकामेकांची भेट जावप तशें कठिणूच. ताका लागून आपलो म्हाल वेळार गिरायकामेरेन पावचो म्हणून उत्पादक एजण्ट नियुक्त करता. म्हालाचो दर्जो, पॅकिंगांत त्रुटी उरप, तशेंच वितरणांत उवेखणी हेविशीं गिरायकांची कागाळ आसल्यार पत्रवेव्हार हें परिणामकारक माध्यम. अशा वेळार म्होंवाळ, सुटसुटीत भाशेंत बरयल्लीं पत्रां प्रभावी थरतात.

पत्रलेखन ही एक कला. भाशेवयलें प्रभुत्व, पत्राच्या वेगवेगळ्या आंगांच्या गिन्यानासयत संबंदीत विशयाचो खोलायेन अभ्यास आसप गरजेचें.

## ☐ वेवसायीक पत्रांचीं मूळ तत्वां (Basic Principles)

### १. पत्र आंखणी (Planning of the letter)

वेवसायीक पत्रां उद्देगीक मळावयलें प्रतिनिधित्व करतात. ह्या ना त्या कारणांक लागून धंदेकाराक साबार पत्रां बरोवचीं पडटात. ताका लागून भायर वचपी दर एक पत्र हें सगल्या गुणांनी परिपूर्ण आसपाक जाय. तेखातीर, पत्र बरोवप्यान सगले तरेची माहिती एकठांय करुनूच पत्र बरोवंक जाय. देखीक, म्हाल चवकशी पत्राक जाप दितना म्हालाचें मोल, दर्जो, सूट, गुदांवांत म्हाल आसा काय ना आनी हेर गरजेची माहिती एकठांय करून ती मेजक्याच उतरांनी गिरायकाक वेळार धाडप गरजेचें. वेगळे तरेन सांगपाचें म्हळ्यार, गिरायकान विचारिल्ल्या सगल्या प्रस्नांच्यो

जापो पत्रांत आसपाक जाय. तशें केलेंना जाल्यार वेपारी संस्थेची प्रतिमा आनी दोगांय भितर आशिल्ले संबंद पयसावपाक वा इबाडपाक कारण जावं येता. पत्र बरयतना गिरायकाचो पुरायपणान विचार करून, प्रामाणीकपणान आनी सादे सुटसुटीत भास शैलेंत पत्र बरोवंक जाय, जाका लागून :

अ. पत्र हातांत पडटकच गिरायकान परिणामकारक पावल उखलपाक जाय.

आ. वेपारी संस्थेक नांव मेळोवपाक आदार जावपाक जाय.

इ. गिरायकाक माहिती धाडिल्ल्याची खोस मेळपाक जाय.

ह्या तिनांतलो एक तरी उद्देश पत्र धाडटकच सफळ जालो जाल्यार पत्र धाडिल्ल्याचें चीज जावं येता.

## २. प्रामाणीकपण (Sincerity)

पत्र दोगां मनशां भितरलें नातें घट करता. पूण ह्या दोगांयकडेन प्रामाणीकपण नासत जाल्यार तें नातें चड काळामेरेन तिगूंक शकना. पत्रांत अडेची वेव्हारीक भास आसपाक फावोना. पत्र बरोवपी बेगडी भाशेचो वापर करता तेन्ना तातूंत प्रामाणीकपण ना म्हणपाचें कळटा आनी वाचप्याचो पत्र बरोवप्यावयलो विस्वास उडून वता. नवे पद्दतीप्रमाण सुटसुटीत आनी सोंपे-सरळ भाशेंत बरयल्लें पत्र बरोवप्या आनी वाचप्यामदीं संवाद सादूंक पावता.

## ३. सोंपेपण (Simplicity)

वेवसायीक पत्र हें सोंपें आसपाक जाय आनी तातूंतलो मजकूर वाचप्याक पयल्याच वाचनांत कळपाक जाय. पत्र वाचले उपरांत वाचप्याचे तकलेंत कसलेच प्रकारचो दुबाव उरपाक जायना. ताका लागून सोंपीं उतरां, ल्हान आनी सुटसुटीत वाक्य-बांदावळीचो उपेग करचो. तेच भाशेन वाक्प्रचार वापरपाचें टाळचें. विचारांत स्पश्टताय आनी पत्रलेखन ह्यो एकाच नाण्याच्यो दोन कुशी.

## ४. स्पश्टताय (Clarity)

मनांतले गैरसमज, घोळ आनी दोट्टी अर्थाक लागून पत्रांतले स्पश्टतायेक खूब म्हत्व आसा. वेवसायीक पत्राचो मूळ उद्देश म्हळ्यार उद्देग-धंद्याविशीं खबर मागप वा माहितीची फाटपुरवण करप, तशेंच हेर कारणांक लागून पत्रवेव्हार करप. ताका लागून निवळ-नितळ आनी सादे-सोंपे भाशेंत व्हड-व्हड उतरांचो वापर, वा लांबचे-लांब वाक्यांचो उपेग करिनासतना पत्र वेवस्थीत रितीन बरोवप गरजेचें. एक विचार एका परिच्छेदांत मांडपाक जाय. तशेंच पत्रांत कर्तरी-प्रयोगाचो उपेग करचो.

## ५. संक्षिप्तताय (Brevity or Conciseness)

संक्षिप्तताय हो वेवसायीक पत्राचो आनीक एक म्हत्वपूर्ण गूण. पत्र जितलें ल्हान

तितलेंच तें प्रभावी थरता. थोड्याच उतरांनी चडांत चड माहिती बरोवन धाडप हो एक प्रतिभेचोच भाग. कारण वेपारी मळार वेळाक पयशा इतलेंच म्हत्व आसा. लांबलचक बरयल्लें पत्र वाचप खंयच्याच वेपाऱ्याक परवडपासारकी गजाल न्हय. पत्रांत संक्षिप्तताय आसपाक जाय हाजो अर्थ ज्या कारणाक वा जे गजालीक लागून पत्र बरयलां तिजो आशय अर्दवट सोडून तातूंत अपूर्णपण हाडप असो मात न्हय. पत्र बरयतना स्पश्टताय, सोंपेपण आनी पूर्णताय ह्या गुणांक बरोवप्यान पाळो दिवपाक जाय.

स्पश्टतायेक धरुनूच संक्षिप्तताय येवपाक जाय. ह्यो दोनूय गजाली हातांत हात घालून चलतात. संक्षिप्तताय येवपाक सकयल्यो तीन गजाली मतींत धरच्यो.

अ. मांडिल्ले मुद्दे परत सांगपाचें टाळचें.

आ. गरज नासतना वाक्यांची बांदावळ लांबचे लांब करची न्हय.

इ. पत्र स्विकारप्याक कसलेय माहितीची पूर्वजाण आसा, हाजी तुमकां पूर्वकल्पना आसल्यार ते माहितेची भासाभास परत एकदां पत्रांत खोलायेन करची न्हय.

ई. गरज नाशिल्ले तशेंच चुकीचे गजालीचो उल्लेख पत्रांत करचो न्हय.

### ६. सभ्यताय (Courtesy)

पत्रलेखकाचो हो एक म्हत्वाचो गूण. हो गूण जर पत्र बरोवप्याकडेन नासत जाल्यार बऱ्यांतलें बरें गिरायक वगडावपाची पाळी येवं येता. पत्र बरोवप्यान पत्रांत नमळायेची भास आनी सभ्यताय दाखोवपाक जाय. गिरायकान जर चुकीची कागाळ केली वा ताजेकडेन वेळार पयशे फारीक करपाक जालेंना जाल्यार, म्हाल विक्रेत्यान सादूरताय दवरून पत्रलेखन करपाक जाय. आपूण किद्याक लागून पत्र बरयतां? ताजो मूळ हेत कितें? हें मतींत हाडून पत्र स्विकारप्याच्या मनाचेर वायट परिणाम जावंक दिवंचोना हाजी जतनाय घेवंक जाय. दर एका पत्रांतली भास ही संबंद जोडपी इश्टागतीची आसपाक जाय. 'रागान जायना तें मोगान जावंक शकता.' मोगान आनी शिस्तीन बरयल्लें पत्र वेपाऱ्याक नामना जोडून दिता.

### ७. शुद्धताय (Correctness)

पत्र बरयतना तातूंतली भास, मजकुराची मांडावळ आनी हेत शुद्ध आसपाक जाय. वेवसायीक पत्रांत अशुद्ध भाशेचो वापर करप म्हळ्यार आपलेंच प्रतिमेक काळो दाग लावपासारकें. ताका लागून पत्र बरयतना, आपणाक अर्थ खबर नाशिल्ल्या उतरांचो वापर मुद्दम टाळचो. तशेंच, आपणें जें वाक्य रचलां, तें व्याकरणी नदरेन बरोबर काय चूक तें ताळून पळोवपाक जाय. दर एका उतराचो कीस काडून, खात्री जातकूच शब्दप्रयोग करचो. तेच भाशेन वेव्हारीक आनी अडेची भास मुद्दम टाळची.

दुसरी एक म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार पत्राची रचना वा मांडावळ तशेंच पत्रांत

येवपी मजकूर वेवस्थीत रितीन पत्रांत मांडपाक जाय. देखीक संदर्भ क्रमांक, तारीख, मोल, म्हालाची संख्या आनी पत्रांत येवपी हेर आंकडे अचूक, ज्युस्ताज्युस्त बरयल्यात काय ना हें ताळून पळयले उपरांतूच पत्र पोस्ट करपाक जाय.

८. परिपूर्णताय (Completeness)

गिरायकान उपस्थीत केल्ल्या प्रस्नांच्यो जापो आनी ताणें मागिल्ल्या विशयावयली पुराय माहिती विस्तारान पूण थोडेभितर पत्र बरोवप्यान वेळार धाडून दिवपाक जाय. पुराय माहिती धाडलिना जाल्यार, तुमचेविशीं ताज्या मनांत आपलेपणाची भावना खालावपाची शक्यताय न्हयकारूंक येना. जो विशय घेवन पत्र बरयता, त्या विशयावयले म्हत्वाचे माहितीचो उल्लेख पत्रांत जावपाक जाय. देखीक, गिरायकान म्हालाविशीं माहिती मागल्यार, म्हालाचें मोल, दर्जो, संख्या, आकार, रंग, रोख वा उदार, सूट, म्हाल धाडपाक लागपी वेळ, पॅकींग हांचेविशीं माहिती धाडप गरजेचें.

## ☐ वेवसायीक पत्रांचे घटक (Parts of Business Letters)

१. माथाळो (The head address or heading)

पत्र धाडपी व्यक्तीचो वा वेपारी संस्थेचो नामो पानाचे तेंगशेर मदेकाद छापिल्लो आसता. नामो मोट्या आकर्शक अक्षरांनी एका विशिश्ट ढंगान छापिल्लो आसता. ह्या माथाळ्याक प्रसिद्दीचें मोल आसता. माथाळ्यांत पुराय नांव, पत्तो, टेलिफोन क्रमांक, फॅक्स क्रमांक, टेलिग्राफीक पत्तो, तशेंच मेजक्याच उतरांनी पूण बारीक अक्षरांनी वितरीत करपी वस्तूचो उल्लेख करतात. वेपारी संस्थेच्या नांवांतल्यान वेपाराचो विशय कळटा जाल्यार वेगळें विवरण दिवपाची गरज नासता.

२. तारीख (The Date)

पत्र खंयच्या दिसा, खंयच्या म्हयन्यांत आनी खंयच्या वर्सा बरोवन धाडलां हें तारीख खुणायता. पत्र धाडप्याच्या नाम्यासकयल कागदाचे उजवे वटेन पत्र ज्या दिसा बरयलां ती तारीख म्हयन्या-वर्सा सकट बरोवंची. तारीख बरोवपाच्यो मुखेल दोन तरा आसात.

अ. अमेरिकी शैली: पयलीं म्हयन्याचें नांव बरोवन उपरांत दीस बरयतात आनी ताजे मुखार स्वल्पविराम घालून वर्स बरोवपाची चाल आसा. देखीक: मार्स २५, १९९७.

ब. इंग्लेज शैली: हे शैलेंत म्हयन्या पयलीं दीस आनी स्वल्पविराम घालून वर्स बरयतात. देखीक, २५ मार्स, १९९७.

पत्रलेखकान ह्या दोनांतली खंयचीय एक तारखावळ वापरांत हाडूं येता. पूण खंयचेय परिस्थितींत २५-३-१९९७ अशी तारीख बरोवंची न्हय. तारखावळी प्रमाण फायलींग

करपाक तारीख भोव उपेगी पडटा. तशेंच, तारखेक पळोवन कायद्यान पत्र बाद वा ग्राह्य थरोवपाक मदत जाता. तारीख नाशिल्लें पत्र कायद्यान बाद थरता.

### ३. संदर्भ क्रमांक (The Reference Number)

भायर वचपी पत्रांचें वर्गीकरण करचेखातीर आनी जाय तेन्ना संदर्भाखातीर पत्र सोदपाक सोंपें वचचें म्हणून पत्र धाडपी पत्रांक संदर्भ क्रमांक दिता. हो संदर्भ क्रमांक माथाळ्या सकयल कागदाचे दावे वटेन आनी तारखावळीचे समांतर रेशेंत बरोवंचो आसता.

### ४. भितरलो नामो (The Inside Address)

जे व्यक्तीक तूं पत्र धाडटा तिजो पुराय नामो, संदर्भ क्रमांका सकयल पूण समासाक तेंकून (near the margin) बरयतात. तशेंच, होच नामो परत एकदां लखोट्याचेर बरोवंचो आसता. इंग्लेज शैली आनी अमेरिकी शैली अशा दोन तरांनी नामो बरयतात. इंग्लेज शैलीक इंग्लेजींत इण्डॅण्टेड वा स्लोपींग फॉर्म अशें म्हणटात, जाल्यार अमेरिकी शैलीक ब्लॉक फॉर्म अशें म्हणटात. स्लोपींग फॉर्मांत पयले ओळीर नांव, कांय जागे सोडून दुसरे ओळीर गांव, वाडो वा मार्गाचें नांव जाल्यार तिसरे ओळीर परत एकदां कांय जागे सोडून म्हाल आनी राज्याचें नांव बरोवंचें आसता.

देखीक : अनील नायक,
    नेवरें – गुडीवाडो,
        तिसवाडी – गोंय.

ब्लॉक फॉर्मांत प्रत्येक ओळ एका सकयल एक अशी येता. इंग्लेज शैलीभाशेन ओळी पयलीं स्पेस वा जागो सोडपाची गरज ना. अमेरिकी शैलींतलो नामो टायप करपाचे नदरेन सोंपो पडटा. ताका लागून अमेरिकी शैली लोकप्रिय जावंक पावल्या.

देखीक : अनील नायक,
नेवरें – गुडीवाडो,
तिसवाडी – गोंय.

भितरल्या नाम्या वयर 'प्रति' वा 'सेवेक' बरोवन स्वल्पविराम घालपाची चाल आतां काळाभायरी जावपाक लागल्या.

भितरलो पत्तो बरयतना आदरसुचक उतरांचो प्रयोग सकयल दिल्लेप्रमाण करपाक जाय.

अ. दादल्याक पत्र बरयत्तना ताज्या नांवाचे सुरवातीक 'श्री' लावप गरजेचें.

आ. कोणाय अस्तुरेच्या नांवाचे सुरवातेक 'सुश्री' लावप गरजेचें. (कोंकणींत बाब वा बाय वा श्री. वा श्रीमती अशेंय बरोवपाची चाल आसा.)

क. प्रतिश्ठानाचें वा वेपारी संस्थेचें नांव समूहवाचक आसल्यार

देखीक: गोदावरी मार्केटींग कॉर्पोरेशन, वाघेरी सेल्स सिंडिकेट, मांडवी ॲण्ड सन्स असल्या नांवाचे सुरवातीक 'सर्वश्री' (Messrs) चो प्रयोग करचो. पूण प्रतिश्ठानाच्या नांवापयलीं जर व्यक्तीचें नांव आसत आनी त्या नांवापयलीं उपाधी लागिल्ली आसल्यार

देखीक: सर अजीतसिंह राणे ॲण्ड कंपनी, अशा वेळार परत ताज्या नांवाचे सुरवातीक 'सर्वश्री' बरोवप चुकीचें थरतलें.

ड. वेपारी संस्थेच्या अधिकाऱ्याक जर पत्र बरोवपाचें आसत जाल्यार ताज्या पदापयलीं आदरसुचक उतराचो उपेग करपाची गरज ना.

देखीक: श्री. वेवस्थापक वा श्री. अध्यक्ष म्हणप चुकीचें.

## ५. लक्ष ओडपी ओळ (The Attention Line)

खंयचेय एके व्यक्तीचें लक्ष ओडून घेवप हो 'लक्ष ओडपी ओळी'चो मुखेल उद्देश. पत्राचो चडांत चड संदर्भ ह्या मनशाकडेन आसता. ही लक्षवेधक ओळ अभिवादन ओळीचे वयर भितरल्या नाम्या सकयल येता.

देखीक: श्री. मायकल फेर्नांदीश हांणी लक्ष दिवंचें.

## ६. अभिवादन (The Salutation)

अभिवादन म्हळ्यार उपचारीक रितीन पत्र स्विकारप्याक येवकार दिवप. अभिवादन भितरल्या नाम्या सकयल कांय जागो सोडून बरोवंचें आसता. पत्र कोणाक वा खंयचे व्यक्तीक बरयतात हाजेर अभिवादन आदारिल्लें आसता. पत्र बरोवप्याचें आनी पत्र स्विकारप्याचें नातें वा संबंदा प्रमाण अभिवादनांत बदल जाता. भितरल्या नाम्याचे पयले ओळी वयल्यान अभिवादन एकवचनी काय भोववचनी आसतलें तें कळटा.

पत्र बरोवप्या भितर आशिल्ली शिस्त, पत्र स्विकारप्याविशीं आशिल्लो आदर अभिवादनांतल्यान प्रगट जाता. कोंकणींत दादलो तशेंच बायलेक 'भौमानेस्त', 'भौमानादीक', 'मानेस्त', वा 'नमस्कार' बरोवपाची चाल आसा. पत्रलेखकाचो पत्र स्विकारप्याकडेन लागींचो संबंद वा नातें आसत जाल्यार 'मोगाळ शुभम' वा 'मोगाळ शोभा' ह्या उतरांचो प्रयोग करपाक हरकत ना.

## ७. विशय-ओळ (The Caption Line or the Subject Line)

विशय-ओळींत, मेजक्याच उतरांनी पत्राचो सार बरोवंचो आसता. हे ओळीचो जागो अभिवादनावयर आसता. इंग्लेजींत Ref.: (Latin, Concerning) बरोवन ताजेमुखार सार बरयतात.

देखीक: 'तुवें लिपिकाच्या जाग्याखातीर केल्ल्या अर्जाक लागून.'

भारतांत विशय-ओळ अभिवादनावयर बरोवपाची चाल आसा. विशय-ओळीचे दोन

मुखेल उद्देश आसात :–

अ. पत्र पुराय वाचचे पयलींच पत्राचो विशय कळपाक मदत जाता.

आ. विशयाक धरून पत्रां फायल करपाक आदार जाता.

पयल्याच परिच्छेदांत बरोवप्यान संबंदीत विशयाचेर उजवाड घालो जाल्यार आनी बरोवप्याक विशय ओळीची गरज भासलिना जाल्यार ताणें ती बरयनासतना रावूं येता.

## ८. पत्राचें मुखेल आंग (The Body of the Letter)

हो पत्राचो म्हत्वपूर्ण वांटो. हाजी सुरवात अभिवादन ओळीच्या सकयल्या परिच्छेदांतल्यान जाता. हाजीं मुखेलपणान तीन आंगां आसात. सुरवात, संबंदीत विशयाचेर केल्ली भासाभास आनी अखेर.

पत्राचो मुखेल भाग बरयतना पत्र बरोवप्यान संक्षिप्तताय, स्पश्टपण, सोंपेपण, शुद्धताय आनी पूर्णताय ह्या पत्राच्या गुणांक मुखेलपणान पाळो दिवपाक जाय.

संबंदीत व्यक्तीक पयलेच फावट पत्र बरयता जाल्यार विशयाची आकर्शक तरेन सुरवात जावपाक जाय. पत्रांतलें पयलेंच वाक्य, आपलेपण आनी इश्टागतीची सुचोवणी दिवपाक जाय.

पत्र सुरवात करपाक कांय वाक्यां सकयले प्रमाण अशीं आसूं येतात :

१. तुमी २ फेब्रेर, १९९७ तारखेक धाडिल्लें पत्र मेळ्ळें. पत्र धाडिल्ले खातीर आमी तुमचे काळजाथावन उपकारी.
२. तुमच्या संदर्भक्रमांक २२० ह्या पत्राक जाप दिवपाक आमकां खोस भोगता.
३. आमी तुमचें लक्ष, १५ जानेर, १९९७ दिसा धाडिल्ल्या संदर्भ क्रमांक ३०४ ह्या पत्राचेर केंद्रीत करूंक सोदतात.
४. तुमी धाडिल्लो २०,०००/- रुपयांचो, क्रमांक २५३४६चो चॅक पावलो. पयशे वेळार फारीक केल्लेखातीर आमी तुमचे उपकारी आसात.

पत्राची आकर्शक आनी सुचक रितीन सुरवात करतकच संबंदीत विशयाचेर भासाभास करतना तातूंत संक्षिप्तताय येतली हाजी बरोवप्यान जतनाय घेवपाक जाय. पत्राची अखेर करतना कांय वाक्यां अशीं आसूं येतात :

१. पत्रांत मांडिल्ल्या मुद्द्यांचेर तुमी खोलायेन विचार करतले अशी आमी आस्त धरतात.
२. आमकां तुमचेकडल्यान मेळिल्ल्या मोलादीक आदाराक लागून आमी तुमचे सदांच उपकारी आसतले. फुडारांतूय असोच आदार मेळटलो अशी आस्त दवरतात.
३. पत्राची जाप धाडून आमकां उपकारांत दवरचे.
४. फुडाराक आमच्या हातसून अशीच सेवा करपाक संद दिवंची.

## ९. उपचारीक शेवट (The Complimentary Close)

पत्राची उपचारीक अखेर म्हळ्यार पत्र स्विकारप्याक 'अलविदा' करप. पत्र बरोवन जातकच, निमाणेकडेन पत्राचो उपचारीक शेवट करचो आसता. अभिवादनांत जें उतर वापरलां ताकाच अनुकूल अशें उतर उपचारीक शेवटांत वापरचें आसता.

अभिवादनांत 'भौमानेस्त', 'भौमानादीक', 'मानेस्त' उतरां वापरल्यार उपचारीक शेवटांत 'तुमचो विस्वासू' वापरचें.

## १०. निशाणी आनी हुद्दो (The Signature and Designation)

उपचारीक अखेरा सकयल पत्र धाडप्यान आपल्या हातान आपली निशाणी करची आसता. निशाणी करप्याचें नांव निशाणे सकयल धांपण्यांत (bracket) टायप करप तितलेंच गरजेचें.

निशाणे सकयल पत्र बरोवप्यान आपलो हुद्दो बरोवपाक जाय. देखीक वेवस्थापक, संचालक, सचीव आनी हेर. निशाणी करपी जर दुसऱ्याच्या नांवान पत्र धाडटा जाल्यार 'ताजे वतीन' (for) अशें बरोवन निशाणी करप गरजेचें. भागाक धंदो करतल्यांनी खंयच्याय एका भागेल्यान आपले वेपारी संस्थेचें नांव बरोवन वा टायप करून ताजे सकयल निशाणी करप गरजेचें.

निशाणी आनी हुद्द्याची एक देख :

तुमचो विस्वासू,
निशाणी
वेवस्थापकी संचालक

## ११. पत्राचो मजकूर सांगपी आनी टायप करप्याची निशाणी (The Initials of the Dictator and the Typist)

पत्र धाडप्याचे निशाणे सकयल, पानाच्या दाव्या अर्दान, पत्राचो मजकूर सांगपी आनी पत्र टायप करप्याच्या नांवाचीं आद्याक्षरां टायप करचीं आसतात. मजकूर सांगप्याच्या नांवाचीं पयलीं दोन आद्याक्षरां मोट्या टायपान बरोवन ताजे मुखार तिरपी आडी मारून वा 'पूर्णविराम' घालून ताजे मुखार टायप [illegible] नांवाचीं आद्याक्षरां ल्हान टायपांत बरोवंचीं आसतात.

देखीक: पत्र बरोवपी वा मजकूर सांगपी राजेश कळंगूटकार आनी पत्र टायप करपी महानंदा परुळेकार आसल्यार रा.क / म.प. अशें बरोवंचें आसता. हाजे फाटलो मुखेल हेत म्हळ्यार भविश्यांत ह्या पत्रासंबंदान कसलीय चूक वा त्रुटी दिश्टी पडल्यार ताजी जापसालदारकी ह्या दोगांयचेर उरता.

## १२. पत्रावळ (Enclosures)

जायत्या फावटीं मूळ पत्रावांगडा कांय दुकुमेंत धाडचे पडटात. देखीक, चॅक, बील, दाखले, हिसबाचीं कागदपत्रां, पावत्यो आनी हेर. अशा वेळार मुखेल पत्राचेर

मजकूर सांगपी आनी पत्र टायप करप्याच्या आद्याक्षरां सकयल पत्रावळ वळेरी बरोवंची आसता, जाका लागून मूळ पत्रावांगडा हेर कितले दुकुमेंत धाडल्यात तें कळपाक आदार जाता.

### १३. कार्बन प्रत (C.C.: Carbon Copy)

कांय खेपे एकाच पत्राच्यो प्रती काडून, एका परस एक व्यक्ति वा अधिकाऱ्यांक धाडपाच्यो आसतात. तेन्ना संबंदीत पत्राच्यो प्रती कोणा कोणाक धाडल्यात हें 'का.प्र.' (कार्बन प्रत) अशें बरोवन ताजे मुखार, त्या व्यक्तींचीं नांवां, हुद्दे आनी पत्ते बरोवंचे आसतात.

### १४. जोडणी (P.S.: Latin, Post Scriptum)

पत्र बरोवन आनी निशाणी करून जाले उपरांत कांय फावटीं म्हत्वाची गजाल बरोवपाची उरता. ते म्हत्वाचे गजालीचो पत्रांत उल्लेख करप गरजेचो आशिल्ल्यान आनी सगळें पत्र परत बरोवपाक बरोवप्याकडेन तितलो वेळ नाशिल्ल्यान, पत्र बरोवपी 'जोडणी' हें उतर बरोवन ते गजालीचो वेगळ्या पानार उल्लेख करता. हे जोडणेचे सकयल बरोवप्यान आपली निशाणी करप गरजेचें. पत्राची सुंदरकाय आनी बरोवप्याची प्रतिमा राखपाखातीर शक्य तितलो जोडणेचो उपेग करचो न्हय.

### १५. लखोट्यार बरोवप्याचें नांव आनी पत्तो (Superscription)

पत्र स्विकारप्याचें नांव आनी ताजो पुराय पत्तो लखोट्याचेर वेगळ्या कागदाच्या कुडक्याचेर टायप करून दसयले उपरांत, पत्र वेवस्थीत दोडून लखोट्यांत घालतात. लखोट्याचेर पत्तो टायप करप ही वेळ वगडावपी गजाल जाल्ल्यान आतां 'विण्डो एन्वॅलपा'चो वापर जावपाक लागला. पत्र ज्युस्ताज्युस्त दोडून एन्वॅलपांत घालल्यान पत्रावयलो पत्तो पातळ प्लास्टिकांतल्यान भायर दिश्टी पडटा.

## ☐ वेवसायीक पत्रांची मांडावळ
## (Different layouts of Business Letters)

पत्राची मांडावळ म्हळ्यार, पत्रांत येवपी माहिती पानाचेर वेवस्थीत रितीन मांडप वा पत्राच्या वेगवेगळ्या भागांची ज्युस्ताज्युस्त मांडावळ करप. पत्रांतलो मजकूर नितळ-निवळ, आकर्शीत रितीन टायप करप, जाका लागून वाचप्याक पत्र वाचतना सुखद अणभव मेळूंक पावता आनी बरोवप्याचेर बरी छाप पडटा.

वेवसायीक पत्रां बरोवपाच्यो तरा सकयल दिल्लेप्रमाण आसात:

### अ. इण्डॅण्टेड फॉर्म (Indented Form)

इण्डॅण्टेड फॉर्म पत्रलेखन ही एक पुर्विल्ली परंपरीक पत्र बरोवपाची तरा. हे पत्र मांडावळींत तारीख आनी उपचारीक अखेर पानाच्या उजव्या अर्दांत येता आनी भितरलो नामो आनी अभिवादन पानाच्या दाव्या अर्दांत बरोवंचें आसता. परिच्छेदाची पयले ओळीची सुरवात दावे वटेंतल्या समासा (margin) कडसून टायपरायटराच्यो

पाच सुवातो (spaces) सोडून करची आसता. तशेंच, उपचारीक अखेराकडल्यान तीन सुवातो सोडून निशाणी करची आसता. देखीक:

## इण्डॅण्टेड फॉर्म

तारीख ....................

भितरलो नामो

..........................................................

..........................................................

..........................................................

..........................................................

विशय ओळ

(अभिवादन)

..........................................................................................

[illegible] मुखेल आंग

..........................................................................................

..........................................................................................

..........................................................................................

..........................................................................................

..........................................................................................

उपचारीक अखेर ....................................

निशाणी ....................................................

**ब. फूल ब्लॉक फॉर्म (Full Block Form)**

फूल ब्लॉक फॉर्म पत्र लेखनाची विशेशताय म्हळ्यार पत्राचे सगले भाग, दावे वटेंतल्या समासाकडसून सुरू जातात. टायपिस्टाक जेन्ना चड पत्रां टायप करपाचीं आसतात तेन्ना ही तरा खूब सोंपी पडटा.

देखीक :

## फूल ब्लॉक फॉर्म

तारीख ......................................

भितरलो नामो

.........................................................

.........................................................

.........................................................

विशय ओळ

अभिवादन ......................................

.........................................................

पत्राचें मुखेल आंग

..............................................................................................................

..............................................................................................................

..............................................................................................................

..............................................................................................................

..............................................................................................................

..............................................................................................................

..............................................................................................................

उपचारीक अखेर ..........................................................................................

निशाणी ......................................................................................................

क. सेमी ब्लॉक फॉर्म (Semi Block Form)

सेमी ब्लॉक फॉर्माची म्हत्वाची विशेशताय म्हळ्यार रचनात्मक पत्रांच्या भागांची सुरवात दावे वटेंतल्या समासाकडल्यान जाता. पूण परिच्छेदाची पयली ओळ पांच वा धा सुवातो सोडून करची आसता. तेच भाशेन तारीख, उपचारीक अखेर आनी निशाणी मात पानाचे उजवे वटेन येता.

देखीक :

## सेमी ब्लॉक फॉर्म

तारीख .................. ...............

भितरलो नामो

..........................................................

..........................................................

..........................................................

विशय ओळ

अभिवादन

पत्राचो मुखेल आंग

उपचारीक अखेर ............................

निशाणी ......... ......................... ........

ड.   हँगींग इण्डॅण्टेड फॉर्म (Hanging Indented Form)

म्हालविक्रे संबंदींच्या पत्रांत नवीदाद आनी वेगळेपण हाडून खाशेलो परिणाम सादपाखातीर विक्रेतो असल्या पत्रांचो उपेग करता. ही तरा इण्डॅण्टेड फॉर्माच्या परती. परिच्छेदाची पयली ओळ दावे वटेंतल्या समासाकडल्यान सुरू जाता. आनी उरिल्ल्यो सगल्यो ओळी पांच स्पेसीस सोडून सुरू जातात. हेर पत्रांच्याकय असले तरेचें पत्र टायप करपाक खूब वेळ लागता.

देखीक :

## हँगींग इण्डॅण्टेड फॉर्म

तारीख ..........................................

भितरलो नामो

................................................................

................................................................

................................................................

विशय ओळ

अभिवादन ...............................................

पत्राचें मुखेल आंग

..............................................................................................................................

..................................................................................................

..................................................................................................

..............................................................................................................................

..................................................................................................

..................................................................................................

उपचारीक अखेर ...................................

निशाणी ..................................................

## ☐ वेवसायीक पत्रांचे प्रकार (Types of Commercial Letters)

वेवसायीक मळार साबार कारणांक लागून, विक्रेते आनी गिरायकां एकामेकांक वेगवेगळ्या विशयांक धरून पत्रां धाडटात. पत्रांचे विशय आनी उद्देश हांच्या आदारार वेवसायीक पत्रांचे साबार प्रकार आमकां पळोवंक मेळटात.

१. **वासपूस वा चवकशी पत्र**
२. म्हाल मागोवपी आदेश आनी ताजी जाप
३. विस्वास पत्र
४. कागाळ पत्र
५. संदर्भ पत्र
६. वसुली पत्र
७. परिपत्रक
८. एजन्सीविशीं पत्र
९. विम्यासंबंदीं पत्र
१०. बँकेसंबंदीं पत्र

## • १) वासपूस वा चवकशी पत्र (Letter of Enquiry)

गिरायक म्हाल विकतो घेवंचे पयलीं मुखेलपणान तीन गजालींची चवकशी वा वासपूस करता. त्यो तीन गजाली म्हळ्यार म्हालाचो दर्जो, म्हालाचें मोल आनी मोल फारीक करपाच्यो अटी आनी नेम. दर एक गिरायक उणें मोल फारीक करून चडांत चड म्हाल विकतो घेवपाचो हावेस दवरता. पूण ताजेपयलीं तो वयल्या सगल्या गजालींची माहिती एकठांय करपाच्या वावराक लागता.

आयज उद्देगीक मळार एकेच तरेचें उत्पादन करपी साबार उत्पादक आसात. तांच्या दर्ज्यांत आनी मोलांत उण्या-अदीक प्रमाणांत फरक दिश्टी पडटा. अशा वेळार बाजारांत खंयच्या उत्पादनाक चड मागणी आसा, तशेंच उत्पादक आनी वितरकाकडल्यान आपणाक वेगळे वेगळे तरेची कितले टक्के सूट मेळूं येता, हाजी तो साबार उत्पादकांक आनी वितरकांक पत्रां बरोवन माहिती मागयता. ही सगली माहिती मेळयले उपरांत, तिजो खोलायेन विचार करता आनी खंयच्याय एका उत्पादकाक वा वितरकाक म्हालाची ऑर्डर धाडून दिता.

उत्पादक वा वितरक म्हाल विक्रेसंबंदान गिरायकाक आपल्या अटी वा नेमांविशीं पत्र बरोवन कळयता. असले तरेचीं पत्रां बरयतना खुबूच जतनाय घेवंची पडटा. पत्रांतली भास इश्टागतीची आनी नमळायेची आसपाक जाय. जिका लागून गिरायकान म्हालाची ऑर्डर रोखड्यारोखडी धाडून दिवपाक जाय.

असल्या पत्रांनी सत्यताय आसपाक जाय. गुदांवांत म्हाल नासतना आसा म्हणून

सांगप, मोलांत बदल करप, म्हालाच्या दर्ज्याविशीं चुकीची माहिती दिवप असल्यो गजाली टाळप गरजेचें. म्हालाची संख्या, दर्जो, मोल, फारीक करपाच्यो अटी, म्हाल धाडपाचो काळ, प्रस्ताव आपणावपाची निमाणी तारीख हांची पुराय माहिती विस्तारान पूण संक्षिप्तपणान गिरायकाक धाडपाक जाय.

देख १

## अँथनी मार्केटींग कॉपोरेशन

कागदांचो मान्यतायप्राप्त वेपारी
केपें

संदर्भ क्रमांक: ०५०/९७ ता.: २५ फेब्रेर, १९९७

प्रति
सर्वश्री चंद्रकांत ट्रेडींग कंपनी,
म्हापशें.

विशय: जपानी कागदाचे नमुने धाडपाविशीं

मानेस्त,

उपकार करून आमकां वेगळ्या वेगळ्या प्रकारांचे जपानी कागदाचे नमुने, तशेंच उण्यांत उणें मोल कळोवपाची वेवस्था करची.

तुमी धाडिल्लें मोल परवडलें जाल्यार पंद्रशे भितर आमकां लागपी म्हालाची ऑर्डर धाडून दितले. नमुने बेगीन धाडून दितले अशी आस्त दवरून,

तुमचो विस्वासू,

निशाणी
(खरेदी वेवस्थापक)
अँथनी मार्केटींग कॉपोरेशन

देख २ – प्रती-जाप

# चंद्रकांत ट्रेडींग कंपनी

कागद विक्रेतो आनी आयात-निर्यात कर्तो
म्हापशें

संदर्भ क्रमांक : ११०/९७ ता.: २८ फेब्रेर, १९९७

प्रति
सर्वश्री ॲंथनी मार्केटींग कॉर्पोरेशन,
केपें.

विशय : जपानी कागदाच्या नमुन्या आनी मोलाविशीं

भौमानेस्त,

तुमी २५ फेब्रेर, १९९७ दिसा धाडिल्लें जपानी कागदाचे नमुने आनी मोलाची वासपूस करपी पत्र पावलें. पत्र धाडिल्लेखातीर आमी तुमचे भोवच उपकारी आसात.

जपान निर्मीत बीके बॉण्ड, सुपर बॉण्ड आनी पीसी बॉण्ड अशे तीन तरांचे कागद आमी आयात करतात. ह्या कागदांचें मोल अनुक्रमान २१०/-, २२०/- आनी २२२/- रुपया प्रती रीम आसा. हे सगले कागद २५'' X ३६'' आकाराचे आसून, ह्या रिमाचें वजन ३० किलो इतलें जाता. तांचे नमुने वांगडा जोडल्यात. हे तिनूय धव्या कोराचे कागद बरे प्रतीचे आसात. ५०००/- रुपयां वयर म्हाल विकत घेवपी वेपाऱ्यांक आमी १०% विक्री सूट दितात. रोख वा पंदरा दिसांभितर पुराय रक्कम पावती केल्यार ताजेवयर ८% रोख सूट दितात.

ह्या दिसांनी बाजारांत कागदाची तूट आशिल्ल्यान आमच्या गुदांवांत खुबूच उणो म्हाल आसा. ऑर्डर बेगिनांत बेगीन धाडून दिवन तुमची सेवा करपाक आमकां संद दिवंची.

तुमचो विस्वासू,

(निशाणी)
(चंद्रकांत हरी नायक)
विक्री वेवस्थापक
चंद्रकांत ट्रेडींग कंपनी

## म्हाल मागोवपी आदेश आनी तांची जाप
**(Letter regarding order and its reply)**

गिरायकाक म्हालाविशीं माहिती मेळ्ळे उपरांत तो ते माहितीचो खोलायेन अभ्यास केले उपरांतूच आपणाक फायदेशीर आशिल्ल्या उत्पादकांकडेन वा वितरकाकडेन म्हालाची ऑर्डर दिता.

फकत वासपूस पत्रांकूच जाप दिवप आनी ऑर्डरीक धरून म्हाल हाडून दिवप इतलेंच उत्पादक वा वितरकाचें काम न्हय. ताजेय मुखार वचून नव्या-पोरण्या गिरायकांकडेन बरे संबंद प्रस्थापीत करप हेंवूय ताजे इतलेंच म्हत्वाचें काम. तशें केलेंना जाल्यार, एकदां हाताभायर गेल्लें गिरायक परत मेळपाक भोवच कुस्तार. जायते फावटीं ऑर्डरींत सांगिल्लेप्रमाण वेळार म्हाल धाडप शक्य जायना. त्या वेळार गिरायकाक उर्जेंत पत्र बरोवन वा फोन करून कळोवप गरजेचें. तशेंच, म्हाला संबंदान माहिती धाडुनूय गिरायकान ऑर्डर दिलिना जाल्यार पत्र बरोवन वासपूस करप तितलेंच गरजेचें.

जायते फावटीं नवें उत्पादन, तशेंच पोरणें उत्पादन नवें रूप घेवन बाजारांत येता. तेन्ना ह्या संबंदांत माहिती गिरायकाक वेळार पावोवप गरजेचें. नव्या गिरायकाचे पत्ते सोदून काडून, आपलेकडेन आशिल्ल्या म्हालाविशीं माहिती दिवप आनी ताका ऑर्डर धाडपाक प्रवृत्त करप होय वेवसायीक पत्राचो मुखेल उद्देश. असल्या पत्रांचो फायदो भविश्यांत निश्चितूच जाता आनी बाजारपेठ वाडोवपाक आदार जाता.

म्हाल मागयतना गिरायकान संबंदीत सगल्या गजालींचो उल्लेख स्पश्ट रितीन आपल्या पत्रांत करपाक जाय. देखीक: वस्तूंची संख्या, पॅकिंगा संबंदान सुचोवणी, पयशे फारीक करपाचो काळ, म्हाल रेल्वे स्थानकार, धक्यार वा गुदांवांत पावोवपाची तारीख, म्हाल धाडपाचें साधन, बँकेचें नांव आनी पत्तो आनी हेर.

देख १

(म्हाल मागोवपी आदेशपत्र)

# सासाय पुस्तक भांडार

दादा वैद्य चौक
फोंडें ४०३ ४०१

संदर्भ क्रमांक: ९०/९७ ता.: १३ आब्रील, १९९७

जाग प्रकाशन,
प्रियोळ -- म्हाड्डोळ.

विशय: पुस्तकां धाडून दिवपाविशीं

नमस्कार,

तुमी उजवाडायिल्ल्या आनी साहित्य अकादेमी पुरस्कार जोडिल्ल्या पुस्तकांच्यो कांय प्रती आमी मागोवपाक सोदतात ह्या पुस्तकांचें वट्ट मोलाचें बील (विक्री आनी रोख सुटीसयत) पार्सलावांगडा धाडून दिवंचें तशेंच सागाताक हेर पुस्तकांची वळेरीय धाडून दिवंची पुस्तका पावले उपरात पुस्तकांचें मोल बॅंक-ड्राफ्टान धाडून दितात

पुस्तकांच्यो प्रती सकयल दिल्लेप्रमाण अशो आसात.

| | | | |
|---|---|---|---|
| १. | हिमालयांत | रवीन्द्र केळेकार | २० प्रती |
| २. | कार्मेलीन | दामोदर मावजो | २० प्रती |
| ३. | तरंगां | महाबळेश्वर सैल | २० प्रती |
| ४. | पिसोळीं | डॉ. मनोहरराय सरदेसाय | १५ प्रती |
| ५. | सोंशाचे कान | चा. फ्रा. द कोश्त | १० प्रती |

उपकार करून जाता तितले बेगीन पुस्तका धाडून दिवपाची तजवीज करची अशी मागणी

तुमचो विस्वासू

निशाणी
(खरेदी-संचालक)
सासाय पुस्तक भांडार

देख २

ऑर्डर रद्द करपी पत्र

# दत्तराज स्टोर्स

पैंगीण – काणकोण

संदर्भ क्रमांक: १०/९७ ता.: ३ जानेर, १९९७

प्रति

सर्वश्री राजस डिस्ट्रिब्युटर्स प्रा. लि.

चावडी – काणकोण.

विशय: ऑर्डर रद्द करपा संबंदान

भौमानेस्त,

आदेश क्रमांक ३००/९६, २५ देझेंब्र, १९९६ तारखेक साकरेविशीं धाडिल्लो आदेश रद्द करपाक आमकां दुख्ख भोगता. हाजें मुखेल कारण म्हळ्यार, ऑर्डर धाडून आयज आठ दीस जाले तरी तुमी आमकां म्हाल धाडपाची तजवीज केलिना. आमकां साकर उर्जेंत जाय आशिल्ल्यान मडगांवच्या एका वितरकाकडल्यान आमी ती घेतली.

आदेश रद्द केल्लेखातीर तुमकां जाल्ल्या लुकसाणाक लागून आमकां खंत भोगता. फुडाराक गरज पडटा तेन्ना तुमचेकडल्यान साकर मागयतले. मोग आसचो.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी

(विमोद दलाल)

देख ३

फाटल्या कांय म्हयन्यांसाकून ऑर्डर धाडलिना त्या एका पोरण्या गिरायकाक पत्र.

## सोंसोदूर्ग ऑयल सप्लायर्स

सांखळी – दिवचल

संदर्भ क्रमांक: २२५/९६ ता.: १५ देझेंब्र, १९९६

प्रति
सर्वश्री विभक्ती जनरल स्टोर्स,
वाळपय – सत्तरी.

भौमानादीक,

नोंद पुस्तिकेवयल्यान कळ्ळें तेप्रमाण, फाटले स म्हयने जाले तुमी म्हालाची एकूय ऑर्डर धाडलिना. फाटलीं तीन वर्सां जालीं आमचे आनी तुमचे भितर वेपारी इश्टागत चलत आयल्या. अशी अकस्मात इश्टागत मोडपा फाटलें कारण किदें? आमचे सेवेंत उणाव बी दिसलो तुमकां? आमचेकडेन कसलीय नकळत चूक घडल्या आसत जाल्यार पत्र बरोवन कळयल्यार उपकार जातले, जाका लागून आमची चूक आमकां सुदारपाक मदत जातली.

ह्या वर्सा आमचेकडेन नवो म्हाल आयला. हो म्हाल बऱ्या दर्ज्याचो आसून मोलूय उणें आसा. ताजे कांय नमुने आनी हेर म्हालाचें सुचीपत्र तुमचे सेवेक धाडून दितात.

ह्या नव्या म्हालाखातीर ऑर्डर धाडून दिवन आमचे इश्टागतीक नवजीवन दितले असो आमकां विस्वास आसा.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी
वेवस्थापक

पत्रावळ: सुचीपत्र

## • विस्वासपत्र (Letter of Credit)

परप्रांतांत वा परदेशांतली भोंवडी करता तेन्ना रोख पयशे घेवन भोंवप भोवच धोक्याचें थरूं येता. पयशे शेणप वा चोरयेक वचपाची चड शक्यताय आसता. ताका लागून भोंवडी सुखदायक जावंक पावना. अशा वेळार वेपारी, आपले वळखीच्या मनशाक वा संस्थेक पत्र बरोवन, हें पत्र घेवन येवप्याक पत्रांत उल्लेख केल्ली रक्कम दिवंची म्हणून विनंती करता. संबंदीत व्यक्ती पयशांची गरज आसता तेन्ना, हें पत्र व्यक्ती, बँक वा संस्थेकडेन सादर करून पयशांची मागणी करता. ते व्यक्तीक पयशे दिवप हें ते व्यक्तीचें वा संस्थेचें कर्तव्य थरता.

विस्वासपत्रां दोन तरांचीं आसतात — १) सादें विस्वासपत्र, २) परिपत्रक.

सादें विस्वासपत्र हें व्यक्ती वा बँकेच्या नांवान बरयल्लें आसता. परिपत्रक हें एकापरस चड व्यक्तींक उल्लेखून बरयल्लें आसता. परिपत्रकाचो मुखेल हेत म्हळ्यार उल्लेख केल्ले व्यक्तीक, वेगळ्यावेगळ्या थळांचेर पयशांची गरज भासल्यार तांची वेवस्था करप.

**देख १**

**(सादें विस्वासपत्र)**

### नवजीवन मॅडिसीन सप्लायर्स

दादर, मुंबय

ता.: १ देझेंब्र, १९९७

प्रति

सर्वश्री कामत मॅडिकल स्टोर्स,

१८ जून मार्ग,

पणजी.

नमस्कार,

तुमकां सांगपाक खोस भोगता, हें पत्र घेवन येवपी श्री. अब्दुल अली खान हो मुंबय शारांतलो एक प्रतिश्ठीत नागरीक. तो म्हजो लागींचो इश्ट. ताका पयशांची गरज आसल्यार दोन हजार रुपयां मेरेन आदार दिवंचो. तुमकां म्हाल पावले उपरांत तुमचे पयशे बिलांतल्यान कातरून घेवंचे.

ताका दिवपी आदाराक लागून हांव तुमचो उपकारी आसतलों.

बरें मागून,

तुमचो विस्वासू,

निशाणी

(सावियु वाझ)

(प्रबंधक)

देख २
(परिपत्राच्या रूपांत)

# मठग्राम परबीं कार्ड विक्रेतो

मडगांव

ता.: ५ ओतुब्र, १९९७

(संबंदितांक)

नमस्कार,

आमचो नवो प्रतिनिधी श्री. मोहनदास शिरोडकार तुमच्या शारांत पयलेच फावट येता. ताजेकडेन वेगवेगळ्या परबीं कार्डांचे नवे नवे डिझायन आसात. ह्या कार्डांक बाजारांत खूब मागणी आसा. ताका लागून तुमचेकडेन एक नमळायेचें मागणें, तुमी ताजी थळाव्या परबीं कार्ड विक्रेत्यांकडेन वळख करून दिवंची.

श्री. मोहनदास शिरोडकार हाका पयशांची गरज आसल्यार पांच हजार रुपयां मेरेन अर्थीक मदत करची. हे पयशे म्हज्या खात्यांतल्यान कातरून घेवंचे. तुमचे माहिती खातीर, ताजी निशाणी सकयल दिल्या. हें विस्वासपत्र तारीख ३० ओतुब्र, १९९६ मेरेन चलतलें.

तुमचो विस्वासू,
निशाणी
(दिलीप वेंगुर्लेकार)
प्रबंधक

१. कोंकण ग्रिटींग कार्डस् कॉर्नर – पणजी
२. बोडगेश्वर बूक स्टॉल – म्हापशें
३. पल्लवी कार्ड सिलॅक्शन – फोंडें
४. अपना बाजार – मुरगांव
५. सुरभी प्रिंटींग ॲण्ड स्टेशनरी स्टोर्स – केपें

## • कागाळपत्र (Letter of Complaint)

आदेश वा ऑर्डरी प्रमाण जायते फावटीं गिरायकाक म्हाल आपल्या मनासारको मेळना. म्हाल वेळार धाडपाक कळाव जाल्यार वा म्हाल उत्पादनांत उत्पादकाची चूक दिसल्यार गिरायक संबंदीत व्यक्तीआड कागाळपत्र बरयता. देखीक :

१. ऑर्डरींत नोंद केलां ताजेपरस उणाक दर्ज्याचो म्हाल धाडल्यार.

२. म्हालाचे संख्येंत, वजनांत, मेज-मापांत उणाव वा उणो म्हाल पावल्यार.

३. निकृश्ट पॅकिंगाक लागून म्हाल फुटिल्लो, इबाडिल्लो वा गळटी लागिल्लो मेळ्ळ्यार.

४. चुकीचो म्हाल धाडल्यार.

५. थरयल्ले प्रमाण रोख सूट, विक्री सूट तशेंच म्हालाचें मोल उणें-चड आकारल्यार, ऑर्डर केल्लो म्हाल वेळार पावूंक नाशिल्ल्यान.

६. रेल्वे, बोट, लॉरी वा पोस्टाचे उवेखणेक लागून म्हालाचें लुकसाण जाल्यार वा चोरयेक गेल्यार.

७. पेड्डेर जाल्लो वा नोत आशिल्लो म्हाल धाडल्यार.

असले तरेचीं पत्रां बरयतना मातशी सादूरताय दवरची पडटा. 'सभ्यताय' ह्या वेवसायीक पत्रलेखनाच्या मुखेल गुणाक मतींत धरून पत्र बरोवंक जाय. पत्रांतले भाशेंत नमळाय आसपाक जाय. चुकून लेगीत गैरभाशेचो वापर जावंक फावोना.

पत्र बरोवंचे पयलीं वस्तुस्थिती किदें आसा हाजो खोलायेन अभ्यास करुनूच लिखणी हातांत घेवपाक जाय. कागाळेंत सत्यताय ना जाल्यार कागाळ करून कांयच फायदो ना. वयल्यान वेपारी संबंद इबाडपाचो संभव आसता.

देख १

उणाक दर्ज्याचो म्हाल धाडिल्लेखातीर कागाळ

## विकास खरेदी–विक्री को-ऑपरेटीव सोसायटी

कळंगूट – बार्देस

संदर्भ क्रमांक : २०/९७ ता.: २० जानेर, १९९७

प्रति
विक्री प्रबंधक,
गोदावरी ट्रेडींग कंपनी प्रा. लि.
पणजी.

विशय : उणाक दर्ज्याचो म्हाल धाडिल्लेखातीर

भौमानेस्त,

आदेश क्रमांक १२/९७ ता. ८ जानेर, १९९७ च्या पत्रांत नोंद केल्लेप्रमाण आमी १० रुपया दर किलो 'ब' धर्तेचो तांदूळ मागयल्लो, पूण तुमी आमकां 'क' धर्तेचो तांदूळ धाडून आमचें व्हड लुकसाण केलां. ह्या 'क' तांदळाक आमचेकडेन खप नाशिल्ल्यान तुमी तुमचो तांदूळ रोखड्यारोखडो घेवन वचचें. आनी येता आसतना 'ब' ग्रेड तांदूळ घेवन येवंचें. आमच्या गुदांवांत तांदळाची तूट आशिल्ल्यान तांदूळ उर्जेंत धाडून दिवंचो. सांगाताक तुमी धाडिल्लें बील धाडलां.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी
(खरेदी प्रबंधक)

पत्रावळ : बील.

देख २

ऑर्डर केल्लो म्हाल वेळार पावूंक नाशिल्ल्यान कागाळ पत्र

**अपना बाजार**

सांवड्डें – कुडचडें

संदर्भ क्रमांक : १९८/९७ ता.: १८ सेतेंब्र, १९९७

प्रति

विक्री प्रबंधक,

उमेश ट्रेडींग कंपनी,

मडगांव.

विशय : म्हाल वेळार पावूंक नाशिल्लेखातीर

भौमानेस्त,

आमच्या आदेश पत्राप्रमाण १० सेतेंब्र, १९९७ पयलीं पावपाक जाय अशी अट घालुनूय तुमी धाडिल्लो म्हाल आमचेकडेन १५ सेतेंब्र, म्हळ्यार वट्ट पांच दीस उसरां पावलो. १२ सेतेंब्राक चवथ आशिल्ल्यान म्हाल वेळार पावप गरजेचें आशिल्लें.

आतां ह्या म्हालाक खप नाशिल्ल्यान आमकां व्हडा प्रमाणांत लुकसाण सोंसचें पडलां. धाडिल्लो म्हाल चड आशिल्ल्यान आनी म्हाल खपपाची शक्यताय नाशिल्ल्यान, अर्दो अदीक म्हाल आमी धाडून दितात.

धाडून दिल्ल्या म्हालाची रक्कम वजा करून नवें बील धाडून दिवंचें. पोरणें बील पत्राच्या सांगाताक जोडलां.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी

(खरेदी प्रबंधक)

पत्रावळ : बील.

देख ३

(पेड्डेर जाल्लो म्हाल धाडिल्लेखातीर कागाळ)

## विजय जनरल स्टोर्स

पेडणें

ता.: ११ नोव्हेंब्र, १९९६

प्रति

विक्री प्रबंधक,

श्रीकांत ट्रेडींग कंपनी प्रा. लि.

म्हापशें.

विशय: पेड्डेर म्हाल धाडिल्लेखातीर

भौमानेस्त,

तुमी धाडिल्लीं पॉण्डस् पावडराचीं चार बॉक्सां पावलीं. पूण पॅकींग निकृश्ट दर्ज्याचें आशिल्ल्यान, चारूय बॉक्सांनी वट्ट पंदरा पावडराचीं लातां चेपून गेल्लीं मेळ्ळीं. हीं चेपिल्लीं लातां गिरायकां विकत घेवपाक अनमनतात. ताका लागून तीं पंदराय लातां आमी परत धाडटात. सांगाताक बिलूय धाडून दितात. नवें बील आयले उपरांत तुमची सगली रक्कम पावती करतात.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी

(राजेश मोरजकार)

खरेदी प्रबंधक

पत्रावळ: बील.

## • संदर्भ पत्र

कोणाय वेपाऱ्याची अर्थीक तांक आनी प्रतिश्ठेविशीं माहिती मेळोवपाखातीर संदर्भ पत्रां बरयतात. नवें गिरायक म्हाल उदार मागता त्या वेळार ताजे अर्थीक बळकटीविशीं चित्र स्पश्ट जावप गरजेचें आसता. अशा वेळार वितरक वेपारी संदर्भ धाडपाक सांगता. वेपारी संदर्भ म्हळ्यार ताका वळखुपी एक वा दोन वेपाऱ्यांचें नांव आनी पत्तो. हे पत्ते मेळटकूच वितरक संबंदीत वेपाऱ्यांक पत्र बरोवन नव्या गिरायकांविशीं माहिती एकठांय करता. ह्या वेपाऱ्यांनी समाधानकारक माहिती धाडली जाल्यार विक्रेतो त्या त्या नव्या गिरायकाक उदार म्हाल दिवपाक राजी जाता. ना जाल्यार पयलीं कांय पयशे धाडपाक फर्मायता.

नव्या गिरायकाविशीं संदर्भ मागयतना वा दितना ताज्या आत्मसन्मानाक बादा येवंचिना हाजी जतनाय घेवपाक जाय. ताका लागून असले तरेचें पत्र बरयतना सभ्यताय ह्या वेवसायीक पत्राच्या गुणाक पुराय पाळो दिवपाक जाय.

**देख १**

**नव्या गिरायकाकडेन संदर्भ मागोवपी पत्र**

### हरीतक्रांती फर्टीलायझर सप्लायर्स

फोंडें

संदर्भ क्रमांक ८८/९७ — ता.: ९ फेब्रेर, १९९७

प्रति
म्हादय सारें विक्रेतो,
वाळपय – सत्तरी.

भौमानेस्त,

तुमी ता. ५ फेब्रेर, १९९७ दिसा धाडिल्लो आदेश क्रमांक १५/९७ पावलो. ऑर्डर धाडिल्लेखातीर आमी तुमचे काळजाथावन उपकारी.

तुमचेकडेन वेपार करपाची ही पयलीच खेप. तुमचेकडेन वेपारी संबंद दवरपाक आमकां खूब खोस भोगतली. पूण गिरायकाचो परिचय मेळोवंचे पयलीं म्हाल धाडप हें आमच्या तत्वाभायलें. ताका लागून तुमचेकडेन नमळायेचें मागणें, उपकार करून तुमकां लागींच्यान वळखुपी दोग प्रतिश्ठीत वेपाऱ्यांचे पत्ते धाडून दिवंचे.

मजगतीं, तुमी ऑर्डर दिल्लो म्हाल आमी तयार करून दवरतात. तुमचेकडल्यान जाप मेळटकच रोखडच्यारोखडो म्हाल धाडून दिवपाची तजवीज करतात.

तुमचो विस्वासू,
निशाणी
(उमेश मेळेकार)
प्रबंधक

देख २

अर्थीक तांकी संबंदान वासपूस करपी पत्र

## हरीतक्रांती फर्टीलायझर सप्लायर्स

फोंडें

संदर्भ क्रमांक ९३/९७ ता.: २० फेब्रेर, १९९७

प्रति

एस पी एण्टरप्रायझीस,

वाळपय – सत्तरी.

भौमानादीक,

म्हादय सारें विक्रेतो, वाळपय-सत्तरी, हाणें तुमचें नांव संदर्भाखातीर दिलां. उपकार करून ताजे अर्थीक तांकीविशीं आनी वेपारी मळावयले प्रतिश्ठेविशीं थोडेभितर माहिती धाडून दियात, जाका लागून म्हाल उदार घेवपाक आमकां धीर येतलो.

तुमी धाडिल्ली माहिती आमी गुपीत दवरतले अशें उतर दितात. तुमी ही माहिती धाडून दिवन आमकां उपकारांत दवरतले अशी मागणी.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी

(उमेश मेळेकार)

प्रबंधक

देख ३

गिरायकाविशीं आयिल्ली अनुकूल जाप

**एस पी एण्टरप्रायझीस**

वाळपय – सत्तरी

संदर्भ क्रमांक ४०/९७ ता.: २६ फेब्रेर, १९९७

प्रति

हरीतक्रांती फर्टीलायझर सप्लायर्स,

फोंडें.

मानेस्त,

तुमी २० फेब्रेराक धाडिल्लें पत्र मेळ्ळें. तुमकां कळोवपाक खोस भोगता, म्हादय सारें विक्रेतो फाटलीं पांच वर्सां वाळपयंत वेपारी प्रगती करता. तो एक प्रमाणीक वेपारी आसून सदांच वेळार रीण फारीक करीत आयला.

तुमी ताका उदार म्हाल दिवपाक कांयच हरकत ना. पूण फुडाराक किदेंय बरें-वायट जालें जाल्यार हांव ताजी जापसालदारकी घेवंक शकना.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी

(संजीव बर्वे)

प्रबंधक

## • वसुली-पत्र

### (Letter regarding collection of payment)

वेपाराचें दुसरें नांव विस्वास. हे एकेच गजालीक लागून वेपारी मळार, उत्पादक वितरकाक, वितरक पसरकाराक आनी पसरकार गिरायकाक उदार म्हाल पातयेता. सगलो वेव्हार रोख पयशांनी जायना. गिरायक कितलें विस्वासू आसा, ताजी पयशे फारीक करपाची तांक कितली, हाजो एकंदर विचार आनी अदमास करून विक्रेतो ताका कांय अटी घालता. म्हळ्यार हे पयशे फारीक करपाक अमकोच तेंप थरयता. गिरायकान त्या तेंपाभितर पयशे फारीक करचे आसतात. पूण जायते फावटीं गिरायक कांय कारणाक लागून वेळार पयशे फारीक करूक शकना. अशा वेळार विक्रेतो उगडास पत्र (reminder letter) धाडून गिरायकाक पयशे फारीक कर म्हणून उगडास करून दिता.

उगडास करून दिवपी पयल्या पत्राची भास इश्टागतीची आनी नमळायेची आसूंक जाय. दुसरें उगडास पत्र बरोवपाचो वेळ आयल्यार तातूंतली भास मातशी कडक आसूंक जाय. निमाणेकडेन रक्कम फारीक जावपाची शक्यताय उणी अशें दिसलें जाल्यार कायद्याक धरून कारवाय करतले अशी धमकी तातूंत आसपाक जाय.

**देख १**

**पयशे फारीक करपा संबंदान पयलें उगडास पत्र**

**ज्ञानगंगा स्टेशनरी सप्लायर्स**

कुंकळ्ळी.

संदर्भ क्रमांक १९/९६ ता.: ३ मार्स, १९९६

प्रति

बोर्जीस बूक स्टॉल,

फातर्पे. विशय: पयशे फारीक करपा संबंदान

नमस्कार,

१५ फेब्रेर, १९९६ दिसा विकतो घेतिल्ल्या म्हालाचें वितरण पत्र नं. ३५ प्रमाण, तुमी आमकां देणें आशिल्ले २०००/- रुपया अजून फारीक केले नात. ही रक्कम तुमी दोन मार्सा पयलीं फारीक करतले अशें लेखी उतर दिल्लें.

धंद्याच्या व्यापाक लागून पयशे फारीक करपाक तुमी विसरल्यात आसूं येतात. तेन्ना तुमी ही थकबाकी रोखड्यारोखडी चॅकान वा रोख धाडून दिवंची अशी नमळायेची मागणी. तुमचे माहितीखातीर वितरण पत्र सांगाताक जोडलां.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी

(विक्री वेवस्थापक)

देख २

पयशे फारीक करपा संबंदान दुसरें उगडास पत्र

## ज्ञानगंगा स्टेशनरी सप्लायर्स

कुंकळ्ळे.

संदर्भ क्रमांक १९/९६ ता.: १३ मार्स, १९९६

प्रति
बोर्जीस बूक स्टॉल,
फातर्पे.

नमस्कार,

ता. ३ मार्च, १९९६, दिसा धाडिल्ल्या संदर्भ क्रमांक ६१/९६ ह्या पत्राचेर आमी तुमचें लक्ष ओडपाक सोदतात. त्या पत्रांत तुमी आमकां देणें आशिल्ले २०००/- रुपया फारीक करचे अशें बरयल्लें. पूण अजापाची गजाल म्हळ्यार तुमकां उगडास करून दिवनूय तुमी ते पयशे फारीक करपाक अजुनूय पावल उखललेंना. ना म्हळ्यार, पत्र बरोवनूय कांयच कळयलेंना.

आमची बाकी तुमी रोखड्यारोखडी फारीक करची अशी मागणी.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी
(विक्री वेवस्थापक)

देख ३

**पयशे फारीक करपाक थोडो काळ मागपाखातीर बरयल्लें पत्र**

## बोर्जीस बूक स्टॉल

फातर्पे

संदर्भ क्रमांक २३/९६ ता.: १८ मार्स, १९९६

प्रति
ज्ञानगंगा स्टेशनरी सप्लायर्स,
कुंकळ्ळी.

विशय : पयशे फारीक करपाक दीस वाडोवन दिवपा संबंदान

भौमानेस्त,

३ मार्स आनी १३ मार्स, १९९६ ह्या तारखांक धाडिल्लीं तुमचीं पत्रां मेळ्ळीं. तुमचे पयशे आमी वेळार फारीक करपाक शकलेनात म्हणून खंत भोगता. तशेंच, तुमकां सांगपाक दुख्ख भोगता, तें म्हळ्यार म्हज्या बापायच्या काळजाचें ऑपरेशन हालींच जाल्ल्यान फाटले पंदरा दीस म्हाका बूक स्टॉल बंद दवरचें पडिल्लें.

तुमकां खबर आसतलेंच, तुमची फाटली सगली बाकी हांव वेळार फारीक करीत आयलां. बापायच्या दुर्येसाक लागून हे फावट मात तुमचे पयशे वेळार फारीक करपाक शकलोंना म्हणून दुख्ख भोगता. बापायच्या ऑपरेशनाक हिसपाभायर खर्च आयिल्ल्यान, ह्या दिसांनी अर्थीक स्थिती मातशी खालावल्या. तुमचे पयशे फारीक करपाक आनीक एका म्हयन्याचो अवधी दिवचो, अशी नमळायेची मागणी. १८ आब्रीलमेरेन तुमचे सगले पयशे निश्चितूच पावयतां.

म्हजी अडचण मतींत घेवन म्हाका आदार दितले अशी आस्त बाळगितां.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी
(पिटर बोर्जीस)

देख ४

पयशे फारीक करपा संबंदान तिसरें आनी निमाणें उगडास पत्र

# ज्ञानगंगा स्टेशनरी सप्लायर्स

कुंकळ्ळी.

संदर्भ क्रमांक ६३/९६ ता.: २२ आब्रील, १९९६

प्रति
बोर्जीस बूक स्टॉल,
फातर्पे.

नमस्कार,

आमचे २०००/- रुपया फारीक करपाक तुमकां एका म्हयन्याचो काळ वाडोवन दिवनूय, पयशे फारीक करपा संबंदान तुमी कसलेंच पावल उखललेंना म्हणून बरोवपाक खूब वायट दिसता. तुमचे असलें विस्वासू गिरायक पयशे फारीक करिनासतना रावूंक शकता म्हळ्यार अजापूच.

ह्या आठ दिसांभितर तुमी आमचे पयशे फारीक करून आमचे भितरलो वेपारी संबंद घट करपाक आदार करतले अशी आमकां आस्त आसा. ह्या म्हयन्याचे ३० तारखे मेरेन सगले पयशे पावते केलेनात जाल्यार आमी तुमचेर कायदेशीर कारवाय करतले.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी
(विक्री वेवस्थापक)

## • परिपत्रक (Circular Letter)

ज्या पत्रांचो विशय एक आसता, आनी तो विशय साबार व्यक्ती वा संस्थांक माहितीखातीर धाडटात त्या पत्राक परिपत्रक अशें म्हणटात.

जायते फावटीं उत्पादक, वितरक वा पसरकार आपआपल्या गिरायकांक वा संस्थांक परिपत्रक धाडून संबंदीत माहिती कळयता. देखीक:

१. प्रतिश्ठान वा वेपारघराचें नांव वा पत्तो बदलपाचो आसल्यार.
२. म्हालाची जायरात करपाची आसल्यार.
३. नवो फांटो सुरू करपाचो आसल्यार.
४. पोरणो म्हाल उण्या मोलांत विकपाचो आसल्यार.
५. नवें वेपारघर उगडपाचें आसल्यार आनी हेर.

असल्या पत्रांचो मजकूर एकूच आसता. फकत वेपाऱ्याचें वा गिरायकाचें नांव आनी पत्तो बरोवपाची सुवात (भितरलो नामो) रितो दवरून पत्र आकर्शक रितीन छापतात. असले तरेचें पत्र प्रभावी करपाक स्पश्टताय आनी संक्षिप्तताय ह्या पत्राच्या गुणांचेर नदर दवरून जतनायेन पत्र बरोवचें आसता.

आधुनीक यूग हें जायरातीचें यूग मानतात. जितली जायरात ओडलायणी आनी प्रभावी थरता, तितलो वेपार वाडपाक मदत जाता. आयज गिरायकाक आकर्शीत करपाक विंगड विंगड युक्त्यो वापरतात. तातूंतली 'परिपत्रक' ही एक युक्ती, जातूंत उत्पादनाचें म्हत्व, उपेग आनी मोलाचेर संक्षिप्त चर्चा जाता. असल्या पत्राच्यो साबार प्रती काडून नांव आनी नामो बरोवन संबंदीत व्यक्तींक वा संस्थांक तें धाडून दितात.

देख १

नवो फांटो उगडपाविशीं परिपत्रक

## गावणेकार बुक्स ॲण्ड स्टेशनरी डिलर्स

सिरसाट बिल्डींग

म्हापशें.

ता.: ९ फेब्रेर, १९९७

श्री ........................................

........................................

........................................

भौमानेस्त,

उत्तर गोंयांत आमच्या वेपारांत वाड जाल्ल्यान आमी आमच्या दुकानाचो नवो फांटो दक्षीण गोंयांत (मडगांवां) टुरिस्ट हॉटेला सामकार हालींच उगडला. ह्या फांट्याचे वेवस्थापक म्हणून महेश नाडकर्णी काम पळयतले. आयजमेरेन आमचेकडल्यान मेळपी सगल्यो सुविधा तुमकां आतां त्या फांट्यांत मेळपाची वेवस्था केल्या. हो फांटो तुमकां खुबूच लागीं आशिल्ल्यान तुमी दिल्ल्या म्हालाचे ऑर्डरीचेर खाशेलें लक्ष दिवप आतां आमकां सोंपें जातलें. ह्या फांट्याचें खाशेलेपण म्हळ्यार कार्यालयांत वापरत आशिल्ले वेगवेगळे स्टेशनरी सयत हिन्दी, मराठी, कोंकणी आनी इंग्लेजींतलीं साबार दर्जेदार पुस्तकां आमी खास सुटीसयत विकपाक दवरल्यांत.

तुमी आमच्या दुकानाक मुजरत भेट दिवंची आनी आमच्या हातसून तुमची सेवा करून घेवंची.

बरें मागून,

तुमचो विस्वासू,

निशाणी

संचालक

देख २

पसऱ्याचे सुवातेंत बदल जाल्लेखातीर परिपत्रक

## भुमिका क्लॉथ मर्चंट

सांतेरी बिल्डिंग

मोरजी – पेडणें

ता.: १४ जानेर, १९९७

......................................................

......................................................

भौमानेस्त,

फाटलीं पांच वर्सां तुमी दिल्ल्या आदाराक लागून आमच्या धंद्यांत बरीच वाड जावपाक पावली. आमचो सध्याचो पसरो ल्हान सुवातेंत आनी हेर सुविधांनी अपूर्ण आशिल्ल्यान, २० जानेर, १९९७ दिसासावन आमी आमचो पसरो थंय लागींच आशिल्ले सांतेरी बिल्डिंगेंत सुरू करपाचे आसात.

आमची नवी सुवात सगल्या सुविधांनी सुसज्ज आसून, तातूंत वेगवेगळ्या तरांच्या लुगटांक वेगवेगळे विभाग आसतले. तुमकां थंय विंगड-विंगड पॅटर्नांचे आनी रंगांचे कपडे खास सुटीन मेळूं येतात. तुमी मुद्दम वेळ काडून आमच्या नव्या दुकानाक भेट दिवंची. तशेंच, हाजेमुखार सगलो पत्रवेव्हार नव्या नाम्यार करचो अशी नमळायेची मागणी.

तुमी हाजेआदीं आमकां जे तरेन आदार दिला, तसोच आदार आनी सहकार हाजेय फुडें दिवन आमचे कडल्यान सेवा करून घेतले अशी आस्त दवरतात.

बरें मागून,

तुमचो विस्वासू,

निशाणी

(शांतनू गांवस)

देख ३

नवे वस्तूची जायरात करपी परिपत्रक

## जाग प्रकाशन

प्रियोळ – फोंडें

ता.: २७ जानेर, १९९७

भौ. प्राचार्य,

..............................................

..............................................

नमस्कार,

तुमकां कळोवपाक खोस भोगता, आमच्या प्रकाशनान भौ. रवीन्द्र केळेकार हांचें 'समिधा' हें २५१ पानी कोंकणी पुस्तक हालींच उजवाडायलां.

जिवितांतल्या वेगवेगळ्या आयामांचेर भासाभास करपी ह्या पुस्तकाचें मोल रु.१२५/- आसून, दोनांवयर प्रती विकत्यो घेवप्याक २०% सूट मेळटली. भौ. केळेकार हे कोंकणींतले फांकिवंत लेखक आसून, मराठी आनी हिंदी भाशांनीय तांचीं साबार पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. तुमी तुमच्या विद्यालयाच्या/म्हाविद्यालयाच्या ग्रंथालयाखातीर ह्या पुस्तकाच्यो प्रती विकत्यो घेवन तुमच्या ग्रंथालयाची सोब वाडोवंची. हें पुस्तक तुमच्या विद्यार्थ्यांच्या गिन्यानांत निश्चितूच भर घालतलें.

तुमी ह्या पुस्तकाक ग्रंथालयांत स्थान दिवन आमकां उपकारांत दवरचें. आमी उजवाडायिल्ल्या पुस्तकांची वळेरी सांगाताक जोडल्या.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी<br>(प्रकाशक)

पत्रावळ: पुस्तकांची वळेरी.

## • एजन्सीविशीं पत्र (Letter regarding agency)

म्हाल एकेच कडेन उत्पादीत जालो तरी तो विकतो घेवपी गिरायकां मात सरभोंवतणीं शिंपडिल्लीं आसतात. म्हालाच्या दर्ज्यांत वाड करून म्हालाचो खप वाडोवप हो उत्पादकांचो मुखेल हेत आसता. म्हालाचें वितरण बरोबर जावंचें, गिरायकांक आपलो म्हाल वेळार वेवस्थीत मेळचो हीय एक मोख नदरे मुखार दवरून उत्पादक ते दिकेन पावलां उखलता.

देशाच्या वेगळ्या वेगळ्या भागांनी स्वता उत्पादक पावूंक शकना. ताका लागून उत्पादक, म्हाल वितरणाची जापसालदारकी प्रस्थापीत वेपारी वा एजण्टाक कमिशन दिवन चडावत म्हाल विकपाचो प्रयत्न करतात. अशें केल्ल्यान वितरणाचो सगलो भार ह्या प्रतिनिधींच्या खांदार दवरून, उत्पादकाक आपलें पुराय लक्ष म्हाल उत्पादनाचेर घालूंक वेळ मेळटा.

ह्या संदर्भांत उत्पादक जायरात दिवन इत्सूक व्यक्तींकडल्यान अर्जी मागयता. केन्ना केन्ना वेपाऱ्यांकडल्यानूय एजन्सीचो प्रस्ताव येता. असलो प्रस्ताव धाडटा तेन्ना वेपाऱ्यान आपली विस्तृत माहिती दिवंची पडटा. देखीक :

अ. कसले तरेची एजन्सी जाय हाजो उल्लेख करप गरजेचें. सामान्य एजन्सी (Ordinary Agency) वा थोक एजन्सी (Sole Agency) तशेंच कार्यक्षेत्राचोय उल्लेख थंय जावपाक जाय.

आ. अर्थीक स्थितीचो उल्लेख करता आसतना एक-दोन वेपार-घरांचीं वा बँकांचीं नांवां दिवप गरजेचीं.

इ. म्हाल विक्रेचो अणभव, साधनां आनी सुविधांचो उल्लेख जावपाक जाय.

ई. एजन्सी बाबतींत अटी तशेंच पयशे पावते करपा संबंदान स्पश्ट मत मांडपाक जाय.

एजन्सी घेवंक सोदपी वेपाऱ्या संबंदान वयल्या गजालींचेर खोलायेन अभ्यास केले उपरांतूच त्या वेपाऱ्याक एजन्सी दिवंची काय ना हाजेविशीं उत्पादक निर्णय घेता. हयकारी निर्णय घेतले उपरांत, दोनूय प्रतिश्ठानां भितर लेखी कबलात जाता आनी एजण्ट आपल्या कामाक सुरवात करता.

देख १

एजन्सी मेळचेखातीर अर्जी पत्र

## कालिंदी हाऊसहोल्ड ट्रेडर्स

दिवचल

संदर्भ क्रमांक : २५/९७ ता.: २१ फेब्रेर, १९९७

प्रति
सर्वश्री कालिदास ॲण्ड कंपनी,
महात्मा गांधी रस्तो,
पणजी.

विशय : एजन्सी मेळचेखातीर

भौमानेस्त,

ता. १५ फेब्रेर १९९७ दिसा 'सुनापरान्त' दिसाळ्यांत दिल्ले जायराती वयल्यान तुमी दिवचल म्हालांत तुमच्या उत्पादनाची एजन्सी दिवपाक सोदतात हें कळ्ळें. ह्या संदर्भांत आमी आमचें अर्जीपत्र तुमकां सादर करतात.

फाटलीं णव वर्सां पितळ, तांबें आनी आलुमिनाच्या आयदनांचो आमी धंदो करतात. बार्देस, दिवचल आनी सत्तरी म्हालांतल्या चडशा विक्रेत्यांलागीं आमचो लागींचो संबंद आसा. हे सगले विक्रेते आमचे कडसुनूच आयदनां विकतीं घेतात. तुमच्या म्हालाविशीं आमकां पुराय माहिती आसा. फाटल्या साबार वर्सांच्या अणभवाच्या म्हालवजार दर म्हयन्याक आमी तुमचीं १५,०००/- रुपया मोला वयर आयदनां विकपाक शकतले असो आमकां आत्मविस्वास आसा. ह्या कार्याक आमकां तुमचेकडल्यान १०% विक्री कमिशन जाय. तशेंच जायरात आनी हेर खर्च तुमकां करचो पडटलो. तुमच्या विकिल्ल्या म्हालाचे पयशे आमी दर म्हयन्याचे तीन तारखेमेरेन पावते करतले.

वेपारी संदर्भाक लागून कांय वेपारी प्रतिश्ठानांचीं नांवां आमी धाडटात. हांचेकडेन आमचे खूब पोरणे वेपारी संबंद आसात.

१. मिलन ॲल्युमिनियम डिलर्स – सांखळी.
२. गृहलक्ष्मी युटॅन्सिल सप्लायर्स – म्हापशें.
३. किचन क्वीन युटॅन्सिल स्टोर्स – वाळपय.

तुमी आमकां तुमचो एजंट नियुक्त केल्यार आमी तुमचें हीत लक्षांत घेवन काम करतले अशें उतर दितात.

तुमचो विस्वासू,
निशाणी
(प्रबंधक)

देख २

एजन्सी दिवपा संबंदान पत्र

## सर्वश्री कालिदास अँड कंपनी

महात्मा गांधी रस्तो

पणजी

संदर्भ क्रमांक: १०५/९७ ता.: २८ फेब्रेर, १९९७

प्रति

कालिंदी हाऊसहोल्ड ट्रेडर्स,

दिवचल.

भौमानादीक,

तुमी ता. २१ फेब्रेर, १९९७ दिसा धाडिल्लें, संदर्भ क्रमांक २५/९७ चें पत्र मेळ्ळें. तुमी दिवचल म्हालांत आमच्या उत्पादनाची एजन्सी घेवपाक सोदतात हें कळून खूब खोस भोगली. तुमच्या पत्राचो आमी खोलायेन विचार केले उपरांत तुमचें विनंती पत्र मानून घेवन तुमकां आमचो अधिकृत एजंट नियुक्त करपाचें आमी थरयलां.

ह्या पत्रावांगडा सविस्तर माहिती दिवपी पत्र आनी कबलातपत्र जोडलां जातूंत आमचे एजन्सी संबंदान अटी, तुमचें कमिशन, उण्यांत उणी वर्सुकी विक्री तशेंच पयशे फारीक करपा संबंदान सविस्तर माहिती दिल्या. कबलात पत्रांत उल्लेख केल्ल्या नेम आनी अटींकडेन तुमी एकमत आसत जाल्यार कबलात पत्राचेर निशाणी करून, वांगडा ७०००/- रुपयांचो क्रॉस चॅक डिपॉझिटाच्या रुपान, १५ मार्स, १९९७ मेरेन धाडून दिवंचो.

तुमचें स्विकृती पत्र आनी कबलात पत्र मेळटकच आमी वेगवेगळ्या आयदनांविशीं माहिती दिवपी पुंस्तिका, मोलाची सुची आनी जायरात साहित्य रोखडयारोखडें धाडून दिवपाची वेवस्था करतात. ताजेपयलीं ८ मार्स, १९९७ दिसा आमचो उत्तर गोंयचो खास देखरेख अधिकारी, श्री. मिल्टन द सौझ, हो तुमची भेट घेवन तुमचे सुवातेची पळोवणी करतलो.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी

(संचालक)

पत्रावळ: कबलात पत्राविशीं दोन प्रती.

## • विम्यासंबंदीं पत्र (Letter of Insurance Companies)

वेपारी मळार वेपाऱ्यांक पावला कणकणीं संकश्टांक तोंड दिवंचें पडटा. इल्लेशे चुकीक वा कारणाक लागून केन्ना केन्ना व्हड लुकसाण सोंसपाची पाळी तांचेर येता. फॅक्टरीक, गुदांवाक वा पसऱ्याक उजो लागप, म्हालाची येरादार करता आसतना रस्तो अपघात वा बोट बुडप असल्यो साबार अनपेक्षीत घडणुको घडटात. त्या वेळार मनीस आनी संपत्तीची जोखीम उखलपाक विम्या कंपन्यो पुराय संवसारभर आपलें काम करीत आसतात.

वेपाऱ्यांक लुकसाण-भरपायेचें संकश्ट आपल्याचेर आयिल्लें नाका आसता. ताका लागून ते आपले मालमत्तेचो विमो उतरावन घेतात आनी जोखिमेंतल्यान मेकळे जातात. अनपेक्षीत घडणूक घडून जर मालमत्तेचें लुकसाण जालें जाल्यार विमो कंपनीक घडणुकेची सविस्तर माहिती पुरवण करून लुकसाण-भरपाय मेळोवंची आसता.

विम्या संबंदान पत्र बरयतना खुबूच जतनाय घेवंची पडटा. कारण सगल्या म्हत्वाच्या गजालींचो उल्लेख पत्रांत करचो आसता. वेगवेगळ्या तरांच्यो विम्या पॉलिसी, विंगड विंगड विम्या येवजणो, पॉलिसी नंबर, प्रिमीयम आनी हेर माहितेची खबर आसप गरजेचें. तेचपरी ह्या संबंदान अटी आनी नेम जाणून घेवन पत्र बरोवंचें पडटा. कसलीय दुर्घटना घडटा तेन्ना विमो कंपनी ते संबंदीं पळोवणी करता आनी सोपस्काराविशीं दुकुमेंत मेळटकच, पॉलिसीधारकाक लुकसाण-भरपाय फारीक करता.

*विम्याचें कार्यक्षेत्र*

१. **जीवन विमो :** ही एक म्हत्वपूर्ण विमो येवजण. जीवन विमो येवणेखाला दुर्घटना वा सभावीक तरेन मरण आयिल्ले व्यक्तीच्या परिवाराक, विमो कंपनी निश्चीत रक्कम फारीक करता.

२. **उजो विमो :** हे विमा येवजणे खाला घरां, फॅक्टरी आनी हेर मालमत्तेचो विमो उतरावन घेतात. विमो कंपनी उज्यांत जाल्ले लुकसाणेची पळोवणी करून सविस्तर माहिती मेळयले उपरांत संबंदीत विमो पॉलिसीधारकाक लुकसाण-भरपाय फारीक करता.

३. **दर्या विमो :** दर्यांत आयिल्ल्या अनपेक्षीत मोडाक लागून वा खंयच्याय खडपाक तशेंच उंचवट्याक आदळून तारूं बुडप वा हेर तरेच्या अपघाताक लागून लाखांनी रुपयांच्या म्हालाचें तेचपरी तारवाचें लुकसाण जाता. असल्या दुर्घटनांची जोखीम उखलपाक दर्याविमो सदांच कार्यरत आसता.

1. विमो येवजणेविशीं माहिती मेळोवपा संबंदान पत्र
2. वारस (नॉमिनी) बदलपाविशीं पत्र
3. पॉलिसी ट्रान्स्फर करपाविशीं पत्र
4. पत्त्यांत बदल करपाविशीं पत्र
5. हप्त्याची काळमर्यादा बदलपाविशीं पत्र
6. पॉलिसी सोडपा (सरँडर करपा)विशीं पत्र
7. विम्या पॉलिसीचेर रीण मागपाविशीं पत्र
8. बंद पडिल्ली विम्या येवजण परत सुरू करपाविशीं पत्र
9. उत्पन्न-कर दाखलो मागणे संबंदान पत्र
10. उज्या विमो वा दर्या विमो कंपनीकडेन लुकसाण-भरपायेविशीं पत्र

**देख १**

**उज्या विमो येवजणेची माहिती मेळोवपाविशीं पत्र**

## अन्नपूर्णा डिस्ट्रीब्युटर्स

म्युनिसिपल मार्केट, मडगांव.

सं. क्र.: १३१/९७

प्रति — ता.: २५ जून, १९९७

फांटो वेवस्थापक,
नॅशनल इन्शुरन्स कंपनी,
मडगांव.

विशय : विमो येवजणेविशीं माहिती मेळोवपा संबंदान

भौमानेस्त,

बीपीएस मार्गार आशिल्ल्या भाड्याच्या गुदांवांत आमी तांदळाचे ५०० (पांचशें) साक भरून दवरल्यात. तांचें मोल वट्ट चार लाख रुपया इतलें जाता. संबंदीत गुदांवांचो आमी स म्हयन्यांखातीर उज्या विमो करपाक सोदतात. ह्या गुदांवाचो विमो उतरावपाक कितलो हप्तो (प्रिमियम) भरचो पडटलो, तशेंच हेर सविस्तर माहिती आमकां धाडून दिवंची. तशेंच, तुमच्या प्रतिनिधीक धाडून गुदांवाची आनी म्हालाची पळोवणी करून सोपस्कार पुराय करून घेवंचे.

तुमी हे संबंदान रोखडें पावल उखलून गुदांवाचो विमो उतरावन घेतले अशी आमी आस्त बाळगितात. तुमचे जापेक रावतात.

तुमचो विस्वासू,
निशाणी
वेवस्थापक

**देख २**

**पत्त्यांत जाल्ल्या बदलाविशीं पत्र**

विशांत पालसरकार
शिवोली.

ता. १८ जून, १९९७

प्रति
फांटो वेवस्थापक,
भारतीय जीवन विमो म्हामंडळ,
महात्मा गांधी मार्ग,
कांचन बिल्डींग, म्हापशें.

विशय: पत्रवेव्हाराचो पत्तो बदलपाविशीं

भौमानेस्त

फाटल्या माय म्हयन्यांत म्हजी बदली साश्ट म्हालांतल्या (दक्षीण गोंय) कुंकळ्ळी गांवांत जाल्ल्यान, हाजे मुखावयलो पत्रवेव्हार वयल्या नाम्याचेर करिनासतना सकयल दिल्ल्या नाम्याचेर करचो: विशांत पालसरकार, द्वारा राजेंद्र देसाय, देसायवाडो, कुंकळ्ळी.

पत्त्यांत जाल्लो बदल मतींत दवरून फुडलो पत्रवेव्हार तुमी नव्या नाम्याचेर करतले अशी आस्त करतां.

जापेक रावतां.

तुमचो दिस्वासू,

निशाणी
(विशांत पालसरकार)

देख ३

विमो पॉलिसीचेर रीण मागपाविशीं पत्र

नकूळ वेळुसकार
धावें – वाळपय.

ता.: २ आब्रील, १९९७

प्रति,
फांटो वेवस्थापक,
भारतीय जीवन विमा म्हामंडळ,
दिवचल.

विशय: जीवन विमो पॉलिसी नं. २५६७५८४३ चेर रीण मागपाविशीं

भौमानेस्त,

हांवें तुमचे कंपनींत १९९१ वर्सा 'मनी बॅक पॉलिसी' वरवीं एक लाख रुपयांचो विमो उतरावन घेतला. हे विमो पॉलिसीची काळमर्यादा २० वर्सां आसून म्हयनाळो हप्तो म्हणून १६३१/- रुपया हांव नेमान भरीत आयलां. विमो पॉलिसीखाला म्हाका तुमी घरनिर्माण येवजणे अंतर्गत पन्नास हजार रुपयांचें रीण मंजूर करचें अशें मागतां.

सध्या हांव गोंय सरकाराच्या भौशीक बांदकाम खात्यांत कारकून म्हणून काम करतां आनी म्हयनाळो वट्ट पांच हजार रुपया पगार घेतां.

अर्जाचेर विचार करून ह्या संदर्भांत लागपी फॉर्म धाडून दिवंचे अशी नमळायेची मागणी.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी
(नकूळ वेळुसकार)

देख ४

**बंद पडिल्ली विमो येवजण परत सुरू करपाविशीं पत्र**

एकनाथ नायक
नागेशीं – बांदोडें,
फोंडें.

प्रति
फांटो वेवस्थापक,
भारतीय जीवन विमा म्हामंडळ,
सुभाषचंद्र बोस रस्तो,
फोंडें.

ता.: २८ जुलय, १९९७

विशय : बंद पडिल्ली विमो येवजण परत सुरू करपाविशीं.

भौमानादीक,

५ फेब्रेर, १९९६ दिसा सुरू केल्ली एका लाखाची जीवन विमो पॉलिसी (नं. ६२५३४६१ – जीवन सुरभी) हप्तो वेळार भरूंक पावूंक नाशिल्ल्यान बंद पडिल्ली. तीच पॉलिसी तुमचे नवे येवजणेखाला हांव परत सुरू करपाक सोदतां. ही पॉलिसी सुरू करपाक मान्यताय दिवंची अशी नमळायेची मागणी. हेविशींचे सोपस्कार पत्रांतल्यान कळोवंचे.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी
(एकनाथ नायक)

देख ५

उज्या-विम्या कंपनीक लुकसाण-भरपायेविशीं पत्र :

**रघुवीर शिरोडकार ॲण्ड ब्रदर्स**

फॅन्सी क्लॉथ मर्चंट

माशेल

ता.: २० माय, १९९७

प्रति

फांटो वेवस्थापक,

नॅशनल इन्शुरन्स कंपनी,

तनुजा बिल्डींग,

फोंडें.

विशय : लुकसाण-भरपाय मेळपा संबंदान

भौमानेस्त,

तुमकां कळोवपाक खूब वायट दिसता तें म्हळ्यार तुमचे कंपनींत उज्या विमो पॉलिसी क्र. एस/२३५०४० चे सकयल ज्या शो-रुमाचो विमो उतरायिल्लो, त्या शो-रुमाक ता. १९ माय, १९९७ रातच्या १० वरांचेर उजो लागून सुमार पांच लाखांचें लुकसाण जालां. ह्या शो-रुमाचो विमो दोन वर्सांखातीर आसा. उज्याचें नेमकें कारण किदें तें अजून कळूक ना.

तुमी तुमचो प्रतिनिधी धाडून हे दुर्घटनेची पळोवणी करची आनी लुकसाण भरपायेची वेवस्था करची अशी मागणी. तुमी ह्या संदर्भात रोखड्यारोखडीं पावलां उखलतले अशी आस्त करतात.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी

रघुवीर शिरोडकार ॲण्ड ब्रदर्स

फॅन्सी क्लॉथ मर्चंट

## • बँके संबंदीं पत्रां

## (Letters regarding Banking Transactions)

उद्देगीक क्रांती उपरांत संवसारीक मळार बँकांक खुबूच म्हत्व आयलें. विंगड विंगड खात्यांनी आनी साबार येवजणांखाला पयसो एकठांय करून वेगवेगळ्या कारणांखातीर गरजेवंतांक रीण दिवप, बील डिस्काउण्ट करप, चॅक, डिमाण्ड ड्राफ्ट, तशेंच परकी चलनाक धरून पयशांचे सुरक्षीतताये संबंदान उपाय ह्या मुळाव्या गजालीं वांगडाच बँक सर्वसामान्य मनशांक आनी वेपाऱ्यांक साबार तरांनी आदार करतात.

आयज व्यक्ती वा वेपारी संस्थांचें बँकेबगर पान हालना. बँक म्हळ्यार उद्देगीक आनी वेपारी मळावयलो स्वास, कुडींत घोळपी रगत, इतलें आयच्या युगांत बँकांचें म्हत्व वाडलां. आदल्या तेंपार वेपार-धंद्याचें कार्यक्षेत्र मर्यादीत आसलें. आयज वेपाराच्यो शीम-मेरो रुंदावल्यात. ताणें राज्य पांवड्याची बाजारपेठ हुंपून राष्ट्री आनी आंतरराष्ट्री पांवड्यार पावल मारलां. वेपाऱ्यां वेपाऱ्यां भितरलें आनी देशां देशां भितरलें मध्यस्थीचें काम आयज बँको करतात. आयचे हे असुरक्षीत जिणेंत मनीस आपली संपत बँकांनी सेगूर दवरपाक पळयता. वेपारी प्रतिश्ठानांचें घोळटें भांडवल बँकांनी उरता आनी तें तांकां जाय तेन्ना वापरूंक मेळटा. व्यक्ती, वेपारी तशेंच सरकार आपलो अर्थीक वेपार बँकेंतल्यानूच जावंचो म्हणून प्रयत्नशील आसतात. हाका लागून संबंदीत व्यक्ती वा संस्थांक ह्या ना त्या कारणांक लागून बँकांकडेन पत्रवेव्हार करचो पडटा. बँकूय संबंदितांकडेन पयशे घोळणुकेच्या संदर्भात पत्रवेव्हार करता. ह्याच कारणांक लागून 'बँक दोन व्यक्तींमदलो सांकव' अशें म्हळ्यार अतिताय जावंचिना.

पत्रवेव्हार करतना चॅक वा ड्राफ्टाचो क्रमांक, तारीख आनी रक्कम हांचेर विशेश लक्ष दिवपाक जाय.

बँके संबंदांतलो कांय पंत्रवेव्हार सकयले प्रमाण आसता:

१. खातें उगडपा वा बंद करपा संबंदान पत्र
२. चॅक बूक मागणेविशीं पत्र
३. चॅक बूक शेणिल्लेखातीर पत्र
४. चॅक वाटावणी आडावंचेखातीर पत्र
५. हिसबांतले चुकीविशीं पत्र
६. पासबूक शेणिल्लेखातीर पत्र
७. चॅक दिले उपरांत खात्यार बँक बॅलन्स नाशिल्लेखातीर सुचोवणी पत्र
८. ओवरड्राफ्ट मागणेखातीर पत्र
९. रीण मागणे संबंदान पत्र
१०. रिणाचो हप्तो भरपाविशीं उगडास पत्र

देख १

चालू खातें (Current Account) उगडपा संबंदान पत्र

## सन ॲण्ड मून प्रा. लि.

स्टार मार्केट, पणजी

प्रति

ता.: ९ जुलय, १९९७

फांटो वेवस्थापक,
गोवा राज्य सहकारी बँक लि.
पणजी.

विशय: आमचे कंपनीच्या नांवार चालू खातें उगडपा संबंदान

भौमानेस्त,

सन ॲण्ड मून प्रा. लि. ही एक रजिस्टर्ड कंपनी आसून जून, ९७ सावन आमी घरगुती प्लास्टीक वस्तूंचें उत्पादन करतात. आमी तुमचे बँकेंत चालू-खातें उगडपाक इत्सूक आसात. सोपस्कार पुराय करपाच्या संदर्भात अर्जी फॉर्म आनी नमुन्याचे निशाणेचो तकटो दिवपाची तजवीज करची.

बरें मागून,

तुमचो विस्वासू,
निशाणी
(संचालक)
सन ॲण्ड मून प्रा. लि.

देख २

चॅक बूक मागणेविशीं पत्र

डॅरीक दीयश
पाटो-रायबंदर.
ता. ९ आगोस्त, १९९७

प्रति
फांटो वेवस्थापक,
भारतीय स्टेट बँक,
पाटो – रायबदर.

विशय: बचत खातें नं. ३९४६चेर चॅक बूक दिवंचेखातीर

मानेस्त,

फाटलीं दोन वर्सा तुमचे बँकेंत हांव वेव्हार करतां. वयर नोंद केल्ल्या बचत खात्याचेर म्हाका चॅक बूक दिवपाची तजवीज करची. ह्या संदर्भात आशिल्ल्यो तुमचे बँकेच्यो अटी आनी नेम म्हाका मान्य आसात.

तुमचो विस्वासू,
निशाणी
(डॅरीक दीयश)
खातेदार

देख ३

चॅक वाटावणी आडावंचेखातीर पत्र

## सुरभि ऑटोमोबायल स्पॅर पार्टस् डिलर

मुरगांव

प्रति
ता.: १२ आगोस्त, १९९७

वेवस्थापक,
देना बँक,
हुतात्मा चौक,
मुरगांव.

विशय: चॅक वाटावणी थांबोवंचेखातीर (C. No. SSD/562501)

भौमानादीक,

ता. ५ आगोस्त, १९९७ दिसा, स्कुटरीचे मेकळे भाग पावते करतां हे अटीचेर श्री. रामकृष्ण पराडकार हांकां ५०००/- (पांच हजार फक्त) रकमेचो चॅक (C. No. SSD/562501) दिल्लो. पूण हे लेखी अटीप्रमाण ताणें आयजमेरेन मेकळे भाग पावते केल्ले नात. ताका लागून वयल्या क्रमांकाचो चॅक उपकार करून वटोवंचो न्हय अशी नमळायेची मागणी.

तुमचो विस्वासू,
निशाणी
(मन्सूर अली खान)

देख ४

पासबूक शेणिल्लेखातीर पत्र

सुकुरिना सार्दिन्य
बाणावली.

प्रति
ता. ३० जुलय, १९९७

वेवस्थापक,
साश्ट अर्बन क्रॅ. को. बँक,
बाणावली.

विशय: चालू खातें नं. ३९०० चो पासबूक शेणिल्लेखातीर

भौमानेस्त,

पणजी-मडगांव प्रवास करतना फाटले २५ तारखेर म्हजें बॅग शेणलें. म्हत्वाच्या कागदपत्रां सयत त्या बॅगांत चालू खातें क्र. ३९०० हो तुमचे बँकेचो पासबूक आशिल्लो. तेखातीर तुमी म्हाका नवो पासबूक दिवपाची तजवीज करची अशी नमळायेची मागणी. ह्या संदर्भात कसलेय सोपस्कार आसल्यार कळोवंचें.

तुमचो विस्वासू,
निशाणी
(सुकुरिना सार्दिन्य)

अर्ज प्रभावी थरतलो. प्रभावी थरिल्ल्या अर्जदाराक आपोवणें येवं येता.

नोकरी मेळप हें खरें अर्जाचें येस न्हय. मुलाखतीक आपोवणें येवप हेंच खरें अर्जाचें येस अशें समजुचें.

अर्ज बरयतना कांय म्हत्वाच्यो गजाली मतींत दवरपाक जाय. त्यो सकयल दिल्लेप्रमाण :

१] ज्या जाग्याखातीर अर्ज करता तेखातीर लागपी शिक्षणीक पात्रताय आपलेकडेन आसा काय ना हें पळोवंक जाय. तशेंच, आपूण खऱ्यांनीच ह्या हुद्द्यार काम करपाक उत्सूक आसां व्हय, हेविशीं जाप सोदून काडून अर्ज करपाक जाय.

२] अर्ज हो आपणेंच आपल्या नितळ अक्षरान, पानाच्या एकाच अर्दान बरोवपाक जाय. टायप केल्लो वा संगणकाच्या आदारान प्रिण्ट केल्लो अर्ज चड प्रभावी थरता.

३] अर्ज बरोवपाखातीर वापरिल्लो कागद सदांच धव्या रंगाचो आनी बऱ्या दर्ज्याचो आसचो. जर कामाक आसतना अर्ज करपाक सोदता जाल्यार आपूण काम करता त्या कार्यालयाचें लॅटरहेड अर्ज बरोवपाक वापरचें न्हय. आपूण कित्याक लागून ही नोकरी सोडूंक सोदतां ताजें कारण दिल्यार चड बरें.

४] आपले शिक्षणीक आनी अणभवाचे पात्रतायेविशीं बरयतना तातूंत प्रामाणीकपण आसचें. तातूंत अतिताय आसची न्हय. तशेंच, आपलेकडेन पात्रताय नासतना आशिल्ल्याचें बरोवचें न्हय. तेचपरी, पात्रताय आसतना नोंद करिनासतना रावप समा न्हय.

५] अर्ज थोडेंभितर बरयल्लो आसचो. पूण अशें करतना म्हत्वाची माहिती बरयनासतना रावचें न्हय. तशेंच, अर्जाची भास नितळ आनी व्याकरणी नदरेन शुद्ध आसची.

६] आपलेविशीं गैरसमज निर्माण जावंक शकता अशी माहिती अर्जांत दिवंची न्हय. अर्जांत अर्ज करपी मनशाचें व्यक्तिमत्व जिवें दिसपाक जाय. तुमच्या अर्जाची तुळा हेर अर्जांकडेन करतना तो अर्ज उजवो थरपाक जाय.

७] कांय म्हत्वाचे मुद्दे नदरेंत भरचे म्हणून तांचे सकयल आडी मारून स्पश्ट करचे.

८] काम निर्मुप्याक हातबरपी अर्ज जाय, काय टायप केल्लो अर्ज जाय हें पळोवन ते तरेचो अर्ज धाडपाक जाय.

९] अर्ज बरोवपाक वापरिल्ल्या कागदाचो रंग आनी ताजे घडयेचो आकार मतींत घेवन लखोट्याचो वापर करपाक जाय.

१०] जायरातीची तारीख पळोवन तातूंत सांगिल्ले तारखेपयलीं अर्ज काम निर्मुप्याच्या कार्यालयांत पावपाक जाय.

११] चुकून लेगीत अर्जाची कार्बन वा झॅरॉक्स प्रत धाडची न्हय.

१२] मुलाखतीक आपोवणें येतकच मुलाखतीक आपूण तयार नासल्यार लेगीत मनाची पुराय तयारी करून मुलाखत दिवंची. कारण दर एक मुलाखत आपल्या अणभवांत मोलाची भर घालता. त्या अणभवाच्या म्हालवजार फुडाराक बरी नोकरी मेळूं येता.

१३] लखोट्यावयलो नामो नीट आनी नितळ अक्षरांत बरोवंचो. तशेंच, अर्ज 'बूक पोस्टा' खाला पोस्ट करचो न्हय.

१४] नोकरेविशीं माहिती खंयच्यान मेळ्ळ्या त्या दिसाळ्याचें नांव आनी तारीख हांचो संदर्भ ओळींत उल्लेख करचो.

## ☐ अर्जाचे मुखेल भाग

१] अर्ज करप्याचो वा अर्जदाराचो नामो (Name & Address of the applicant).
अर्जाची सुरवातूच अर्जदाराच्या नाम्यांतल्यान जाता. अर्जदारान दिल्ल्या नाम्याच्या आदारान ताका परत जाप मेळूं येता. ताका लागून आपलो पुराय नामो कागदाचे उजवे वटेंतल्या कोनशाक बरोवंचो आसता. नवे रिती प्रमाण तो आतां दाव्या अर्दान बरोवपाची चाल आयल्या.

२] अर्जाची तारीख : (Date of Application)
अर्जदाराच्या नाम्या' सकयल ज्या दिसा अर्ज बरयला त्या दिसाची तारीख बरोवप म्हत्वाचें. तारीख ५-८-९७ अशी बरयनासतना ५ आगोस्त, १९९७ अशी बरोवंची. हो नेम घराव्या पत्रांक लागू जाताच अशें ना.

३] भितरलो नामो : (Inside Address)
काम निर्मुप्याचें नांव वा संबंदीत अधिकाऱ्याचो हुद्दो आनी संस्थेचो पत्तो बरोवप खूब गरजेचें. भितरलो नामो दावे वटेन येवकार ओळीचे वयर बरोवंचो आसता. पूण जायते फावट जायरातींत काम निर्माती आपलो पत्तो दिनासतना नेमाळ्याचो नामो दिवन बॉक्स नंबर दिता.

४] येवकार : (Salutation)
आपूण अर्ज कोणाक बरयतां, ताजो हुद्दो किदें, हें मतींत घेवन येवकार बरोवंचो आसता. कोंकणींत 'मानेस्त', 'भौमानेस्त', 'भौमानादीक' अशीं उतरां येवकाराखातीर सर्वसामान्यपणान घोळटात.

५] विशय ओळ : (Subject line)
विशय ओळींत, अर्जाचो विशय मेजक्याच उतरांनी सांगपाक जाय. विशय ओळ येवकारासकयल बरोवप ही भारतीय रीत. जाल्यार येवकारावयर बरोवप ही अस्तंती रीत. सामान्यतायेन विशय ओळ येवकारावयर बरयतात.

६] संदर्भ ओळ : (Reference line)
अर्जदार नोकरेविशीं जायरातींतल्यान माहिती मेळयतात. ज्या दिसाळ्यांत

जायरात आयल्या त्या दिसाळ्याचें नांव आनी तारीख संदर्भ ओळींत येवपाक जाय. संदर्भ ओळ विशय ओळीसकयल बरोवंची आसता.

७] उकतावण परिच्छेद : (Opening Paragraph)
कसलेय गजालीची सुरवात बरी करप म्हळ्यार अर्दें येस हातासप. पयल्याच वाक्यांत अर्ज किद्याक लागून बरयला हाजी पुसट जाणविकाय जावपाक जाय. पयल्याच कांय ओळींनी तुजे हुशारकायेची खात्री पटोवन दिवपी आनी सुचकताय दाखोवपी मजकूर आसपाक जाय. पयल्या परिच्छेदांत अर्जदाराच्यो त्या जाग्याविशीं अपेक्षा उकतायल्ल्यो आसतात.

८] अर्जाचें मुखेल आंग : (Body of the Application)
अर्जाच्या मुखेल आंगांत अर्ज करप्याची पिराय, शिक्षणीक पात्रताय, कामाचो अणभव, खाशेलें प्रशिक्षण आनी हेर म्हत्वाच्या गजालींचो आसपाव जाता. संबंदीत जाग्याखातीर अर्ज करपी कितलो पात्र आसा हें ह्या भागाचें मुखेल उद्दिश्ट.

अर्जाच्या ह्या भागांत आपलेविशीं माहिती दितना ती जतनायेन बरोवंची. जायरातीची मागणी किदें आसा हें मतींत घेवन आपलेविशीं बिनचूक माहिती दिवपाक जाय. अर्जांत चुको उरच्यो न्हय म्हणून अर्ज एक दोन फावट थंडसाणेन वाचून काडचो. तातूंतल्यो चुको सुदारून अर्जाची नवी प्रत काडले उपरांत तो धाडून दिवंचो.

९] सोंपतो परिच्छेद : (Concluding Paragraph)
उकतावण परिच्छेदा इतलेंच म्हत्व सोंपत्या परिच्छेदाक आसा. ह्या परिच्छेदांत, आपल्याक नोकरी दिल्यार आपूण निश्ठेन आनी प्रामाणीकपणान काम करतलों अशी गवाय दिवपाक जाय. आपली पात्रताय पळोवन आपणाक मुलाखतीक आपोवंचो अशी नमळायेची मागणी तातूंत करची.

१०] अभिवादन आनी निशाणी : (Complimentary Close and Signature)
अर्ज बरोवन सोंपले उपरांत, सकयल पानाचे दावे वटेन अभिवादन बरोवन ताजे सकयल, अर्ज बरोवप्याची निशाणी करप गरजेचें. तशेंच धांपण्यांत (        ) आपलें नांव बरोवन अर्जाचो समारोप करचो.

अभिवादन 'तुमचो विस्वासू' अशें बरोवचें. टायप केल्ल्या अर्जांत फकत निशाणेच्या आदारान अर्ज बरोवप्याची अक्षर वळख जाता. बायल अर्जदारान आपल्या नांवामुखार धांपण्यांत कु. वा सौ. अशें बरोवंचें. देखीक (कु.) युवती मेळेकार; (सौ.) प्रशीला सावंत.

## कांय ओडलायण्यो सुरवाती :

देखीक :

(१) तुमी ४ आगोस्त, १९९७ तारखेक सुनापरान्त दिसाळ्यांत दिल्ले जायरातीचो संदर्भ घेवन, हांव वयर उल्लेख केल्ल्या जाग्याखातीर तुमचे संस्थेक अर्ज धाडटां.

(२) तुमचे कंपनीक अकाऊंटण्ट कम क्लार्काची सेवा जाय हें मतींत घेवन हांव ह्या जाग्याखातीर अर्ज धाडटां.

(३) म्हज्या कांय इश्टांकडल्यान खबर मेळ्ळ्या तेप्रमाण तुमचे वेपारी संस्थेक अणभवी 'भोंवतो विक्रेतो' जाय, हे माहितीचो संदर्भ घेवन संबंदीत जाग्याखातीर अर्ज करतां.

(४) लघुलेखनकार म्हणून पांच वर्सां आशिल्लो अणभव, तुमी जायरात दिल्ल्या जाग्याखातीर म्हाका पात्र थरयता. वेवसायीक मळार मुळावण घट केल्ले तुमचे कंपनींत काम करपाक म्हाका खूब आवडटलें.

## अर्जाचो अखेर : कांय देखी

(१) म्हाका मुलाखतीक आपोवणें धाडून म्हज्यांत आशिल्ल्या गुणांची पारखणी करची अशी नमळायेची मागणी.

(२) तुमी म्हाका मुलाखतीक आपोवणें धाडटले असो म्हाका विस्वास आसा.

(३) म्हजी शिक्षणीक पात्रताय, कामाचो अणभव आनी हेर माहिती वाचून म्हाका तुमी मुलाखतीक आपोवणें धाडटले असो म्हाका आत्मविस्वास आसा. तुमकां जाय त्या दिसा मुलाखतीक येवपाक हांव तयार आसां.

(४) तुमचेकडल्यान येवपी जापेची हांव वाट पळयतां.

(५) म्हजी निराशा करिनासतना, मुलाखतीक आपोवणें धाडून म्हाका म्हजे जिणेचें उद्दिश्ट तडीक व्हरपाक आदार करचो अशी नमळायेची मागणी.

(६) म्हजेकडेन फावो तो अणभव नांसलो तरी म्हजेकडेन काम करपाची आनी शिकपाची आशिल्ली उमेद तुमची सेवा करपाक उणी पडचिना.

अर्ज बायोडेटा फॉर्मांत बरयतना बायोडेटा घडोवपी कांय म्हत्वाचे भाग सकयल दिल्लेप्रमाण आसात :

१] **नांव (Name) :** आपलें पुराय नांव बरोवप गरजेचें. देखीक, सी. अ. गांवस अशें बरयनासतना तें सीताराम अनंत गांवस अशें बरोवचें. तशेंच, जें नांव जल्म दाखल्यार आसा आनी शिक्षण संस्थेंत नोंद जालां, तेंच नांव अर्जार बरोवचें. पुराय नांव म्हणटा आसतना, आपलें स्वताचें नांव, बापायचें/आवयचें तशेंच आडनांवाचो आसपाव जाता. पयलीं आपलें, मागीर बापायचें/आवयचें, उपरांत आडनांव बरोवप ही भारतीय रीत.

जाल्यार, पयलीं आडनांव, मागीर आपलें आनी उपरांत बापायचें/आवयचें नांव बरोवप ही अस्तंती रीत. नांवाचे बाबतींत भारतीय रीत आपणावंची.

२] **नामो** (Address) : पत्रवेव्हार करचेपासत उमेदवाराचो पुराय नामो हांगा अपेक्षीत आसता. जायते फावट घरचो कायम स्वरुपी नामो आनी तत्पुरतो राबितो करून राविल्लो नामो, अशे उमेदवाराचे दोन नामे आसूं येतात. अशा वेळार आपणाक सहजतायेन कसलीच आडखळ येनासतना जाप खंयच्या नाम्यार बेगीन मेळूं येता हें मतींत घेवन, तो नामो बरोवंचो. नामो बरयतना वाडो, गांव, म्हाल, जिल्लो, राज्य तशेंच पोस्ट आनी पीनकोड नितळ अक्षरांत बरोवंचो.

३] **पिराय** (Age) : पिराय बरयतना वर्सां अचूक बरोवन म्हयने आनी दीस ज्युस्ताज्युस्त बरयनासतना सरासरी बरोवंचे. देखीक, अर्जदाराचो जल्मदीस ३० जून, १९७४ आनी अर्ज बरोवपाची तारीख २७ सेतेंब्र, १९९७ आसल्यार अर्जाचेर २३ वर्सां, एक म्हयनो २७ दीस अशें बरयनासतना, '२३ वर्सां' अशें बरोवंचें. तशेंच, जल्मतारीख बरोवंची आसल्यार ३०-६-१९७४ अशी बरयनासतना ती ३० जून, १९७४ अशी बरोवंची.

४] **शिक्षणीक पात्रताय** (Educational Qualifications) : आयज सर्तीच्या युगांत चडावत नोकऱ्यो शिक्षणाकडेन संबंदीत आसतात. नोकरेखातीर मागिल्ली शिक्षणीक पात्रताय किदें, हें मतींत घेवन, तेखातीर आपलेकडेन शिक्षण आसा काय ना हाजी आजमावणी करून अर्ज धाडपाक जाय.
देखीक : म्हाविद्यालय व्याख्यात्या खातीरच्या जाग्याक अर्जदार अमुकूच एका विशयांत पदवीधर आनी पद्व्युत्तर जाल्लो आसपाक जाय. शिक्षणीक पात्रताय बरयतना धावी ते पदव्युत्तर पांवड्या मेरेनच्या पदव्यां वांगडाच, बोर्ड तशेंच विद्यापिठाचें नांव, परिक्षा पास जाल्लें वर्स वा तारीख, विशय, गुणांची टक्केवारी तेचपरी परिक्षेंत मेळिल्ल्या वर्गाची माहिती दिवन गूण-पत्रिका जोडपाक जाय.

५] **कामाचो अणभव** (Working Experience) : 'तुमी कामाक दवरलेबगर आमकां अणभव कसो मेळटलो' असो निराशेचो सूर जायते फावटीं नव्यानूच पदवी घेतिल्ल्या तरणाट्यांकडल्यान आयकूंक मेळटा. अशें आसलें तरी मुलाखती वेळार 'तुका कामाचो अणभव आसा ?' असो प्रस्न चुकनासतना मुलाखत घेवपी विचारतात. कारण, काम निर्मुप्याक अणभवी कामगार जाय आसतात. तेखातीर आपणें वेगवेगळेकडेन घेतिल्ले कामाचे अणभव एका फाटल्यान एक अशे बरोवन, अणभवाचें प्रमाणपत्र निमाणेकडेन जोडून ताजो उल्लेख पत्रांत करपाक जाय. कामाचो अणभव बरयतना संबंदीत संस्थेचें नांव, नामो, थंय आशिल्लो तुजो हुद्दो, कामाचो काळ ह्या मुखेल गजालींचो उल्लेख थंय करपाक जाय.

६] **खाशेलें प्रशिक्षण : (Special Training Courses) :** खाशेलें प्रशिक्षण घेतिल्लें आसल्यार वा कार्यशाळेंत वांटेकार जाल्लो आसल्यार तेविशीं उल्लेख करून गवाय म्हणून प्रमाणपत्र जोडचें आनी ताजो उल्लेख पत्रावळींत करचो.

७] **इनामां आनी शिश्यवृत्त्यो (Prizes and Scholarships) :** खेळांमळार, लेखनांत वा हेर मळावयल्या सर्तींनी इनामां जोडिल्लीं आसल्यार तांचो उल्लेख करचो. तशेंच, शिश्यवृत्ती मेळ्ळ्यार, ती किद्याखातीर आनी केन्ना मेळ्ळ्या हाजो उल्लेख करून ताजीय थोडेभितर माहिती दिवंची.

८] **उजवाडावणी आनी पेपर सादरीकरण (Publication and Paper Presentation) :** संमेलनांनी वा चर्चासत्रांनी सादर केल्ले पेपर, तांची उजवाडावणी, निबंद-प्रबंदांची उजवाडावणी, तशेंच पुस्तक उजवाडावणे संबंदान थोडेभितर माहिती दिवंची.

९] **छंद (Hobbies) :** अर्जांत आपले छंद बरोवपाची गरज आसना. पूण व्यक्तीक आशिल्ल्या छंदांत ते व्यक्तीचें व्यक्तीमत्व पडबिंबीत जाल्लें आसता. ह्या छंदांचो संबंद नोकरेकडेन अप्रत्यक्षपणान आसता.

१०] **अभ्यासक्रमाभायलो वावर (Extra-curricular Activities) :** समाजीक, संस्कृतीक, शिक्षणीक, खेळांमळावयल्यो संस्था आनी हेर सेवाभावी संस्थांकडेन तशेंच संघटणांकडेन आशिल्ल्या लागींच्या संबंदांविशीं थोडेभितर माहिती दिवंची.

११] **संदर्भ (Reference) :** आपल्या व्यक्तीगुणांचेर उजवाड पडचो, तशेंच काम निर्मुप्याक आपलेविशीं मत आजमावन वा जाणून घेवपाक मेळचें म्हणून आपूण आदीं वा आतां कामाक आशिल्ल्या काम निर्मुप्यांचो नामो ना जाल्यार लागींच्यान वळखतात त्या व्यक्तींचो नामो आनी दूरध्वनी क्रमांक दिवंचो.

१२] **पत्रावळ (Enclosures) :** वेवसायीक पत्रां, पान नं. १६२ पळोवंचें.

*हेर कांय म्हत्वाच्यो गजाली*

अ] **पगार (Salary) :** अर्जदार कामाक आसल्यार सध्याचो पगार किदें हाजेविशीं काम निर्मुपी माहिती मागता. तशेंच, ही नोकरी मेळ्ळ्यार पगाराची अपेक्षा किदें आसतली, हाजेविशीं तो अर्जदाराचें मत विचारता. अर्जांत अपेक्षीत पगार बरयल्यार जायते फावटीं काम मेळपाचे नदरेन घातक थरूं येता. पगाराची अपेक्षा काम निर्मुप्याक चड दिसल्यार तो मुलाखतीक आपोवणें धाडिनासतना रावूं येता. जायरातींत हेविशीं प्रामुख्यान विचारल्यार पगाराविशीं प्रत्यक्ष मुलाखती वेळार भासाभास करची असो अर्जांत उल्लेख करचो. (पगाराविशीं प्रस्न खाजगी संस्थांनी, जंय वेतन आयोगाची पे-स्केल ना, थंय उपरासूं येता).

आ] **फोटो (Photograph) :** म्हालविक्रेतो, हॉटॅलांत येवकार दिवपी, दूरदर्शन निवेदक, लस्करांत काम करपी, विमान सुंदरी सारकिल्या नोकऱ्यांखातीर

आर्विल्लो फोटो खूब म्हत्वाचो. तेखातीर आपलो फोटो अर्जावांगडा धाडप गरजेचें. फोटयाच्या आदारान सौंदर्य आनी व्यक्तीमत्वाविशीं थोडीभोव माहिती मेळटा.

## ☐ अर्जाचे प्रकार (Types of Application)

अर्जाचे दोन मुखेल प्रकार आसात. (अ) मागयल्ले अर्ज (ब) मागोवंक नाशिल्ले अर्ज

अ] **मागयल्ले अर्ज** (Solicited Applications)

मागयल्ले अर्ज काम निर्मुप्यान दिल्ले जायरातीक धरून आसतात. काम निर्मुपी आपलेकडेन आशिल्ल्या रित्या जाग्यांखातीर इत्सूक उमेदवारांकडल्यान अर्ज मागयता. उमेदवार दिसाळ्यांत आयिल्ली जायरात वाचून वेळार अर्ज धाडटा. ह्या अर्जाचो उमेवाराक मुखेल फायदो म्हळ्यार, संबंदीत संस्थेंत अमकोच जागो रितो आसा म्हणपाचें स्पश्ट कळटा. तशेंच, त्या जाग्याक अमकीच शिक्षणीक पात्रताय, अणभव, तशेंच पिराय जाय म्हणून कळपाक आदार जाता. दिसाळ्यांत जायरात दिल्ल्या कारणान, एका जाग्याखातीर साबार इत्सूक उमेदवार अर्ज करतात. अशा वेळार मेजक्याच उमेदवारांक मुलाखतीक आपोवणें धाडून पात्र उमेदवार वेंचून काडपाक आदार जाता. उमेदवारांक मात सर्तीक तोंड दिवचें पडटा.

ब] **मागोवंक नाशिल्ले अर्ज** (Unsolicited Applications)

नोकरेच्या जाग्याची जायरात दिसाळ्यांत वा खंयच उजवाडायनासतना उमेदवार अर्ज धाडटा, ताका मागोवंक नाशिल्लो अर्ज अशेंय म्हणटात. हांगा काम निर्मुपी कसलेच तरेची जायरात करिना. हांगा उमेदवाराक एक व्हड फायदो म्हळ्यार संबंदीत जाग्याखातीर एकूच वा मेजकेच अर्ज काम निर्मुप्याकडेन पाविल्ल्यान नोकरी सहजतायेन मेळपाक आदार जाता. तशेंच, तोच अर्ज ितरलो नामो बदलून हेरकडेन धाडपाक मेळटा. अर्जदाराक एक लुकसाण म्हळ्यार, अर्ज करता थंय जागो रितो आसतलोच अशें सांगूंक येना. आनी आसल्यार ताजी शिक्षणीक पात्रताय त्या जाग्याक जुळटलीच म्हणून सांगूं नजो.

## ☐ अर्जाची मांडावळ (Layout of the application)

पत्राचे मांडावळी इतलेंच अर्जाचे मांडावळिकूय म्हत्व आसा. उमेदवारान अर्जाची मांडावळ कशी केल्या, ती कितली नितळ-निवळ आनी नेमावळीक धरून जाल्या ही गजाल मुलाखतीत आपोवणें धाडपाक पोशक थरता. हातान बरयल्ल्या अर्जापरस टायप केल्लो अर्ज दोळ्यांक चड भावता. अर्जाखातीर वापरपाचो कागद रंगयाळो

वापरिनासतना धवो-कोरो वापरचो.

सामान्यतायेन अर्ज बरोवपाच्यो दोन रिती वा पद्दती आसात. (१) सारांश पद्दत (Application which includes resumé); (२) जिणे-वळख पद्दत (Application with Bio-data).

१] **सारांश पद्दत :** सारांश पद्दतींत उमेदवाराच्या अर्जांत येवपी माहितीचो 'सार' आसपाविल्लो आसता. उकतावण परिच्छेद, अर्जाचें मुखेल आंग आनी सोंपतो परिच्छेद अशा तीन भागांनी हो अर्ज विभागिल्लो आसता. अर्जाच्या मुखेल आंगांत शिक्षणीक पात्रताय, कामाचो अणभव, पिराय, छंद, खाशेलें प्रशिक्षण, उजवाडावणी, इनामां आनी शिश्यवृत्त्यांक धरून सगली संक्षिप्त माहिती हातूंत येता. अर्ज सोंपतकच उजव्या अर्दान वा नवे पद्दते प्रमाण दाव्या अर्दान सकयल अभिवादन बरोवन ताजे सकयल निशाणी करून नांव बरोवचें आसता.

२] **जिणे-वळख पद्दत** (bio-data) : बायो-डेटा पद्दतींत अर्ज आनी बायो-डेटा अशे दोन वेगवेगळे भाग आसतात. अर्जांत फकत एक वा दोन परिच्छेद आसपावल्ले आसतात. तातूंत आपणें खंयच्या जाग्याखातीर अर्ज केला, जायरातीचो संदर्भ तशेंच आपणाक ही नोकरी मेळ्ळ्यार आपूण प्रामाणीकपणान सेवा करतलों अशी खात्री दिवंची आसता. निमाणेकडेन आपल्याक मुलाखतीक आपोवणें धाडचें अशीय मागणी करची आसता.

अर्जाक जोडिल्ल्या बायो-डेटांत वेगळ्यावेगळ्या माथाळ्यांखाला उमेदवाराची पुराय माहिती आसपावल्ली आसता. देखीक, नांव, नामो, जल्मतारीख, शिक्षणीक पात्रताय, कामाचो अणभव, खाशेलें प्रशिक्षण, इनामां, शिश्यवृत्त्यो, उजवाडावणी, छंद, संदर्भ नांवां, पत्रावळ आनी हेर.

बायो-डेटा अर्ज पद्दतीच्या आदारान उमेदवाराची पात्रताय आनी ताज्या व्यक्तिमत्वाचेर उजवाड पडपाक आदार जाता. हे पद्दतीखाला काम निर्मुप्याक कांय वेंचीक अर्ज कुशीक काडून अमक्याच कांय उमेदवारांक मुलाखतीक आपोवणें धाडपाक आदार जाता.



## सारांश पद्दत अर्जाचे मांडावळीचो नमुनो

(अर्जदाराचें नांव आनी नामो)

..........................................................

..........................................................

ता. ......................................................

(भितरलो नामो)

..........................................................

..........................................................

..........................................................

.................................................. (येवकार)

.................................................. (विशय ओळ)

.................................................. (संदर्भ ओळ)

उकतावण परिच्छेद

..........................................................

..........................................................

..........................................................

अर्जाचें मुखेल आंग

..........................................................

..........................................................

..........................................................

..........................................................

..........................................................

सापता परिच्छेद

..........................................................

..........................................................

..........................................................

अभिवादन

निशाणी

(नांव)

( )

## जिणे-वळख पद्दतीचो नमुनो

(नांव आनी नामो)

.........................................................

.........................................................

ता. ...................................................

(भितरलो नामो)

.........................................................

.........................................................

.........................................................

......................................................... (विशय ओळ)

......................................................... (संदर्भ ओळ)

...................................................... (येवकार)

...............................................................................................................

(अर्जाचें मुखेल आंग)

...............................................................................................................

...............................................................................................................

...............................................................................................................

...............................................................................................................

........................................... अभिवादन

............................................. निशाणी

............................................. (नांव)

# जिणे-वळख

नाव : ..................................................................................................

नामो : ..................................................................................................

जल्मतारीख आनी पिराय : ..................................................................................

शिक्षणीक पात्रताय : ......................................................................................

कामाचो अणभव : ..........................................................................................

खाशेलें प्रशिक्षण : ..........................................................................................

इनामां आनी शिश्यवृत्त्यो : ..............................................................................

उजवाडावणी आनी पेपर सादरीकरण : ..................................................................

छंद : ..........................................................................................................

हेरकडेन सहभाग : ..........................................................................................

संदर्भ नांवां : ..............................................................................................

पत्रावळ : ....................................................................................................

## • नोकरेखातीर अर्ज

### एका खाजगी हायस्कुलांत शिक्षकाचे सुवातेखातीर अर्ज

नमुनो १ (सारांश अर्ज लेखनाची पद्दत)

फ्रांसिश्कु पिन्तु
नवो वाडो,
वाश्कु.

ता. १५ नोव्हेंब्र, १९९७

प्रति
मुख्याध्यापक,
सी ई एस हायस्कूल,
आगशी.

विशय : कोंकणी शिकोवप्याचे सुवातेखातीर अर्ज
संदर्भ : सुनापरान्त दिसाळ्यांत १२ नोव्हेंब्र, १९९७ तारखेक आयिल्ली जायरात

भौमानादीक,

तुमी सुनापरान्त दिसाळ्यांत दिल्ले जायरातीचो संदर्भ घेवन वयर उल्लेख केल्ल्या जाग्याखातीर हांव अर्ज धाडटां.

हांवें बीए मेरेनचें शिक्षण कोंकणी विशयांत घेतलां. तशेंच, कोंकणी विशय घेवन बीएड अभ्यासक्रमूय पुराय केला. कोंकणी भाशा मंडळान कोंकणी शिकोवप्यांखातीर आयोजीत केल्लो 'शिक्षक सनद' अभ्यासक्रमूय पुराय केला. नवें गोंय हायस्कुलांत स म्हयने शिकोवपाचो अणभव म्हज्या पदराक आसा. कोंकणींतल्या वेगवेगळ्या म्हयनाळ्यांनी आनी सुनापरान्त दिसाळ्यांत म्हज्यो साबार कविता आनी ललीत लेख उजवाडा आयल्यात. शिक्षणासंबंदींचे आनी हेर दाखले ह्या अर्जावांगडा जोडल्यात.

म्हजी शिक्षणीक पात्रताय, कामाचो अणभव आनी हेर माहिती वाचून तुमी म्हाका मुलाखतीक आपोवणें धाडटले असो आत्मविस्वास आसा. तुमकां जाय त्या दिसा मुलाखतीक येवपाक हांव तयार आसां.

तुमचो विस्वासू

निशाणी
( नांव )

नमुनो २

फ्रांसिश्कु पिन्तु
नवो वाडो,
वाश्कु.

ता. १५ नोव्हेंब्र, १९९७

प्रति
मुख्याध्यापक,
सी ई एस् हायस्कूल,
आगशी.

विशय : कोंकणी शिकोवप्याचे सुवातेखातीर अर्ज

संदर्भ : सुनापरान्त दिसाळ्यांत १२ नोव्हेंब्र, १९९७ तारखेक आयिल्ली जायरात.

भौमानादीक,

वयर संदर्भ दिल्ले जायराती प्रमाण, तुमच्या हायस्कुलांत कोंकणी विशय शिकोवपा खातीर हांव अर्ज करतां. म्हजेविशींची संक्षिप्त माहिती ह्या अर्जावांगडा जोडटां.

तुमी ह्या अर्जाचेर विचार करून म्हाका मुलाखतीक आपोवणें धाडटले अशी आस्त.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी

( नांव )

## जिणे-वळख

नांव : फ्रांसिश्कु मिंगेल पिन्तु
नामो : नवो वाडो, वाश्कु – गोंय.
जल्मतारीख : २७ मार्स, १९७३
शिक्षणीक पात्रताय :

| पदवी | वर्स | बोर्ड / विद्यापीठ | वर्ग |
|---|---|---|---|
| एस एस सी | १९८९ | गोवा बोर्ड | दुसरो |
| एच एस एस सी | १९९१ | गोवा बोर्ड | दुसरो |
| बी ए (कोंकणी) | १९९४ | गोंय विद्यापीठ | पयलो |
| बी एड (कोंकणी) | १९९६ | गोंय विद्यापीठ | पयलो |

कामाचो अणभव : मडगांवच्या नवें गोंय हायस्कुलांत 'स' म्हयने कोंकणी शिकोवपाचो अणभव.

इनामां : १] कोंकणी भाशा मंडळान घडोवन हाडिल्ले सर्गेस्त बाकीबाब बोरकार यादस्तीक काव्यलेखन सर्तींत म्हजे 'जागरण' कवितेक १९९२ वर्साचें पयलें इनाम.
२] 'आमचो पंगड, सत्तरी' हे संस्थेन घडोवन हाडिल्ले कथालेखन सर्तींत म्हजे 'सांवट' कथेक दुसरें इनाम.
३] कोंकण टायम्सान घडोवन हाडिल्ले अखिल गोंय निबंद लेखन सर्तींत 'गोंयचें पर्यावरण आनी हांव' ह्या म्हज्या निबंदाक १९९३ वर्साचें पयलें इनाम.

उजवाडावणी : १] सुनापरान्त दिसाळ्यांत आनी हेर कोंकणी म्हयनाळ्यांनी साबार कविता, कथा आनी ललीत लेख उजवाडा आयल्यात.
२] आकाशवाणी युववाणी कार्यावळींत नाटकुलीं आनी कविता सादर केल्यात.

हेरकडेन सहभाग : १] कोंकणी कला केंद्र, वाश्कु हे संस्थेचो सध्या अध्यक्ष.
२] वास्को ज्युनियर चेंबराचो सचीव.
३] हेर साबार सेवाभावी संस्थांचो वांगडी.

संदर्भ : १] श्री. प्रभाकर गायतोंडे
हेडलँड, सडो, वाश्कु.
२] श्री. विश्वनाथ आजगांवकार
आकें, मडगांव.

पत्रावळ : १] एस एस सी गूण पत्रिका
२] एच एस एस सी गूण पत्रिका
३] बी ए गूण पत्रिका
४] बी एड गूण पत्रिका
५] शिकोवपाचें अणभव प्रमाणपत्र

नमुनो ३

**दूरदर्शन निवेदकाचे सुवातेखातीर अर्ज**

श्रद्धा सा. नायक
गुडीवाडो,
नेवरें.

ता. ८ नोव्हेंब्र, १९९७

केंद्र संचालक,
पणजी दूरदर्शन केंद्र,
आल्तिन्यु, पणजी.

विशय : निवेदकाचे सुवातेखातीर अर्ज.
संदर्भ : ३ नोव्हेंब्र, १९९७ दिसा दै. वार्ता दिसाळ्यांत आयिल्ली जायरात.

भौमानेस्त,

पणजी दूरदर्शनाचेर आशिल्ले निवेदकाचे सुवातेखातीर हांव अर्ज करूंक सोदतां.

म्हजी पिराय २५ वर्सां आसून म्हजें बीए मेरेनचें शिकप पुराय जालां. बीएक कोंकणी आनी मराठी विशय घेतिल्ल्यान, दोनूय भाशांचें गिन्यान म्हाका आसा. हांवें शिक्षणीक, संस्कृतीक, समाजीक आनी भौशीक कार्यावळींचें आयजमेरेन जायते फावटीं निवेदन केलां. आकाशवाणी कार्यावळींनी हांव वांटेकार जालां. फाटल्यीं दोन वर्सां आकाशवाणी केंद्राचेर तत्पुरतो निवेदक म्हणून काम करतां. ह्या अर्जावांगडा हांवें निवेदन केल्ल्या कांय संस्थांचे दाखले जोडल्यात. तेच प्रमाण शिक्षणीक पात्रताये संबंदांतले दाखले आनी हालींच काडिल्लो म्हजो फोटो जोडला.

तुमी म्हज्या अर्जाचेर विचार करून म्हाका मुलाखतीक आपोवणें धाडचें अशें नमळायेचें मागणें.

तुमर्ची विस्वासू,

निशाणी
( नांव )

नमुनो ४

**म्हाविद्यालयीन खबरांकाराचे सुवातेखातीर खबरांपत्राक अर्ज**

निळकंठ कुमार
शिरवय, जांबावली,
केपें.

ता. ३ आब्रील, १९९७

संपादक,
'सुनापरान्त' दिसाळें
मडगांव.

विशय : म्हाविद्यालयीन खबरांकाराचे सुवातेखातीर अर्ज.
संदर्भ : २८ मार्स, १९९७ तारखेर आमच्या म्हाविद्यालयाक आयिल्लें तुमचें पत्र.

भौमानेस्त,

वयर उल्लेख केल्ले सुवातेखातीर तुमच्या खबरांपत्राक हांव अर्ज करूंक सोदतां.

हांव केपेंच्या सरकारी म्हाविद्यालयांत दुसरें वर्स कला फांट्याचें शिक्षण घेतां. कोंकणी, मराठी, हिंदी आनी इंग्लीश ह्यो भासो हांव उलोवंक आनी बरोवंक शकतां. तुमच्या खबरांपत्रांत हाजेपयलीं म्हज्यो कविता, तशेंच 'पारजत' सदरांत ललीत लेख उजवाडा आयल्यात. आमच्या म्हाविद्यालयांत उजवाडा येवपी कोंकणी वणटीपत्रकाचो हांव ह्या वर्सा संपादक आसां. तशेंच, म्हज्या वर्गाचो वर्ग-प्रतिनिधी आशिल्ल्यान म्हाविद्यालयांतले दर एके कार्यावळींत हांव वांटो घेतां.

आमच्या म्हाविद्यालयाचे प्राचार्य डॉ. डॉमनिक दीयश आनी कोंकणीचे प्राध्यापक श्री. राजेंद्र पर्वतकार हांणी दिल्लीं शिफारस-पत्रां हांवें ह्या अर्जावांगडा जोडल्यांत.

म्हज्या अर्जाचो विचार करून तुमी म्हजी म्हाविद्यालयीन खबरांकार म्हणून निवड करची अशी तुमचेकडेन नमळायेची मागणी.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी
( नांव )

नमुनो ५

**कंपनींत लिपिकाचे सुवातेखातीर अर्ज**

श्रीकांत नावेलकार
विर्डी, सांखळी.

ता. १३ माय, १९९७

वेवस्थापकी संचालक,
ए सी जी एल कंपनी,
होंडा, सत्तरी.

विशय: लिपिकाचे सुवातेखातीर अर्ज.
संदर्भ: तरूण भारत दिसाळ्यांत १० माय, १९९७ तारखेक आयिल्ली तुमचे कंपनीची जायरात.

मानेस्त,

वयर संदर्भ दिल्लेप्रमाण, तुमचे कंपनींत आशिल्ले लिपिकाचे सुवातेखातीर हांव अर्ज करूंक सोदतां.

म्हजी पिराय २३ वर्सां आसून हांव वाणिज्याचो पदवीधर. सॅंट्रल कमर्शियल इन्स्टिटय़ूट, दिवचल, हे सरकारमान्य संस्थेचो एका वर्साचो टायपिंग अभ्यासक्रम हांवें पुराय केला. म्हजी टायपिंग गती मिनटाक ४५ उतरां आसा. फाटले चार म्हयने हांव आदवोगाद कायतान वाझ हांचे कचेरेंत टायपिंगाचें काम करतां.

म्हजे वागणुकेविशीं म्हज्या म्हाविद्यालयीन प्राचार्यांनी दिल्लें वागणूक प्रमाणपत्र, तशेंच हेर शिक्षणीक पात्रतायांविशींचे दाखले ह्या अर्जावांगडा जोडल्यात. तुमचे कंपनींत म्हाका नोकरी मेळ्ळ्यार तुमच्या मनासारकें आनी प्रामाणीकपणान हांव काम करतलों अशें उतर दितां.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी
( नांव )

नमुनो ६

**कंपनींत अकाउण्ट असिस्टण्टाचे सुवातेखातीर अर्ज**

(कंपनीन मागोवंक नाशिल्लो आनी जिणे-वळख पद्दतीन बरयल्लो अर्ज)

रामानंद ग. मंगेशकार
शिमेपायण, म्हाड्डोळ,
फोंडें

ता. २१ जून, १९९७

वेवस्थापक,
राजस कॉस्मॅटिक्स प्रा. लि.
कुंडय उद्देगीक वसणूक,
कुंडय, फोंडें

विशय : अकाउण्ट असिस्टण्टाचे सुवातेखातीर अर्ज.

मानेस्त,

म्हज्या एका इश्टान म्हाका माहिती दिल्लेप्रमाण, तुमचे कंपनींत वयर उल्लेख केल्ले सुवातेखातीर हांव अर्ज करतां.

तुमचे नांवाजते कंपनींत म्हाका काम करपाक खूब खोस भोगतली. तुमी तुमचे कंपनींत म्हाका आसपावन घेतल्यार कंपनीचे उदरगतीखात्तीर हांव सदांच प्रयत्नशील आसतलों. मुलाखतीक आपोवणें धाडून म्हजेकडेन आशिल्ल्या गुणांची पारखणी करची अशी नमळायेची मागणी. म्हजेविशींची सविस्तर माहिती ह्या अर्जावांगडा जोडल्या.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी
( नांव )

टीप जिणे-वळख पद्दतीन अर्ज बरयतना अर्ज धाडप्याचो नामो आनी तारीख अर्जाच्या उजव्या अर्दांत बरोवपाची (पोरणी) रितूय चालत आसा

## जिणे-वळख

नांव : रामानंद गणेश मंगेशकार
नामो : शिमेपायण, म्हाड्डोळ, फोंडें.
जल्मतारीख : ११ जानेर, १९७२
शिक्षणीक पात्रताय :

| पदवी | वर्स | बोर्ड / विद्यापीठ | वर्ग |
|---|---|---|---|
| एस एस सी | १९८७ | गोवा बोर्ड | दुसरो |
| एच एस एस सी | १९८९ | गोवा बोर्ड | पयलो |
| बी कॉम् (अकाउण्टन्सी) | १९९२ | गोंय विद्यापीठ | पयलो |
| डिप्लॉमा इन मॅनेजमॅण्ट | १९९४ | इंदिरा गांधी मुक्त विद्यापीठ | दुसरो |

कामाचो अणभव : १] श्री. ललीतकुमार शहा (सी ए) पणजी, हांचेकडेन १९९४-९५ वर्सा प्रशिक्षणार्थी म्हणून काम.
२] सध्या अन्नपूर्णा फूड सप्लायर्स, फोंडें, हांचेकडेन ज्युनियर अकाऊण्ट ॲसिस्टण्ट म्हणून काम करतां.

खेळ आनी कार्यावळींनी सहभाग : १] महाविद्यालय क्रिकेट पंगडाचें दोन वर्सा मुखेली म्हणून काम पळयलां.
२] हायस्कूल आनी उच्च माध्यमीक पांवड्यार फुटबॉल पंगडांत आसपाव.
३] म्हाड्डोळ यूथ क्लबाचो भांडारी.

संदर्भ : १] श्री. ललितकुमार शहा (सी ए)
दामोदर चेंबर्स, पयलो माळो, पणजी.
२] श्री. रामकृष्ण उसगांवकार
ग्रीन-हिल अपार्टमॅंटस्, फोंडें.

पत्रावळ : १] एस एस सी गूण पत्रिका
२] एच एस एस सी गूण पत्रिका
३] बी कॉम गूण पत्रिका
४] डिप्लॉमा प्रमाणपत्र
५] कामाच्या अणभवाचें प्रमाणपत्र

## • रजेखातीर अर्ज

रजा घेवप हो कर्मचाऱ्यांचो हक्क नासलो तरी कामाच्या दिसांनी अचकीत घरांत येवपी अडचण, तशेंच दुयेंत पडप, धर्मीक, संस्कृतीक वा समाजीक कार्यावळींनी वांटेकार जावंचे पासत कर्मचाऱ्यांक काम आसतनाय कामाक वचनासतना रावचें पडटा. रजेर वचचे पयलीं कर्मचाऱ्यान संबंदीत अधिकाऱ्याक अर्ज करून रजेक मान्यताय घेवप तितलेंच गरजेचें. रजेक अर्ज करुनूय लोकहिताखातीर संबंदीत अधिकारी रजेक मान्यताय दिनासतना रावूंक शकता वा कांय काळमेरेन रजेक स्थगिती दिवंक शकता.

रजेखातीरचो अर्ज कर्मचाऱ्यान विभागाच्या मुखेल्याक बरोवंचो आसता. अर्ज बरयतना सुरवातेक रजेचें कारण सांगपाक जाय. रजेचो प्रकार 'विशय ओळींत' नमूद करप गरजेचें. तशेंच रजा खंयचे तारखे सावन कितल्या दिसांमेरेन जाय तें अर्जाचेर नमूद करपाक जाय. ज्या प्रकाराची रजा कर्मचारी घेवंक सोदता ती आपल्या खात्यार शिल्लक आसा काय ना हें कर्मचाऱ्यान पयलीं ताळून पळोवन मागिरूच रजेच्या दिसांचो आंकडो घालपाचो आसता.

अर्जाच्या शेवटाक अर्जांत नमूद केल्ली रजा पास करून रजे खात्यांतली रजा वजा करची अशी नमळायेची मागणी अधिकाऱ्याकडेन करपाक जाय.

सरकारी तशेंच निम-सरकारी कार्यालयांनी कर्मचाऱ्यांक रजा मागपाक सोंपें वचचें म्हणून छापिल्ले नमुने उपलब्ध केल्ले आसतात. अशा वेळार रजेखातीर अर्ज बरोवंचो पडना. कचेरेंतल्यान छापिल्लें फॉर्म घेवन, तातूंतल्यो रित्यो सुवातो भरून संबंदीत अधिकाऱ्याकडेन रजा-फॉर्म मंजूर करपाक धाडचो आसता.

## • *रजेचें स्वरूप आनी प्रकार*

केंद्रीय नागरी खात्याचे (Central Civil Service) रजा नेम १९७२ प्रमाण सरकारी कर्मचाऱ्यांक रजेक मान्यताय दिल्या.

रजा घेवप हो कर्मचाऱ्यांचो हक्क न्हय. कर्मचाऱ्यांनी एकाच वांगडा रजेक अर्ज केले जाल्यार (Mass Leave) लोकहिताखातीर संबंदीत अधिकारी रजेक मान्यताय दिनासतना रावूंक शकता. तशेंच, कांय काळ रजेक स्थगितीय दिवंक शकता. पूण कर्मचाऱ्यांच्या खात्यार जाय तितली बाकी रजा आसत आनी कारण दिवन संबंदीत अधिकाऱ्याक लिखीत अर्ज केल्यार ताका ती मेळूं येता.

रजेचे साबार प्रकार आसात. सगल्या तरांच्यो रजा कर्मचाऱ्यांक भोगूंक मेळटातूच अशें ना. सरकारी कर्मचाऱ्यांभितर, केंद्री आनी राज्य सरकारी कर्मचारी अशी विभागणी आसा. तांचेखाला येवपी विंगड-विंगड खात्नीं, सहकारी मळावयले कर्मचारी, उद्देगीक आनी हेर मळांचेर काम करपी कायम आनी दिसवड्यार काम करपी कर्मचाऱ्यांक रजेबाबत सरकाराचे विंगड-विंगड नेम आसात.

**रजेचे प्रकार**

रजेचे प्रकार सकयल दिल्लेप्रमाण आसात:

| | | | |
|---|---|---|---|
| १. | जोडीची रजा | : | Earned Leave |
| २. | निमित्तीक/अवचीत रजा | : | Casual Leave |
| ३. | खासा अवचीत रजा | : | Special Casual Leave |
| ४. | दुयेंस रजा | : | Sick Leave |
| ५. | अदलाबदली रजा | : | Commuted Leave |
| ६. | असामान्य रजा | : | Extraordinary Leave |
| ७. | अभ्यास रजा | : | Study Leave |
| ८. | खासा तरेच्यो रजा: | : | Special kinds of leave: |
| | (अ) बाळंटेर रजा | : | Maternity Leave |
| | (आ) हॉस्पिटल रजा | : | Hospital Leave |
| | (इ) तारवट्यांची रजा | : | Seamen's Sick Leave |
| | (ई) खात्यांतर्गत रजा | : | Departmental Leave |
| | (उ) मुद्दम केल्ले दुखापतीखातीर खासा अपात्रताय रजा | : | Special disability leave for injury intentionally inflicted |
| ९. | खासा अधिकार वा हक्काची रजा | : | Privilege Leave |
| १०. | बाकी नाशिल्ली रजा | : | Leave not due |
| ११. | अर्द-पगारी रजा | : | Half-pay Leave |

**१] जोडीची रजा: [Earned Leave]**

लस्करी अधिकारी सोडून हेर पूर्ण वेळ सरकारी कर्मचाऱ्यांक जोडीची रजा मेळूं येता. रजेचो काळ सोंपतकच कर्मचारी आशिल्लो तसो कामार रुजू जाता.

सरकारी कर्मचाऱ्यांक एका वर्साक ३० दीस जोडीची रजा घेवपाक मेळटा. जानेराच्या पयल्या दिसासावन ते जूनाच्या निमाण्या दिसामेरेन, तशेंच जुलयाच्या पयल्या ते देझेंब्राच्या निमाण्या दिसामेरेन अशा दोन हप्त्यांनी १५ आनी १५ अशी ३० दीस रजा घेवपाक मेकळीक आसा. कर्मचाऱ्यान रजा घेतलिना जाल्यार तो चडावत ३०० दिसांची रजा धा वर्सांमेरेन आपल्या रजे खात्यार सांठोवन दवरूंक शकता. तरी ताणें ती घेतलिना जाल्यार रजा आपसूक बाद जाता.

कर्मचाऱ्यान आपल्या रजा खात्यार आशिल्ली जोडीची रजा दोन म्हयने मंजूर करून घेतले उपरांत, एका म्हयन्याची रजा सरकाराक विकून कामार रुजू जालो जाल्यार त्या म्हयन्याचो पगार तशेंच विकिल्ले रजेचो (घरभाडें वगळून) आनी काम केल्ल्या म्हयन्याचो पगार तो कर्मचारी घेवंक शकता.

· सुटयो आशिल्ल्या विभागाचे (Vacational Department) जे कर्मचारी आसात, देखीक शिक्षकवर्ग, प्राचार्य, मुख्याध्यापक, हायस्कुलाचो ग्रंथपाल आनी प्रयोगशाळेचो

सहाय्यक, ह्या सगल्यांक वर्साक फकत ५ आनी ५ अशा दोन हप्त्यांनी १० दीस जोडीची रजा मेळटा.

## २] अवचीत रजा : [Casual Leave]

अवचीत रजा ही मान्यताय मेळिल्ल्या रजांमदीं मोडना. जिवाक बरें दिसना वा कसलेय गरजेचें वा ताकतिकेचें काम आसल्यार सरकारी कर्मचाऱ्यांक एक दीस वा कांय दिसांखातीर अवचीत रजा मेळूं येता.

अवचीत रजेर आशिल्ल्या कर्मचाऱ्यांक गैरहजर म्हणून कोंताक धरिनात. तशेंच तांचो पगारूय आडावन दवरपाची कायद्यांत तजवीज ना. ज्या कर्मचाऱ्यांक वर्सुकी १६ सुटयो आसात तांकां १२ दीस, जाल्यार जांकां १६ सुटयो मेळनात तांकां १५ दीस अवचीत रजा घेवपाक मेकळीक आसा. एके फावटीं हारीन चडांत चड ८ दीस (सहकारी बँकेच्या कर्मचाऱ्यांक ४ दीस) अवचीत रजा घेवंक मेळटा. खासा गजाल वा उर्जेंत काम आसल्यार संबंदीत अधिकाऱ्याचे अनुमतीन रजेंत वाड मेळोवं येता.

अवचीत रजेच्या काळांत आयतार, भौशीक सुटी, मर्यादीत सुटी आनी हेर सुटयो आयल्यार, त्यो सुटयो जमेक धरिनात. अवचीत रजा जर भोंवडेर आसतना घेतली जाल्यार रजेच्या काळांत ताका म्हारगाय भत्तो (Dearness Allowance) मेळना. अवचीत रजा अर्द दिसा खातिरूय मेळूं येता.

रजा मंजूर करपी संबंदीत अधिकाऱ्याकडेन, रजा घेवंचेपयलीं लेखी अर्ज करून ती मंजूर करून घेवप गरजेचें. तशें करप शक्य जालेंना जाल्यार कारण दिवन लेखी वा तोंडी रेकाद कळोवप तितलेंच गरजेचें.

## ३] खासा अवचीत रजा : [Special Casual Leave]

केंद्रशासीत कर्मचाऱ्यांक खेळ, संस्कृतीक आनी गिर्यारोहण कार्यावळींनी वांटो घेवपाक ३० दिसांची खासा अवचीत रजा मंजूर जाता. कुटूंब नियोजनाखाला नसबंदी करून घेवपी दादल्याक, तशेंच शस्त्रक्रिया करून घेवपी बायलेक असले तरेची रजा घेवपाक मेकळीक आसा.

## ४] दुयेंस रजा : [Sick Leave]

सरकारी कर्मचाऱ्यांक वर्साक १० दीस वा २० अर्द-दीस दुयेंस रजा मेळटा. तशेंच, सहकारी बँकेच्या कर्मचाऱ्यांक पूर्ण-पगारी १० दीस आनी अर्द-पगारी १० दीस अशी २० दिसांची दुयेंस रजा घेवपाक मेकळीक आसा.

दुयेंस रजा मेळयतलो जाल्यार मान्यताय आशिल्ल्या वैजकी अधिकाऱ्याकडल्यान वैजकी दाखलो तशेंच वेवस्थापनान तशी मागणी केल्यार सरकारी अधिकाऱ्याचो वैजकी दाखलो हाडप गरजेचें.

**५] अदलाबदली रजा : [Commuted Leave]**

सरकारी कर्मचाऱ्याच्या (लस्करी अधिकारी सोडून) रजे खात्यार अर्द-पगारी रजा आसल्यार, ते रजेच्या अर्द-पगारान अदलाबदली रजा मेळोवं येता. तेखातीर संबंदीत अधिकाऱ्याकडेन वैजकी दाखलो दिवंचो पडटा. पूण अधिकाऱ्यान घालले अटीप्रमाण रजेचो काळ सोंपले उपरांत त्या कर्मचाऱ्यान रोखडोच कामार हाजीर रावप तितलेंच गरजेचें आसता.

पुराय नोकरे काळांत अर्द-पगारी रजेचे चडांत चड १८० दीस अदलाबदली रजेखातीर वापरूं येतात. पूण ती रजा मान्यताय आशिल्ल्या शिक्षणीक अभ्यासक्रमाखातीर वापरची पडटा, आनी घेतिल्लें शिक्षण जनतेच्या हिताखातीर आसप गरजेचें.

कर्मचारी जर रजेच्या काळांत आपखोशयेन निवृत्त जालो वा नोकरेची सोडचीट दिली, जाल्यार अदलाबदली रजा ही अर्द-पगारी म्हणून जमेक धरतात आनी दोनूय रजां भितरलो फरक काडून, रक्कम वाशील करून घेवपाक मेळटा. पूण सोडचिटींत दुयेंसाचें कारण दिलें जाल्यार आनी त्या कर्मचाऱ्यांक परत कामार रुजू जावपाक शक्य ना जाल्यार, रक्कम वाशील करपाक मेळना.

कर्मचाऱ्याच्या रजा खात्यार अवचीत रजा बाकी आसतनाय अदलाबदली रजा मागूं येता. बायल कर्मचारी जर बाळंटेर रजेर आसत, तशेंच तिका आनीक कांय दीस रजेर रावपाचें आसत जाल्यार चडांत चड ६० दिसांमेरेन वैजकी दाखलो दाखयनासतना अदलाबदली रजा घेवं येता. तेचपरी, पोसकें भुरगें घेतिल्ले बायल कर्मचारेकूय असले तरेची रजा मेळटा.

**६] असामान्य रजा : [Extraordinary Leave]**

सरकारी कर्मचाऱ्यांक (लस्करी अधिकाऱ्यांक सोडून) असामान्य कारणांखातीर ही रजा मेळटा. देखीक : जेन्ना १) हेर कर्मचारी पात्र ना २) हेर रजेक पात्र आसुनूय कर्मचाऱ्यान असामान्य रजेखातीर लेखी अर्ज केल्लो आसत जाल्यार ही रजा मेळूं येता.

कर्मचाऱ्याची नोकरी कायम स्वरुपी नासल्यारूय आडवादी कारणांक लागून ताका हे रजेक मान्यताय मेळूं येता. ही रजा तीन म्हयने आनी स म्हयन्यांखातीर (खाडे दीस नासतना एक वर्स पुराय केल्ल्याक) मेळूं येता. पूण मंजुरेखातीर नेमाप्रमाण वैजकी दाखलो दिवप गरजेचें.

एक वर्स पुराय जाल्ल्या आनी खाडे दीस नाशिल्ल्या कर्मचाऱ्याक फुफुसाचो (पुल्मांवांचो) क्षयरोग (T.B.) जाल्यार ताका १८ म्हयन्यांची असामान्य रजा मेळूं येता. कुडीच्या खंयच्याय भागाक क्षयरोग तशेंच कांक्र जालो जाल्यार ताका २४ म्हयन्यांची असामान्य रजा मेळूं येता. तेच भाशेन अनुसुचीत जाती-जमातींतल्या कर्मचाऱ्यांक सरकारमान्य परिक्षेपयलीं प्रशिक्षण अभ्यासक्रमाक हाजीर रावपाखातीर ही रजा मेळूं येता.

### ७] अभ्यास रजा : [Study Leave]

सरकारी कर्मचाऱ्यांक भारतांत वा भारताभायर वचून, नोकरेक धरून कसलोय खासा अभ्यासक्रम, उंचेलें शिकप वा प्रशिक्षण घेवपाचें आसल्यार तें शिकप जर भौसाच्या हिताखातीर आसत जाल्यार ताका अभ्यास रजा मेळूं येता.

सरकारी कामकाजाक धरून आशिल्ले अभ्यास भोंवडेक, संबंदीत अधिकाऱ्यान मान्यताय दिल्यार अभ्यास रजा मेळूं येता. पूण अभ्यास भोंवडे साकून परतले उपरांत, भोंवडेचो पुराय अहवाल सादर करप गरजेचें.

अभ्यास भोंवडी कामकाजाक धरून ना, पूण ती भोंवडी कर्मचाऱ्याच्या गिन्यानांत भर घालता आसत वा ताजी योग्यताय वाडोवपाक आदार करता आसत जाल्यार त्या कर्मचाऱ्याक संबंदीत अधिकाऱ्याचे परवानगेन भोंवडेक वचपाक ही रजा मेळूं येता.

अभ्यास रजेचो काळ १२ म्हयने ते २४ म्हयने मेरेन आसूं येता. तो भोंवडेचें स्वरूप, शिक्षण अभ्यासक्रम आनी परिक्षणाचो काळ हांचेर आदारून आसता.

### ८] खासा तरेच्यो रजा : [Special Kinds of Leave]

#### अ] बाळंटेर रजा : [Maternity Leave]

गुरवार बायल कर्मचारयेक (शिकोवपी बायलांक धरून) पयल्या दोन बाळंटेरांक १३५ दिसांची बाळंटेर रजा घेवपाक मेकळीक आसा. ह्या काळांत तिका पूर्ण पगार मेळटा. तशेंच, बायल कर्मचारयेक भुरग्याक जल्म दिवपाक अपेस आयलें वा गर्भपात जालो जाल्यार तिका ६ सप्तकांची रजा मेळूं येता.

केंद्रीय नागरी खातें रजा नेम १९७२ प्रमाण, बाळंटेर रजेखाला घालून दिल्ल्यो अटी पूर्ण केल्यार, आंकवार चलयेकूय बाळंटेर रजा मेळूं येता. ('फिमेल' हें उतर इंग्लीशींत बायल वा चली ह्या अर्थान वापरलां. ताका लागून 'मॅरेज' हें उतर 'फिमेल' शब्दाचो उपसर्ग जावंक शकना.)

जे गर्भपात Medical Termination of Pregnancy Act, 1971 खाला येतात तांकां लागून केंद्रीय नागरी खात्याच्या रजा नेमाप्रमाण कर्मचाऱ्याक रजा मेळूं येता. पूण हो गर्भपात बळजबरीन केल्लो गर्भपात (threatened abortion) आसूंक फावोना.

#### आ] हॉस्पिटल रजा : [Hospital Leave]

जे सरकारी कर्मचारी तिसऱ्या आनी चवथ्या वर्गांत आसपावतात, तशेंच जे जड माक्नां हाताळटात, स्फोटक साहित्य वा रसायनीक कारखान्यांनी काम करतात तांकां ही रजा मेळटा.

कोणाय कर्मचाऱ्याक दुखापत जाली वा तो दुयेंत पडलो जाल्यार, वैजकी अधिकाऱ्या कडल्यान वैजकी दाखलो हाडले उपरांत हॉस्पिटल रजा मेळूं येता.

पयल्या १२० दिसांक पूर्ण पगारी रजा आनी उरिल्ले दीस अर्द-पगारी रजा मेळटा.

**इ] तारवट्यां खातीर दुयेंस रजा : [Seamen's Sick Leave]**

सरकारी बोटींचेर काम करपी अधिकारी, नावीक दळांतलो अधिकारी वा सादो अधिकारी, दुयेंस वा दुखापती खातीर वैजकी उपचार घेता आसत जाल्यार ताका स सप्तकांमेरेनची तारवट्यांखातीर आशिल्ली पूर्ण पगारी दुयेंस रजा मेळू येता.

सोरो वा घुंवळी वखदां सारक्या वायट वेसनांक लागून संबंदीत कर्मचारी दुयेंत पडला अशें वैजकी तपासणेंत कळ्ळें जाल्यार संबंदीत कर्मचाऱ्याक रजा मेळना.

वैजकी अधिकाऱ्यान ताजी अपात्रताय दाखोवन दिली, जाल्लें दुयेंस वा दुखापत ताज्या निश्काळजीपणाक लागून जावंक ना, तशेंच गैरहाजेरेच्या काळांत ताजी रिती सुवात भरूंक ना जाल्यार, ताका चडांत चड तीन म्हयन्यांमेरेन पुराय पगार आशिल्ली तारवट्यांखातीरची दुयेंस रजा मेळटा.

**ई] खात्यांतर्गत रजा : [Departmental Leave]**

भारत सरकाराच्या भूंयमाप खात्यांतले वर्ग तीन/चार कर्मचारी तशेंच, पोस्ट आनी दूरसंचार खात्यांतल्या हंगामी कर्मचाऱ्यांक खात्यांतर्गत रजा मेळू येता.

खास कारण आसल्यार भूंयमाप खात्याचो अधिकारी चडांत चड एका वर्सामेरेन रजा वाडोवन घेवंक शकता.

**उ] मुद्दम केल्ले दुखापतीखातीर खासा अपात्रताय रजा : [Special Disability Leave for Injury Intentionally Inflicted]**

दुखापतीक लागून सरकारी कर्मचारी काम करपाक पात्र ना, तो मागीर कायम स्वरुपी वा दिसवडो करपी आसूं, ताका दुखापती खातीर मुद्दम दिल्ली खासा अपात्रताय रजा मेळू येता.

दुखापतीक तीन म्हयने जावंचे पयलीं कर्मचाऱ्यान संबंदीत अधिकाऱ्याक कळोवप गरजेचें. मान्यताय मेळयिल्ल्या वैजकी अधिकाऱ्याकडल्यान वैजकी दाखलो हाडले उपरांत चडांत चड २४ म्हयन्यांमेरेन ही रजा मेळू येता. खासा अपात्रताय रजा नोकरेच्या काळांत कितलेय फावट कर्मचाऱ्याक घेवपाक मेकळीक आसा, पूण तिजो काळ २४ म्हयन्यांवयर आसूंक फावोना.

**ऊ] अपघाती दुखापतीखातीर अपात्रताय रजा : [Special Disability Leave for Accidental Injury]**

नेम ४४चे तरतुदी प्रमाण, कायम स्वरुपी वा दिसवड्यार काम करपी सरकारी कर्मचाऱ्यांक जर अपघातान दुखापत जाली आनी संबंदीत कर्मचारी काम करपाक अपात्र आसा अशें दिसलें जाल्यार, ताका अपघात दुखापतीखातीर आशिल्ली खासा अपात्रताय रजा मेळटा.

मान्यताय मेळयिल्ल्या वैजकी अधिकाऱ्याकडल्यान वैजकी दाखलो हाडले उपरांत, पुराय पगार आशिल्ली ही रजा चडांत चड १२० दिसांमेरेन मेळटा.

### ९] खासा अधिकार रजा : [Privilege Leave]

सहकारी तशेंच हेर कांय संस्थांच्या कर्मचाऱ्यांक, इकरा म्हयने पुराय जाले उपरांत चडांत चड दोन फावटीं खासा अधिकार रजा घेवपाक मेकळीक आसा.

### १०] अर्द-पगारी रजा : [Half Pay Leave]

लस्करी अधिकारी आनी केंद्री नागरी खातें हांच्या नेम २८ खाला जे कर्मचारी आसपावतात तांकां सोडून हेर पुराय वेळ सरकारी कर्मचाऱ्यांक अर्द-पगारी रजा घेवपाक मेकळीक आसा. तारखावळ (कॅलेंडर) वर्साप्रमाण जानेर आनी जुलयाच्या पयल्या दिसासावन दोन हप्त्यांनी धा-धा दिसांची अर्द-पगारी रजा कर्मचाऱ्यांच्या रजे खात्यार जमा जाता.

संबंदीत अधिकाऱ्याक वैजकी दाखलो दिवन व्यक्तीगत कामाक ही रजा घेवपाक मेळटा. पूण नेम ४९ प्रमाण पूर्ण वेळ सरकारी कर्मचाऱ्याक नोकरेर रुजू जावन, १२ म्हयने पुराय जाले उपरांतूच ताका २० दिसांची रजा घेवपाक मेकळीक आसा.

## • रजेच्या अर्जांचे नमुने

**देख १.**

**अवचीत रजेखातीर अर्ज**

फातिमा फेर्नांदीश
कांदोळी, बार्देस.
ता. ४ फेब्रेर, १९९८.

प्रति
मुख्याध्यापक,
पीएस्पी माध्यमीक विद्यालय,
कळंगूट, बार्देस.

विशय : अवचीत रजेखातीर अर्ज

भौमानेस्त,

तारीख ५ फेब्रेर, १९९८ दिसा म्हज्या धाकल्या भावाचें काजार आशिल्ल्यान म्हाका एका दिसाचे अवचीत रजेक मान्यताय दिवंची आनी म्हज्या रजे खात्यांतल्यान एक दीस वजा करचो अशी नमळायेची मागणी.

रजेखातीर दिल्लें कारण मतींत घेवन तुमी रजेक मान्यताय दितले अशी आस्त दवरतां.

तुमचें विस्वासू,
निशाणी
( नांव )

**देख २.**

**दुयेंस रजेखातीर अर्ज**

दिनेश कांदोळकार
मोरजी, पेडणें.
ता. १६ आब्रिल, १९९८.

प्रति
वेवस्थापकी संचालक,
बोडगेश्वर प्लास्टीक मॅन्युफॅक्चरींग कं. लि.
म्हापशें.

विशय : दुयेंस रजेखातीर अर्ज

मानेस्त,

मलेरियेच्या दुयेंसाक लागून ता. ६ आब्रील, १९९८ ते १५ आब्रील, १९९८ अशे १० दीस हांव कामाक हजर रावंक शकलोंना. तेन्ना म्हज्या दुयेंस रजा खात्यार बाकी आशिल्ले रजेंतल्यान १० दीस रजा वजा करची अशी नमळायेची मागणी. ह्या अर्जा सांगाताक वैजकी दाखलो जोडला.

तुमचो विस्वासू,
निशाणी
( नांव )

देख ३

## बाळंटेर रजेखातीर अर्ज

सौ. रतन पणजीकार
मळें – पणजी.

ता. ६ आब्रील, १९९८.

फांटो वेवस्थापक,
बँक ऑफ गोवा
पणजी.

विशय : बाळंटेर रजेखातीर अर्ज

भौमानेस्त,

कॅशियर म्हणून काम करपी हांव, रतन पणजीकार, बाळंटेर रजेखातीर अर्ज करूंक सोदतां. तपासणे उपरांत डॉ. विनायक जोशी हांणी दिल्ल्या वैजकी दाखल्याप्रमाण फुडल्या आठ दिसांमदीं केन्नाय बाळांत जावपाची शक्यताय आसा.

कुडींत आयिल्ली अशक्तताय आनी म्हजो हो पयलोच बाळंटेर आशिल्ल्यान दोतोरान येता त्या ८ आब्रील, १९९८ दिसा हॉस्पिटलांत भरती जावपाचो सल्लो दिला. तेन्ना तुमी ८ तारखेसावन म्हाका १३५ दिसांची (८ आब्रील ते २० आगोस्त, १९९८) बाळंटेर रजा मंजूर करची अशी मागणी. दोतोरान दिल्लो वैजकी दाखलो वांगडा जोडला.

तुमची विस्वासू,

निशाणी
( नांव )

देख ४

## पितृत्व रजेखातीर अर्ज

श्रीकृष्ण आजगांवकार
हडफडें – बार्देस.

ता. १५ आब्रील, १९९८.

संचालक,
समाज कल्याण संचालनालय,
कल्याण भवन, पणजी.

विशय: पितृत्व रजेखातीर अर्ज

भौमानादीक,

हांव, एल् डी सी म्हणून काम करपी श्रीकृष्ण आजगांवकार, पितृत्व रजेखातीर अर्ज करूंक सोदतां. म्हजी घरकान्न, सौ. राधा आजगांवकार, हिणें काल, १४ आब्रील, १९९८ दिसा म्हापशेंच्या आझिलु हॉस्पिटलांत जुंवळ्या भुरग्यांक जल्म दिला.

पार्तींची देखभाल करपाखातीर घरांत आनीक कोण नाशिल्ल्यान तुमी म्हाका १६ आब्रील ते ३० आब्रील, १९९८ मेरेन पितृत्व रजा दिवची अशी नमळायेची मागणी. ह्या संदर्भातलो वैजकी दाखलो ह्या अर्जाक जोडला.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी
( नांव )

कर्मचाऱ्यांक सोंपें वचचें, तशेंच पत्रवेव्हारांत कसलीच आडखळ उपरासची न्हय हो उद्देश दोळ्यांमुखार दवरून सरकारी आनी निमसरकारी कार्यालयां तशेंच खाजगी कंपन्यो अर्जाचीं छापिल्लीं फॉर्मा कामगारांक उपलब्ध करून दितात.

छापिल्ल्या अर्जाच्यो कांय देखी:

देख १
अवचीत रजा तशेंच राखीव सुटयेखातीरचें छापील फॉर्म

संचालक,
सरकारी छापखानो,
पणजी.

विशय: अवचीत रजा / राखीव सुटये खातीर अर्ज

भौमानेस्त,

हांव ........................................ तुमचेकडेन नमळायेची मागणी करतां, म्हाका .................. कारणाखातीर ता. .................... ते ता. ..................... मेरेन ..................................... दिसांची अवचीत रजा / राखीव सुटी मंजूर करची.

ता.: .................... ....................................

अर्ज करप्याची निशाणी

रजेचे मागणेक आडमेळें ना / आसा

..........................................

ता: /

हुद्दो

......................

निशाणी

हुद्दो

देख २

सर्वसामान्य रजा घेवपाखातीर वा रजेंत वाड करपाखातीर छापिल्ले अर्ज.

| | | | |
|---|---|---|---|
| १. | अर्जदाराचें नांव | : | ................................................ |
| २. | हुद्दो | : | ................................................ |
| ३. | खातें / कचेरी आनी विभाग | : | ................................................ |
| ४. | पगार | : | ................................................ |
| ५. | सध्याच्या हुद्द्याचेर मेळपी घरभाडें आनी हेर भरपाय भत्ते | : | ................................................ |
| ६. | अर्ज केल्ले रजेचो प्रकार, काळ आनी रजा केन्नासावन जाय ती तारीख | : | ................................................ |
| ७. | रजेचे सुरवातीक वा शेवटाक जोडून आयतार वा सुटी आसा ? | : | ................................................ |
| ८. | रजेक अर्ज करपाफाटलें कारण | : | ................................................ |
| ९. | हे आदीं घेतिल्ले रजेची निमणी तारीख, रजेचो प्रकार आनी काळ | : | ................................................ |
| १०. | रजा-गट-वर्साखातीर आशिल्ले सुटयेंतले भोंवडे सवलतीचो हांव फायदो घेवंक सोदतां / सोदिना | : | ................................................ |
| ११. | रजेर आसतनाचो नामो | : | ................................................ |

अर्जदाराची निशाणी आनी तारीख

१२. नियंत्रण अधिकाऱ्याचो शेरो आनी / वा शिफारस

निशाणी : ................................................

हुद्दो : ................................................

तारीख : ................................................

## रजेक मान्यताय दिल्ल्याचें प्रमाणपत्र

१३. केंद्रीय नागरी सेवा (रजा) नेम १९७२च्या नेम .......................... खाला ................................................ सावन ...................... मेरेन ......................... रजा मान्य केल्या,
अशें हांव प्रमाणीत करतां.

निशाणी : ..........................................

हुद्दो : ..........................................

तारीख : ..........................................

१४. रजा मंजूर करपी अधिकाऱ्याचो आदेश ..........................................

निशाणी आनी तारीख : .........................

हुद्दो : ..........................................

## • पगारवाड अर्ज

आपणें सुरू केल्ल्या धंद्यांत आपल्याक चडावत फायदो कसो जातलो हें काम निर्मुण्याचें मूळ उद्दिश्ट आसता. ताका लागून तो जायते मार्ग आपणायता. तातूंतलो एक मार्ग म्हळ्यार कामगारांक उणो पगार फारीक करप. खाजगी आस्थापनां असले तरेचो मार्ग आपणायतना पळोवंक मेळटात. कारण तांचेर सरकाराचें फावो तितलें नियंत्रण आसना.

केंद्र आनी राज्य सरकाराच्या वेगळ्या वेगळ्या थरांवयल्या कामगारांक अमुकूच एक पगार थरोवपी आयोग नेमिल्लो आसता. आयोगान थरयल्ले प्रमाण सरकारी आनी निमसरकारी कर्मचाऱ्यांक पगारवाड आनी पगारांत जाल्ली अंतरीम वाड मेळपाक सोंपें जाता. पूण खाजगी आस्थापनांनी कामगारांनी पगारवाडीची मागणी करून लेगीत तांकां फावो ती पगारवाड मेळना. अशा वेळार कामगार वैयक्तीक स्वरूपी वा सगले कामगार एकवटीत स्वरुपांत पगारवाडीचो अर्ज करतात.

पगारवाडीखातीर अर्ज करतना पगारवाडी संदर्भांतले नियमावलीचेर बोट दवरून, अर्ज बरोवंक जाय. कोणूय कामगार वैयक्तीक अर्ज बरोवंक सोदता जाल्यार पगारवाडीचें कारण किदें तें नमूद करून, कितले रुपया पगारवाड जाय हाजो उल्लेख अर्जांत करप गरजेचें. तेचपरी आपलो हुद्दो सांगून, फाटलीं कितलीं वर्सां काम करता ताजोय उल्लेख अर्जांत करपाक जाय. निमाणे सुवातेर पगारवाड करची म्हणून अर्जांत विनवणी करपाक जाय.



देख १

पगार वाड अर्ज (वैयक्तिक)

स्वरुपानंद लोलयेंकार
माशें-काणकोण.

ता. १५ जानेर, १९९८.

वेवस्थापक,
पी जे कंपनी लि.
मडगांव.

विशय : पगारवाड करचेखातीर

भौमानेस्त,

फाटलीं तीन वर्सां जालीं हांव तुमचे कंपनींत कारकुनाची नोकरी करतां. सध्या कंपनी म्हाका म्हयनाळो पगार म्हणून २५००/- रुपया फारीक करता. फाटलें देड वर्स जालें म्हज्या पगारांत इल्लीय वाड जावंक ना. हालींच म्हजेकडेन गुदांवाचो स्वतंत्र ताबो दिल्ल्यान जापसालदारके वांगडाच कामांत खुबूच वाड जाल्या. कामाचो व्याप आनी जबाबदारी मतींत घेवन म्हज्या पगारांत ५०० ते ८०० रुपया मेरेन वाड करची, अशी नमळायेची मागणी.

म्हारगाय आनी उंचावल्लें जीवनमान ह्या दोन गजालींचो विचार करून हांवें केल्ले पगारवाडीची मागणी तुमी मान्य करतले अशी आस्त दवरतां.

तुमचो विस्वासू,

निशाणी
( नांव )

देख २

**सामुहीक पगारवाड अर्ज**

उत्कर्ष कामगार संघटणा,
सनरायज मॅटल इंडस्ट्री,
कुंडय.

ता. ९ माय, १९९८.

वेवस्थापकी संचालक,
सनरायज मॅटल इंडस्ट्री,
कुंडय.

विशय: क आनी ड कामगारांचे पगारवाडीखातीर अर्ज

भौमानादीक,

आमी, सकयल निशाणी करपी क आनी ड वर्गाचे कामगार, तुमचे नदरेक हाडपाक सोदतात, फाटल्या देड वर्सात वेवस्थापनान आमच्या पगारांत मात्तूय वाड करूंक ना. आमचे मागणेप्रमाण क आनी ड वर्गाच्या कर्मचाऱ्यांच्या पगारांत सरासरी रु. ६०० आनी रु. ८०० मेरेन वाड करची.

वस्तूंच्या मोलांनी जाल्ली वाड आनी वाडिल्ल्या गरजांचो जीवनमानाचेर जाल्लो परिणाम मतींत घेवन आमी मागिल्ली पगारवाड चालीक लावंची अशी मागणी.

कामगारांचें हीत लक्षांत घेवन तुमी आमची मागणी मान्य करतले अशी आमी आस्त करतात. तुमच्या निर्णयाक आमी रावतात.

तुमचो विस्वासू,

अध्यक्ष
(उ. का. संघटणा)

पत्रावळ: क आनी ड कामगारांचीं नांवां आनी निशाण्यो

## • विनवणी अर्ज

दुसऱ्याक सांगतना वा ताजेकडल्यान काम करून घेतना सामान्यतायेन आमी दोन तरा आपणायतात. एक धमकावन सांगप, आनी दुसरे सुवातेर विनवणी करप. धमकावणी दिवन सांगप ही हुकूमशाय जाल्यार विनवणी करप ही खालतिकाय. खालतिकायेन सांगप सदांच उजू थरता. आयकतल्या वा वाचतल्या मनशाक तुजीं उतरां गोड लागतात. तो तुज्या उतरांक मान दिता आनी आपलेपणान तुजें काम हातांत घेता. कांय कामां तोंडान सांगून जातात, जाल्यार कांय पत्र वा अर्जांतल्यान विनवणी करून घेवंची आसतात. कचेरेंतलीं कामां जीं कायद्याक धरून आसतात, थंय संबंदीत अधिकाऱ्याक लेखी विनवणी अर्ज करचो आसता.

विनवणी अर्ज हो वैयक्तीक तशेंच सामुहीक आसूं येता. वैयक्तीक अर्ज हो व्यक्तीनिश्ठ आसता, जाल्यार सामुहीक अर्ज भौशीक हिताखातीर आसता.

देख १

सौ. मिल्ड्रॅड लोबु
बाणावली, साश्ट.

ता. १२ माय, १९९८.

संचालक,
शिक्षण खातें,
पणजी.

विशय : बदली थांबोवंचे खातीर

मानेस्त,

हांव केळशे सरकारी माध्यमीक विद्यालयांत शिकोवपी शिक्षिका तुमचेकडेन विनवणी करूंक सोदतां, चालू शिक्षणीक वर्सा म्हजी बदली काणकोण म्हालांत पाळोळेंच्या सरकारी माध्यमीक विद्यालयांत केल्या.

पोरूं वर्सा जाल्लें काळजाचें ओपेरासांव आनी परतून परतून उपरासपी भलायकेच्या प्रस्नाक लागून पाळोळ्यां बिराड करून रावप वा येवन-वचून शिकोवणी करप म्हाका शक्य नाशिल्ल्यान, उपकार करून बदली ऑर्डर नं. ११/९८ थांबोवंची आनी हांव जंय शिकयतां थंयच शिकोवपाक परवानगी दिवंची.

म्हजे भलायकेचो प्रस्न आनी शिक्षणीक मळार जावपी लुकसाण मतींत धरून म्हजी विनवणी मान्य करची अशी नमळायेची मागणी.

तुमची विस्वासू,
नांव आनी निशाणी

देख २

वेरें युथ क्लब
वेरें, बार्देस.

ता. १८ माय, १९९८.

संचालक,
रेयश मागुश ग्रामपंचायत
वेरें, बार्देस.

विशय: खेळांमैदानाचें उरिल्लें काम करचेपासत.

भौमानेस्त,

आमी तुमकां विनवणी करूंक सोदतात, फडटे वाड्यार चलिल्लें खेळां-मैदानाचें काम फाटलो म्हयनोभर बंद दवरिल्ल्यान मातयेच्यो राशी तशाचो तशोच आसात. हें उरिल्लें काम पावसाळो सुरु जावंचे पयलीं करून घेवंचें अशी आमच्या क्लब वांगड्यांची तुमकां विनवणी आसा. पावसाळ्या पयलीं काम केलेंना जाल्यार उदकाच्या लोटान माती व्हांवत वचून लागींच आशिल्ल्या शेतांत सांचतली, तशेंच उरिल्ली माती थंयच घट जावन अर्थीक फटको बसपाची शक्यताय आसा.

वयल्या गजालींचो खोलायेन विचार करून आमी केल्ली विनवणी तुर्ताक पुराय करची अशी मागणी.

तुमचो विस्वासू,

अध्यक्ष
(वेरें युथ क्लब)

पत्रावळ: वांगड्यांचीं नांवां आनी निशाण्यो

टीप: अर्ज बरोवपाचे नवे पद्दतेप्रमाण 'सेवेक' वा 'प्रति' बरोवपाची चाल काळाभायरी जाल्या.

विभाग ९

# प्रसार माध्यमांखातीर लिखाण

## ☐ स्वरूप आनी प्रकार

प्रसार माध्यमांखातीर लिखाण करतना कांय गजाली मतींत दवरच्यो पडटात. देखीक, रेडिओ/टीवी सारकिल्या माध्यमांपासत नियाळ / खबर / वार्तापत्र / माहितीपत्र / भौशीक कळोवणी दिता आसतना वेळाची मर्यादा दवरप गरजेचें. तेभायर तें सोंपेपणान लोकांकडेन पावतलें हाजी जतनाय घेवंची पडटा. खबरांपत्रांपासत वयलें लिखाण करतना 'सुवात' हो गरजेचो घटक आसता.

खंयच्याय खबरांपत्रापासत मुलाखत दितना निवेदकाक म्हत्व आसता. तेभायर मुलाखत घेवपी मनशाक मुलाखती घेतनाच्यो वा उपरांतच्यो घडणुको नोंद करपाक सुवात आसता अशें म्हणूं येता.

रेडिओ हें श्राव्य माध्यम. देखून मुलाखत घेतना आपूण कोणाची मुलाखत घेतां, विशय वा संदर्भ किदें, आनी मुलाखतींतल्यान आयकुप्यांक किदें आयकूंक दिवप चड गरजेचें हाजेर लक्ष दिवंचें पडटा. तेभायर सुरवात-अखेर हांचेरूय प्रभावीपणान उलोवंचें आसता. टीवी पासत मुलाखत घेतना कॅमेरा म्हत्वाचो आसता. कॅमेराक तोंड केले उपरांत कशें उलोवप तें आनी बारीकसारीक हालचालींचेर नदर आसप गरजेचें. संस्कृताय-संस्कार-परिस्थिती आनी विशय हाताळपाची कला मुलाखत घेवप्याकडेन आसपाक जाय. दिल्ल्या वेळांत प्रसार माध्यमांतल्यान मुलाखत प्रभावी कशी करप ही एक कला. तोंडांतल्यान आयिल्लें दर एक उतर पळोवपी-आयकुप्याचेर परिणाम करपी वा प्रभाव घालपी आसता. शब्द हें शस्त्र. ताजो फावो तसो उपेग जावंक जाय अशें ह्या संदर्भांत म्हळ्यार अतिताय जावं नजो.

प्रसार माध्यमांखातीर नियाळ बरयतना 'काळ' म्हत्वाचो. 'कितलो काळ' त्या नियाळांत आसपावन घेतला हें कळप म्हत्वाचें. कामाचे फास्केंतल्यान हो नियाळ बरोवप गरजेचें. दर एका वावराची रीत आसता. रितीन आनी नेमान आनी घटनेक धरूनूच ताजी बांदावळ आसची.

खबर बरयतना ती विशिश्ट खबर खंय घडल्या, केन्ना घडल्या, कशी घडल्या हें म्हत्वाचें. कसलीय कार्यावळ जाली जाल्यार तातूंत किदें आयलें, कोण उलयलो, मानेस्तांचीं नांवां, तशेंच कार्यावळीचो नियाळ घेवप गरजेचें थरता. थळ, तारीख, वेळ गरजेचीं आसतात.

माहितीपत्र वा वार्तापत्र बरयतना तरेकवार मळांचेर जाल्ल्या घडणुकांची रीतसर वळेरी दिवप गरजेचें आसता. हातुंतूय थळ, काळ, व्यक्ती, कार्य (काम) हांची

नोंद घेवंची पडटा, तशेंच वेळा-काळाप्रमाण आनी परिस्थितीप्रमाण हाजें स्वरूप बदलूं येता.

टीवी वा रेडिओखातीर मुलाखत घेतना मुलाखतकाराकडेन त्या विशिश्ट विशयाचें गिन्यान आसप गरजेचें. कोणाय साहित्यकाराची मुलाखत घेतना ताज्या साहित्याविशीं माहिती मुलाखतकाराक आसची पडटा. साहित्य, संस्कृताय, कला, पर्यावरण, कर्तुत्व, उद्देगीक, विज्ञानीक, राजकारण, समाजकारण, तत्त्वज्ञान, अध्यात्म, धर्म, प्रसंगीक प्रस्न ह्या सारकिल्या तरेकवार विशयांचेर मुलाखती घेतना विशयाची जाण मुलाखत घेवप्याक आसची पडटा. असल्या आशयाच्या मुलाखतींनी वैयक्तीक, घराव्या, खासगी प्रस्नांपरस विशयनिश्ठ प्रस्नांक चड म्हत्व आसता. तशेंच, मुलाखतीची सुरवात ओडलायणी आनी अखेर परिणामकारक आनी प्रभावी जावंचो अशें सर्वसादारण मत आसता.

## • १. वार्तापत्र

नमुनो १

## गोंयची शिक्षणीक उदरगत

गोंयचे सुटके उपरांत सगल्या मळांनी तोखणाय करपासारकी उदरगत जाल्या हें जरी खरें आसलें तरी शिक्षणीक मळार जाल्ली प्रगती अभिमान दवरपांसारकी आसा. गोंयांत सक्तीचें शिक्षण नासतनाय ६ ते ११ वर्सां पिरायेचीं १०० टक्के भुरगीं शाळेंत वतात. हाजोच अर्थ, शिक्षणाचें म्हत्व सगल्यांक पटलां. जून १९७९ पसून एसएससी मेरेनचें शिक्षण फी घेनासतना मेळूंक लागलां. आतां १२ वी मेरेन शिक्षण सगल्यांक फुकट मेळचेली वेवस्था सरकारान केल्या. शिक्षणीक मळार केल्ल्या यत्नांक लागून गोंयचे मुक्तताये वेळार १९६१ वर्सा आशिल्लें साक्षरतायेचें ३१ टक्के प्रमाण आयज ६४ टक्क्यांचेर पावलां. गोंयाखातीर स्वतंत्र एसएससी बोर्ड, राज्य शिक्षण संस्था आनी गोंय विद्यापीठ हांचो शिक्षणीक उदरगतींत मोलाचो वांटो आसा. नव्यान स्थापन जाल्ल्या गोंय विद्यापिठाक गोंयचीं १८ म्हाविद्यालयां जोडल्यांत, जातूंत सुमार १५ हजार भुरगीं शिकतात.

### शिक्षणीक धोरण

नव्या राश्ट्री शिक्षणीक धोरणाची घोशणा आनी गोंयाक घटक राज्याचो दर्जो मेळप ह्यो दोनूय घडणुको एकाच वेळार जावप हो बरो योगायोग म्हणूं येत. नव्या शिक्षणीक धोरणांत आसपावल्ल्यो कार्यावळी नेटान चलणुकेंत हाडपाक नव्या गोंय राज्यान नेटान पावलां मारल्यांत. सुटके उपरांत पयल्या २५ वर्सांमदीं मुखेल भार शिक्षणाच्या

विस्ताराचेर आसलो. आतां शिक्षणाची गुणवत्ता वाडोवपाचेर खासा ध्यान दिलां. भरमसाट फी घेवपी खाजगी संस्थांनी बरें शिक्षण मेळटा असो आवय-बापांयचो समज आसा. सरकारी शाळांतल्यान बरें शिक्षण दिवन लोकांच्या मनांतलो हो समज पयस करप हो नव्या शिक्षणीक धोरणाचो गाबो. समाजाचे गरजेप्रमाण 'अदीक दोन' पांवड्याचेर वेवसायीक शिक्षण दिवपाखातीर सरकारान पावलां मारल्यांत. सुरवातेक अशा ६५ अभ्यासक्रमांची निवड केल्या आनी तेखातीर केंद्रान पुरस्कृत केल्ले येवजणेखाला रु. ८६.५२ लाख इतली दुडवांची तरतूद केल्या. पांच उच्च माध्यमीक शाळांनी कम्प्युटर दिल्यात आनी चार शाळांक दिवपाचे आसात. प्रौढ साक्षरताय शिक्षणाखातीर खासा कार्यावळ चालीक लायल्या. शिक्षणाचो गुणात्मक दर्जो वाडोवपाखातीर शिक्षण खात्यान एक कृती येवजण तयार केल्या. घटक राज्याच्या पयल्याच वर्सा तेखाला जिनसांवार येवजणो चालीक लायल्यात. हे नदरेन सत्तरी आनी सांगें ह्या फाटसारिल्ल्या म्हालांनी 'ऑपरेशन ब्लॅकबोर्ड' ही येवजण नेटान चालू आसा आनी ह्या वर्सा ती आनीक चार म्हालांनी लागू करतले. विज्ञान शिक्षणाची सुंदारणा करप, विज्ञान प्रयोगशाळा सुदारप हीं कामां मदल्या पांवड्याचेर लागू केल्यांत.

## शिक्षण कायदो

१४ नोव्हेंब्र, १९८६ सावन शिक्षण कायदो लागू जाल्ल्यान शिक्षकवर्गाच्या सेवा सुविधांनी वाड जाल्या. शिक्षकांखातीर चर्चासत्रां, ल्हान मुजतीचे प्रशिक्षणक्रम लागू केल्यात. हांचो लाव आतांमेरेन ४० टक्के शिक्षकांनी घेतला. ताका लागून नव्या धोरणाप्रमाण भुरग्यांक शिकोवप तांकां सोपें जातलें. गोंयांत काणकोणा नवोदय विद्यालय चालू केलां. दुसरें विद्यालय वाळपय सुरू जातलें. तंत्रीक शिक्षणाची योग्य दिकेन वाड जावंची म्हणून तंत्रीक शिक्षण संचालनालय सुरू केलां. तंत्रीक शिक्षण संस्थांचेर आतां ह्या खात्याचें नियंत्रण आसा. गोंयाखातीर खासा तंत्रीक शिक्षण परिक्षा मंडळ स्थापलां. आतां महाराष्ट्र तंत्रीक शिक्षण मंडळाबदला हें मंडळ परिक्षा घेतलें. कम्प्युटर इंजिनियरींग, कम्प्युटर ॲप्लिकेशन हे नवे अभ्यासक्रम चालू केल्यात.

शिक्षणीक मळार जाल्लें काम तोखणाय करपासारकें आसलें तरी विकासांत समानताय ना. हो असमतोल ना जावपाक उपाय सुचोवपाक म्हणून गोंय राज्य नियोजन मंडळान एक उपसमिती नेमल्या. हे उपसमितीचो अहवाल गोंयच्या शिक्षण विकासांत क्रांतिकारी बदल घडोवन हाडटलो.

## काळाक फावोसो बदल

एकविसाव्या शेंकड्यांत पावल घालतना जाल्ल्या वावराक घटाय दिवन शिक्षणाचो दर्जो वाडोवपाचें आव्हान नव्या गोंय राज्याक स्विकारचें पडटलें. राज्यांतल्यो मुखेल शिक्षणीक संस्था, गोंयचो एसएससी बोर्ड, राज्य शिक्षण संस्था आनी गोंय विद्यापीठ हांकां शिक्षणाच्या तिनूय पांवड्यांचेर गरज ती सुदारणा घडोवन हाडपाखातीर वावर

करचो पडटलो. बदलत वचपी समाजाच्यो शिक्षणीक गरजो भागोवन तरणाट्यांमदल्या नव्या फुडारपणाक योग्य तें मोडण लावपाचें आव्हान संबंदीत क्षेत्रांतल्या मनशांक आनी संस्थांक करपाचें आसा. नव्या शिक्षणीक धोरणान दिशा दाखयल्या; धोरण चलणुकेंत हाडपाचें काम आतां करपाचें आसा.

नमुनो २

## गोंयचो उद्देगीक विकास

गोंय सुटके पयलींचें आनी सात्तीस वर्सां उपरांतचें उद्देगीक मळावयलें चित्र सामकेंच बदललां. जे सुवातेर ४६ उद्देग आशिल्ले थंय आयज ल्हान उद्देगांचो आंकडो ४००० वयर पावला. तातूंत ४५ कोट रुपया इतलो दुडू गुंथला आनी २५ हजार लोकांक काम मेळटा. गोंयांत आयज मध्यम आनी व्हड मेळून ४० उद्देग आसून रु. २०० कोटी इतलो दुडू तातूंत घाललो आसा; आनी ८००० लोकांक काम मेळटा. फाटल्या ३७ वर्सांमदीं उद्देगीक मळार घडून आयिल्लो बदल इतल्या थोड्या काळांत खंयच्याच राज्यांत घडून येवंक ना अशें म्हळ्यार अतिताय जावंचिना. उद्देगीक वाडीक खरो नेट आयलो १९७० उपरांत. सुटकेच्या पयल्या ११ वर्सांमदीं ७०० उद्देग आशिल्ले. मागीरच्या काळांत तातूंत पांचपट वाड जाली. टायरांपसून घडयाळी, टीवी बी इलॅक्ट्रॉनिक म्हालामेरेन जिनसांवार वस्तू आतां गोंयांत तयार जातात.

### चित्र बदललें

उद्देग गुंथवणुकेक नेट आयलो तो केंद्र सरकाराचे सब्सिडीक लागून. उद्देग स्थापनेक १९७१ वर्सा १० टक्के सब्सिडी मेळटाली. मागीर १५ टक्के आनी १९८३ वर्सा सावन २५ टक्के जाली. सब्सिडी येवजणेचो लाव २५०० उद्देगांनी घेतलो. वांटिल्ले सब्सिडीची रकम रु. ३१ कोटी इतली जाता. महाराष्ट्र राज्य वित्तीय म्हामंडळ, अर्थीक विकास म्हामंडळ हांचोय गोंयचे उद्देगीक उबारणेंत मोलाचो वांटो आसा. सब्सिडी येवजणेंत बदल करपाचो केंद्राचो विचार चलला. सध्या हे येवजणेक ३०-९-८८ मेरेन जीवदान मेळ्ळां. कशेंय जालें तरी गोंयच्या हिताचे नदरेन ही सब्सिडी फुडेंय चालू उरप सामकें गरजेचें. आतां गोंयाक राज्याचो दर्जो मेळिल्ल्यान सरकाराचे अधिकार वाडल्यात. गोंय सरकारान महाराष्ट्र, गुजरात हांचेभाशेन उद्देगांक उर्बा दिवपाक आपल्यो स्वताच्यो येवजणो चालीक लावंच्यो पडटल्यो.

### वीज

१९८२ मेरेन गोंयचो उद्देगीक विकास फकत दर्यादेगांवयल्या चार म्हालांपुरतो

मर्यादीत आशिल्लो. पुणून फाटल्या स वर्साभितर कुंडय, दिवचल, फोंडें, बेतोडें, उसगांव सारक्या भितरल्या गांवांनी उद्देगीक केंद्रां जाल्यांत ही बरी गजाल. गोंय आदीं विजेखातीर फकत कर्नाटक आनी महाराष्ट्र राज्यांचेर आदारून आसलें. पूण गोंयाक आतां राष्ट्री ग्रिडांतल्यान २०० मॅ.वॉ. वीज मेळटा. आठवी पंचवर्सुकी येवजण सोंपमेरेन गोंयची विजेची गरज भागत वतली हाजी खबरदारी घेवंक जाय. पूण तेचबरोबर चड वीज खावपी उद्देगांक चड उत्तेजन दिवप योग्य न्हय. तशेंच, वीज पुरवण खंडीत जावंचिना, वोल्टेज उणी चड जावंचिना हाजेकडेन पुराय लक्ष दिवंक जाय.

गोंय राज्याच्या उत्पन्नांत उद्देग क्षेत्राचो वांटो २० टक्के म्हळ्यार १५ वर्सांमदीं १०० टक्क्यांनी वाडला. गोंयचो खण उद्देग गोंयच्या उत्पन्नांत ५५ टक्के भर घालता. शेतीचो वट्ट उत्पन्नांत वांटो फकत १५ टक्के इतलो आसा. साळावली सारके धरण प्रकल्प जातकच तातूंत भर पडूं येत. उद्देग क्षेत्राचो राज्य उत्पन्नांतलो वांटो हाजेय फुडें वाडत वतलो. सरकारान हे दिशेन घटमूट पावलां मारल्यांत. वेर्णेचो 'इलॅक्ट्रॉनिक्स कॉम्प्लॅक्स' हें योग्य दिशेन मारिल्लें पावल.

खण उद्देगाचें गोंयचे अर्थीक मांडावळींत मोलाचें स्थान जावन उरलां. आयज ह्या उद्देगाक ऑस्ट्रेलिया, ब्राझीला सारक्या देशांकडेन सर्त करची पडटा. केंद्र तशेंच राज्य सरकारान फावो ते उपाय घेतलेनात जाल्यार ३५,००० लोकांक काम दिवपी उद्देगाचें म्हत्व उणें जातलें. तशें जावंक दिवप नव्या गोंय राज्याक परवडचेंना.

आयज रोजगार कार्यालयांत ७६,००० बेरोजगारांची नोंद आसा. उद्देगीक आनी हेर अर्थीक कार्यक्रम सरकारी आनी हेर यंत्रणांनी बरे तरेन चलणुकेंत हाडले जाल्यारूच बेकारी सामकी काबार जालिना तरी बरीच उणी जावंक पावतली. हे बाबतींत चड भिस्त उद्देगीक मळाचेरूच आसा.

## २. नियाळ

नमुनो १

### घटक राज्याचें एक वर्स

गोंयाक घटक राज्याचो दर्जो मेळोवपाचें गोंयकारांचें सपन इकरा वर्सांआदीं पुराय जालें. आनी तेन्नासावन ह्या राज्याची दिल्ल्या वचनाची पुर्ती करपाचे आनी उदरगतीचे दिशेन नेटान वाटचाल चालू आसा. घटक राज्याचो दर्जो म्हळ्यार चड हक्क आनी अधिकार मेळपाबराबर जापदालदारकीय वाडप. घटक राज्य मेळ्ळे उपरांत राज्याची अर्थीक परिस्थिती इबाडटली म्हणपाचो जो भंय लोकांक आसलो तो चुकीचो थरलो. समाजाच्या सगल्या घटकांचे नदरेन हें वर्स मोलादीक थरलें. ३० माय हो दीस

गोंयच्या इतिहासांत भांगराच्या अक्षरांनी बरोवपासारको दीस. कारण ह्या दिसा एका अर्थान गोंय राज्यान नियतीकडेन करार केलो. घटक राज्याचो वर्सदीस मनयतना गोंयचे मुक्ततायेखातीर त्याग करपी आनी आपलो जीव ओंपपी स्वातंत्र्यसेनानींविशीं आनी हुतात्म्यांविशीं मन उपकाराचे भावनेन सदांच भरून येता.

## दोन जिल्ले

गोंयचो प्रशासकी दर्जो वाडिल्ल्यान शासनाचें आनी येवजणांचें विकेंद्रीकरण करचें पडलें. हे दिशेन पयलें पावल म्हणून उत्तर आनी दक्षीण गोंय अशे दोन जिल्ले स्थापन केले. तेभायर स उप-जिल्ले स्थापले. उत्तर गोंय जिल्ल्याची राजधानी पणजी आनी दक्षिण गोंयची मडगांव जाली. ताका लागून कसल्याय कामाखातीर पणजे येवपा-वचपाची गरज उरलिना. आतां मडगांवां नव्यो कचेऱ्यो जाल्यात.

## विकेंद्रीकरण

विकेंद्रीकरणाचे नदरेन हातांत घेतिल्लो आनीक एक उपाय म्हळ्यार, दक्षीण गोंयचे मंत्री पाळयेपाळयेन सप्तकांतल्यान एकदां मडगांवां बसून लोकांच्यो कागाळी-गाराणीं आयकतले. हें काम हेआदींच चालू जालां. ह्या कामांत सरकाराचे वरिश्ठ अधिकारी मंत्र्यांक मदत करतले. म्हणटकच कसल्याय मागण्यांचेर, प्रस्नांचेर थंयचे थंयच निर्णय घेवपाक मंत्र्यांक सोंपें जातलें. एका अर्थान सरकार लोकांमेरेन व्हरपाचो हो यत्न.

म्हाल पांवड्याचेर प्रशासकी गट स्थापपाची प्रक्रिया चालू जाल्या. गट सल्लागार समित्यांक अदीक म्हत्व आयलां. कित्याक तर, तांच्या बसकांक आतां मंत्री आनी संबंदीत अधिकारीय हाजीर आसतात. पंचायती-पालिका ह्यो समाजीक-अर्थीक विकासाचीं खरीं साधनां जावंचीं म्हणून उपाय घेतल्यात. गोंयाखातीर वेगळो लोकसेवा आयोग सुरू जाला.

## नवीं विधेयकां

केंद्रशासीत प्रदेशावयल्यान घटक राज्याचो दर्जो म्हणजे आपलो कारभार अदीक समर्थपणान चलोवप. तेखातीर गरज ते कायदे करप गरजेचें आसलें. सरकारान वेळ वगडायनासतना १४ विधेयकां विधानसभेंत मांडलीं. म्हत्वाच्या बिलांमदीं एड्स नियंत्रण विधेयक, शिक्षण विशयक विधेयक, पर्यटन विशयक टुरिस्ट ट्रेड ॲक्ट ह्या कायद्यांचोय आसपाव जाता.

## उद्देग

उद्देगीक चित्र बदलत चललां. विकसीत तंत्र आपणावपी, प्रदुशण विरोधी उद्देग स्थापन करपाचेर ध्यान दिलां. ताका लागून आमच्या तरणाट्यांक तांचे आवडीप्रमाण रोजगार मेळूंक पावतलो. वेर्ण्या जें 'इलॅक्ट्रॉनिक शार' उबें जाता ताका लागून उद्देगीक

विकासाक वेगळीच कलाटणी मेळटली. देशाभायर आशिल्ल्या मुळाव्या भारतीयांनी गोंयांत उद्देगांत गुंथवणूक करची म्हणून यत्न चलल्यात. आपली बचत गोंयांत गुंथोवपाक जायत्या जाणांनी अनुकूलताय दाखयल्या.

### वीज

गोंय स्वतंत्र जाल्लें तेन्ना फकत १४ गांवांक वीज आसली. फाटल्या वर्सा खांचींतल्या गांवांक लेगीत वीज पावयल्या आनी गोंयान १०० टक्के विद्युतीकरण सादलां. सांगें म्हालांतल्या तुडव गांवांत सूर्यशक्तीचेर वीज पावयल्या.

### खेळ

खेळांक बरेंच बळ मेळ्ळां. गोंयान गर्व करूं येत असो पांच कोटींचो फातोड्डेंचो स्टेडियम वयर सरला. कांपालार पेंवपाचें तळें बांदलां. वेगळ्या-वेगळ्या म्हालांनी खेळांमैदानांच्यो येवजणो आंखल्यात. खेड्यांनी, शाळांनी मैदानां जावंचीं म्हणून अर्थीक मदतीची खासा येवजण चालीक लायल्या. वेगवेगळ्या खेळांचें 'कोचिंग' दिवपाक अग्रक्रम दिला. स्पोर्टस् काउन्सिलां बदला 'गोवा स्पोर्टस् ऑथॉरिटी' स्थापल्या. ताका लागून खेळांचो बरो विकास जावपाक मजत जातली.

### शेतकाम

शेतकामाचेर भर दिला. कानाल प्रकल्प पोरूं वर्सा अदीक नेटान चालीक लायले. साळावली, हणजुणें ह्या धरणांतल्यान उदक मेळूंक लागलां. तिळारी धरणाचें काम नेटान चललां. पर्यावरण, पुनर्वसन ह्या प्रस्नांतलीं आडमेळीं पयस करून हो प्रकल्प आतां चालीक लायला. तिळारीक लागून दिवचल, बार्देस आनी पेडणें म्हालांत १६,९८७ क्षेत्राक शिंपणेची सोय जातली. साळावलींतल्यान ३११८ हॅक्टेर आवाठाक उदक मेळूंक लागलां. फुडल्या वर्सा आनीक १५५० हॅक्टेर सुवातीक अशी सोय जातली. हणजुणें धरणांतल्यान ४५० हॅक्टेरांक उदक मेळूंक लागलां. ल्हान शिंपणावळ कार्यावळीय फुडें व्हेल्यात. ल्हान कानालांखाला १४,७१० हॅक्टेरांक सोय जाल्या. तेच बरोबर पियेवपाचें उदक खेड्यापाड्यांनी पावोवपाची कार्यावळ नेटान चालीक लागल्या. आमठणें धरणांतल्यान उदक हाडून तें अस्नोडें प्रकल्पांत सोडलां. ताका लागून बार्देस म्हालाची उदकाची पुराय गरज भागता. तेभायर हणजुणें धरणांतलें उदक अस्नोड्या हाडून ही उदका पुरवण आनीक सुदारतली. एका वर्सांत २७ नव्या गांवांक उदकाची सोय केली. आनीक ३८ गांवांनी ती जायत आसा. समाजीक वनीकरण कार्यावळ नेटान फुडें वता. रानांची राखण दोळ्यांत तेल घालून करतात. झाडां मारपाचेर बंधन येवपाक खास कायदो केला. चोडणेंचें सुकण्यां अभयारण्य आकार घेता.

## भलायकी

भलायके मळार तोखणाय करपासारकें काम चललां. गांवदोंगरेर आनी हेरकडेन पोरूं नवीं पालवी भलायकी केंद्रां जालीं. कुटूंब येवजण कार्यावळींत गोंयांत रु. ५० लाखांचें केंद्र सरकाराचें रोख आनी करंडाचें इनाम फावो जालां. जननप्रमाण हजाराफाटल्यान १९ आनी मरणप्रमाण ६.७६ इतलें देंवलां. आयज गोंयांत ८७९ मनशांफाटल्यान एक दोतोर अशें प्रमाण आसा. म्हळ्यार, भलायके मळार इ.स. २००० वर्साखातीर थरयल्लीं चडशीं उद्दिश्टां गोंयान आयजूच सादल्यांत.

## शिक्षण

अडचणीच्या गांवांनी लेगीत शिक्षण लोकांच्या दारांमेरेन व्हरपाचे यत्न चालू आसात. १२वी मेरेनचें शिक्षण आतां सगल्यांक फुकट केलां. मुळाव्या आनी मदल्या पांवड्याच्या शिक्षणाची सोय राज्यांत सगलेकडेन केल्या. आनी म्हालांच्या गांवांनी शिकपी भुरग्यांक रावपाक हॉस्टॅलां आनी उच्च शिक्षणाच्यो सोयी करपाक पावलां उखलल्यांत. सध्या २३ उच्च माध्यमीक विद्यालयां चलतात. तातूंत आनीक आठांची भर पडल्या. सांखळे पयलें सरकारी कॉलेज सुरू जालां. तंत्रीक शिक्षणाचेर भर दिला आनी विद्यार्थ्यांनी स्वताचे उद्देग स्थापचे म्हणून तांकां उत्तेजन दितात.

## न्हंयांतली येरादारी

गोंयच्यो न्हंयो येरादारीक बऱ्यो करच्यो म्हणून प्रयत्न चलल्यात. मांडवी, जुवारी आनी म्हापशेंच्या न्हंयांतलो चिखोल काडपाक म्हणून गोंय सरकार आनी भारतीय अंतर्गत जलवाहतूक प्राधिकरण हांचेमदीं करार जाला. धनगर, गावडे, वेळीप आनी कुणबी ह्यो हेर फाटसारिल्ल्यो जमाती म्हणून जाहीर केल्यात. तांकां नोकऱ्यांनी दोन टक्के जाल्यार वेवसायीक कॉलेजींनी चार टक्के जागे राखून दवरल्यात. ताका लागून तांचे अर्थीक-समाजीक उदरगतीचो मार्ग मेकळो जाला.

अशे तरेन घटक राज्याचें एक वर्स हें खरें वावराचें वर्स जावन गेलें. आनी जायत्या क्षेत्रांनी लाब घडले. गोंयकार आपलें राज्य बरे तरेन चलोवपांत मात लेगीत फाटीं रावचेनात हें फाटल्या वर्साच्या घडणुकांनी दाखोवन दिलां. ताका लागून लोकांचो आत्मविस्वास वाडला.

नमुनो १

# गोंयच्या प्रदेशीक उत्पन्नांत वाड

चालू तशेंच स्थीर मोलाप्रमाण गोंय राज्याच्या वट्ट उत्पन्नांत तशेंच गोंय राज्याच्या दर मनशाफाटल्या उत्पन्नांत १९७१-७२ ते १९८५-८६ ह्या काळांत बरीच वाड जाल्ली दिश्टी पडटा. चालू मोलांत वट्ट उत्पन्न १९७०-७१ वर्सा रु. ७६.७१ कोटी आशिल्लें तें १९८५-८६ मदें रु. ५९०.५५ कोटीचेर पावलें. म्हळ्यार ही वाड ६७० टक्क्यांनी जाली. थीर मोलांत १९७०-७१ हें बुन्यादी वर्स धरलें जाल्यार ही वाड ७६.७१ कोटी वयल्यान रु. १९६.०१ कोटी इतली म्हळ्यार १५६ टक्क्यांनी वाडली.

गोंयचें दर मनशाफाटलें उत्पन्न चालू मोलांत ह्या काळांत वाडत गेलां म्हणपाचें दिसलें. १९७०-७१ वर्सा तें रु. ९१६ इतलें जाल्यार तें १९८५-८६ वर्सा ४९५८ रुपया इतलें जालें. ही वाड ४.४१ टक्के जाता. थीर मोलांतूय दर मनशाचें उत्पन्न १९७५-७६ हें बुन्यादी वर्स धरलें जाल्यार ९१६ रुपयां वयल्यान १६४६ रुपया इतलें वाडलां म्हणपाचें दिसलां. म्हणजेच १६ वर्सांमदीं थीर दरेंत ही वाड ८० टक्के जाली म्हणपाचें दिसता.

गोंयच्या राष्ट्री उत्पन्नाचे वाडींत पयल्या, दुसऱ्या आनी तिसऱ्या गटांतल्या मळांचो कसो वांटो आसा तेंय पळोवपासारकें. राज्याच्या उत्पन्नांत तिसऱ्या गटाचो म्हळ्यार वेपार, येरादारी, बँकिंग हांचो १६ वर्सांफाटलो ४१ टक्के वांटो आयज ४६ टक्क्यांचेर पावला. पयल्या वर्गाच्या अर्थविव्हारांत शेतकामत, जनावरां-भलायकी, रानां, नुस्त्या वेवसाय हांचो आसपाव जाता. तांच्या वांट्याची टक्केवारी १६ वर्सांमदीं १८.४ वयल्यान १४.८ टक्क्यांमेरेन देंवली. जंगलांपसून मेळपाचे येणावळींत तूट आयिल्ल्यान हें घडूंक पावलें. दुसऱ्या वर्गांत, जातूंत खणी, वीज आनी हेर उलाढालींचो आसपाव जाता तांचो राज्याच्या उत्पन्नांतलो वांटो ४०.५ टक्क्यांवयल्यान ३८.९ टक्क्यांचेर देंवलो. खणीच्या धंद्याक आयिल्ली मंदी हें हाजे फाटलें कारण जावं येता. पर्यटन, वेपार, बँकिंग हातूंत जाल्ले वाडटे उलाढालीक लागून तिसऱ्या गटाचो राज्याच्या उत्पन्नांतलो वांटो चडूंक पावलो.

नमुनो २

## काणकोण नवोदय विद्यालयाचो वर्स सुवाळो

शिकपी भुरग्यांक चार वणटींभितर शिक्षण दिवन भागचेंना जाल्यार तांचेभितर संघीक भावना, एकवट आनी सर्तींत वांटो घेवपाची वृत्ती हे गूण निर्मुपाची गरज आसा.

हाका लागून जापसालदार तरणाटी शक्त निर्मुपाक मदत जातली आनी राष्ट्री उदरगतीक नवी उंचाय मेळटली. नव्या ध्येयाचो नव्या शिक्षणीक धोरणांत आसपाव केला आनी त्या ध्येय-धोरणाची अंमलबजावणी नवोदय विद्यालयां करतात.

काणकोणच्या नवोदय विद्यालयाचो वर्सदीस सुवाळो चवदा मायाक जालो.

समाजांतल्या सगल्या घटकांमदीं शिस्त वाडीक लावप गरजेचें. शिस्त पाळपी समाजूच राज्याच्या अर्थीक विकासाक हातभार लावंक शकता. विचारांक कर्तुबाची जोड मेळ्ळ्यार आपल्या परजळीत फुडाराखातीर स्वताचें बरें व्यक्तिमत्व घडोवपाक विद्यार्थ्यांक मदत जातली.

देशाचे उदरगतीचो मुखेल शक्तीस्रोत म्हणून आयज विद्यार्थ्यांकडेन पळयतात. देखुनूच शिक्षकांनी विद्यार्थ्यांक योग्य मार्गदर्शन करून ते देशाचे जापसालदार नागरीक जातले, अशें तांचें व्यक्तिमत्व घडोवंक जाय.

ह्या वेळार विद्यार्थ्यांनी भरयल्ल्या कला, कारागिरी आनी विज्ञान प्रदर्शनाचें उकतावण जालें आनी हुशार भुरग्यांक इनामां भेटयलीं. 'अरुणोदय' ह्या हस्तलिखीत म्हयनाळ्याचें प्रकाशन जालें.

## ४. रेडिओ, टीवी पासत मुलाखत: प्रस्नावळ

नमुनो १

प्रगतीशील शेतकार लक्ष्मण गांवकार हांची रेडिओचेर मुलाखत: कांय प्रस्न.

शेत वेवसाय हो देशाचे उदरगतीचो कणो. ह्या वेवसायाचेर साबार हेर वेवसाय आदारिल्ले आसात. अशें आसलें तरी कांय मेजकेच लोक ह्या वेवसायांत मन लावन वावुरतना दिश्टी पडटात. आयचो तरणाटो नोकरे फाटल्यान धांवतना शेत-वेवसायाकडेन फाट करतना पळोवंक मेळटा. ही गजाल खरी आसली तरी श्री. लक्ष्मण गांवकार हो तरणाटो ताका आडवाद आसा.

आयज आमच्या स्टुडिओंत पदवी मेरेनचें शिक्षण संपादन केल्ले तरणाटे शेतकार शेतकी वेवसाया संदर्भांत माहिती दिवपाक आयिल्ले आसात. लक्ष्मणबाब, तुमकां हांव सगल्यांत पयलीं येवकार दितां.

- लक्ष्मणबाब, नमस्कार. सगल्यांत सुरवातेक शेतकी इश्ट पुरस्कार फावो जालो देखून तुमकां परबीं. आतां म्हाका सांगशात, तुमकां शेतवडीची आवड केन्नासावन? कितलीं वर्सां तुमी ह्या वेवसायांत आसात?
- तेन्नाची शेत कसपाची रीत आनी आतांची रीत हातूंत कसलो फरक जाणवता? म्हळ्यार, नांगर, गुठो, अवजारां, शेण, बीं-बियाणां कसलीं वापरतात?
- ह्या कामाखातीर तरेकवार येवजणांचो पालव तुमी कसो घेवपाक सुरू केलो?
- शेतकामांत जोडधंदो किदें आसता?
- लक्ष्मणबाब, नोकरी आनी वेवसाय हातूंत तुमकां किदें फरक दिसता? तुमी हातूंत समाधानी आसात व्हय?
- तुमकां हो पुरस्कार मेळ्ळे उपरांत किदें दिसलें?
- शेतकामाचे बाबतींत तुमी खंयचे प्रयोग केल्यात, आनी भायल्या राज्यांनी वा देशांनी खंय खंय भोंवल्यात?
- तुमकां आडखळी कसल्यो आयल्यात?
- तुमच्या घरच्यांचो हातूंत कितलो वांटो आसता? तुमी शेतांत मानाय लावन काम करतात काय घरचे घरा?
- तुमी फुडें कसले शेतकी प्रयोग करूंक सोदतात?
- तुमी आयच्या शेतकामत्यांक किदें सांगूंक सोदतात?
- लक्ष्मणबाब, तुमी आयज आमच्या स्टुडिओंत येवन आमच्या शेतकामत्यांक बरीच माहिती दिली. तेखातीर आमी तुमचे उपकारी आसात. देव बरें करूं.

नमुनो २

पर्यावरणवादी राजकुमार कामत हांची 'पर्यावरणाची राखण करात' संदर्भात दूरदर्शनाखातीर प्रस्नावळ :

अठराव्या शेंकड्यांत जाल्ले उद्देगीक क्रांती उपरांत उपराशिल्ल्या प्रदुशणाच्या प्रस्नाक लागून, पर्यावरण समतोल सांबाळ करपाचे नदरेन, पर्यावरण मोग्यांनी पेंगट बांदलां.

गोंयच्या पर्यावरण मोग्यां भितर श्री. राजकुमार कामत हे मुखार आसात. जेन्ना जेन्ना गोंयांत पर्यावरणाचो प्रस्न उपरासला तेन्ना श्री. राजकुमार हांणी ताजेआड चळवळ उबारून गोंयचो सांबाळ केला. राजकुमारबाब, तुमकां हे चर्चेक येवकार दितां.

- कामतबाब, नमस्कार. पर्यावरण आनी संस्कृताय हांच्या संबंदांविशीं सांगशात ?
- समाजामुखार बेरोजगारी सारके प्रस्न आसतना होच प्रस्न तुमकां चड म्हत्वाचो किद्याक दिसला ?
- ह्या विशयांत तुमकां स्फूर्त दिवपी कोण ?
- तुमी आयज मेरेन जें काम केलां तें फकत विरोध करपाचें आसा असो तुमचेर आरोप आसा. तुमचें मत किदें ?
- तुमी चळवळ राजकी हेतांतल्यान करतात, भायर्ली राष्ट्रां तुमकां पयशे धाडटात, असो आरोप जाता. सत किदें ?
- तुमकां खऱ्यांनीच दिसता लोकांचो तुमकां तेंको आसा म्हणून ? तुमकां कितलें येस आयलां ?
- संघर्शाच्या खिणांच्यो यादी सांगशात ?
- हें पर्यावरण सांबाळुनूय विकास करूं येता अशें तुमी म्हणीत आयल्यात. हो विकास कसो करूं येता ?
- हो सगलो वावर करतना तुमची दीसपटी किदें ? तुमचे वैयक्तीक जिणेविशीं सांगात.
- मुखावयल्यो येवजणो किदें ?
- पर्यावरण दिसा निमतान आमच्या आयकुप्यांक संदेश दियात.

तुमी आमचे कार्यावळींत वांटेकार जाल्लेखातीर तुमकां देव बरें करूं.

नमुनो ३

## एके कर्तुत्विनीची रेडिओखातीर मुलाखत

संस्कृतांत अशें म्हळां, जंय बायलांचो भोवमान जाता थंय देवतेचो राबितो आसता. आयज आमचे वांगडा असोच भोवमान मेळिल्ली एक कर्तुत्वी बायल श्रीमती अंजली परब आमच्या स्टुडिओंत आयल्या. अंजलीबाय, तुमकां सगल्यांत पयलीं येवकार दितां.

आयकुप्यांक खबर आसतलीच, अंदू वर्साचो कर्तुत्वी बायलेखातीर आशिल्लो राज्य शासनाचो पुरस्कार अंजलीबायक फावो जाला. पेडणेंच्या आंगणवाडी आनी महिला मंडळाच्यो त्यो अध्यक्षा आसात. अखिल गोंय बायलां जागृती समितीच्यो त्यो वांगडी आसात. बायलांचे चळवळीकडेन तांचो लागींचो संबंद आसा. बायलांक तांचे हक्क, अधिकार मेळोवन दिवपापासत तांचो सदांच फुडाकार आसता.

प्रस्न :

- तुमचें भुरगेपण आनी शिकप हांचेविशीं थोडेभितर सांगात.
- समाजसेवेचीं साबार मळां आसतना तुमकां बायलांच्या मळार काम करचेंशें कित्याक दिसलें ?
- तुमकां ह्या वावरांत कोणाकडल्यान प्रेरणा मेळ्ळी ?
- आयजमेरेन ह्या मळाचेर वावुरतना तुमकां बऱ्या-वायट अणभवांक तोंड दिवंचें पडलां. ह्या संदर्भांत तुमी तुमचे कांय अणभव कथन करशात ?
- घरचो संवसार आनी समाजसेवा हांचें दोगांयचें चडशें पटना अशें म्हणटात. तुमी तुमचो संवसार आनी समाजसेवा हांचे संबंदान सांगशात ?
- Behind every successful man there is a woman अशें म्हणटात. पूण तुमचे बाबतींत तें उरफाटें जालां. तुमच्या घरकाराकडल्यान तुमकां तेंको मेळ्ळा ?
- बायलांक तांचो हक्क मेळपाक जाय जाल्यारूच तांचो फुडार जावपाक पावतलो. ते नदरेन तुमच्यो येवजणो किदें आसात ? आनी कसल्यो ?
- बायलांचे प्रस्न हाताळपाक तुमचेकडेन बायलांची संघटणा आसा. हे प्रस्न सोडोवपाक तुमकां हेर बायलांचो कितलो तेंको आसा ?
- आयजमेरेनच्या बायलां चळवळी संदर्भांत तुमचें मत किदें ? तांच्या फुडाराविशीं तुमकां हुसको दिसता व्हय ?
- हे कार्यावळी निमतान आमच्या आयकुप्यांक तुमचो संदेश किदें ?

नमुनो ४

## साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जाल्लेखातीर टीवी मुलाखत: प्रस्नावळ

नमस्कार,

अंदू वर्साचो केंद्री साहित्य अकादेमी पुरस्कार जोडपी नामनेचे बरोवपी श्री. वसंत माणगांवकार आयिल्ले आसात. दूरदर्शनाचे वतीन हांव तांकां उर्बेभरीत येवकार आनी परबीं दितां. आयचे तांचे वांगडाचे भासाभाशेंत तांच्या साहित्य आनी जिणेच्या वावरासंबंदीं माहिती करून घेवंया. माणगांवकारबाब, नमस्कार.

- साहित्य अकादेमी पुरस्कार दिलो तेन्ना तुमकां किदें दिसलें?
- तुमचो आनी साहित्याचो (वाचन/लिखाण) संबंद कसो आयलो? प्रवाहांत कशे आयले?
- साहित्य आनी जीण हांच्या संबंदांचेर तुमी उजवाड कशे घालतले?
- प्रदेशीकताय आनी विश्वात्मकताय हांचे संबंदान उलयतना प्रदेशीकताय तुमच्या साहित्याक शिमो घालता अशें तुमकां दिसता व्हय?
- तुमची साहित्यीक जीण कवितेंतल्यान सुरू जाली पूण आयज तुमी कथा बरयतात. तुमचेमदलो हो बदल किद्याक?
- भारतीय साहित्यांत कोंकणी साहित्याची सुवात खंय दिसता?
- फाटल्या धा वर्सांमदीं गोंयांतल्या कोंकणी साहित्यांत आंतरीक संक्रमणांचें पडबींब दिसना अशें म्हणटात. तुमचें मत किदें?
- कोंकणी साहित्याक बरो फुडार दिवपाक किदें करपाची गरज आसा अशें तुमकां दिसता?
- तुमचे मुखावयले बरोवपाचे संकल्प किदें?
- नवोदितांक संदेश किदें?

देव बरें करूं.

नमुनो ५

ज्या गोंयच्या भूंयपुतान फुटबॉल खेळांत आंतरराष्ट्री पांवड्यार नामना जोडली, आपलें नांव भारतीय फुटबॉल इतिहासांत कोरांतलां, जाचो राष्ट्री पांवड्यावयलो अर्जून पुरस्कार राष्ट्रपती हस्तुकीं दिवन भोवमान केलो, तो गोंयचो पूत म्हळ्यार श्री. विजयानंद सांखळकार आयज आमचे म्हन्यांत आसा. विजयानंदबाब, तुमकां हांव येवकार दितां आनी अर्जून पुरस्कार मेळिल्ले खातीर परबीं दितां.

- विजयानंदबाब, तुमी ह्या खेळाकडेन कशे आकर्शीत जाले? तुमी हे बाबतींत कोणाकडल्यान स्फूर्त घेतली?
- तुमी गरीब घराण्यांतले आसुनूय तुमी खेळाकडेन आकर्शीत जाल्यात म्हणून घरच्यांनी आडखळी हाडल्योनात?
- भारतीय संघांत खेळचे पयलीं राज्य पांवड्याचेर खंयच्या संघावतीन खेळटाले?
- तुमी आंतरराष्ट्री पांवड्यावयली मॅच केन्ना आनी कोणा आड खेळ्ळे? एक अणभवाचो खीण सांगशात?
- आतां मेरेन तुमी साबार मॅची खेळ्ळ्यात. तुमच्या स्मरणांत उरपी अशी मॅच खंयची? आनी किद्याक?
- भारतीय संघ संवसारीक करंडाक पात्र जायना ताजे फाटलीं कारणां किदें?
- हाचेर तुमी कितें उपाय सुचयशात?
- सुविधा उपलब्ध करून दिवपाक जाय अशें आतांच तुमी म्हळां. त्यो उपलब्ध करून दिवपाचें काम कोणाचें?
- तुमचे उरिल्ले जिणेंत फुटबॉल मळार नवें किदें तरी घडोवन हाडपाक येवजणो बी आंखल्यात?
- तरणाट्या फुटबॉल खेळगड्यांक तुमी किदें सांगपाक सोदतात?
- तुमी आमचे कार्यावळींत वांटेकार जाल्लेखातीर आकाशवाणी केंद्राचे वतीन तुमकां देव बरें करूं म्हणटां.

नमुनो ६

## शिक्षणीक मळार पुरस्कार फावो जाल्ले शिक्षक एस् एस् फडके हांची दूरदर्शना पासत मुलाखत.

नमस्कार,

इश्टांनो, आयज ५ सप्टेंबर. शिक्षक दीस. भारतीय अभ्यासपद्दतींत शिकोवप्याक ब्रह्मा-विष्णू-महेश अशा उतरांनी पाचारून साक्षात परब्रह्म असो ताजो भोवमान केल्लो आसा. समाज घडोवपी एक जबाबदार घटक म्हणून जेन्ना आमी शिकोवप्याकडेन पळयतात तेन्ना तांचे मदीं आमकां दिसतात कांय कर्तुत्वी शिक्षक.

आयज आमचेकडेन अशेच एक कर्तुत्वी शिक्षक आयिल्ले आसात, जांकां अंदूंचो राष्ट्रीय शिक्षक पुरस्कार फावो जाल्लो आसा. तांचेकडेन भासाभास करून तांची जीण आनी वावर आमी समजून घेवंया.

फडके सर, सगल्यांत पयलीं आमच्या समस्त पळोवप्यांचे वतीन तुमकां अंदूंचो राष्ट्री शिक्षक पुरस्कार फावो जाल्ले खातीर परबीं दितात.

- तुमचें भुरगेपण आनी शिकप खंय जालें ?
- भुरगेपणांत तुमचेर जाल्ल्या शिक्षणीक आनी हेर संस्कारांविशीं सांगशात ?
- शिकोवपाचो घोस्त तुमकां कसलो लागलो ?
- शिकोवपाचे पयले अणभव, आनी आयज कितलीं वर्सां तुमी ह्या वेवसायांत आसात ?
- शिकप्याचे मनोवृत्तीविशीं आनी आतांचे शिक्षणपद्दतीविशीं तुमचे विचार किदें ?
- ते नदरेन तुमी शिक्षणमळार कसले बदल हाडले ? तुमकां कोणाचो आदार मेळ्ळा ?
- तुमी केल्ले कांय म्हत्वाचे बदल समाजाक कशे फळादीक जावं येता ?
- हो राष्ट्री पांवड्यावयलो पुरस्कार फावो जालो तेन्ना तुमकां किदें दिसलें ?
- आनीक खंयचे प्रयोग तुमी शिक्षणीक मळार करूंक सोदतात ?
- आयच्या शिकोवप्यांविशींचो समाजीक सूर थोडोसो खंती आसा. तुमचें मत किदें ?
- भारतांतले शिक्षण पद्दतीविशीं तुमकां किदें दिसता ?

'फडके सर, आयज तुमी येवन आमच्या पळोवप्यांक शिक्षणाची एक नवी नदर मेळोवन दिल्या हें निश्चेवान हांव सांगूंक सोदतां. तुमची मुखावयली शिक्षणसेवा फळादीक जावं. तुमकां आमच्या समस्त पळोवप्यांचे वतीन देव बरें करूं म्हणटां.

नमुनो

# लोकसभा वेंचणूक, १९९६

## पत्रकां, पोस्टर आदींचेर बंदी

हेवरवीं भौसाक कळयतात, वेंचणुकांचे आचारसंहितेप्रमाण खंयच्याय पक्षान वा उमेदवारान खाजगी भूंय, इमारत, वंय, वणत आदी मालमत्तेचेर मालकाचो परवानो मेळयलेबगर आपणाल्या समर्थकांक बावटे उबारूंक, बॅनर लावंक, कळोवण्यो चिटकावंक, घोशणा बरोवंक आदी प्रमाण वापर करूंक परवानगी दिवंक फावोना.

वयले संहितेचो भंग करतल्याआड भारतीय दंड संहितेच्या ४२५, ४२६, ४२७, ४३३ आदी कलमांआड कारवाय जावं येता.

गोंय मालमत्ता विद्रुपीकरण प्रतिबंधक कायदो १९८८चें कलम २ ''मालमत्ता, भौशीक सुवात इबाडप वा थुकप वा तांकां मुतारेचें स्वरूप दिवप वा थंय पत्रकां, पोस्टर लावप वा बरोवप वा शाय, खडू, रंग वा आनीक कसलेय वस्तून वा उपायान चित्रावप'' हाका प्रतिबंध करता. सदर कायद्याखालच्या वयर दिल्ल्या नेमांचो भंग करपी कायद्याच्या तिसऱ्या कलमाखाला बंदखणीची ख्यास्त भोगूंक पात्र थरता. ही ख्यास्त स म्हयन्यांमेरेन वाडोवं येता वा एक हजार रुपयांमेरेन दंड वा दोनूय वांगडाच लागू जावं येतात.

वितरावपी: मुखेल वेंचणूक अधिकारी, गोंय

## ● ६. खबरांपत्राखातीर वृत्तांत

नमुनो

''साक्षरतायेचो लामणदिवो जण एकल्या निरक्षराच्या काळजांत पेट्टलो तेन्नाच घराघरांनी शिक्षणाचो उजवाड फांकून आख्खो समाज उजवाडान परजळीत जावंक पावतलो. हें साध्य करतलो जाल्यार शिक्षीत तरणाटे पिळगेन मुखार सरून काळजा-काळजांतले लामणदिवे पेटोवपाचें काम हातांत घेवंक जाय'', अशे विचार भौ. माणिकराव देसाय हांणी पत्रादेवी, पेडण्यां साक्षरताय केंद्राच्या उकतावण सुवाळ्याक मुखेल सोयरे ह्या नात्यान मांडले. तांणी मुखार सांगलें, गोंय हें एक आदर्श आनी १०० टक्के साक्षर राज्य करपाक गोंयकार भावांनी खेड्यापाड्यांनी वचून निरक्षर लोकांक साक्षर करपाची मोहीम सुरू करपाक जाय.

सुवाळ्याक येजमानपदाचेर गांवचे सरपंच राजाराम कवळेकार जाल्यार खासा आमंत्रीत म्हणून साक्षरताय विभागाचे मुखेली सीताराम गांवस हाजीर आशिल्ले.

सुरवातेक पंचायतीचे वांगडी विजय नायक हांणी जमिल्ल्यांक येवकार दिवन सोयऱ्यांची वळख करून दिली. कु. रश्मी कोरगांवकार हिणें मानेस्तांक फुलां भेटयलीं.

थळावे जाणटेले नागरीक श्री. रघलो पेडणेकार हांणी फळ्याचेर आपलें पुराय नांव बरोवन आनी मुखेल सोयऱ्यांनी लामणदिवो पेटोवन साक्षरताय केंद्राचें आगळें-वेगळें अशें उकतावण केलें.

ह्या उकतावण सुवाळ्याक थळावे साबार लोक हाजीर आशिल्ले. निमाणेकडेन मोहन दळवी हांणी जमिल्ल्यांचे उपकार मानले. जाल्यार पुराय कार्यावळीचें सुत्रसंचालन सुरेश गांवकार हांणी केलें.

निशाणी<br>
(नांव)<br>
प्रसिद्दी मुखेली

विभाग ६

# जायरात

आयचें यूग हें सर्तीचें यूग. जण एकल्या उत्पादकाक नव्या-पोरण्या गिरायकाचे सोदीक भायर सरचें पडटा. आयच्या काळांत उत्पादकान दर्जेदार उत्पादन दिलें म्हणून जायना जाल्यार तितल्याच नेटान आनी कलात्मक रितीन उत्पादनाची जायरात करून, आपल्या उत्पादनाचे विशिश्ट फायदे गिरायकाचे नदरेक हाडून दिवप आनी ताजें वेळार वितरण करप हेंय उत्पादकाचें मुखेल कर्तव्य, जाका लागून गिरायकाच्या काळजांत उत्पादनाविशीं मानाचें स्थान प्राप्त जावन उत्पादनाची वळख जायराती वरवीं गिरायकामेरेन पावता.

इंग्लेजींत ॲडवर्टीझमँट हें उतर फ्रांसेझ भाशेंतल्या मूळ 'आदवेरतीर' ह्या उतरांतल्यान निर्मिलां. ताजो अर्थ सुचोवणी दिवप वा कळोवप असो जाता. ताका लागून ॲडवर्टीझमँट म्हळ्यार अस्तित्वांत आशिल्ल्या कांय गजालींची भौसाक माहिती करून दिवप. वेपारी भाशेंत हाजो अर्थ उत्पादनाच्या खपाक लागून गिरायकाचें लक्ष आकर्शीत करप असो जाता. वेगळे तरेन सांगचें म्हळ्यार, जायरात, म्हळ्यार उत्पादकान वा विक्रेत्यान आपल्या उत्पादनाची वा सेवेची मागणी वाडोवन, ताजी चडावत विक्री जावंची म्हणून जाणविकायेन केल्ली प्रसिद्दी. प्रो. आल्बर्ट फ्राय हाणें केल्ले व्याख्येप्रमाण 'वाचीक वा दृश्यात्मक संदेश तयार करून वेगवेगळ्या वेवसायीक माध्यमांतल्यान ताजो प्रसार करप, जाका लागून भौसाभितर पोशक वातावरण निर्माण जावन उत्पादन, उत्पादक, मुद्रा, सेवा वा हेर गरजांविशीं जागृताय निर्माण करप.'

जायरात हें विक्री कलेंतलें एक माध्यम. हाजो मूळ उद्देश उत्पादनाक चडावत बाजारपेठ मेळोवन दिवप. गिरायकांच्या मनांत उत्पादनाविशीं ओड निर्माण करून ताका तें विकत घेवपाक जायरात प्रोत्साहीत करता. हातुंतूच जायरातीचें खरें येस लिपिल्लें आसता.

गिरायकाक सदांच नवें किदें तरी जाय आसता. तो पोरण्यांत नवें सोदता. नवनिर्मिती आनी पोरण्यांतलें नवें गिरायकामेरेन पावयतलो जाल्यार जायरात ताजें माध्यम थरता. ताका लागून जायरात हें उत्पादक आनी गिरायका मदलो पूल. आयच्या युगांत गिरायकांभितर एक भावना निर्माण जाल्या. ती म्हळ्यार ज्या उत्पादनाची जायरात वाचूंक, आयकूंक वा पळोवंक मेळटा तेंच दर्जेदार उत्पादन. ह्या कारणाक लागून उत्पादकूय आपल्या उत्पादनाचे जायरातीविशीं दिसानदीस नव्यो मांडण्यो सोदून काडीत आसता. ह्या मांडण्यांक नवें रूप दिवंचें, नवो आकार दिवंचो म्हणून मसुदे तयार करपी तज्ञांचो एक खास वर्ग हालींच्या काळांत अस्तित्वांत आयला. आपल्या

म्हालाची जायरात ओडलायणी कशी करपाक मेळटली हाजेविशीं मोट्यो मोट्यो कंपन्यो आनी उद्येजक एकसारके चिंतीत आसतात. आनी ताका लागून ते कितलेंय मोल मेजपाक तयार आसतात.

आयज दिसाळीं, म्हयनाळ्यांचें वाडटें म्हत्व, श्राव्य-दृक उपकरणां जशीं पोस्टर, होर्डींग, सिनेमा, टेलिविझ्यन, रेडिओ हांकां लागून जायरातीन संवसारभर लोकप्रियता मेळयल्या. वेवसाय जगांत जायरात ही एक गरज जावन पडल्या. कारण वेवसायीक मळार प्रतिस्पर्धी खूब वाडल्यात. ताका लागून उत्पादनाची जायरात केलेबगर उत्पादनाचो खप वाडोवप भोवच कठीण जावन पडलां.

आतां आमी मेजक्याच पूण कांय म्हत्वाच्या जायरात माध्यमांविशीं माहिती मेळोवया.

## दिसाळें वा नेमाळ्यांतली जायरात

दिसाळीं आनी नेमाळ्यांचें वाडटें म्हत्व, वाडटो वाचकवर्ग हाका लागून उत्पादक आनी वितरणकार आपल्या म्हालाची ल्हान-व्हड जायरात तातूंत उजवाडायता. शारी तशेंच गांवगिऱ्या वाटारांतल्या शिक्षितांक लागून दिसाळ्यांनी आनी नेमाळ्यांनी दिल्ली जायरात तांचेमेरेन सहज पावता.

राष्ट्री आनी आंतरराष्ट्री बाजारपेठेंत म्हाल विकपी उत्पादकांनी आपल्या उत्पादनाची जायरात करपाक दूरदर्शन आनी आकाशवाणीचो मुखेलपणान उपेग केलो तरी, साबार देशी-विदेशी भाशांतल्या नेमाळ्यां-दिसाळ्यांचो उपेगूय तो तितल्याच नेटान करतना दिश्टी पडटा. आयज चडावत गिरायकाच्या घराघरांत, तशेंच वेगवेगळ्या पांवड्यांवयल्या वाचपघरांनी दिसाळीं आनी नेमाळीं पाविल्ल्यान तांकां व्हड प्रमाणांत वाचकवर्ग मेळपाक आदार जाता. ताकाच लागून उत्पादक आपल्या उत्पादनाची जायरात खबरांपत्रांतल्यान करपाक मुखेलपणान भर दितात. जायरात वाचून गिरायक उत्पादकाकडेन तशेंच वितरणकाराकडेन संपर्क सादपाचो यत्न करता आनी तो प्रत्यक्ष वचून ऑर्डर दिवन वस्तू विकत घेता.

दिसाळ्यांनी आनी नेमाळ्यांनी येवपी जायरात रंग-रंगयाळ्या चित्रांनी आकर्शक रितीन सजयतात. माथाळो आनी घोशवाक्यांखातीर व्हड अक्षरां वापरून वाचकांचें लक्ष ओडपाचो सुफळ यत्न तातूंत आसता.

अक्षर साहित्याची जशी एक वेगळी भासशैली आसता तशी ती जायरातिंकूय आसता. चित्र आनी भास हीं जायरातीचीं दोन मुखेल आंगां. फकत चित्र म्हळ्यार जायरात न्हय. तशेंच भाशेचो वापर केलो म्हणून जायरातीक पुरायपण येना. पूण चित्रांकीत जायरात शाब्दिक जायराती परस चड ओडलायणी आनी मनभुलोवणी थरता. मनोविज्ञानिकांच्या म्हणण्याप्रमाण मनीस चित्रांचेर चड विस्वास दवरता. ताका लागून परभाशीक वाचक आनी निरक्षरांकडेन चित्रांकीत जायरात संवाद सादूंक पावता. पूण हेंय तितलेंच खरें, सगल्योच कल्पना, भावना, चित्रांतल्यान व्यक्त जातातूच अशें ना. तेन्ना थंय शब्दरचनेची गरज भासता.

भाशेच्या माध्यमांतल्यान जायरातींतलो संदेश गिरायकामेरेन पावोवपाक सोंपें जाता. वाचपी वा आयकुप्यांच्या काळजाक अचळय हात घालपाची तांक फकत भाशेकूच आसा, अशें म्हळ्यार अतिताय जावंचिना.

## ☐ दिसाळें वा नेमाळ्यांतल्या जायरात मसुद्याचे घटक :

१) माथाळो (Headline)
२) पोट माथाळो (Sub-Headline)
३) संहिता (Text)
४) जायरातदाराची मुद्रा (Signature)
५) घोशवाक्य (Slogan / Baseline)
६) खासा घोशवाक्य (Special Slogan)

### १) माथाळो

माथाळो हो वृत्तपत्रीय जायरातीचो प्राण. सगलो जीव तातूंत भरिल्लो आसता. वाचप्याचें लक्ष जायरातीकडेन अळंग ओडून घेवन, तांच्या मनांत एके प्रकारचें आपलेपण निर्माण करपाचें भोव मोलादीक काम माथाळो करता. मेजक्याच उतरांनी जायरातींतलो मुखेल उद्देश सुचकतायेन माथाळ्यांत आयिल्लो आसता. पूण माथाळो सगल्याच तरांच्या गिरायकांचें लक्ष ओडून घेताच अशें ना. उत्पादक ज्या गिरायकाकडेन संबंदीत आसा वा जाका ताजी गरज आसा त्याच गिरायकांचें लक्ष थंय वता. देखीक गुटखा, विडी-सिगार, सोरो असल्या उत्पादनांच्या जायरातींकडेन एका निर्व्यसनी मनशाचें लक्ष वचचें ना. गेलें पासून जाल्यार पुराय जायरात वाचपाचें तो टाळटलो. पूण सर्वसादारणपणान सगल्याच तरांच्या गिरायकांचें लक्ष ओडपाची तांक माथाळ्यांत आसपाक जाय. माथाळ्यांच्या आदारान गिरायकाक आस्वासन दिवन, तांकां ताजो फायदो किदें वा कसो जावं येता हें सांगप गरजेचें. देखीक : 'अर्थो रक्षिती रक्षित:' हो संचयनी फायनान्स कंपनीचो माथाळो. जण एकल्याचे जिणेंत पयसो हो मनशाचो खरो राखणो अशें हो माथाळो सांगता. तशेंच, 'बुस्ट इझ ध सिक्रेट ऑफ माय ॲनर्जी' अशी जायरात करपी कपीलदेव सगल्या खेळांमोग्यांच्या गळ्यांतलो तावज जावन आपले शक्तीचें गुपीत सांगता. कांय माथाळे आपलेपण निर्माण करतात. देखीक : 'भविश्यांत तुमच्या भुरग्याची अशी गत जावंक दिवं नाकात' ही विमो कंपनीची जायरात जण एका आवय-बापायक भुरग्यांच्या फुडाराविशीं चिंतपाक लायता.

माथाळो केन्ना केन्ना वाक्यरुपान तशेंच पदवेदन (क्रियापद नाशिल्लो) पळोवंक मेळटा. वाक्यरुपांतले वेगळे वेगळे माथाळे सकयलेप्रमाण आसात :

१) विधानार्थी
२) प्रस्नार्थी
३) आज्ञार्थी

४) उद्गारार्थी
५) आदेशार्थी

**१) विधानार्थी:** हांगा जायरात गिरायकाकडेन संवाद सादपाचो यत्न करता. हें जायरातींतलें विधान आमचे जिणेकडेन संबंदीत आसता. देखीक: 'आमचें उत्पादन वापरपाक विसरूं नाकात. ना जाल्यार तुमचीय गत अशीच जातली.' कसलेंय चित्र वा प्रसंग दूरदर्शनाचेर दाखोवन जायरातदार आपलें उत्पादन वापरपाक गिरायकाक प्रवृत्त करता. हें विधान एक-दोन फावटीं वाचतकूच वा आयकतकूच तातूंतलें खरेपण सोदपाचे नदरेन गिरायक ती वस्त वापरून पळयता आनी खात्री करून घेता. आनी अशे तरेन जायरातीचो मूळ उद्देश हांगा पुराय जाता. देखीक: पिरायेंत आयिल्ली चली जायरात वाचून, आयकून वा पळोवन आपलें मुखामळ विद्रूप जावंचें न्हय म्हणून मुमरां वचपाचें मलम विकतें घेता.

**२) प्रस्नार्थी:** प्रस्नार्थी वाक्यान जायरातदार गिरायकाक एक वा साबार प्रस्न विचारता. ह्या प्रस्नाची जाप मेळपाक गिरायकान किदें करपाक जाय हें जायरातदार दुसरे घटकेक सांगून वता.

देखीक: '....... मोलाचो रेफ्रिजरेटर तुमकां ........ मोलाक जाय? जाल्यार वेळ वगडावं नाकात. ऑफर ३० नोव्हेंब्रा मेरेन उकती आसा.'

वा

'हात जळ्ळो? बोट कापलें? पांयांक कात्रे पडल्यात? जाल्यार कैलास जीवन मलम वापरात आनी आराम मेळयात.'

वा

तोंडाक घाण येता? दांत हालतात? दांत किडेल्यात? दांतांचे सुरक्षीततायेखातीर कॉलगेट डॅण्टल क्रीम वापरात.'

**३) आदेशार्थी:** आपलें उत्पादन वापरले उपरांत गिरायकांक ताजो फायदो वा परिणाम किदें जावं येता हें आदेशार्थी वाक्याचेर भर दिवन जायरातदार सांगता. देखीक: आतां तुमी सुसेगात न्हीद घेवंक शकतात...' (जळारां धांवडावपी ऊदवातीची जायरात). वा, 'हाताच्यो काती गेल्यो? भायर मारात तो —— शाबू आनी आयच्यान वापरात ——! (एका शाब्बाची जायरात).

**४) उद्गारार्थी:** आपणाक जावपी त्रास सोंसूं नजो जावन गिरायक अचकीत तोंडांतल्यान उद्गार काडटा. हे त्रास ना नपयत करपाक आपल्या उत्पादनाची गिरायकाक कितली गरज आसा हें सांगपाचो उत्पादक हांगा यत्न करता. देखीक: 'आवय गेऽऽ बोट जळ्ळें! ॲण्टीसॅप्टीक बरनॉल लायात.'

वा

'ऊऽऽ आऽऽ आऊच! आयोडॅक्स चोळात, आराम मेळयात'.

'बुडटल्याक खंय काडयेचोय आदार' हे कोंकणी म्हणीप्रमाण आपल्या जिवाक जातले त्रास उणे जावंचे म्हणून गिरायक जायरात वाचले-पळयले उपरांत उत्पादनाचो वापर करून पळयता.

**५) आज्ञार्थी :** उत्पादक आपलें उत्पादन वापरचें म्हणून गिरायकाक आज्ञा करता. आज्ञा करचेपयलीं आपल्या उत्पादनाचे फायदे आनी तुमकां तें कितलें गरजेचें हें सांगपाक मात तो विसरना. आज्ञा करतना म्होंवाळ आनी कर्णमधूर भाशेचो वापर करता. देखीक : 'सुखी वैवाहिक जिणेखातीर निरोध वापरात.'

वा

'कातीची तिकतीकसाण आनी कुडीची सोब वाडोवपाक, आंगार सदांच तरणेपण खेळपाखातीर लक्स शाबू वापरात.'

माथाळो ओडलायणो आनी लोकप्रिय जावंचो हे नदरेन उत्पादक साबार युक्त्यो वापरतात. केन्ना केन्ना तो फामाद कवितेच्यो वा गिताच्यो ओळी, सुभाशितां वा म्हणी आपले जायरातींत माथाळो म्हणून वापरता.

वेगळेवेगळे धर्मीक सण, खेळां महोत्सव आनी हेर उत्सवांच्यो संदी पळोवन आपल्या उत्पादनाची जायरात करता. तांचेय माथाळे तो तो संदर्भ घेवन आयिल्ले आसतात. पूण हें सगलें करतना, जायरातींत अवास्तवताय येवंक फावोना. माथाळ्यांत आयिल्लो मजकूर गिरायकाक पटपी आसपाक जाय. तसोच तो अर्थपुर्णूय आसपाक जाय. माथाळो घडयतना चुकीचो शब्दप्रयोग, चुकीची कल्पना, नवीं-पोरणीं उतरां, परकी भाशांतलीं घोळणुकेंत नाशिल्लीं उतरां वापरापासून टाळप गरजेचें. माथाळ्यांत वापरपी भास व्याकरणी नदरेन शुद्ध आसची आनी तातूंतली कल्पना आगळी आसची. कल्पनेंत विविधताय आसल्यार त्यो कल्पना पोटमाथाळ्यांत वा संहितेंत आसपावन घेवंच्यो.

### २) पोटमाथाळो

माथाळो जायरातीचो विस्तार घेवन येता. माथाळ्यांत आयिल्ल्या विधानाचें समर्थन आनी स्पश्टीकरण ह्या पोटमाथाळ्यांत आयिल्लें पळोवंक मेळटा. माथाळो जायरातीचो प्राण जाल्यार पोटमाथाळो हो प्राणवाय. माथाळो वाचकाक आकर्शीत करता आनी पोटमाथाळो आनी संहिता पुराय जायरात वाचपाक प्रवृत्त करता. कांय जायराती माथाळ्याबगर जाल्यार कांय पोटमाथाळ्याबगर आसूं येतात.

**पोटमाथाळ्याच्यो देखी :**

१) **माथाळो :** खरोज, चरतें, नायटो जाला!
**पोटमाथाळो :** हाजेर उपाय आसा... बी-टॅक्स मलम आनी लोशन लायात.

२) **माथाळो :** दीसभर काम करून पुरो जालां ?

**पोटमाथाळो :** टाटाची कानन देवन च्या पियेयात आनी आंगांत तरतरी हाडात.

### ३) संहिता

वस्तू विकत घेतले उपरांत गिरायकाक नेमको कसलो फायदो जाता हाजी खात्री संहितेंतल्यान पटोवन दिवंची आसता. उत्पादनाचें खाशेलेपण, मोल, गॅरंटी-वॉरंटी हांचेसयत हेर गरजेची माहिती संहितेंत आसपावता.

उत्पादनाचो खरो उपभोक्तो कोण... ताजी पिराय, लींग, आवड-निवड, तो खंयच्या भागांत रावता... खंयच्या एका कारणाक लागून गिरायक ती वस्त विकती घेवंक शकता... ह्या सगल्या गजालींचो खोल अभ्यास करुनूच मागीर मसुदो तयार करचो आसता. जण एका गिरायकाचें एक मानसशास्त्र आसता. त्या मानसशास्त्राक धरून मसुदो तयार केल्यार जायरात उत्कृश्ट दर्ज्याची जावं येता वा तिजो हेत सफळ जावं येता.

'शाम्पून केंस मोवसार जातात वा शाब्बान आंग नितळ जाता' अशे तरेन मसुद्यांत वस्तूचें फकत गूणवर्णन वा ताजो उपेग सांगून भागना. ताजेय मुखार वचून ह्या उत्पादनाक लागून गिरायकाच्या पदरांत आनीक किदें पडटा काय किदें हेंय सांगप तितलेंच म्हत्वाचें. देखीक : शाम्पू वापरले उपरांत केंस मोवसार जावन केंसांक घटसाण येवन ते गळपाचे थांबतात आनी तकलीय थंड उरता. तशेंच, अमके तरेचो शाबू वापरले उपरांत आंग नितळ जावन, कातीची तिकतीकसाण वाडपाक मदत जाता आनी सौंदर्य फुलता हें सगलें विस्कटावन सांगल्यार गिरायकाच्या मनांत ते वस्तूविशीं विस्वास निर्माण जावन तो ती वस्तू विकत घेवपाचो निर्णय घेता.

### संहितेची देख

उच्च आनी मध्यम वर्गांतल्या गिरायकांक लागपी मिनी-रोटी शॅफ, इन्स्टंट रोटी मेकराची संहिता देख म्हणून पळयात :

अ. **माथाळो :** ना गा लाटपाची भानगड / किद्याक ती तव्या-चिमट्याची परवड...

ब. **पोटमाथाळो :** एका मिनटाच्याकूय उण्या वेळांत पोळी लाटून जाली तयार... आनी रोखडीच आयली फुलून तव्यार...

क. **संहिता :** द्युपाँचो टॅफ्लॉन नॉन-स्टिक कोटींग आशिल्लो हो मिनी-रोटी शॅफ फकत पोळयोच न्हय जाल्यार डोसा आनी हेर जिनसूय तयार करून भाजून दिता. तेच बराबर तेल, गॅस आनी वेळाचीय बचत करता.

कामाक वचपी बायलांक मिनी-रोटी शॅफाचें हें एक वरदानूच. १२ म्हयन्यांची गॅरंटी दिवपी ह्या रोटी-शॅफान आतांमेरेन भारतभर पन्नास हजार रुपयांची विक्री केल्या.

### ४) जायरातदाराची मुद्रा

मुद्रा म्हणटना कंपनीचें नांव, पीनकोड आनी टेलिफोन नंबरासयत पुराय पत्तो दिवप गरजेचें. नांव हें आकर्शक व्हड अक्षरांनी आसूंक जाय. नांवावांगडा उत्पादक कंपनीचें बोधचिन्न (Trade Mark) आसल्यार दिवप गरजेचें, जाका लागून वाचकांच्या मनांत वस्तूचें नांव आनी बोधचिन्नाविशीं मूर्त तयार जाता आनी सासणाची काळजांत उरता. देखीक, 'एम आर एफ' कंपनीचें 'एम आर एफ' हें नांव आनी अर्द आकृतायेचो टायर उखलून राविल्ल्या मनशाक भारतीय गिरायकाच्या मनांत कायमचें बस्तान मांडलां.

सगल्या वस्तूंक बोधचिन्न आसताच अशें ना. कांय उत्पादनांक बोधचिन्न हेंच वस्तूचें नांव जावन मुखार येता. देखीक: टायगर बामांतलो 'टायगर' (वाग) हें बोधचिन्न. कॅप्टन कूकांतलो 'कॅप्टन' जाल्यार कांसव छाप ऊदवातींतलो 'कांसव' होच ताजें बोधचिन्न.

### ५) घोशवाक्य

घोशवाक्यां हीं म्हणीसारकीं वा गितांच्या ओळींसारकीं दिसलीं तरी तीं मुद्दम तयार करचीं पडटात. देखीक:

१. नवे पिळगेची निवड (पॅप्सी कोला)
२. अन्याय घडूं खंयसरूय, पेटून उठ्ठले आमी (वर्तमान दिसाळें)
३. सगल्या तरांचे कपडे एकेच कडेन (सिलॅक्शन सुपर मार्कॅट, पणजी)
४. केन्नाय आनी खंयसरूय (लिमका)
५. पितळीचे दरेन भांगर (सोनी टीवी)

घोशवाक्य जरी पळोवपाक माथाळ्याभशेन कशें दिसलें तरी घोशवाक्य म्हळ्यार माथाळो न्हय. कालांतरान माथाळे बदलतात. घोशवाक्य दीर्घकाळमेरेन तशेंच उरता. माथाळो गिरायकाक जायरात पुराय वाचपाक प्रवृत्त करता जाल्यार घोशवाक्य तांच्या मनांत एकसारकें घोळत रावता.

## • जायरातीची मांडावळ

माथाळो, पोटमाथाळो, संहिता, घोशवाक्य आनी जायरातदाराची मुद्रा बरोवन जातकूच ह्या सगल्यांची आकर्शक रितीन मांडावळ करप गरजेचें आसता. मांडावळ ही वाचप्यांचे पयलेच नदरेंत भरत अशीच उठून दिसपाक जाय.

जायरातींत चित्रांचीय जोड आसता. जायरातींत चित्रां कितलीं आसात आनी तीं

किद्याचेर आदारीत आसात हें मसुदो लेखकान जाणून घेवन मागीर आपले चित्रमय पूण सोंपे भाशेंत मसुदो बरोवपाक जांय. जायते फावटीं जायरात विभागांतलो फोटोग्राफर वा चित्रकार आनी मसुदो लेखक (कॉपीरायटर) वांगडा बसून मजकुराची आनी चित्रांची मांडावळ करतात.

केन्ना केन्ना सणा-परबांक वा उत्सवांक धरून जायरातदार सवलत येवजण, मोलांत सूट वा भेटवस्तूची घोशणा जाहीर करता तेन्ना ही घोशणा मसुद्यांत योग्य अशे सुवातेर कांयशा वेगळ्या ढंगांत वा आडव्या अक्षरांचे शैलींत मांडल्यार वाचकांचें लक्ष ओढून घेवपाक प्रभावी थारता.

मसुदो आकर्शक रितीन जायरातींत कसो मांडचो हाज्यो कांय देखी पळोवंया.

नमुनो १

**एके मान्यतायप्राप्त ट्रॅवल आनी टुर्स बस कंपनीची जायरात**

# चलात हिमालयांत!

**हे फावटीचे सुटयेंत 'यात्रीक'चे पिकनिकेची खोस लुटात**

**कुलू – मनाली – शिमला**

आतां सुटी आयली... खंय तरी मजेंत सुटी घालोवपाखातीर घरकान्नीचो आगरो आनी भुरग्यांचो हट्ट. मागीर खंयसरूय किद्याक? आमच्या बर्फाळ हिमालयांत किद्याक वचनात? १२ आब्रील ते २२ माय मेरेन पांच खास टुर्स. जाय जाल्यार खास टॅक्सी प्रवास. हनिमुनाखातीर जाल्यार अप्रतीम पिकनीक. आमचे पिकनिकेक सदांच गर्दी आसता. आनी सुटयेच्या दिसांनी रेल्वे बुकिंगाखातीर गर्दी... मागीर वेळ वगडावं नाकात. आतांच डायल करात: २८५४८६/२१३०४० वा प्रत्यक्ष भेटात

आनंद नायक / अरविंद दाभोल्कार

**यात्रीक ट्रॅवल्स**

अँथनी कॉमर्स सँटर, पणजी.

सकाळीं १-०० ते सांजे. ८-३० मेरेन

आयतारा सकाळीं ९-३० ते दनपारां १२-३० मेरेन

नमुनो २

लग्नाचे धडवते विशीं दुकानदाराची जायरात







नमुनो ३

गोदरेज डीप-डोर ह्या नव्या रेफ्रिजरेटराची संहितेक चड म्हत्व दिल्ली जायरात

नमुनो ४

एका दोतोरान दुयेंत मनशांच्या इलाजाखातीर दिल्ली जायरात



**निराश जावं नाकात!**
**सुखी वैवाहिक जिणेखातीर भेटात:**
**डॉ. डी राव**

(रजि. मॅडिकल प्रॅक्टिशनर) A.M.R.S.H. (London)

अज्ञानाक लागून वा वायट सहवासाक बळी पडून यौवन नश्ट जालां वा जिणेंत पुराय सूख मेळूंक ना, असल्या पिडेस्तांक नवशक्त, तरणेपण आनी नवो जोम परत मेळटा. घटमूट आनी सुखी भलायकेखातीर जोम, शक्त, उत्साह, पोटफूग, पोटदुखी, कातीचो रोग, बायलांक म्हयन्याचे पाळयेचो त्रास, अशक्तपण, आंगार जावप, मूतदोश हांचेर इलाज.

**तुमची भलायकी तुमच्या हातांत!**

**मेळपाचो जागो**
सुखांत हॉटॅल रु. नं. २०
बोरकार रस्तो, पणजी.

**मेळपाचो वेळ**
स. ९-३० ते १-००, सांज. ३-३० ते ८-००
आयतारा सकाळीं १० ते १२ मेरेन

## • आकाशवाणीवयली जायरात

भारत हो उदरगतीच्या पांवड्यार आशिल्लो देस. ह्या देशाची चड लोकसंख्या खेड्यांनी रावता. खेड्यांनी रावपी हे गरीब जनतेच्या घरांनी आजुनूय दूरदर्शन पावूंक ना. ताका लागून मन लावन रेडिओ आयकुप्यांची संख्या बरीच व्हड आसा. आकाशवाणीवयल्यो प्रायोगीक कार्यावळी आनी हेर मनरंजनात्मक कार्यावळींनी जाल्ल्या आमुलाग्र बदलाक लागून शारांतलेय लोक आयज व्हडा संख्येन रेडिओ आयकतना दिश्टी पडटात.

आकाशवाणी हें श्राव्य माध्यम. हांगा चित्रांक वाव ना. पूण जें काम चित्रां करूंक शकनात तें काम भास आपल्या म्हींवाळ गुणांनी साध्य करता. भास ही मनशाच्या मनाकडेन संवाद सादता आनी ताजें पडबींब मनशाच्या काळजांत परमळटा. ह्या कारणाक लागून उत्पादक आपल्या उत्पादनांची जायरात करपाक आकाशवाणीचेर धांव घेतात.

आकाशवाणी हें श्राव्य माध्यम आशिल्ल्यान आकाशवाणीवयल्यो जायराती फकत

आयकुपाच्यो आसतात. हांगा निवेदन करप्याचो आवाज म्होंवाळ आनी स्पश्ट आसचो पडटा. निवेदकाच्या आंगांत कलाकाराचे गूण आसचे पडटात. ही जायरात कसल्या उत्पादनाची, मसुद्यांत कसले तरेचो प्रसंग कल्पिला वा कसले तरेची वातावरण निर्मिती केल्या, मसुद्यांत वापरिल्ली भास शैली, भाशेंतले चड-उतार खोलायेन अभ्यास करून निवेदकाक स्पश्ट उच्चारांत आनी म्होंवाळ आवाजांत जायरात करची आसता.

जायरात प्रभावीपणान सादर करपाक जायते फावट एकापरस चड निवेदकांचो वापर करतात. संवाद वा गितांतल्यान खंयचेय वस्तूची जायरात करतना गरजेप्रमाण वा प्रसंगाक फावो तशी संगिताची वा सुरावटीची जोडणी दिवंची पडटा. जायते फावटीं उत्पादक लोकसंगिताचो फावो तो वापर करतात. तशेंच अस्तंती संगितूय प्रभावीपणान वापरिल्लें आयकूंक मेळटा. ताकाच लागून एक विशिश्ट अशी सुरावट रेडिओचेर आयकूंक येतकूच ही अमक्याच एका उत्पादनाची जायरात हें आयकुप्याच्या लक्षांत येता आनी ती ताजे जिबेरूय घोळूंक लागता.

जायते फावटीं उत्पादक आपल्या उत्पादनाक धरून पार्श्वसंगिताच्या आवाजाचो वापर कलात्मक रितीन आनी सुचकतायेन करतना आयकूंक मेळटा. देखीक: मोदी, एमआरएफ, सियॅट टायर कंपन्यो आपल्या टायरांची जायरात करतना डांबरी वा खडबडीत रस्त्यार टायर घांशिल्ल्याचो आवाज आयकूंक दितात. पॅप्सी वा कोका कोला पियेतना आंवडो घोंटपाचो आवाज, जाल्यार टायगर बामाचे जायराती वेळार वागाचे गरडेचो आवाज आयकूंक मेळटा.

आकाशवाणी खातीर जायरात बरयतना मसुदो लेखकान मुखेल अशो दोन गजाली मतींत धरपाक जाय. त्यो म्हळ्यार, एक, आकाशवाणी हें पुरायपणान श्राव्य माध्यम आनी दुसरी, मसुदो निवेदीत करतना संगीत आनी सुरावटीचो वापर करूक मेळटा ही.

आकाशवाणीचेर जायरात प्रसारीत करतना ती खंयच्या वेळार वा खंयचे एके कार्यावळी वेळार करप हाकाय तितलेंच म्हत्व आसता. आपले जायरातीचो आयकुपी वर्ग कोण आनी आयकुपी आपली जायरात केन्ना आनी खंयच्या वेळार आयकुपाची शक्यताय आसता हें सर्वसादारणपणान मतींत धरपाक जाय. देखीक: शेतकाराखातीर आशिल्ली जैन पायपांची जायरात वा सुफला साऱ्याची जायरात खूब सकाळीं वा तीनसांजेच्या वेळार दिल्यार बरे तरेन शेतकारामेरेन पावूं येता. कारण, सकाळींफुडें शेतकार शेतांत गेल्लो आसना वा सांज वेळार थकिल्लो-भागिल्लो शेतकार घरा परतल्लो आसता. आपलें मन शांत करपाक तो रेडिओ कार्यावळ आयकुपाची शक्यताय चड आसता.

आकाशवाणीचेर कितलो वेळ जायरात करतलो, हाजेवयल्यान मसुद्याचे शब्दसंख्येचें गणीत करूं येता. कारण सर्वसादारणपणान सुस्पश्ट अशा देवनागरी वाचनाचो वेग प्रती मिनटाक १०० उतरां जाल्यार, इंग्लेजीचीं दर मिनटाक १२० उतरां आसतात. मसुदो निवेदन, संगीत आनी सुरावट मेळून सर्वसादारणपान आकाशवाणीवयली जायरात

उण्यांत उणी १० सॅकंड आनी चडांत चड ३० सॅकंड इतली आसता.

आकाशवाणीवयल्या जायरात मसुद्यांत उण्या उतरांनी उत्पादनाची चडांत चड माहिती दिवपाचो प्रयत्न आसपाक जाय. मसुदो तयार करतना उच्चारणाक सोंपी आनी कर्णमधूरताय आशिल्लीं सुटसुटीत उतरां वापरप चड गरजेचें. वाक्य बांदावळूय ल्हान आनी म्होंवाळ आसपाक जाय.

आपल्या उत्पादनाचें नांव परत परत आयकुप्यांच्या कानार पडचें हो आकाशवाणीवयले जायरातीचो मूळ हेतू आसता. देखीक:

'**विको** टरमॅरीक, नहीं कॉझ्मॅटीक
**विको** टरमॅरीक आयुर्वेदीक क्रीम ऽऽ...'

कांय जायराती संवादात्मक जाल्यार कांय गीत-सुरांनी जाल्यार चडशो भरशिल्ल्या स्वरुपाच्यो आसतात.

पुरस्कृत कार्यावळींक आनी वेगवेगळ्या चॅनलांक लागून आकाशवाणीवयल्या जायरातींक लोकप्रियता मेळपाक आदार जाता. १० ते २० मिनटांचे कालावधींत सादर जावपी ह्या कार्यावळींनी व्हड उद्देग कंपन्यो, बँको आनी हेर मर्यादीत संस्था आपल्या उत्पादनांची जायरात प्रसारीत करतात. ह्यो कार्यावळी वेगवेगळ्या थरांतले रसीक लोक मन लावन आयकतात. कारण हातूंत चलचित्र गितां, गझल, पॉप संगीत आनी हेर सुरबूस हास्यात्मक कार्यावळींचो आसपाव आसता.

आकाशवाणी जायरात मसुदोलेखन करतना कांय म्हत्वाच्यो मतींत दवरपासारक्यो गजाली:

१. उत्पादनाचें नांव आनी घोशवाक्य एकापरस चड खेपे निवेदनांत वापरचें जाका लागून आयकुप्यांच्या मनांत तें कायमचें उरूंक आदार जाता.

२. जायरातीच्या मसुद्यांत कसल्याय फामाद गिताचो, लोकसंगिताचो वा सुरावटीचो वापर करचो वा नवनिर्मिती करची. मनशाक संगिताची आवड आशिल्ल्यान जायरात भास-प्रांताची वणत मोडून गिरायकाच्या काळजामेरेन पावता.

३. आकाशवाणी जायरात उण्यांत उण्या वेळांत उत्पादनाचे वेंचीक गूण, म्हत्व आनी फायदे गिरायकामेरेन पावोवपाचें आशिल्ल्यान निवेदनांत हेर नाका आशिल्ल्या गजालींचेर भर दिवंचो न्हय.

४. मसुद्याकडेन सुमेळ सादूंक पावत अशी आवाजाची आनी संगिताची जोड दिवंक जाय, जाका लागून आयकुप्यांच्या दोळ्यांमुखार त्या उत्पादनाचें जितें जागतें चित्र उबें करपाक मदत जातली.

५. आकाशवाणीवयलो जायरात मसुदो हो आज्ञार्थी वा आदेशात्मक स्वरुपाचो आसचो. एकापरस चड खेपे येवपी घोशवाक्यां, आयकुप्यांच्या काळजाक हात घालून केल्ली आज्ञा आनी म्होंवाळ आवाजांत दिल्लो आदेश सदांच प्रभावी थरता.

६. मसुद्याचें वाचन म्होंवाळ आवाजांत जावपाक जाय. उतरांचें उच्चारण खूब गरजेचें. अक्षरांचो अर्थ तशेंच अमकें एक उतर खंयच्या संदर्भांत वापरलां हें समजून घेवन तशी ताजी उच्चारप्रणाली थरोवप गरजेचें.

७. वस्तूचो वापर आनी ती वापरपाचो वेळ हांचेभितर सुसुत्रताय आसल्यार तोच वेळ सादून जायरात प्रसारीत करची. देखीक: जळारांक लागून वापरपाची ऊदवात, न्हिदपाखातीर वापरपाच्यो गादयो आनी उशांची जायरात **रातच्या** वेळार करची. दांतांची टूथपेस्ट, च्या पावडर, भलायकी आनी व्यायामाविशीं उत्पादनांची जायरात **सकाळच्या** मायत्याक करची. तशेंच, थंड पेयांची जायरात **दनपारचो** वेळ सादून केल्यार भोवच प्रभावी थरता.

## • दूरदर्शनावयली जायरात

आयज आमी उद्देगीक क्रांतीच्या दुसऱ्या पेण्यार उबे आसात. विज्ञान आनी तंत्रज्ञानाच्या मळार जाल्ल्या वेगवेगळ्या प्रयोगांक लागून मनशाची जिणूच 'मशीन' जावन पडल्या.

अंतराळयान, रडार, फॅक्स मशीन, दूरदर्शन आनी हेर विकसीत तंत्रज्ञानांभितर दूरदर्शन संच आयज भौसाच्या घराघरांत पावला. वाडटी लोकसंख्या, तिज्यो वाडट्यो गरजो आनी बदलत्यो आवडी-निवडी हांकां लागून आयज संवसारीक उद्देगधंद्याच्या मळार साबार बदल घडूंक लागल्यात. जगाच्या एका कोनशाक तयार जाल्लें उत्पादन, आयज येरादारींत जाल्ल्या मुळाव्या बदलांक लागून, वितरण वेवस्था आनी नव्या नव्या जायरातींच्या माध्यमांक लागून तें उत्पादन संवसारभर शिंपडिल्ल्या गिरायकाच्या दारामेरेन वेळार पावता.

उत्पादन विकतें घेवंचे पयलीं जायरात त्या उत्पादनाची पुराय वळख गिरायकाक करून दिता. ते वस्तीचे गूण, फायदे आनी हेर माहिती जायरातीच्या माध्यमांतल्यान गिरायकाक सतत मेळत आसता. ताका लागून जायरात ही गिरायकाक बाजारांत कसलें नवें उत्पादन आयलां हाजी पयली जाणविकाय करून दिता.

दूरदर्शन हें दृक आनी श्राव्य माध्यम आशिल्ल्यान चित्र आनी चलचित्रांक लागून तें खुबूच प्रभावी थारलां. दूरदर्शन माध्यमांतल्या प्रसारीत केल्ल्यो जायराती गिरायकाच्या घरांत पावतात. एकाच वांगडा साबार लोकांनी दूरदर्शनावयल्यो कार्यावळी पळयल्ल्यान, उत्पादक आपल्या उत्पादनाची जायरात दूरदर्शनार प्रसारीत करून गिरायकाकडेन संपर्क सादता. हेंच एके गजालीक लागून हेर जायरात माध्यमांच्याकूय दूरदर्शन माध्यम हें म्हत्वाचें आनी उजवें थरता.

दूरदर्शनावयल्यो पुरस्कृत माळी ह्यो मनरिजवण्यो आशिल्ल्यान चडशे प्रेक्षक त्योच पळोवप पसंत करतात. खंयचीय पुराय कार्यावळ वा अर्द वांटो अमूक एका उत्पादकान पुरस्कृत केल्लो आसता. ताकाच लागून कार्यावळीचे सुरवातीक, मदीं वा सोंपतेर **'हे कार्यावळीचे प्रायोजक आसात / आशिल्ले जे वी जी सुपर वॉश'** अशी घोशणा

करतात.

उत्पादक फकत मनरिजवण्यो माळीच पुरस्कृत करून आपली जायरात करतात अशें ना. ते केन्ना केन्ना शिक्षणीक कार्यावळी वांगडा खेळां महोत्सव वा हेर खंयचेय राष्ट्री-आंतरराष्ट्री कार्यावळींचे वांट्या-वांट्यांनी भाग पुरस्कृत करून आपल्या उत्पादनाची जायरात करतात.

दूरदर्शन जायरातीचें लेखन करतना स्क्रिनाचेर दाखयतात तीं दृश्यां मतींत धरून मागिरूच लेखन करप गरजेचें. मसुदो बरोवपी लेखक आनी दृश्यां टिपपी कॅमॅरामॅन ह्या दोगांयनी एकठांय येवन जायरातीचे सुचकतायेविशीं खोलायेन भासाभास करप गरजेचें. जितलो मसुदो लेखक म्हत्वाचो तितलोच कॅमॅरामॅन गरजेचो आसता. दूरदर्शन जायरातींतलीं चित्रां केन्नाकेन्ना रोखड्यारोखडीं बदलतात, जाल्यार कांय खेपे स्लो मोशन तंत्र वापरून पळोवप्याक आकर्शीत करतात. प्रेक्षक दूरदर्शनाच्या स्क्रिनाकडेन एक सारको नदर लावन पळयत आशिल्ल्यान गरज थंयच निवेदन आनी संगीत दिवप गरजेचें.

**मसुदो तयार करतना खासा परिणाम सादपाखातीर कांय तंत्रांचो वापर**

१. स्क्रिनार दाखयतात त्या दृश्यांक पोशक अशेंच निवेदन करप गरजेचें. निवेदन हें पळोवप्याचे भावनेक वश करपी आसपाक जाय.

२. दूरदर्शन जायरातींत प्रात्यक्षिकांक चड म्हत्व आसता. कसलीय वस्त कशी वापरपाची, तिजो परिणाम किदें हें गिरायकाक प्रत्यक्ष दिसपाक जाय. देखीक : रीन शाबू वापरले उपरांत कपडे कशे नितळ-निवळ जातात, कॉलगेट पेस्ट लायले उपरांत दांतांक कशी चकचकसाण येता, तशेंच झंडू बाम चोळ्ळे उपरांत 'एका बामांत तीन कामां' कशीं साध्य जातात हें प्रत्यक्ष स्क्रिनार दाखोवप भोवच गरजेचें.

३. उत्पादन कसलें हें मतींत धरून दृश्यांक जीवसाण हाडपाचे नदरेन तो वाटार, तीं पात्रां, थंयची भास आनी लोकसंगिताचो वापर प्रभावीपणान जावपाक जाय. देखीक, सार्‍याची वा किटकनाशकांची जायरात करपाची आसत जाल्यार शेतवडीची फाटभूंय दाखोवन शेतकार तांचो कसो उपेग करता, आनी ताजो ताका फायदो कशे तरेन जाता हाजें प्रात्यक्षिक दाखोवन परिणाम सादप गरजेचें.

४. उत्पादनाचेर विस्वास निर्माण करपाखातीर तशेंच ताजेवयलो विस्वास वाडोवपाखातीर लोकप्रिय चलचित्र नट, खेळगडे, वादक, गायक, विश्वसुंदरी, नृत्यांगना असल्या वेगवेगळ्या मळांवयल्या कलाकारांचो जायरातींत वापर करप. देखीक, सचिन तेंडुलकार पॅप्सी शीतपेय, उस्ताद झाकीर हुसेन ताज महल च्या जाल्यार श्रीदेवी लक्स शाब्बाची जायरात करतना दिश्टी पडटात. जायते फावटीं हे कलाकार उत्पादनाविशीं आपलीं मतांय जायरातींत उकतायतात.

